# वज्रघात

(समिक्षा)

डॉ. प्रकाश रमाकांत वजरीकार

प्राची प्रकाशन
वजरी - साखळी - गोंय

**वज्रघात**
(समिक्षा)



**प्रकाशन क्र.** 2
प्राची प्रकाशन
वजरी साखळी
गोंय 403505

**अक्षरजुळवणी :**
ज्योती गांवकार

**मृखपृश्ठ**
प्रशांत थोरावत

पयली उजवाडावणी : जून 2010
छापपी
स्वर्णमुद्रा प्रिंटर्स
माशेल - गोंय

**मोल : रू.** 125/-



**Vajraghat**
A practical approach to literary criticism



**Publication No.** 2
Prachi Prakashan
Vazari, Sanquelim
Goa. 403505

**Typesetting :**
Jyoti Gaonkar

**Cover :**
Prashant Thorawat

**First Edition** : June 2010
**Printer**
Swarnamudra Printers
Marcel - Goa.

**Price : Rs.** 125/-

(हें पुस्तक उजवाडाक हाडपाक गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती खात्याचो अर्थीक पालव लाबला.)

डॉ. तानाजी हळर्णकार
डॉ. हरिश्चंद्र नागवेकार
डॉ. केशव सद्रे
डॉ. वासुदेव सावंत हांका...

तशेंच,

साहित्याचें आकलन आस्वादन आनी मुल्यमापनाची दिका दाखोवपी -

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'त्या' कृतिसत्रांक...

नमळायेन...

# मांडावळ

भाग II

पान नं.

# थोडें म्हजें -

कोंकणी साहित्याची समिक्षा जावंची हो हावेस दर पिळगेंतल्या लेखकांनी उक्तायला. ही समिक्षा परखड जावंची होवूय हावेस समकालीन कोंकणी साहित्यीक उक्तायताना दिश्टी पडटा. भास आनी साहित्याचें अध्ययन आनी अध्यापन करताना हो विचार अदीक खोलायेन जावपाक लागता. साहित्य समिक्षा परखड करप म्हळ्यार बेश्टेंच वायटपण घेवप होवूय समांतर विचार चलिल्ल्यान आमी कोंकणी साहित्याची जाय तशी मोलावणी करूंक पावनात. आमचेकडेन पूर्णवेळ समिक्षक नात आनी समिक्षेखातीर ओपिल्लें व्यासपिठूय ना. नेमाळीं, परिसंवाद, पुस्तक प्रकाशनां, अधिवेशनां अशा निमतांनी ती समिक्षा जाता. कोंकणी साहित्य समिक्षा हो नेमान अभ्यासक्रमाचो (उंचेल्या पांवड्यारूच न्हय तर माध्यमीक पांवड्यारूय) वांटो जावंक जाय.

वज्रघात हें निमतान आयिल्लें समिक्षा रूपांतलें बरप. अ. भा. कों. परिशद, साहित्य संमेलनां, साहित्य अकादेमी, कोंकणी अकादेमी, कला अकादेमी, नेमाळीं, नव्या पुस्तकांचे प्रकाशन सुवाळे, वेगवेगळ्यो शिक्षणीक संस्था हांच्या कार्यावळींच्या निमतान जें बरप जालें तें ह्या पुस्तकांत संकलीत आनी संपादीत रूपान आयलां. साहित्य समिक्षेची रूच लावपी डॉ. केशव सद्रे, डॉ. भालचंद्र नेमाडे, डॉ. वासुदेव सावंत, डॉ. हरिश्चंद्र नागवेकार, डॉ. तानाजी हळर्णकार अश्या लोकांचो म्हाका सांगात मेळ्ळा. कवी माधव बोरकार हांची साहित्य साधना आनी रसिकताय हांवें लागिच्यान अणभवल्या.

फकत आकलन आस्वादन न्हय तर मुल्यमापनूय करपाचो एक प्रयत्न ह्या पुस्तकाच्या रूपान वाचप्यांक दिसतलो.

हें पुस्तक उजवाडाक येवंचें म्हण गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती खात्याचो अंशतः अर्थीक पालव लाबला. पुस्तकाचेर आपलें टिपण बरोवपी प्रा. भूषण भावे, संकणकीय वावर करपी सौ. ज्योती गांवकार तशेंच पुस्तक येवंचें ही खर इत्सा उत्कावपी प्रा. प्रकाश पर्येकार आनी सांगात्यांचे उपकार.

गोंय क्रांती दीस
18 जून 2010
खांडोळें – माशेल गोंय
9923245603

डॉ. प्रकाश वजरीकार

## कोंकणी समिक्षा : आस्वादनाकडल्यान विश्लेशणाकडेन...

डॉ. प्रकाश रमाकांत वजरीकार हांचें 'वज्रघात' हें समिक्षा-विशयक पुस्तक उजवाडाक येता. कोंकणी साहित्याक 1961 उपरांत, म्हळ्यार गोंयचे सुटके उपरांत नवे नवे आयाम, तासांकुसां फावो जालीं. जे लेखक सुटके आदींसावन कोंकणींत बरयताले, तांचेवांगडाच जे बरोवपी हेर भासांनी बरयताले तांणीय बी कोंकणींतल्यान आपले अणभव आनी अनुभूती उक्तावपाक सुरवात केली. हाका लागून आशयाचे आनी अभिव्यक्तीचे लेगीत नवे नवे प्रवाह आनी प्रकार कोंकणींत आयले. जे साहित्यप्रकार, देखीक प्रवासवर्णन, चरित्र-आत्मचरित्र, दीसपटी आदी, सुटकेआदीं नाशिल्ले ते प्रकार फाटल्या 50 वर्सांत निर्माण जाल्ले दिश्टी पडटात.

साहित्यावांगडाच समिक्षा-साहित्य लेगीत समांतरपणान (Parallelly) घडपाची गरज आशिल्ली. पूण साहित्याच्या मानान ताची समिक्षा मात उण्या प्रमाणांत जाली. हाचीं जायतीं कारणां आशिल्लीं. पयलें म्हळ्यार नव्यानच निर्माण जाल्लें साहित्य तोखेवपांतच कोंकणी वाचकाचो चडावत वेळ गेलो. दुसरें म्हळ्यार समिक्षा बरोवपाक जाय आशिल्ली सिध्दांतीक बसका कोंकणी बरोवप्यांकडेन नाशिल्ली. हाचें कारण कोंकणी भास आनी साहित्याचें उंचेले शिक्षण उपलब्ध नाशिल्लें. ज्या बरोवप्यांक अशे तरेची सिध्दांतीक बसका आशिल्ली ते स्वताच एक सर्जनशीळ लेखक जावन आशिल्ले. देखून तांचेकडल्यान समिक्षात्मक अपेक्षा करप योग्य नाशिल्लें. तरी लेगीत बाकीबाब, लक्ष्मणराव सरदेसाय, मनोहरराय सरदेसाय, पुंडलीक नायक आनी हेर साबार त्यावेळावयल्या ज्येष्ठ आनी नवोदीत बरोवप्यांनी संपादीत केल्ल्या कथा-कवितांच्या संकलनाक बरयिल्ले प्रस्तावनेच्या रूपांतल्यान त्या काळांतल्या साहित्याची एके परीन समिक्षाच केल्या.

फावो त्या प्रमाणांत समिक्षा निर्माण ना जावपाचें दुसरें कारण म्हळ्यार गोंयचो ल्हान आंवाठ. ल्हान भूगोलीक प्रदेशांत दरेकलो लेखक दुसऱ्या लेखकाक वळखता. देखून एका लेखकान दुसऱ्या लेखकाच्या लिखाणाविशीं बरयिल्लीं मतां निरपेक्ष आनी पूर्वग्रहमुक्त आसुंकूच शकनात. तांची इश्टागत आनी तांचे हितसंबंद ते बरपावळींत सबावीकपणान आड येतात. इतलेंय करून ज्या बरोवप्यांनी

समिक्षा बरोपवाक सुरवात केली, तांच्या अंतर्मनांत, 'आतांच खंयतरी कोंकणी आधुनीक साहित्य मूळ धरता. ताका मूळ धरूं दी. ताचीं पाळां-मुळां वाऱ्यावताचो आघात सोसूंक सक्षम जावंची. इतले बेगीन तांचेर समिक्षेचे नदरेन केल्ले गुणदोशाचे आरोप करचे न्हय' अशे तरेचो करूणेचो, सहानुभूतीचो, काकळुटेचो विचार आयलो जाल्यार लेगीत तांका गैर मानचें न्हय.

हेच नदरेन कोंकणींत पयल्या पावंड्यार तुस्ततोखणायेची, चड करून आस्वादात्मक, चिकित्सेचो उणाव आशिल्ली, तार्किक निसंगतीयुक्त, साहित्यापरस बरोवपी साहित्यिकाचो उदो उदो करपी, साहित्यीक गुणदोशांपरस साहित्यिकाच्यो सबाब, ताचे आपणाकडले संबंद हांची चर्चा करपी समिक्षा कोंकणींत चड निर्माण जाल्ली पळोवंक मेळटा. उपरांत 1988-89 उपरांत कोंकणींत एम्.ए. मेरेनचें शिक्षण घेतिल्ले पदव्युत्तर विद्यार्थी तयार जाले. तातुंतले कांय जाण विद्यालयांनी आनी महाविद्यालयांनी अध्यापनाचो वावर करपाक लागले. तेन्ना एक तर उपजत समिक्षकाची नदर आशिल्ल्यान, वा अभ्यासक्रमाचे गरजेक लागून तांणीं समिक्षा लेखन सुरू केलें. ह्या लिखाणाक तात्वीक बसका तर आशिल्लीच, त्याभायर पूर्वग्रहदूशीत नदर नासतना निर्मम निरपेक्षताय आशिल्ली. तांची भास चडशी चिकित्सक, विश्लेशणात्मक, परखड, सडेतोड, निर्भिड आनी निर्हेतूक आशिल्ली. डॉ. प्रकाश वजरीकार हे तेच माळेंतले एक समीक्षक.

सुरवेक सावन चौफेर नदर, भरपूर वाचन, विज्ञानीक दिश्टीकोन आनी मुखेल म्हळ्यार वैचारीक बसका हांका लागून तांचें समिक्षा लिखाण वेधक आनी भेदक जालां. त्याभायर कोंकणी भाशेचेर आनी गोंयपणाचेर निस्सीम श्रध्दा आनी कसल्याय तरेच्या अन्यायाआड संघर्श करपाची डॉ. प्रकाशाचे वृत्तीक लागून तांच्या समिक्षा लिखाणाक धार आयल्या. दरेका प्रस्नाच्या मुळाकडेन वचून ताचो विचार करपाची तांची संवय आशिल्ल्यान साहित्यांतल्या जायत्या प्रस्नांक तांणी वाचप्यांक पटसारक्यो जापो सोदल्यात.

'वज्रघात' हें तांचें समिक्षा-विशयक पुस्तक लेगीत ताका आडवाद ना. ह्या पुस्तकाच्या पयल्या वांट्यांत कोंकणी साहित्य विश्वांतल्या एकंदरीत विशयांचें स्वरूपदर्शन आनी मतप्रदर्शन बरोवप्यान केलां, जाल्यार पुस्तकाच्या दुसऱ्या वांट्यांत एखादलें पुस्तक वा एखादलो लेखक/कवी हांची समिक्षा बरोवप्यान केल्या. पुस्तकाचो पयलो वांटो सिंहावलोकन (overview) भशेन आसा जाल्यार

दुसरो वांटो विहगंमावलोकन (Birds Eye view) भशेन आसा. पयल्या वांट्यांत 9 जाल्यार दुसऱ्या वांट्यांत 20 लेख आस्पावल्यात.

पयल्या वांट्यांत पुस्तकांची वाडटी संख्या, सत्तरींतली कथा, निबंद साहित्य, बालसाहित्य, कोंकणी नाटक ह्या साहित्य-प्रकारांचो नियाळ केला. त्याभायर कोंकणी चळवळ आनी कोंकणी समिक्षा ह्या विशयांचें विश्लेशण केलां, एका लेखांत कोंकणी कथेंतली बायल प्रतिमा हाचेर टिपण बरयलां, जाल्यार एक लेख 'शेतांभाटांचो वेवसाय आनी कोंकणी मनीस' ह्या विशयावेलो आसा, जो मुळांत ह्या विभागांत सोबना. पयल्या वांट्यांतले हे सगलेच लेख त्या त्या विशयाचो अभ्यास करपी विद्यार्थ्यांक तशेंच संशोधकांक भोवच उपेगी आसात. म्हत्वाचें म्हळ्यार एकतर आतांमेरेन खंयच लिखीत रूपांत ना वा लिखीत रूपांतलो आसल्यार लेगीत सहजतायेन उपलब्ध ना अशी माहिती आनी इतिहास डॉ. प्रकाशान भोवच कश्टसायास घेवन वाचप्यांखातीर उपलब्ध करून दिला.

पुस्तकाच्या दुसऱ्या वांट्यांत नवोदितांपासून जाण्ट्यांमेरेन आनी पुरस्कारप्राप्त लेखक/कवींसावन प्रस्थापितांमेरेनच्या लेखकांची (तांच्या एखादल्या पुस्तकाची वा तांच्या पुराय साहित्याची) समिक्षा केल्या. हातूंत योगिनी बोरकार, दुर्गादास गावडे, सुदेश लोटलीकार धरून डॉ. मनोहरराय, चा.फ्रा. तें श्री. रवीन्द्र केळेकार मेरेनच्या साहित्यिकांच्या साहित्याचेर भासाभास केल्या.

ह्या पुस्तकांत आस्पाविल्ल्या कांय लेखांत डॉ. प्रकाश वजरीकार हांणीं मांडिल्लीं सगलींच मतां पटपासारकीं नात. देखीक 'कोंकणी साहित्याचो गडगड' ह्या लेखांत वाडत वचपी कोंकणी पुस्तक संख्येविशीं बरयलां. तातूंत 'पोर्तुगेज गोंयांत येवंचे आदीं गोंयांत कोंकणी साहित्य आशिल्लें, चडशें धर्मीक स्वरूपाचें हें साहित्य पुर्तुगेजांनी बाटाबाटीच्या काळांत लासून उडयलें अशें सांगतात. तशें पळोवंक गेल्यार ह्यो कायलोळ्यो' अशें विधान केलां. हें विधान धाडशी आनी अर्धसत्य आसा. इतिहास तपासून पळयतकीच, पोर्तुगेजांनी कोंकणीच न्हय तर मराठी साहित्य लेगीत एकतर जप्त केलें वा लासून उडयलें हें सिध्द जालां. कृष्णदास शामाच्यो कोंकणी कथाच न्हय तर ताचें 'श्रीकृष्णचरित्रकथा' मराठी काव्य लेगीत जप्त जाल्लें (घडये नश्ट लेगीत केल्लें).

कांय लेख आशयाचो आनी विशयाचो विस्तार मागतात. देखीक 'कोंकणी

बालसाहित्य' लेखांत सुरवेक कोंकणी 'लोकसाहित्याचो' विचार केला आनी उपरांत कोंकणी बालसाहित्याचेर चर्चा केल्या. खरें म्हळ्यार कोंकणी लोकसाहित्याचेर एक स्वतंत्र लेख जावं येतालो. तीच गजाल 'कोंकणी कथेंतली बायल प्रतिमा' ह्या लेखांत प्रस्तावनेच्या रूपांत बरयिल्ली बरपावळ एका वेगळ्या लेखाचो विशय जावं येताली. डॉ. प्रकाशाच्या ह्या लेखांचें खाशेलेंपण म्हळ्यार तांणी विशय विस्कावणेखातीर वापरिल्ल्यो उपमां. देखीक खुंटिल्ल्या तायखिळ्यावरी, भितर घाव भायर खवळी आदी. आपणाक आशिल्ल्या हेर क्षेत्रांतल्या गिन्यानाचो वा वाचिल्ल्या प्रसंगाचो/माहितीचो उपेग बरोवपी मुक्तपणान गरज थंय करता. देखुनूय ह्या पुस्तकाचें मोल वाडटा. तशेंच बरोवप्याच्या परखड सबावाक लागून जें जें गैर/अयोग्य दिसता, थंय-थंय तो स्पश्टपणान, कसलीच भीड मुर्वत दवरिनासतना टीका करता. हे टिकेंतल्यान श्री. रवीन्द्र केळेकार लेगीत सुटनात, हें म्हत्वाचें.

अशे रितीन गरज थंय परिचयात्मक, जाय थंय गुणगान, फावो थंय चिकित्सा आनी गरज थंय खरमरीत टिका हांणी भरिल्लें हें पुस्तक कोंकणी साहित्याचो अभ्यास करपी विद्यार्थ्यांक भोवच उपेगी थारतलें. कोंकणी समीक्षा आतां फकत आस्वादनापुरतीच मर्यादीत उरनासतना ती विश्लेशणाकडेन पावलां मारता हाची सुलूस 'वज्रघात' वाचतकीच वाचप्यांक मेळची.

**– प्रा. भूषण भावे**

# 1.
# कोंकणी साहित्याचो गडगड–पुस्तकांचो पावस

"आम्हां घरी धन शब्दाचीच रत्ने
शब्दाचीच शस्त्रे यत्ने करू"
– संत तुकाराम

संत तुकाराम महाराजांच्या अभंगांतलीं ही उतरां कोंकणी मनशान बुध्दीचे सांडीर घासून पळयलीं, कसाक लायलीं आनी मागीरूच घेतलीं. उतरांचीय शस्त्रां करून जिवीताचें नितीशास्त्र तांणी मांडलें. कोंकणींत उतरांचो पावस घालो. पुस्तकांचो पावस! हो आडयाळो पावस न्हयच. नेमान पडपी पावस. फाटल्या कांय वर्सांनी तर घसघशांनी पडपाक लागला.

कोंकणींत पुस्तकांच नात अशें म्हणटल्यांक जापो दितना कोंकणी मनशान आपल्या घामा कश्टांनी आनी उपास तपासांनीच हें अक्षर धन वांटपाचें कार्य केलां. करीत आसात.

कोंकणी पुस्तकां कोण वाचतात? तीं कितलीं खपतात? प्रकाशकांची परिस्थिती कितें आसा? कोंकणी साहित्य वेव्हाराक फुडार आसा काय ना? ताचेखातीर कितें करचें पडटलें? कोणें वावर करचो पडटलो? कितलेशेच प्रस्न आमचे मुखार उबे रावतात. मात ह्या प्रस्नाच्यो जापो सोदूंक आमकां पुराय कोंकणी वाठाराचेर नदर मारची पडटली.

जाणकार सांगतात ते प्रमाण देशांत सुमार पन्नास लाख कोंकणी लोक आसात. मात हो कोंकणी मनीस देवनागरी, रोमी, कन्नड, मल्यळम, अरबी लिपयांनी वांटून गेला. एक भास एक लिपी ह्या अखील भारतीय कोंकणी परिशदेच्या सुत्रान ते अजून बांदिल्ले नात. ह्या तरेकवार लिपयांनी उजवाडाक येवपी कोंकणी साहित्य वाचप्यांचो स्वताचो असो आंकडो आसा.

कानडी लिपयेंतल्या कोंकणी वाचप्यांचो आंकडो कर्नाटकांत चड आसा. गोंयांत रोमी आनी नागरी अशा दोनूय लिपयांतल्या वाचप्यांचो आंकडो निश्चीत कितलो हाचें सर्वेक्षण जाल्लें ना. पूण ह्यो वण्टी मोडून उडोवंक कितलेशेच जाण

मुखार सरल्यात. 'ऋतू' हे कन्नड आनी देवनागरी लिपयेंतलें कोंकणी कवितांचें नेमाळें चलता. कन्नड लिपयेंतल्या पुस्तकां वांगडाच देवनागरी लिपयेंतल्यान चलोवपाची परंपराय सुरू जाल्या. कांय जाणांनी हे प्रयोग रोमी लिपयेंतल्यानय सुरू केल्यात. कवितेचे बाबतीन मनोहरराय सरदेसाय हांचो असलो प्रयोग जैतीवंत जाला.

पुर्तुगेज गोंयांत येवंचे आदीं गोंयांत कोंकणी साहित्य आशिल्लें, चडशें धार्मिक स्वरूपाचें हें साहित्य पुर्तुगेजांनी बाटाबाटीच्या काळांत लासून उडयलें अशें सांगतात. तशें पळोवंक गेल्यार ह्या मताक तसो सबळ आदार ना. पुर्तुगेजांक कोंकणीच साहित्य लासून उडोवपाक फावलें? हो मुद्दोच आतां काळाभायरो थारला. मात कोंकणीच्या मर्णाच्या फर्मानान कोंकणी अभिव्यक्ती चिड्डून उरली हें खरें. पूण उपरांतच्या काळांत दो. कुन्य रिव्हार, मोंसिन्योर दाल्गाद, शणै गोंयबाब हांणी कोंकणी भास आनी साहित्याक जीवसाण हाडून कोंकणी अस्मितायेचो लामणदिवो अदीक पर्जळीत केलो. शणै गोंयबाबाची बरपावळ पयलीं मुंबयच्या गोमन्त छापखान्यांत छापिल्ली. पूण ती ग्रंथ रूपान संकलीत करून वाचप्यांकडेन पावोवपाचें काम ॲड. उदय भेंब्रेन कंकणी भाशा मंडळाचे अध्यक्ष आसतना केलें. हो वावर मोलाचो.

1975 वर्सा साहित्य अकादेमीची मान्यताय मागतना देवनागरी कोंकणी पुस्तकांचो एक गठ्ठो आमचे म्हालगडे मांडटाले. तेन्ना हीं कितें मूठभर पुस्तकां अशी हिणसावणीय तांणी भोगल्या. अशा वेळार कांय कोंकणी लेखकांनी आनी संस्थांनी पुस्तकांची पुस्तकां छापून गोंयचे सांस्कृतीक जिणेंत आपलें योगदान दिलां. कोंकणी पुस्तकां छापप आनी तीं लोकांमुखार हाडप. तीं विकप, विकतीं घेवंक लावप वा फुकट वांटप. उरिल्लीं आपल्या घरांनी दाळून दवरप. असो हो वेव्हार चलतालो. अजून तशी परिस्थिती उरूंक ना. कोंकणी पुस्तकां आतां प्रयत्न केल्यार खपतात.

आदीं हो प्रकाशन वेवसाय चडसो पोटतिडकेन आनी निश्ठेन जातालो. ताका वेव्हाराची जोड कांय प्रमाणांत आयल्या ती हालींच्या कांय वर्सांनी. 'जाग', 'कुळागर', 'अपुरबाय', 'जैत', 'राजहंस', 'ॐश्री दत्त पद्मजा', 'अस्मिताय', 'भाशा मंडळ', 'साहित्य अकादेमी', 'कोंकणी अकादेमी', 'मित्र', अगस्ती - बिम्ब ते भायर आपणेच आपलीं पुस्तकांय छापिल्लेय कितलेशेच

लेखक आसात. गोंयचे मुक्ततायेन कोंकणी मनशाक जो स्वाभिमान शिकयलो ताचें फळ म्हूण कोंकणी भाशेकडेन भौस आयलो. स्वयंस्फुर्तीन. आपले शक्तीन. ज्या घराण्याक कोंकणी पुस्तकांच्या साहित्य वेव्हाराची परंपराच नाशिल्ली अशा घरांतल्यान हो विचार रूजवणाक आयलो हें ह्या वेव्हाराचें जैत.

पुंडलिक नायक हो आयचो कोंकणींतलो एक सिध्दहस्त लेखक. तांच्या पुस्तकांक मागणी आशिल्ल्यान नव्यो आवृत्त्यो कांय वर्सांनी परतून काडच्यो पडल्यात. तांचें पयलें पुस्तक तांणी छापलें 1975-76 वर्सा. वळवय अपुरबाय प्रकाशन संस्था सुरू जाली तेन्ना. पयलें पुस्तक – 'रानसुंदरी'. तांचेंच बालनाट्याचें पुस्तक. ह्या पुस्तकाच्या एक हजार प्रतींचो पेंडको घेवन आमोरेच्या पारार पुंडलिकबाब जेन्ना घरांत भितर सरले तेन्ना दारार आशिल्ल्या बापायन तांकां विचारलें, 'हें तुवें कितें चलयलां?' पुतान हड्डें फुडें काडून सांगलें, 'हें म्हजें पयलें पुस्तक. हांवें एक हजार पुस्तकां छापल्यांत. ताका सयंशीं रूपया लागल्यात. पुस्तकाचें मोल एक रूपया. हीं हजारूय पुस्तकां खपतलीं तेन्ना म्हाका चारशीं रूपया उरतले.' पुंडलीक नायकाच्या बापायन तेदेवेळार बोल्सांतलो एक रूपया काडलो आनी पुस्तक विकत घेतलें. पुंडलीकबाब सांगतात : "म्हज्या पुस्तकाचें पयलें गिरायक म्हजो बापूय!"

तें एक पुस्तक खपोवपाक पुंडलीकबाबाक नाना काडावडी काडच्यो पडल्यो. पूण म्हुणून मागीर तांणी अपुरबाय प्रकाशन बंद केलें ना. त्या एक रूपयावेल्यान मुखार सरून अपुरबायचीं पुस्तकां बाजारांत आयलीं. तीं लोकांमेरेन पावलीं. तांकां तळमळ आशिल्ली. पुंडलीकबाबाचीं नाटकां गांवांगांवांनी जातालीं. तेन्ना भायर पुंडलीकबाब पुस्तकांचो मांड दाळटाले. मुखार हीच परंपरा मातशी वेगळे तरेन संजीव वेरेकार, सर्गेस्त अ. ऊ. नायक, अशोक भोंसलो आनी भरत नायकान वेगळे तरेन फुडें व्हेली. तांणी सगळीं कोंकणी पुस्तकां घेवन जात्रा-काल्यांनी वचप आनी पुस्तकांचो मांड घालप. संजीव सांगता : "पुस्तकां खपोवपापरस कोंकणींत पुस्तकां आसात हें लोकांक कळचें ही भावना ताचे फाटल्यान चड आशिल्ली. एका शारांतले जात्रेक तर – देवाच्या पांयाकडेन असलीं अपुर्बुद्दपणां करतात – अशें विचारून तांकां धांवडावन लेगीत घाल्ले."

गोंय मुक्तताये उपरांत कोंकणी भाशा मंडळ ही संस्था जल्मली. उपरांत राजभाशेच्या आंदोलनांतल्यान कोंकणी राजभास जाली. कोंकणी अकादेमी

स्थापन जाली तेन्नासावन मात परिस्थिती बदल्ली. नवोदीत कोंकणी बरोवप्यांचें पयलें पुस्तक अनुदान दिवन छापपाची 'पयलो चंवर' येवजण चालीक लायत सावन फाटल्या 20-22 वर्सांत कोंकणी अकादेमीन शेंकड्यावर लेखकांक मुखार हाडले. ह्या अनुवादाचो व्हडलो फायदो कोंकणी चळवळीक पर्यायान साहित्यीक चळवळीक जालो. पयल्या चंवराचें मुल्यमापन काळ थारायता. पूण एका लेखकाचें पयलें पुस्तक उजवाडा हाडपाक सरकार मजत करता ही चड म्हत्वाची गजाल. ह्या शंबरावयर शिर्शकांच्यो हजारांनी प्रती लोकांच्या घरांनी पावल्यात हें म्हत्वाचें.

तरीकय कोंकणींत छापिल्लें दरेक पुस्तक आशिल्लें परिपूर्ण अशें वाचपघर तयार करपाची गरज आसा. ताची पूर्वतयारी म्हणून कांय व्यक्तींच्या घरांतल्यो आलमारी पळोवंच्यो. आंतोन मोरायसालागीं तर दुर्मीळ पुस्तकांचो खजिनोच आसा. नागेश करमलीकडेन कोंकणी पुस्तकांचें भांडारच आसा. प्रकाशीत पुस्तकां वांगडाच हातबरपां आनी नेमाळ्यांचेंय बाड तांच्या घरांत भरलां. रवींद्रबाब केळेकारांचें तर पुराय घरच पुस्तकालय जालां. प्रा. भूषण भावेन कोंकणी नाटकांच्यो आनी एकांकीच्यो सुमार 300 संहिता एकठांय केल्यात. ब्राजीन सुवारीस हांचेकडेन रोमी पुस्तकां भरल्यांत. ही वळेरी व्हड आसा.

कोंकणींत बाल साहित्याच्या पुस्तकांचो तर पावसच पडपाक लागला. बालसाहित्याचीं पुस्तकां मोट्या प्रमाणांत खपतात. लोकांमेरेन पावतात. जाय तें फकत भान! बालसाहित्य रचनेकडेन पळोवपाची नदरय व्यापक जावंक जाय. मुळाव्या पावंड्यावेल्यान हो वावर तुकारामबाब शेट हाणीं केल्लो.

एका तेंपार कविता आनी कथांपुरतें मर्यादीत आशिल्लें कोंकणी साहित्य कादंबरीच्या स्वरूपांतय नेटान येवंक लागलां. एखाद्या विशिश्ट लेखकाच्या साहित्यविश्वाचेर आदारिल्ले खासा 'साहित्योत्सव' कोंकणीच्या मळार घडपाक लागल्यात. फकत साहित्यूच न्हय तर खाणां जेवणां, खेळ, भलायकी, पर्यावरण, शिक्षण, विज्ञान, इतिहास ह्या सारकिल्या मळांचेरय पुस्तकरूपी वावर वाडपाक लागला. कोंकणींत स्तोस्त्रां येवपाक लागल्यांत. सुहास दलाल हांचें श्री लयराई स्तोत्र लोकांच्या देवघरांनी दिसपाक लागलां. कोंकणी नाटक उत्सवी रंगमाचयेर पावतसावन तर पुस्तकांवांगडाच नाटकांच्यो व्हीसीडीय येवंक लागल्यात. राजदीप नायकाच्या कला चेतनान काडिल्ल्या 'कांसुलो' 'मिक्सींग फिक्सींग', प्रा.

राजय पवार हांची 'जमलें रे जमलें' आदी नाटकाच्यो तर आतां पायरटेड व्हर्शन्स बाजारांत आयल्यात. संजीव वेरेकराची 'मनपांखां' ही कोंकणी कवितांची पयली ऑडिओ सीडी आयल्या. कोंकणी तियात्राच्या सी.डी. डि.व्ही.डी ची तर बाजारपेठ तयार जाल्या.

1963 वर्सा रवींद्रबाब केळेकारान कोंकणींतल्या रोमी, कन्नड आनी नागरी पुस्तकांची एक वळेरी केल्ली. तातूंत सुमार सवायशीं पुस्तकां देवनागरींतली म्हणून नोंद जाल्लीं. ते भायर कानडी आनी रोमी लिपयेंतलीं वेगळीं. उपरांत राजहंस, कोंकणी अकादेमी, साहित्य अकादेमीनय कोंकणी पुस्तकांची वळेरी उजवाडाक हाडली. पूण पुराय कोंकणी साहित्याची परिपूर्ण अशी वळेरी अजून आमचेलागीं ना. ते संबंदीचो वावर कोंकणी विश्वकोशकार डॉ. तानाजी हळर्णकारान हातांत घेतला ही खोशेची गजाल.

'चाचा नेहरू तुमचे भेटेक' वा 'कोंकणी पुस्तक यात्रा' घेवन भोंवपी गुरूनाथबाब केळेकारान आमकां लोकांलागीं पुस्तक यात्रा घेवन वचपाची वेगळीच स्फूर्तदिणी देख दिल्या. अशा जाणकारांचो आदार घेवन कोंकणींतलें दर एक पुस्तक मांडून तांचें व्हडलें पुरूमेंताचें फेस्त घडोवन हाडूंक जाय. हातांत पुस्तकांचो खुरीस घेवन गोंयभर पुरसांव काडूंक जाय. घरांघरांनी बल्कांवांचेर बसून कोंकणी पुस्तकां वाचपी मनीस दिसूंक जाय. जे तरेन कोंकणी साहित्यांत पुस्तकांचो पावस सुरू जाला तो पळयल्यार तो दीस पयस आसत अशें दिसना.

♦

# 2.
# सत्तरींतली कोंकणी कथा

कोंकणी साहित्याक मुक्त स्वास घेवपाची संद मेळ्ळ्या उपरांत कोंकणी साहित्य रसरसून वयर आयिल्लें आसा. कथा, कविता आनी नाटक ह्या प्रकारांनी तर बरीच भर पडपाक लागली. पुंडलीक नायक, एन. शिवदास, दामोदर मावजो, शीला कोळंबकार, महाबळेश्वर सैल हे पिळगेन तर कोंकणी कथा समृध्द केली. मुक्ती उपरांतची ही नीज कोंकणी कथा मुखावेले पिळगेक उर्बा दिवपीच थारली. कोंकणी साहित्याचें हें मळ फुलून परमळून येतना खुपशे वाठार साहित्यीक नदरेंतल्यान समृध्द जावपाचे आसले. नांवारूपाक येवपाचे आसले. कोंकणीचें मूळपिठ म्हणून गोंयांकडेन पळयताना पेडणेसावन काणकोण मेरेन कोंकणी भास आनी साहित्याची ही 'चळवळ' मुखार व्हरपाचें काम निश्टावंत करतालेत. ताचोच प्रभाव सत्तरी सारखिल्ल्या म्हालाचेर पडटालो. एक भाशीक आनी दुसरें वाङमयीन चळवळीचें मुळावण घालपाचे हे अवस्थेंत सत्तरींतल्या सत्तरकारांचे कार्य मोलाचें आसा. सत्तरीतलें कोंकणी साहित्य म्हण्टाना वा 'सत्तरींतली कोंकणी कथा' ह्या विशया पुरतोच जरी विचार केलो तरी साठा उपरांतची साठा सत्तरीची ही काणी समजोवन घेवप खूप गरजेचें आसा.

महाराष्ट्र आनी कर्नाटकाचे शिमेक धरून आशिल्लो हो वाठार. ह्या वाठाराची आपली म्हणून एक भाशीक, सांस्कृतीक भौगोलीक आनी इतिहासीक वळख आसा. पुर्तुगेज सत्तेची निमाणी देडशें वर्सां ह्या वाठाराच्या वांट्याक आयलीं. ह्या वाठारांचेर भौ-संस्कृतायेचो प्रभाव पडला. अशे हे फांटभुंयेचेर फकत गोंयांतली आत्मसत्याची आनी स्वभाशेची चळवळ चलयताना सत्तरींत भाई तेंडुलकार (सदानंद सोनू तेंडुलकार, खोडयें सत्तरी) हांणी मुळावो आनी म्हत्वाचो वावर केला. ओपिनियन पोल (1967) गोंयचे नदरेन खूप म्हत्वाचो आसलो. राजकी, भाशीक, सांस्कृतीक फुडाराखातीर अस्मितायेची जोत वाळपंयत 1967 त पेटल्या. तेन्नासावन आयज मेरेन ही अस्मितायेची ज्योत पेटत आसा. केन्ना संघटनात्मक कार्याच्या निमतान तर केन्ना रचनात्मक कार्याच्या निमतान.

कोंकणी साहित्य गोंयांत 60 उपरांत जशें फुलाराक येवपाक लागलें तशें सत्तरींतूय 70 उपरांत रूजवणाक येवपाक लागलें. लिखित साहित्याचो, कथा साहित्य प्रकाराचो विचार करताना सदानंद (भाई) तेंडुलकार आनी तांच्या तेदेवेळावेल्या सिताराम शेटये सारखिल्ल्या सांगात्यांनी हो प्रकार केळोवपाचो यत्न केला. भाई तेंडुलकार हांणी भुरग्यांखातीर साहित्य बरयलें जाची गरज आसली. कोंकणीची संघटनात्मक चळवळ चलयताना चलयल्ली ही वाङमयीन चळवळ आशिल्ली. वाङमयीन मुल्यांचे नदरेंत सत्तरींतली ही 'सत्तरींतली कथा' तत्कालीन कोंकणी कथेकडेन जरी लागनासली तरी आशय आनी विशयाचे नदरेंतल्यान त्या कथांनी एक वेगळेंपण दिसतालें. कथेचे तुळेंत कविता चड प्रमाणांत ह्या वेळार दिसता. चडशी अप्रकाशीत जरी आसली तरी ल्हानसान कार्यावळींनी सादर करून सांस्कृतीक तान-भूक भागोवपी आशिल्ली. 70-80 च्या काळांत सत्तरींत झिलू गांवकार, प्रमीला सरदेसाय, सारखिल्ले कथा बरोवपाक लागले. तांच्या कथांनी सरभोंवतणचें समाज चित्रण जातालें. श्री. झिलू गांवकार हांणी कथा हो वाङमय प्रकार हाताळला. प्रमिला सरदेसाय ह्यो सत्तरींत शिकोवपाचें काम करताली आनी तिणेंच तेदेवेळार झिलू गांवकार सारखिल्ल्या विद्यार्थ्यांक शिकयताना कोंकणीची गोडी लायली आनी बरोवपाची उर्बा दिली. झिलू गांवकार हांणी 'दोंब', 'शबय', 'पिसोळीं' ह्या सारखिल्ल्यो स्वतंत्र कोंकणी कथा बरयल्यात तर रामकृष्ण बेनिपुरी हांच्या 'बुधिया', 'रजीया' ह्या हिन्दी व्यक्तिचित्रात्मक कथांचो स्वैर रूपकार घडयला. श्री. झिलू गांवकार हांणी कोंकणी वांगडाच मराठी कथाय बरयल्यात. स्पर्धेत तांचे 'पाकोळयांच्या वेदना' हे मराठी कथेक पयलें इनाम मेळिल्लें. संख्येचे नदरेंत झिलू गांवकार हांची मराठी कथा चड आसा. तांची कोंकणी कथा ही 1980-90 ह्या काळांत बरयल्ली अप्रकाशीत. फकत भाई तेंडुलकारागेर जावपी कोंकणी कार्यावळींनी सादर जाल्ली कथा. आशयाचे नदरेन तांची 'दोंब' ही कथा खूप म्हत्वाची आसा. सत्तरींतल्या कश्टी गरीब घराण्याचें काळीज पिळून उडोवपी अशें हें चित्रण हे कथेंत आयलां. शेतां कसपाखातीर म्हुणून गांवघर सोडून पयस रानांत शेतवडीन खोप बांदून शेत कसपी एक कुटूंब हे कथेंत आसा. घोव, बायल, तांचें तीन म्हयन्यांचें भुरगें. ही बायल फाल्यां नागपंचम आसा म्हुणून आयज नडणी सोपोवंकूच जाय ह्या हावेसान कळाव जायसर नडटा. काळोखाचे वाटेर घरा

परतताना तिका दोंब (सोरोप) चाबता. गांवांकडल्यान वाळपय खूप पयस आशिल्ल्यान सुरवेक गांवठी उपाय म्हुणून तिच्या पांयांक कोंबडेचीं पिलां लायतात. वीख उणें जाता तरीय पूण तिका वाळपय हॉस्पीटलांत हाडपाची तयारी जाता. हें अंतर खूब पयशिल्लें. ती बायल आपल्या पाळण्यांतल्या भुरग्याक आंगावयलें दूद दिता. वाळपय शारांतल्या हॉस्पीटलाकडेन पावताना - म्हादयची बुडटी, न्हंय पलतडी येवपाचीं अपुरी विकासाचीं साधनां हाचें वर्णन कथेंत येता. उपरांत ती बायल बरी जावन शेतावडीचे खोपींत परतात. तेन्ना तिका पाळण्यांत फकत फातोर दिसंता. त्या ल्हान भुरग्याचें प्रतिकात्मक मरण कथाकारान कल्पकतायेन दाखयल्लें आसा. पिशांतूर जाल्ली बायल आपल्या घोवाक घेवन शेतवड आनी खोप सोडून गांव घरा परतता. परतीचे वाटेर परत 'दोंब' तांची वाट आडोवन रावला अशें चित्रण दाखोवन ही कथा सोंपयल्या. एक तेंगशी गांठपी शेवट तांचे कथेंत आयला. 'दोंब' हे प्रतीक कल्पकतायेन नियतीच्या खेळांत वापरलां. हे कथेंतलें वातावरण, प्रसंग सत्तरींतले नीज कुळवाड्यांचें शेतकी वेवसायाचें 'शेत करपाचें' एक वेगळें वेवस्थापन दाखोवपी ही कथा. तांची 'शिगमो' ही कथा सत्तरींतल्या 70-80 च्या काळांतल्या बेकारीचेर आदारलेली आसा. गोंयचे (सत्तरीचे) शिमेलागसरले लोक गोंयांत भितर सरून पुलीशेंत भरती जातात आनी सतरकार कसो दुखी जाला ताचो घुस्मटमार हे कथेंत आयला. गोंयचे शिमेलागसारचे विर्डी सारखिल्ल्या कोंकणी लोकांचें चित्रण हे कथेंत आयलां.

केरी दोन माडांकडे तें पणजी असो प्रवास हे कथेंत आयला. ह्या प्रवासांत घुस्मटपी सतरकार तरनाट्यांचें चित्रण ही कथा करता. झिलू गांवकार हांचो स्वताचो जिणेचो प्रवास हो पयलीं पुलीस आनी मागीर ती नोकरी सोडून शिक्षक असो जाल्ल्या कारणान तांचे हे कथेक अणभवाची एक कडा आसा. 80-90 च्या उपरांत झिलू गांवकारान कथा बरयल्यो नात. कोंकणीचे संघटनात्मक चळवळीकडेन ताची चड शक्त वता. तरी तांच्या कथांनी एक कथाबीज रूपाक हाडपाची शक्त आसा. कथा पयलीं कोंकणींत बरोवप आनी आपुणूच ती मागीर मराठींत अणकार करप हें कौशल्य ताचेकडेन आसा. तर हिन्दी साहित्याचो अभ्यास आशिल्ल्यान तांणी हिन्दींतल्यान कांय कथा रूपांतरीत केल्या. 'तो चलत रावलो' ही तांची एक स्वतंत्र कथा आसा.

गोंयांतले कोंकणी चळवळींतलें म्हत्वाचें पर्व म्हळ्यार राजभास चळवळ. हे चळवळीन कोंकणी भौसाक घडयलो. कोंकणी प्रजेचो आवाज चे निमंत्रक पुंडलीक नायक हांच्या फुडारपणाच्या प्रभावान सत्तरींतले कोंकणी चळवळीक आनीकूय नेट आयलो. सत्तरींत कोंकणीची संघटनात्मक चळवळ चलयताना भाई तेंडुलकारान आनी उपरांत शांती तेंडुलकारान म्हत्वाचें कार्य केलां. भाई तेंडुलकारांच्या खळ्यांत आंगणांत जावपी पुस्तक प्रकाशन सुवाळे. 'चित्रंगीचे साहित्य मेळावे', साहित्यीक गजालींचीं जाग्रणां हाका लागून साहित्यीक कलागुणांक वाव मेळपाक लागलो. तातूंत ज्योती जोशी, प्रकाश कोचरेकार, प्रकाश पर्येकार, नकूळ वेळुस्कार, शाबा कुडतरकार, शोभा धुरी (कुडतडकार) चंद्रकांत परब, पंढरीनाथ मळीक, रूपेश सामंत सारखिल्ले भुरगे तरनाटे बरोवपाक लागले. आकाशवाणी सारखिल्ल्या प्रभावी प्रसार माध्यमांतल्यान आपली कला युववाणींतल्यान सादर करपाक लागले. 'आमचो पंगड' सारखी संस्था घडली. साहित्यीक चर्चा सातत्यान घडोवन येवपाक लागली. वाळपय वाठारांत हेच प्रक्रियेंतल्यान नकूळ वेळुस्कार, प्रकाश पर्येकार, शोभा धुरी सारखिल्लीं कथा बरोवपाक लागलीं. नकूळ वेळुस्कार हांच्यो 'सुशीला', 'बुट्टी' आनी 'अबरगत' ह्यो तीन कथा वाचनीय आसात. बुट्टी ही कथा तांची प्रभावी जाल्या. म्हादयेक आयिल्ले बुट्टेक धरून आज्यान आमोरेच्या वेळार नातवाक सांगलेली अशीच एक जीण उध्वस्त करपी बुट्टेची काणी फ्लॅश बॅक पध्दतीन आयल्या. गांवगिऱ्या वाठारांतलें चित्रण हे कथेंत हाडटाना तीं पात्रां, तांची भास केळोवपाचो प्रयत्न नकूळ वेळुस्कारान केल्लो आसा. तांच्या कथांनी नियतीचे खेळ, स्वभाव दोश, समाज मन, भोग वासना हांचें चित्रण घडटा. नकूळाच्यो ह्यो तीनूय कथा 'युववाणी' (आकाशवाणी) कार्यावळींत सादर केल्ल्यो पूण प्रकाशीत जावंक ना. तांचेकडेन 'नाट्य' उबें करपाक तांक आसा. ताचे कथेंतल्या प्रभावी संवादांतल्यान हें कळटा. निवेदनाची भास ही वेगळी आनी संवादाची 'सत्तरीतली'-भास असो मेळ सादपाचो तांचो यत्न दिसता.

शोभा धुरी (कुडतडकार) हांची 'लुसलुशें बाया' ही व्यक्तीचित्रणात्मक कथा आसा. सरळ सादी सोपी निवेदन पध्दत हे कथेंत वापरल्या. ताची सर्वसमावेशक वृत्ती, आदार करपाची रीत. बरें-वायट गांवार घालपाची खुमखुमी, ताचे जिणेंतलें एकसुरेंपण, ताची परोपकारी वृत्ती, अडलेल्यांच्या कामाक हात

घालपाची नीत. तेच वांगडा वेतभर तवश्याची हातभर बी अशी करची हांचें कसब ताचेकडेन आशिल्ल्या शेता मेरेर नडटाना बायान मीठ मीरसांग लावन समतीच्या भावाची (बाबुश्याची) मरणाची फाम काणयेंत घातली. मागीर समती रडत कुळारा कशें वता थंय सत्यस्थिती कळ्ळ्या उपरांत पर्थून गांवांत येवन बायाक उजरायता. पूण बाया तितकेंच निर्विकार जावन आपल्या आंगावयलें हें अपशराण कशें सोडयता हाचें रूचीक वर्णन शोभान ह्या व्यक्तीचित्रणींत केलां. निमाणे बायाक सोरोप चाबून आयिल्लें अचकीत मरण वाचप्यांक चुरचुरें लावन वता. हे व्यक्तीचित्रण रंगयतांना सत्तरीतले भाशेंतले हेळे शोभान वापरल्यात. आनी एक दोन प्रसंगांनी ही कथा फुलयल्यार बरी जातली. प्रयत्न म्हुणून शोभान अशीं व्यक्तीचित्रणां बरोवंचीं. सत्तरींत भाशीक आनी साहित्यीक चळवळींत सांस्कृतीक लोकभाशेचे अधिश्टान आसलें. तातूंत मागीर भर पडली ती शिक्षणीक क्रांतीची. सत्तरींतल्या राजकीय नेतृत्त्वान सत्तरीचो शिक्षणीक नदरेंत विकास घडोवन हाडटाना सत्तरीक जोडपी साखळी म्हालांत उच्च माध्यमीक आनी महाविद्यालय सरकारी पांवड्याचेर सुरू केलीं. हेच वाङमयीन चळवळचो एक वांटो म्हुणून सरकारी म्हाविद्यालयान वर्सुकी मॅगझीन. ह्या म्हाविद्यालयांत शिकपी सोनाळ सत्तरीच्या प्रकाश पर्येकाराची 'दु:खाचो दर्या' ही पयली कथा 1990 त उजवाडाक आयली. तोवेळ तें हो वेळ मेरेन प्रकाश पर्येकार सातत्यान कथा लिखाण करता.

कोंकणी कथेंत आयच्या पेण्यार प्रकाश पर्येकार हांची कथा ही प्रादेशीक कथेच्या कसवटीक देंवपी खरी सतरकाराची कथा आसा. तांची 'वशाड' ही पयलीं कथा सुनापरान्तात ता. 18/10/1992 वर्सा उजवाडाक आयल्या. नरकासुराचें गांवगिऱ्यां वाठारांतलें कथानक हे कथेंत मांडटाना भास, वातावरण निर्मणी, संवाद, प्रसंग, मानसिकताय परिणामकाराक शेवट मानसशास्त्रीय दृश्टीकोन विस्काटावन दाखोवपी दुल्याचें चित्रण करपी ही कथा आसा. पर्येकाराची वर्तमानपत्रांत उजवाडाक आयिल्ले हे पयलेच कथेची दखल नामनेचे कथाकार श्री दामोदर मावजो आपल्या मावज्याले कसवटेर ह्या सुनापरान्त ता. 22 ऑक्टोबर 1992 च्या सदरांत घेतात - 'लेखकाचे भाशेक एक लय आसा.. पद्याक लय आसता तशी ती गद्याकूय आसता... गोंयांतल्या दळदिराचें अत्सल वर्णन आजवेर कोंकणींत जावंक नासलें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. दलीत

कोंकणी समाजाक उतर फुटलां हाची सुलूस दिवपी कथा हालींसराक वाचूंक मेळटा. तेच माळेंतली प्रकाश पर्येकार हांची कथा...'' आजवेर प्रकाश पर्येकार सातत्यान गुणात्मक अशी कथा बरयत आसात. तांच्यो कथा उजवाडाक आयल्यात पूण संग्रह रूपान अजून येवंक ना. तांणी म्हादय परिसर आपल्या 'दवरणे' आनी 'म्हादय माये' ह्या पुस्तकांतल्यान उबो केला. ती पुराय लोकजीण लोकभास पाळांमुळां कोंकणी समाजाक दाखयल्या. आपली सतरकाराची पोरनी वळख घडयल्या.

तांच्यो कांय म्हत्वाचो कथा

1. वशाड - सुनापरान्त 18/10/1992
2. आनी ते पोट घेवन गेले - जाग दिवाळी 1993
3. रियली.. शी इज ग्रेट - कोंकणी दिवाळी 1993
4. म्हाबळी - कोंकणी दिवाळी 1995
5. वर्सल - जाग दिवाळी 1998
6. घोंटेर - कोंकणी दिवाळी 1999
7. मोनेळ माया - जाग दिवाळी 1999
8. ज्यानी - जाग मार्च 2000
9. चंद्रकोर - जाग दिवाळी 2000
10. काजरफळ - जाग एप्रील 1996

परंपरागत रूढी चाली-रिती, लोकश्रध्दा, अन्नश्रध्दा, पोटापाणया फाटल्यान भोंवपी हाताच्या पोटावयले वानरमारे - जमात, सैम-सांगात, सैम-भार, भोग-भोगणार, अज्ञान, अंधश्रध्दा जिणेवेलो जगपाचो भावार्त, लोकवेद अश्या कितल्याश्याच घटकांचेर तांची ही रासवळ नीजकथा आदारलेली आसा. सत्तरींतल्या किडीमुयांक साहित्य विश्वांत मानाची सुवात दिवन कोंकणी भाशेचें बळगें तांणी आपल्या कथा साहित्यांतल्यान दाखयलां. ही कथासाधना अणभव समृध्द आसा. ही सांस्कृतीक दलाली न्हय. कोंकणी कथा वाङमयाच्या प्रवासांतलें एक दवरणें म्हणजेच प्रकाश पर्येकार हांची कथा आसा अशें म्हजें मत. आशय संपन्नताय विशयांची विविधताय सुचकताय आनी लयबध्द अशी कोंकणी कथा प्रकाशान आमकां दिल्या.

रिअली शी इज ग्रेट.. हे कथेंतलो विशय जरी परिचीत आसलो तरी

अणभवसंपन्न असो तो मांडिल्लो आसा. एक कथाकार - एक शिकोवपी - आपली विद्यार्थीनी - तिच्या वाट्याक आयिल्ले भोगणार - तिणें आपल्या सराविशीं आनी सरान चित्रायल्ल्या कथानकाविशीं मांडिल्लीं मतां - तिचें जिवीत जगपाचें तत्वगिज्ञान हांचें सुक्ष्म चित्रण हे कथेंत आयलां.

'घोंटेर' ही तांची अशीच आशय संपन्न कथा. शारांतल्या मुन्सीपाल्टीच्या गार्डनांतल्या आंब्याचेर कावळ्यांनी पिलांखातीर केल्लो आलीमेनच्या सरयांचो घोंटेर धोंगसून पिलासकट सकयल उडोवपी घाटयांलो पोर... गॅलरींतल्यान देखावो पळोवन अस्वस्थ जांवन फुटपाथार देंवपी गोविंदबाब, कावळ्या पिलांची आरड, कावळ्या पिलांचें रस्त्यार गाडयेपोंदा चिड्डून मरप, जमिल्ल्या लोकांनी त्या भुरग्याक मारप. गोवींदबाब सकल देंवून त्या मॉबाचो वांटो जावप अश्यो घडणुको घडटात. रस्त्याचे कुशीक सांडून गेल्ल्या सरयांनी उरिल्लें कावळ्यापील बसता. घोंटेराच्या सोदांत अशें मनाचेर परिणाम घालपी चित्रण हे कथेंत आयलां. शारांतले जिणेंत खरो घोंटेर सोदपी अस्वस्थ लेखकाचें मन हे कथेंत दिसता. तर तांची 'आनी ते पोट घेवन गेले' ही कथा वेगळ्याच विश्वांत आमकां व्हरता. म्हादयच्या पात्रांत नुस्त्याक सापळे घालपी भटक्या विमुक्त जमातींतल्या लोकांच्या वांट्याक येवपी दुखाची परवड हे कथेंत येता. धनगरांचें जिवीत चित्रण तांचे 'ज्यानी' हे कथेंत आयलां तर शिगम्याच्या लोकोत्सवा भोंवतणचें भावचित्रण तांचे 'म्हाबळी' हे कथेंत उत्कृश्टतायेन आयिल्लें आसा. 'वर्सल' ही कथा दलित दृश्टीकोनाचो एक आगळो वेगळो आविश्कार घडोवपी आसा. तांची 'चंद्रकोर' ही बऱ्यापैकी कथा आसा. लाकडां-जळवाखातीर दोंगरा माथ्यार गेल्लेकडेन बायलांक दिसपी रान-मनीस, ताका धरून आयिल्लें उपरांतचें कथानक - नाट्यमयरितीन आयलां. रानभोंवडेन एकोड्या पडिल्ल्या त्या रान-मनशाक वानरमाऱ्याक धरल्या उपरांतची गांवाची मनोवस्था, ताचेकडेन उलोवपाची दांभीक वृत्ती, आपल्याखातीर वानरमाऱ्याक मार पडलो देखून खंती जाल्लें चंद्रें. पियेवन तर्र जावन 'तुका वानरमाऱ्यान भश्टीलें, वच तूं तेजेकडेन - अशे तरेन हिणावपी हाडकुळो चंद्रयाचो अशक्त घोव. चाऱ्या शिंगाराक आशेल्लें चंद्रे, वानरमाऱ्या विशींचीं भावना, गांवचे लोक, हो समाज आपली भूक, अश्या तरेकवार मनोवस्थांचें लयबध्द चित्रण घडोवपी ही कथा वानरमाऱ्याच्या उबेन कांय खीण सुखावपी चंद्रें, मनश्याचे मायेक आशेल्लो वानरमारो - ताका चादर

दिवन रातयांच सोडोवन घालपी चंद्रें. आनी ह्या सगळ्याक साथ दिवपी रातची चंद्रकोर हाची तुळा कथाकारान बरे रितीन केल्या. मराठींत चि. त्र्यं. खानोलकार हांच्यो कथा वा कोंकणींत पुंडलीक नायक हांच्यो 'पारज' सारखिल्ल्यो कथा आमकां वाचपाक मेळटात. चित्रभास दाखोवपी कथा मूळ सत्तरींतल्या गजानन जोगान 'म्हादय' आपल्या कथांनी दाखोवपाचो प्रयत्न केला. पूण प्रकाश पर्येकारान कोंकणींत बरे रितीन हाडला. गाळी, सोपूत, लोकमेळ, गांव भोंवड्यो, म्हाल म्हाताऱ्यांचें, उतार बायलेचें भाव विश्व सैमाक-प्रकृतीक धरून ताणें उबें केल्लें आसा. ह्या वर्सांनी प्रकाशान कोंकणी कथेची प्रतिश्टा वाडयल्या. तांची कथा ही इंग्लीशींत, मराठींत, हिन्दीत, उडीया, पुर्तुगेजींत अणकारीत जाल्या. एका सतरकारान बरयल्ली कोंकणी कथा दुसऱ्या सतरकारान साहित्य अकादेमी खातीर मराठींत अणकारीत केल्या. मूळ कथा कोंकणी 'म्हाबळी' बरोवपी प्रकाश पर्येकार, मराठी अणकार - म्हाबळी अणकार करपी - गोपीनाथ गांवस. तांच्या कथांचें नाट्य रूपांतर जालां. मूळ 'म्हाबळी' कथा - मराठी नाट्य रूपांतर विष्णू वाघ हांणी 'होळिया', कोंकणी एकांकीय विष्णू वाघान केल्या. सादरीकरणाची इनामां ताका मेळ्ळयांत. 'काजरफळ' कथेचें आकाशवाणी खातीर नभोनाट्य रूपांतर भिकू गांवस हांणी 'खांवटें' ह्या रूपान केलां. 'चंद्रकोर' हे कथेचें नाट्य रूपांतर शाबा कुडतरकार हांणी 'कोण तरी' अशें करून कला अकादमीचे एकांकी सर्तींत सादर केलां तर सतीश गांवस हांणी हे कथेचेर लघु-चित्रपट तयार केला. तांचे हेच कथेक 'कथा' राष्ट्रीय पुरस्कार (कोंकणी खातीर) फावो जाला. गोवा टुडे, नवहीन्द टायम्स, गोवापुरी सारखिल्ल्या नेमाळ्यांनी तांच्यो कथा संग्रहीत जाल्यात, अणकारीत जाल्यात. कोंकणी कथेक सतरकारानी दिल्लें हें म्हत्वाचें योगदान आसा. वाङमय इतिहासाच्या आनी संस्कृती अभ्यासाच्या अभ्यासकांनी दखल घेवपासारखेंच आसा. सत्तरींतली ही कोंकणी कथा संग्रह रूपान येवंची ही इत्सा.

# 3.
# कोंकणी निबंद आनी भोंवडेवर्णनां

संस्कृतान निबंद हें उतर 'सुक्षीम तत्वगिन्यानाची विस्कटावणी' ह्या अर्थान वापरतालेत. गद्य आनी पद्य असो भेदूय ही व्याख्या मानिना. इतलेंच न्हय तर निबंद ही भूर्जपत्रां शिवपाची क्रिया ह्या अर्थानूय घेतालेत.

प्राचीन काळांत निबंद हें उतर द्रव्य आनी औषधी ह्या अर्थानूय वापरताले. पूण साहित्यीक नदरेंतल्यान एकठांय करप ह्या अर्थान हें उतर वापरताले. 7 व्या शेंकड्यांत "वासव दत्ता" रचपी सुवन्धु हाणें ह्या उतराचो वापर ग्रंथ रचनाच असो केल्लो आसा. Essay हें इंलीश उतर फ्रेंच उतर Essais वेल्यान आयलां. परिक्षण वा निरीक्षण असो ह्या उतराचो अर्थ आसा. फ्रेंच भाशेन मॉन्तेन हांणी (1553-1582) हांणी हो प्रकार केळयताना चडचो तो आप उलोवपाचे धर्तेर केल्लो आसा. इंग्लीश साहित्यातले पयले निबंदकार बॅकन (1561-1626) हांणी हो प्रकार केळयताना ताका Disperssed Meditation अशें म्हणिल्लें.

जॉन्सन, हडसन, लँम्ब, गार्डीनर, रॉबर्ट लींड सारखिल्ल्या योरोपी बरोवप्यांनी ह्या साहित्य प्रकाराक प्रतिश्टा मेळोवन दिल्ली आसा. जॉन्सन ह्या प्रकाराक "A loose sally of mind, an irregular indigested piece, not a regular and ordarly performance" अशें म्हणलां तर Oxford शब्दकोश "An Essay is the composition of moderate length" अशें म्हण्टा. मॉन्तेन "It is myself I portrait. I am myself the subject of the book" अशें म्हण्टा. तर रोबर्ट लींड निबंदाचे व्हडपण सांगताना म्हण्टात "Even an Essay on a Pin Lying on the road may lightup some unexpected square inch of human nature."

वर्णनात्मक, विवरणात्मक अशे वस्तुनिश्ट निबंद वा विचारात्मक, भावात्मक वैयक्तीक अशे व्यक्तीनिश्ट निबंदाचे मुखेलपणान वांटे घालताना निबंदाचीं तत्वांय तितलींच म्हत्वाचीं थारतात. तातूंत विशय वा वस्तू अभिव्यक्ती, व्यक्तीतत्व, भास शैली उद्देश हांचो आसपाव जाता. ह्या सगळ्या गजालींचो विचार करताना आमकां अशेंय दिसून येता की आयचो समिक्षक चिंतना,

तत्वांची विस्कटावणी, फकत चर्चा ह्या प्रकारान निबंद मानिनासताना ललित निबंद होच खरो निबंद मानचो असोय आग्रो धरतात. तर बाकीच्या बरपाक आर्टिकल, प्रबंध, मोगोग्राफ बी म्हणचें अशें आधुनीक टिकाकारांचें मत. पूण तेच वांगडा एक म्हत्वाची गजाल म्हणजे भारतांत इकराव्या आनी बाराव्या शेंकड्यांत खंयचेय मोलादीक रचणुकेपासत निबंध वा प्रबंध हीं उतरां घोळणुकेंत हाडटालेत अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. हें इतलें जरी खरें आसलें तरी निबंद एक साहित्य प्रकार म्हुणून भारतांत आयला तो इंग्लीश भास आनी साहित्याकडल्यानूच. इंग्रजांनी 1857 वर्सा भारतांत विद्यापिठां सुरू केलीं आनी अभ्यासक्रमाचो एक वांटो म्हुणून ह्या साहित्य प्रकाराचो खोलायेन अभ्यास जावंक लागलो ताचो प्रभाव भारतियांचेर खेरीत पडिल्लो दिसता. भारतीय भासांमदीं हिंदी भाशेचो विचार केल्यार आमकां अशें दिसून येता की हिन्दीत निबंदाचीं तीन युगां दिसतात. 1) भारतेंदु युग 2) द्विवेदी युग 3) आधुनीक युग जाका शुक्ल युग अशें म्हण्टात. ह्या काळार हिन्दी निबंदान कूस परतिल्ली दिश्टी पडटा. ताचे वेगवेगळे आयाम दिसतात. हेर भारतीय भासामदीं बंगाली, मराठी, गुजराती ह्या भासांचो आस्पाव जाता. दर भाशेतल्यान नीजतत्वाचो दिश्टावो, सत्वाचो सोद आनी भारतभेचो धर्म दिश्टी पडटा म्हळ्यार अतिताय जावं नजो.

भारतीय भासांचे पंगतीन कोंकणीचो विचार करताना आमकां अशें दिसता कीं निबंद हो साहित्य प्रकार आमचेकडेन तसो उसरांच नांवारूपाक आयला पूण तो नेमाळ्यांच्या रूपान रूजवणांक येतना हेर भारतीय भासां वांगडाच आयिल्लो आसा. ताची देख घेताना रोमी लिपयेंतलीं कोंकणी नेमाळीं आमच्यान घेवं येता. 1894 ते 1950 मेरेनच्या काळांत उजवाडाक येवपी - उदेन्तीचे साळक (1894), दर म्हयन्याची रोटी (1915), दिर्वे (1912), वावराड्यांचो इश्ट (1930), राखणो (1938), पोयणारी (1950), मित्र (1953), झेलो (1956), काणीक (1958) तशेंच हेर नेमाळ्यांनी धर्मोपदेश, कामधंदो वेवसाय, आनी थळां, प्रसंग असल्या विशयांचेर हीं बरपां मेळटात पूण ताका साहित्यीक मोल व्हडा प्रमाणांत आसनासलें अशें जाणकारांचें मत. कलात्मकताय उणी आशिल्ल्यान हे असले तरेचे विशय मांडटना उथळसाण आयिल्ली दिसता. हाचें एक कारण म्हळ्यार निबंद ह्या साहित्य प्रकाराचो आनी आमचो संबंद तितलो दाट जाल्लो

नासुयें वा कोंकणी प्रतिभेक परकी राजकी जुलमी सत्तेक लागून मुक्त वाव मेळ्ळो नासूंये. पूण ह्याच काळार भारतीय भासांनी निबंद निकतोच नावारूपाक आकाराक येतालो. कोंकणीचे बाबतीन आनीक एक कारण म्हळ्यार हे वर्णनात्मक वा प्रचारात्मक निबंद नेमाळ्यांनी उजवाडाक येताले. नेमाळ्यांची म्हुणून एक मर्यादा उरताली. आनी थारायिल्ल्या वेळार साहित्य/बरप पावोवप त्या वेळार त्या काळावयल्या छापील तंत्रगिन्यानाचो आवाठ आनी हेर मर्यादाय मतींत दवरपासारक्यो आसल्यो. म्हत्वाचें म्हळ्यार ह्या काळांत स्वतंत्र असो एकूय निबंध झेलो उजवाडाक येवंक ना. ताका लागून वाङमयीन अभ्यासाचे नदरेंतूय ह्या साहित्य प्रकाराक शिमो मेरो पडिल्ल्यो दिश्टी पडटा. त्या भायर गोंयाभायल्यान येवपी कोंकणी नेमाळीं, तो तेदेवेळावयलो साहित्य वेव्हार हें सगळें मतींत दवरपासारखें आसा. गोंय मुक्तताये पयलींचे 'प्रजेचो आवाज', 'मीर्ग' ह्या सारखिल्ल्या नेमाळ्यांनी जो निबंद येतालो तो धीरगंभीर स्वरूपाचो चिंतनशील तर बाकीच्या नेमाळ्यांनी हो प्रवाह दिसना. ते नदरेंतल्यान मुक्तताये पयलींचो कोंकणी निबंद हो गंभीर, चिंतनशील प्रवाहूय दाखोवपी आसा अशें म्हुणूं येता.

गोंय मुक्ततायेची नवी फांतोड फुडटाना 1960 वर्सा विष्णू नायक हांणी 'स्वाती' नांवाचो निबंद झेलो उजवाडाक हाडलो. तांकां उर्बा आनी सया मेळिल्ली. अर्विल्ल्या कोंकणी साहित्याचे शिल्पकार म्हुणून शणै गोंयबाब हांणी आपले खाशेले शैलीन 'मयेच्या तळ्यार' हो निबंद बरयला. ह्याच बुनयादीचेर विष्णूबाब नायकान संपादीत केल्ल्या स्वाती ह्या निबंद झेल्याचो विचार करचो पडटा. व्यक्तीचित्रणात्मक आनी थळांचें वर्णन करपी हांतुतले चडशे निबंद आसात. लुसियो रोड्रीग्स हांचे - पदेर, रायबारी, निळकंठ धुमे हांचे नुस्तें आनी नुस्तेकान्न, लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचो आमचे मुस्तींतले मास्तर, पु.ल. देशपांडे हांचो 'कारवार' तर मंगेश पांडगांवकार हांचो 'हिरव्यां कोंकण', बाकीबाब बोरकार हांचो 'म्हजो गांव बोरी' सारखिले निबंद आस्पावतात. तर दत्ताराम सुखटणकार हांच्या 'मान्नी पुनव' ह्या झेल्यात 17 निबंद आस्पावल्यात. तातूंत म्हालो, मडवळ, माशेल, गोंयचो देमान्द, व्होंवळो तशेंच चुकिल्ले नेम, अनाहुत अध्यक्ष सारखिल्ले निबंद आसात. वसंत नेवरेकार, निळकंठ धुमे, अ. ना. म्हांबरो, अरूण सिंगबाळ, निकुबाब धुमे, दिनकर देसाय, लक्ष्मणराव सरदेसाय, रवींद्र केळेकार, रामचंद्र नारायण नायक सारखिल्ले बरोवपी आस्पावतात. ह्या

काळावयलो तांचो निबंद हो भाव निबंध. हाकाच लागून कोंकणी निबंद ह्या काळार आपलें खाशेलेंपण दाखयता. ह्या व्यक्तीचित्रणात्मक निबंदानी कलात्मक आविश्कार घडोवपी रामचंद्र शंकर नायक हांचो 'जाफरभाय' रामचंद्र नारायण नायक हांचो 'पुष्पहास' सारखिल्ले निबंद आस्पावतात. दत्ताराम सुखटणकार हांचो 'माशेल' सारखिल्लो निबंदूय हाका आडवाद ना. ह्या काळांत रवींद्र केळेकार हांचे निबंद झेले उजवाडाक आयले तातूंत वेळेवयल्यो घुलो (1971), उजवाडाचे सूर (1973), सांगाती (1977), दत्ताराम सुखटणकार हांचो मान्नी पुनव (1977), अ. ना. म्हांबरो हांचो गोंयची अस्मिताय (1978), लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचो खबरी... (1980), पुरूशोत्तम सिंगबाळ हाणें विनोदी स्वरूपांतलो निबंद हाडलो. आकाशवाणी पणजी केंद्रावेल्यान प्रसारीत जावपी फोडणी फोव सारखिल्ल्या कार्यावळींतल्यान विनय सुर्लकार कलाकारांनी, बरोवप्यांनी विनोदाच्या माध्यमांतल्यान हो निबंद साहित्य प्रकार वाचनीय आनी श्रवणीय केलो. ह्या एका कारणाक लागून कोंकणी निबंदाची पत वाडली. तो लोकप्रीय जावंक लागलो.

शंकर भांडारी (पावलां कणकणी), चंद्रकांत केणी, नारायण लाड (साळकां 1983) ह्या सारखिल्ल्या बरोवप्यांनी वेगवेगळे प्रवाह कोंकणी निबंदान हाडले. शंकर भांडारी हांच्या निबंदातले 'हांव आंकवारूच कित्याक उरलो' हो निबंद वेगळो तर नारायण लाड हांची 'साळकां' धर्मीक वृत्तीचीं जाल्यांत. चंद्रकांत केणी हांचे निबंद प्रासंगीक पूण वैचारीक धर्तेर पावतात. होच मुखार प्रकाश थळी (फुलां आनी फोगोट्यो) आनी डॉ. तानाजी हळर्णकार हांच्या थोडें म्हजें थोडें तुमचें (दै. सुनापरान्त कॉलम) निबंदांनी सातत्यान दिसता. दत्ता नायक हांणी आपल्या ललित निबंदानी अमुरपिके आयतार सजयल्यात. प्रकाश तळवणेकार हांणी हो प्रकार केळयला. मुकेश थळी ते विन्सी क्वाद्रूश मेरेनचे बरोवपी हे समाजमनाचो थाव घेवपी समाज आनी हांव अशी बांदिलकी मानुनूच मागीर निबंदाचे वळेसर गुतपी आसात. सुदेश भोसले, शैला प्रभूदेसाय, प्रकाश तळवणेकार, सखाराम गोवींद शेणवी बोरकार ह्या सारखिल्ल्या बरोवप्यांनी कोंकण टायम्स सारखिल्ल्या अंकांतल्यान आपलें कसब दाखयल्लें आसा. कांय नेमाळ्यांनी दिसाळ्यांनी अर्विल्ल्या कोंकणी निबंदाक वाव दिवपाचो वावर केला तर निबंदकारांनी आकार दिवपाचो यत्न केल्लो आसा. तातूंत कोंकण टायम्स

कोंकणी, चित्रंगी, नवें गोंय, पुनव, आंकूर, परमळ, जैत, कोंकण भारती, वांगडी, कुळागर, गुलाब, पेडणेचो धोल, राष्ट्रमत, सुनापरान्त. सुनापरान्तांतल्या 'पारजत' 'खडीसाखर' सदरान तर निबंदकार दिल्ले आसात. डॉ. उमाकांत राताबोली, श्री. नरेंद्र कामत, श्री. मुकेश थळी आनी पंढरीनाथ सुरसुरे हांच्या लिखाणाक वृत्तपत्रीय मर्यादा जरी पडल्यो तरी आपले परीन परमळ दिवपी हे झेले थारल्यात. तशी परंपरा आमकां केरळांत दिसना. पी. जी. कामत हांचे आमकांय आसा गा रडचो देवू सारखिल्ले निबंदस्वरूप बरप मेळटा सारखे अपवाद. पूण कर्नाटकांतल्या कानडी लिपींन ह्या प्रकारान आपलें खाशेलेंपण सांबाळ्ळा म्हणूं येता.

बायलशक्तीचो साहित्यीक अभिव्यक्तीचो ध्यास घेतिल्ल्या 'चित्रंगी' सारखिल्ल्या नेमाळ्यान कोंकणी समाज आनी साहित्यांतली बायल प्रतिमा कोंकणी साहित्यांत हाडिल्ली आसा. हेमा नायक हांची 'अस्तुरीमृग' हो झेलो ते नदरेंतल्यान म्हत्वाचो थारता. (1992) दोन वांट्यांनी हो झेलो मांडला. पयल्या 9 निबंदांनी समाजांत बदलपी बायलेची प्रतिमा, चळवळीच्या रूपान आनी प्रचाराच्या रूपान आयल्या तर दुसऱ्या वांट्यांतले निबंध हे कथारूपान आयल्या. पूण आशय तोच बायलांची अन्याय अत्याचार प्रचलीत चालीरिती रूढी परंपरा हांचे आड बंडाची भास! कलात्मकतेचो अभाव सोडलो जाल्यार विचार म्हुणून हो झेलो म्हत्वाचो. नमन धावसकार सावंत हांचो 'मुक्तमन' हो निबंद झेलो तरेकवार सामाजिक प्रस्नांचेर भासाभास करता.

कोंकणी निबंदांतल्या व्यक्ती चित्रणाचो विचार करताना आमकां एक बदल दिसता तो म्हळ्यार लक्ष्मणराव सरदेसाय हांच्या खबरींतल्यो (गोंयकार) व्यक्तीरेखा तें डॉ. श्री. श्यं. फडके हांच्या 'दोंगरावेलीं मनशां'तल्यो बिगर गोंयकार व्यक्तीचित्रां. गोंय मुक्ततताये उपरांत कामाधंद्या निमतान बिगर गोंयकारांचे लोंढे कर्नाटक, महाराष्ट्र, आंद्रा, युपी, बिहार, ओरीसा सावन येवपाक लागले. तातूंत दिसवड्याचे लोक व्हडा प्रमाणांत आसले. त्या भायल्यांचे गोंयांत खोपी बांदून रावप ताच्यो स्वभाव वृत्ती - प्रवृत्ती हांचें दर्शन घडोवन दोंगरावेल्या मनश्यांचो दिश्टावो कोंकणी मनशाक 'दोंगरावेलीं मनशां' (1994) ह्या निबंद झेल्यान घडयिल्लो आसा. तर 'मेरेवेलो गांवकार' ह्या लक्ष्मीनारायण पारज हांच्या निबंदझेल्यांत सरभोंवतणचें जिवीत वेगळे रितीन त्या झेल्यांत आयलां.

व्यंकटेश माडगुळकरांच्या माणदेशी माणसे ची याद करून दिवपी पूण माणदेशी माणसे न्हय. पं. नेहरूंच्या भाशेंत सांगपाचें जाल्यार - अजीब है ये गोवा के लोग! (गोंयांतले आनी गोंयां भायलेय बी.)

श्री. कमलाकर म्हाळशी हांणी आपल्या 'ऋतुचक्र' (1997) ह्या निबंद झेल्यांतल्यान राष्ट्रसेवा दल उबारिल्लें आसा. काळ चक्राप्रमाण बदलते राजकीय सामाजीक परिस्थितीचें भान दवरून परंपरेच्यो वाटो मानून लेगीत समतावादी महान - राष्ट्रवादी नदर दिवन सांस्कृतीक मुल्यांचे जतनायेचो मंत्र दिल्लो आसा हे नदरेंतल्यान कोंकणी निबंदान आनीक एक पावल मुखार मारलां. तसोच विचार नारायण देसाय हांणी आपल्या निबंदानी मांडला तर आमचे मदीं विज्ञानीक दृष्टीकोन आपल्या निबंदानी डॉ. अरूण हेबळेकार हांणी हाडला. गोंयच्या लोकमनाचो थाव घेवन लोकवेदाचो रूपकार घडोवपी विशय पांडुरंग फळदेसाय, श्याम वेरेकार सारखिल्ल्या बरोवप्यांनी हाडून हें दालन वाडयलां. जयंती नायक, तुकाराम शेट हांणी हातूंत भर घातल्या.

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, चंद्रकांत केणी, बाकीबाब बोरकार, उदय भेंब्रे, डॉ. हरिश्चंद्र नागवेकार सारखिल्ल्यांनी साहित्य विशयक निबंद बरयल्यात. खासा बरोवप्याविशीं बरोवन शीला कोळंबकार, लक्ष्मी नारायण पारज, रमेश वेळुस्कार कांय प्रमाणमान एन. शिवदास, तोमाजीन कार्दोज हांणी निबंदांनी वेगळी वाट केल्या. कथात्मक बाज घेवन येवपी तुकाराम शेट हांचो मनमोतयां हो निबंद फेलो वाचप्यांक आकर्शित करता.

विनोदी उपहासात्मक निबंद लिखाण कोंकणींत बरोवप्यांमदीं अ. ना. म्हांबरो, किसन कामत, अरूण सिंगबाळ, गजानन जोग हें बरप करताना तरेकवार वेवसायांचेर वेवसायिकांची उपहासात्मक चित्रां काडपाचें काम अ. ना. म्हांबरो हाणें मोठे कुशलतायेन केल्लें आसा. अशे तरेन कोंकणींत 'तरे तरेची संवगां' (1973) हाडपाचो वावर चंद्रकांत केणी हांणी केला.

कोंकणींतलो पयलो ज्ञानपीठ पुरस्कार जोडपी रवींद्रबाब केळेकार हो कोंकणी निबंदाचो पयलो रचनाकार. अर्विल्ल्या कोंकणी निबंदाची सुरवात जरी हेरांनी पयलीं केल्ली आसली तरी ताका नांव प्रतिश्टा मेळोवन दिवपाचें काम रवींद्रबाबान केल्लें आसा. वेळेवयल्यो घुलो, उजवाडाचे सूर, सांगाती, समीधा, घुस्पल्लें जानवें, ओथांबे, सर्जकाची आंतरकथा अशें विपूल लिखाण तांणी ह्या

संबंदान केल्लें आसा. दिसपटी, चिंतनां, थळवर्णनां, दिश्टावे, भावार्त, भाववृत्ती, सैमाचीं वर्णनां, आत्मविश्लेशणात्मक, समाजीक, राजकीय, शिक्षणीक, साहित्य आनी साहित्यकार तत्वगिझान अशे कितलेशेच विशय तांणी निबंदांनी हाताळिल्ले आसात. ताच्या फाटल्यान ताची व्हड अशी साधना आसा. अभ्यास आसा. तांचें वाचन चिंतन आनी मनन हांचो प्रत्यय तांच्या कांय निबंदानी आमकां येता. आपल्याचेर जाल्ले भुरगेपणांतले संस्कार, घरच्यांचे संस्कार, आपाणयिल्लें तत्वगिन्यान, (गांधीवाद) विचार प्रणाली, काकासायब कालेलकार सारखिल्ल्या रूषीतुल्य मनशाचो तशेंच न्हेरांचो सांगात. तांची राजकी सामाजीक भाशीक जीण ह्या सगळ्यांचें बरें वायट चित्रण ते आपल्या निबंदांनी घडयतात. एक भोंवडेकार, सैम मोगी. आकाशयात्री, संतुश्ट जिवीताचो सोद घेवपी कवी मनाचो निबंदकार खऱ्या अर्थान सारस्वत आनी आपूण सारस्वतूच हें ठळकपणान प्रामाणीकपणान सांगपी गांधीवादी आमकां दिसता. सत्य शिवम् सुंदराचो दिश्टावो घडयतानाच वायटाखातीर श्राप दिवपीय प्रामाणीक बरोवपी आमकां दिसता. विशयांची पुनरूक्ती आनी कांय कडेन वैचारीक घुस्पागोंदळ आनी आपले जिणेंत घडिल्ल्या जातीयवादी ठपक्यांचो दोश कडेक काडून जर रवींद्रबाबांच्या निबंदाकडेन पळयलें तर तांचें 'ओथांबे' ही उपनिबंदासारकी 'समीधा' मनीसपणाचो मंत्र जागोवपी. सर्जकाची आंतरकथा कसलोच अंतरपाट दवरिनासतना लागीं व्हरपी. 'सांगात' दिवपी-घडोवपी, चिंतनशील असो लेखक जाणी कोंकणीच निबंद न्हय तर भारतीय निबंद समृध्द केलो. आपले साहित्य साधनेची उर्बा तांणी शणै गोंयबाब हांचेकडल्यान घेतली आनी 'कोंकणी भाशेचें जैत' घडोवन हाडपापासत तांणी साहित्य संवसारातली एकेक गजाल भरपाचो यत्न केला. ते नदरेंतल्यान समीधा (1996) च्या आपल्या 42 वेंचीक बरपांच्या निबंदझेल्याचे प्रस्तावनेंत ते खासा म्हण्टात ''कोंकणींत चिंतूंक लावपी बरपावळ ना अशें आतां तरी कोण म्हणचो ना अशी आस्त धरतां.'' रवींद्र केळेकारांच्या निबंदाक ''अणभवाचे वालीक आयिल्ली चिंतनाचीं फुलां'' अशें कांय जाण म्हण्टात.

फाटल्या 50 वर्सांनी कोंकणी निबंदान बरेच बदल घडिल्ले आसा. स्वाती (1960) पासूनचो आयचो प्रवास. कालीघाट ते करूणा घाट (दत्ता नायक) दाखोवपी आसा. हॉलंड जर्मनी पॅरीस स्वित्झर्लंड मेरेनचो प्रवास घडोवपी आसा. रात थोडी आनी संवगां चड आसुनूय पुराय नाटक दाखोवपी आसा.

जातीवादाकडल्यान समतावादाकडे व्हरपी. वेगवेगळ्या ISM चो आविश्कार घडोवपी स्वाभिमान. श्रध्दा, न्याय, नीतीची देख दिवपी. भुरावळींतल्यान मनशाक सोदपी तशेंच मनशांतले भुरावळीक दाखोवपी आसा. बदलत्या वाऱ्याची दिशा दाखोवपी हो निबंद आसा.

पूण संख्येन आनी आकारान जरी हो निबंद वाडलो आसलो तरीय आजून तातूंत गुणात्मक वाड फावो तितली जावंक ना. आजमेरेनचो निबंद हो चडसो वर्तमानपत्री निबंद. जागेची वेळेची मर्यादा राखून बरयल्लो. तेच वांगडा कांय निबंद उथळ जाल्ले आसात. अणभवांचे उणाकपण दिसता. चिंतनेतली उथळपणां दिसता आनी अभ्यासाचो अभाव दिसता. 'हांव' हो खुबशेकडेन आत्मकेंद्रीत जाल्लो दिश्टी पडटा. जीण समृध्द जातकच 'हांव' समृध्द जावंक पावता. केन्ना केन्ना तो मोहाचे भकीक पडिल्लो दिसता. हाका लागून निबंदानी खुबशेकडेन 'गुणांचा सिंधू आणि अवगुणांचा बिंदू' केल्ल्याचेंय दिसता. कोंकणी मनशाचें चिंतनशील मन आसून तें प्रगतीशील जावंक जाय तितलें आजून जावंक ना. विज्ञान तत्वज्ञान आनी कला हांच्या आदारान समृध्द समाज घडोवपांत निबंदाचो आनी निबंदकारांचो मोलाचो वांटो आसा. ते खातीर आमी आमच्यांतली आत्मसंतुश्ट आनी अल्पसंतुश्ट वृत्ती काडून उडोवपाक जाय. पु. ग. सहस्त्रबुध्द, ग. प्र. प्रधान, इरावती कर्वे, दुर्गा भागवत, विजय तेंडूलकार, जी. बी. शॉ, मार्कट्वेनच्या पावंड्यार वचपाची तांक कोंकणी निबंदकारांमदीं आसा. गरज आसा ती आतां साधना पर्वाची.

भोंवडेवर्णन हो निबंदाचो एक प्रकार तशेंच स्वतंत्र साहित्य प्रकार म्हुणूनय वळखतात. भोंवडेवर्णन म्हणजे बरोवप्याचें अणभवविश्व. तें अर्थपूर्ण रितीन मांडचें आसता. कडू-गोड अणभवांचें संकलन आसता. आपूण कसो घडलो हें लेखक वा बरोबपी आमकां सांगता. आतां सगळेच भोंवडेकार बरयतात अशें ना आनी सगळेच बरोवपी भोंवडेक वता अशें ना.

देवनागरी कोंकणी साहित्यांत भोंवडेवर्णनाचें बरप जें मेळटा तें दोनूय रूपांनी. एक निबंद आनी दुसरें भोंवडेवर्णन पुस्तकरूपान. जीं बरपां मेळटात तातूंत हिमालयांत (रवींद्र केळेकार), गोमांचल ते हिमाचल (दिलीप बोरकार), विवेकानंद पुरमांत (सुमेधा कामत देसाय), आमी पळयल्लो सोविएत देस (सं. नारायण देसाय), काली घाट तें करूणाघाट, अरेबीयन डेज (दत्ता नायक),

उजवाडाचे सूर (र. के.) हांच्या निबंद झेल्यातले कांय निबंद. नैनीताल जंय एक याद गोठेली (चंद्रकांत केणी जाग 1984) ते भायर हेर कांय प्रासंगीक भोंवडेवर्णनां मेळटात. मुखेलपणान निबंद वा बरपां हीं सैमाचो प्रवास वा प्रवासांतलो सैम आनी संबंदीत अणभवाचेर आदारिल्ले आसात. कोंकणी मनीस जंय जंय भोंवता थंय कोंकणी जीण संस्कृती आपली वृत्ती स्वभावगूण दोश, आपलेचेर जाल्ले संस्कार आनी अणभव घेवन वता.

रवींद्र केळेकार, दिलीप बोरकार, चंद्रकांत केणी हांणी हिमालयाचें वर्णन आपल्याक जशें भावलां तशें केलां तर दत्ता नायक हांणी हिमालयाची तुळा आल्पसाकडेन केल्या. लिखीत स्वरूपांत आयिल्ल्या पुस्तकावेल्यान आमी अशें म्हणूं येता की रवींद्र केळेकार हांची देसांत तशी देशाभायरूय भोवंडी जाल्या. (जपान जसा दिसला (मराठी)) दत्ता नायक हांची हॉलंड, जर्मनी, स्वित्झर्लंड, अरब, पॅरीस आदी कितलेश्याच तशेंच देशांतर्गत काश्मीर सावन कन्याकुमारी अशी परिक्रमा जाल्ली आसा. राजापूरचो रिझवान सारखिल्लो अपवादात्मक लेख ह्या पुस्तकान आयला. दत्ता नायकाचो घडिल्लो समतावादी पिंड, तांची भास शैली, संस्कारी सांस्कृतीक भास ह्या झेल्याचें खाशेलेंपण. पूण वर्तमानपत्री लिखाण पुस्तकरूपान आयिल्ल्यान ह्या निबंदांतलो दरेक निबंद विस्ताराची मागणी करतां. कालीघाट तें करूणाघाट हें नांवूय ह्या निबंदझेल्याक सोबून दिसता. दत्ता ते अर्थान ललित साहित्यीक - निबंदकार. एक बरो वाचक. खरो वेपारी. आपल्या सृजनशक्तीचो पैन पै वापरूंक सोदपी असो. शब्दभांडार वाडोवपी भर घालपी. Developmental growth घडोवन हाडपी.

'विवेकानंद पुरमांत' हें सुमेधा देसाय हांचें कन्याकुमारीतल्या भोंवडेचें वर्णन आसा. सुमेधाचो पींड हो निबंदकाराचो. तांचे कितलेशेच लेख मराठींत उजवाडाक आयिल्ले आसात. वेगवेगळ्या विशयांचेर तांणी बरप केल्लें आसा. पर्यावरणाचो घोस्त तांका आसा. भोंवडेवर्णनांतले अणभव कोंकणी भाशेच्या माध्यमांतल्यान मांडटाना सुमेधाक जी मर्यादा पडल्या ती कुशीक काडली जाल्यार सुमेधान एक बरो प्रयोग करपाचो यत्न केला अशेंच म्हणूंक जाय.

गोमांचल ते हिमाचल ही दिलीप बोरकार हांची भोंवडे खबर 1984 वर्सा पयले खेप उजवाडाक आयल्या. हिमालयाचे भोंवडेतले युथ हॉस्टेलचे तरनाटे ह्या नात्यान घेतिल्ले वा आयिल्ले अणभव ह्या पुस्तकांत आयिल्ले आसात.

रवींद्र केळेकार हांचे ‘हिमालयांत’ हें भोंवडेवर्णन 45 दिसांचे हिमालयाचे भोंवडेवर्णनाचेर आदारिल्लें बरप आसा. केळेकाराची हिमालयाची भोंवडी ही संवसाराचेर उबगून केल्ली न्हय. ध्यान चिंतनाची न्हय तर सौंदर्य मोगी म्हुणून केल्ली आसा. एक Aesthetic Journey म्हुणून ते पळयतात. ‘हिमालयांत’ची निर्मणी प्रक्रिया आनी गोमांचल ते हिमाचलची लेखन स्फूर्त वेगवेगळी आसा. ह्या दोनूय पुस्तकांमदीं एक योगा योग आसा. हिमालयांत ह्या पुस्तकान पान साताचेर –

“दुनिया की सैर कर गाफिल जिंदगानी फिर कहाँ
जिंदगी कुछ रही तो नवजवानी फिर कहाँ....

हीं उतरां आयल्यांत. तर दिलीप बोरकारान आपल्या पुस्तकाच्या सुरवेकूच ह्योच वळी दिल्यात. तेंच ‘परिक्रमा’ ह्या उतरा संबंदान दोगांयनी ह्या उतराची फोडणी आपआपल्या निबंदानी केल्ली आसा. रवींद्र केळेकार हांचें भोंवडेवर्णन आनी दिलीप बोरकार हांचें वर्णन हांचेमदीं परिपक्वतायेचो फरक आसा. दिलीप बोरकार हांचें बरोवप चडशे कडेन हुतहुतेपणाचें जालां. एकिकडेन तो आपूण घराभायर आसलो काय ‘शिवराक’ म्हणटा तर दुसरेकडेन शिवराक म्हळ्यार ख्यास्त समजतात. रेल्वेतलो गर्दींतलो भोंवडेचो अणभव मांडटना बोरकार जी भास वापरता ती भास रसभंग तर करतातूच पूण त्याच वांगडा ती मूलभूत मानवी दृष्टीकोनाआड आसात. पान 14 चेर तशें वर्णन आयलां... “मनीसपण गुठलावन दवरून खऱ्या अर्थान राष्ट्रीय प्रवाहांत उडी माल्लेबराबर निदान उबो रावूंक तरी सुवात मेळिल्ली – आपले भोंवडेंतले कॅम्पातले अणभव मांडटना लेगीत ललित्यापरस निवेदनाचोच भाग चड जाला. 62 पानाचेर lefttist हें उतर त्या प्रसंगातलो ताणूच देंवयता तर 64 पानाचेर आयिल्लो ड्रायव्हर नाशिल्ले चलपी गाडयेचो भुताटकेचो अणभव जर खरो आसत जाल्यार तो जे पध्दतीन कथन जाला ती मांडपाची पध्दत पटना – एक सद्सदविवेक बुध्द आशिल्ले पुरोगामी विचारसरणीचे बरोवपी म्हुणून ‘सिक्कीमचीं भुतां’ ह्या निबंदांतल्यान जशे बोरकार अंधश्रध्दा गैरसमज पयस करतात तशे ह्या प्रसंगांत खोलायेन विवेचन करपाची गरज दिसता. खासा बरोवप्यानूच हे साहित्यकृतीक मर्यादा घातल्यात हें अप्रत्यक्ष रितीन मांडलां. तर ‘हिमालयांत’कार रवींद्र केळेकार हांची बरोवपाची शैली ओडलायणी, काव्यमय आनी संस्कारी जाल्या. मनीस घडपाची प्रक्रिया घडटा.

धारापुरी, बेलूरमठ, वाराणसी, सैमाचे महाकाव्य जोग ह्या सारखिल्ल्या निबंदानीय ती बरी आयल्या. दत्ता नायक अशेच तरेन आमकां आंबोलीचो अभिशेक घडयता. अरबाची भोंवडी घडयतात. तर चंद्रकांत केणी हांणीय नैनितालातली गोठेल्ली याद जागयल्या. भोवडें वर्णनांत बरोवप्याच्या संवेदनशील मनाचो आमकां दिश्टावो घडटा. घडणुकांचो प्रभाव आनी परिणाम मनशाचेर कसो घडटा ताचेंच वर्णन आमकां घडटा. भोंवडेकारांची नदर ही पूर्वग्रह दुशीत आसूंकूच फावना. फेरैर द काश्त्रु हांचे 'अ वॉल्त आऊ मुन्दू' हांची संवसार भोंवडेंतली पोर्तुगीज भाशेंतली भोंवडे खबर ही जशी मोटवे नदरेची जाता, तशीच ते पुस्तकाच्या प्रभावान वचपी हेरांचीय जांव येता. थळांचो दिश्टावो वाचप्याक घडयताना तांचो सगळ्या आंगांचो अभ्यास बरोवप्याक आसल्यार बरो. सांस्कृतीक इतिहास, राजकी, सामाजीक धर्मीक घटकांचो प्रभाव परिणाम दाखोवपूय गरजेचें आसता. भोंवडेवर्णन वाचताना वाचप्याक त्या विश्वांत व्हरप हो ह्या साहित्य प्रकाराचो हेतू आसपाक जाय. कोंकणींत जीं भोंवडेवर्णनां आयल्यांत तीं मुळांत थोडीं आसा. संवेदनशील कोंकणी मनशाची जीण जेन्ना समृध्द जातली आतां बरयल्या बगर रावो नजो अशें जातलें वा 'चालविसी हाती धरूनीया' अशी आमचीय अवस्था जातली. तेन्ना आमी आसा ताचे परस आनीकूय बरें भोंवडे वर्णन बरोवंक पावतलें. ते खातीर आमकां गरज आनी प्रेरणा जाय ती रवींद्रनाथांचे एकला चलो रे हे कवितेची.



# 4.
# कोंकणी बाल साहित्य

कोंकणी मन लोकवेदांतल्यान उक्तें जाता. जल्म, लग्न आनी मरण ह्या तिनूय पांवड्यार हें लोकमन उक्तें जायत आसता. मौखीक परंपरेचो नियाळ घेतल्यार कोंकणींतल्या काव्यमय मना-अविश्काराचो दिश्टावो घडटा. कोंकणी विधी गितां, बाल गितां, खेळ गितां, म्हणी ओंपारी इतलेंच न्हय तर गाळयांनी लेगीत 'रोसाळ कोंकणी भास' उक्ती जाता. कोंकणी लोक समाजांतल्यो चालिरिती, रूढी परंपरा, विधी, कर्म - सिध्दांत, कोंकणी समाज आनी पर्यावरण, कोंकणी समाजाचेर पडिल्लो हेर देशी तशेंच विदेशी भास आनी संस्कृतायेंचो प्रभाव हातूंतल्यान घडत गेल्लें कोंकणी समाज जिवीत हें सहजीवनाचेर आनी सह अस्तित्वाचेर आदारिल्लें आसा अशें आमच्यान म्हणूं येता. गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांनी कोंकणी मनीस वांटून गेल्लो आसा. कोंकणी मनीस जंय जंय स्थलांतरीत जायत गेला थंय ताणें कोंकणी आत्मो जागोवपाचो आनी जगोवपाचो यत्न केला. पयले अवस्थेंत ही तोंडावेली सरस्पत सांबाळून दवरल्या. लोकधन सांबाळून दवरलां.

कोंकणी लोकवेद म्हणी, ओंपारी, आल्लयो, होंवयो, धर्म-विधी गितां, लोकनाच, लोक-नाट्य आदी तरेकवार रूपांनी उक्तायल्लो दिश्टी पडटा. लोक-काणयांच्या रूपान संस्कार पिढी मुखार व्हरपाचें काम कोंकणी लोकमानसांत दिसता. कोंकणी समाजांत लोककाणयांचेच दोनशांवयर प्रकार आसात. 'भुरग्यांचेर निती संस्कार करपाच्या आनी तांचे मनरिजवण करपाच्या लोककाणयेच्या गुणाक लागून, लोककाणयेचेर संस्कार करून आनी ती भुरग्यांक भावता आनी पचता अशे भाशेंत ती ती तांकां सांगपाक सुरवात जाली. आनी उपरांत लोककाणी म्हणजे भुरग्यांखातीर सांगपाची काणी असो समज वा गैरसमज समाजांत पातळिल्लो तो ह्या विशयाचेर जाल्ल्या अभ्यासाक लागून पयस जायत आसा अशें विधान लोकवेदाच्यो अभ्यासक डॉ. जयंती नायक हांणी केल्लें आसलें तरीय लोककाणी म्हटली काय ती 'बाल-मनाक' चड आकर्शित करता हातूंत दुबाव ना. कोंकणी समाजांत ही लोककाणी सांगपाची आनी आयकुपाची

एक बसका आसता. पिंपळा पेडार, गोरवांक राखोंक वता थंय, दोंगर माथ्यार, देव-थळांचेर, घरांत-वसऱ्यार, आंगणान इतलेंच न्हय काळ, रूतू, हवामानाप्रमाण ही सांगपाची आनी आयकुपाची मानसीक बसका आसता म्हळ्यार अतिताय जावं नजो.

हें बालमन जाण्ट्यांनी जरी उक्तें केल्लें आसलें तरी बाल-मनाक धरून आसता. हें बालमन उक्तें करताना, राम, कृष्ण, सिता हांचे वांगडा मेरी (सायबीण) आदी देवतांय आयिल्लीं दिश्टी पडटा. ल्हान भुरग्यांक पाळण्यांत घालताना, तांकां मांडयेर घालूंन न्हिदयताना, जेवयता-खेळयताना म्हणिल्लीं गितां अर्थपूर्ण आसात. हीं गितां आवय, आजी, मावशी, भयण वा 'रासवळ बायल' ह्या रूपांतल्यान व्यक्त जातात. केरळांतल्या कोंकणी मनाचो हो अविश्कार पळयात:-

"बाळा जो जो रे
कुल भुषण
दशरथ नंदन
निदाकरी बाळा
मन मोहन
रामु लक्षिमण... बाळा
पालोणें लांबविलें
अयोध्येंशीं
दशरथाचे वंशी
पुत्रु जन्मला
ऋषिकेशीं
कौशल्याचें कुशी ... बाळां...."

वा

पाळणें बांदिलें
सुदेवा थंयीं

पल्लण पडलेंलें
श्री कृष्ण राया

वा

पाळण्याचे वयरी
बांदिला शिंगारू
सुखी गोवींदु
निद्राकरी....

धर्मांतरण, बाटाबाटीक लागून कोंकणी समाज जरी हिन्दू आनी क्रिस्तांव, मोयर (मुसलमान) असो वांटून गेल्लो आसलो तरी मूळ कोंकणी आत्मो मरूंक ना. ताचो दिश्टावो क्रिस्तांव समाजांतल्या पाळण्या-गितांनीय दिसता. बदल घडला तो फकत देवाच्या/देवीच्या नांवांचो. देखीक -

पाळणें भांगराचें, दोरी रूप्याची
आनी मारीची कृपा तुका नीद दीत.
त्या आंकवारीचें काय बरें तळें
आनी उदका विणे मळे रे बाबा जेजून फुलयलें.
भांगराच्या पाळण्याक रूप्याची दोरी
आनी आंकवार मारी बाळा तुजी राखण करी.

ल्हान भुरग्यांक खेळयताना ताल, लय, सुरान गायिल्ल्यान तीं बाल-खेळगितां मना काळजाक भावतात. देखीक हीं कांय खेळ-गितां पळयात -

तवशें बाबा तवशें
खंयच्या खांदार घेवंचें?
बाजाराक हेल्यार विकाना
घरा हाडल्यार पिकाना.

ल्हान भुरग्यांक आंगां-माथ्याक तेल लायताना ताका न्हाणोवयचे पयलीं ताची मानसिकताय तयार करचेली चाल कोंकणी समाजान बेस बरी वळखल्या-

आखो माखो
तेल माखो
तेलकाराचो बुडकुलो
तेल गे तेल.

भुरग्यांचें मन भुलोवपांक सुकणीं, सावदां, किरां-मोरां हांचो सांगात लोकगितांनी घेतला. सैबांतल्या तरेकवार घटकांक लागीं करून वा तांचें मानवीकरण करून मनीस आनी सैंब हांचें नातें वाडीक लायिल्लें आसा.

जाय गो जाय
बोकल्यान खाल्ली साय
आनी गोट्यांत आसा गाय
बाबूक दूध पियेवंक जाय.
कुरू कुरू काना
आनी म्हशी गेल्यो राना...

भुरग्यांखातीर लोककाणयांचें भांडार कोंकणींत आसा. राजा, राणी, परी, राक्षस, देव-देवता, झाडां-पेडां, सुकणीं-सावदां, भट-भटीण, कोलो-कोली, कुंडेकुस्कूर, भट आनी वाग, मानगें आनी कोलो, वाघ आनी सोसो, पातोळ्यो आनी पोर अशे तरेकवार विशय आयल्यात. मूळ कोंकणी वातावरणांतल्या काणयां वांगडा हितोपदेश, इसापनिती, आनी प्रकारांतल्यो काणयोय तातूंत भरसल्यात. पुराण कथांचोय प्रभाव कोंकणी काणयांचेर आसा तेच वांगडा रामायण महाभारत सारखिल्ल्या महाकाव्यांचोय 'अन्वयार्थ' कोंकणी वातावरणाक धरून, कोंकणी संस्कृतायेक धरून आयला. सत्य, धर्म आनी अहिंसेचो पुरस्कार करपी निती कथा कोंकणी लोकमानसांत बुध्द - तत्वज्ञान येवंचें पयलींय आशिल्लें म्हणपाची देख 'भोळी गाय आनी दुभो' ह्या लोककथांच्या आदारान दिवं येता. कोंकणी कथा गावन सांगपाचे रितीक लागून ती बालमनांचेर बरीच प्रभाव घालपी थारल्या. सात-सात रातीं कथा सूत्र घेवन तें बसका घेवन (बैठक

मारून) सादर करपाची कलात्मक कुशलकाय कोंकणी मनशान आपणायल्या. कोंकणी भास ही मुळांत गेय वा तालबध्द आशिल्ल्यान रसाळ अनुभूती ह्यो असल्यो काणयो आयकताना येता. नाट्यात्म रितीन हें सादरीकरण केल्ल्यान तें बरेंच प्रभावी थरता.

मौखीक परंपरेन हो लोकवेद एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन गेलो. सैंब, परिसर, परकी राजवटी, धार्मिक आक्रमणां, स्थलांतरणां, भौ-भाशा-संस्कृतायेचो प्रभाव आदी कितल्याश्याच घटकांक लागून कोंकणी लोकवेदाचें रूप बदलिल्लें दिश्टी पडटा पूण आत्मो मात तोच. एक गजाल खरी ती म्हळ्यार लोकवेदांत बालमनाचो उत्स्फूर्त आविश्कार जाल्लो दिश्टी पडटा. ह्या मुळावणाचेर कोंकणी (गद्य-पद्य) साहित्याची परंपरा आदारिल्ली आसा. ह्याच बळाचेर कोंकणी बाल साहित्य उबें राविल्लें दिश्टी पडटा.

कोंकणी आत्मस्वर आशिल्ल्या आनी मूळपीठ आशिल्ल्या गोंयाचेर तरेकवार परकी राजांनी राजवट चलयली. अरबी, कानडी, पुर्तुगेज आदी भासांचो प्रभाव हे भाशेचेर पडला. साडेचारशीं वर्सांचे पुर्तुगेज राजवटींत सुरवेच्या काळांत राजवटीचो फायदो घेवनूच गोंयांत आयिल्ल्या क्रिस्तांव धर्मप्रसारकांनी कोंकणी भाशेचो अभ्यास करून धर्माची मोख दवरून धर्मीक स्वरूपाचें बरप कोंकणींत केलें. तेच वांगडा शब्दकोश, व्याकरणां आनी कांय हेर प्रकारांनीय लिखाण केलें. पूण मदल्या काळांत तांणी ही कोंकणी भास मारून उडोवपाचोय यत्न केलो. कोंकणी भाशेचें मर्णाचें फर्माण तांणी काडलें जातूंत कोंकणी भास सोडून दिवन सगळ्या लोकांनी पुर्तूगेज भास आत्मसात करची, होंवयो गावप ना अशे तरच्यो ख्यास्तीच्यो अटी घातल्यो. कोंकणी आत्मस्वरूच मारून उडोवपाचो यत्न तांणी केल्लो. कोंकणी मनशांनी तो वेगळ्या (क्रिस्तांव) धर्मतत्वाचो आदार घेवन सांबाळ्ळो पूण कालांतरान ताकाय गळटी लागली. उरल्यात तीं थोडीं भोव लोकगितां, बालगितां. धर्मांतरणाक लागून वा हेर कारणांखातीर गोंया भायर गेल्ल्या कोंकणी मनाची तळमळ वेगवेगळ्या बालगितांनी दिसता. केरळांतलें हें लोकमन ल्हान भुरग्यांक भरयताना हें अशे तरेन उक्तें जाता की तें मन कावळ्याक विचारता की तूं गोंयां गेल्लो काय म्हण? गोंयचे मातयेचो मोग आनी ओड तातुंतल्यान उक्तो जाता. एक खरें कोंकणी लोकवेदांत बालमनाचो

आविश्कार उत्कटतायेन जाला. गुपीत, रहस्य, विस्मय, जादू, धिटाय, रंग, गंध, स्पर्श, ताल, लय, सूर हांचे वांगडा पंचमहाभूतांची उत्सुकताय आनी जाणविकाय तांचेमदीं वाडीक लागता तेच वांगडा नितीची शिकवणूय लोकवेदांतल्या 'बालवेदांत' दिश्टी पडटा. कोंकणी सैंब, कोंकणी समाज आनी कोंकणी संस्कृताय हांकां धरून हो लोकवेद घडला. लोकवेदांत 'बालसाहित्याचीं' तरेकवार रूपां दिश्टी पडटात. खेळ गितां, नाच गितां, काणयो, हुमाणीं, म्हणीं, ओंपारी आदी तरेकवार प्रकारांनी तीं दिसतात.

आशिया खंडातलो पयलो छापखानो 1556 वर्सा गोंयांत स्थापन जाल्लो. क्रिस्ती धर्मप्रसारकांनी तो बसयल्लो. जेज्वीत पंथांतल्या पाद्रींनी ताचो उपेग धर्मीक आनी हेर विशयांतलीं पुस्तकां छापपापासत केलो पूण ते पासत रोमी लिपीचो तांणी स्विकार केल्लो ही तांची ते वेळावेली गरज आशिल्ली. पूण ह्या छापखान्याचो कोंकणी भाशेचे उदरगती पासत जितलो उपेग जावंक जाय आशिल्लो तितलो जावंक पावलो ना. तशी राजकी इत्साशक्तूय राजकर्त्यांकडेन नाशिल्ली.

शणै गोंयबाब हांणी कोंकणी भास आनी साहित्याक नवी जाग हाडली. कोंकणी मनशाचो पुरूशार्थ तांणी जागयलो. कोंकणी भाशेक गिरेस्त दायज आसा हें तांणी पटोवन दिलें. ते वेळार गोंय पुर्तूगालाच्या शेकातळा तर भारत ब्रिटीशांचे राजवटीखाला आशिल्लो. भारतीयांमदलो स्वाभिमान जागृत करपाचो मोलाचो वावर तांणी केला. कुञ रिव्हार ह्या पुर्तूगेज अधिकाऱ्यान सामुहीक पुरूशार्थ जागोवपाचो यत्न आपल्या निबंद साहित्यांतल्यान केल्लो. तिवूय उर्बा शणै गोंयबाब हांकां मेळिल्ली. नाटक, कविता, कथा, कादंबरी, चरित्र, सोद वावर आदी प्रकारांवांगडाच शणै गोंयबाब हांणी बाल साहित्याकडेनूय आपलें लक्ष दिलें. 'भुरग्यालो इश्ट' हें बाल साहित्याचें तांचें पुस्तक आसा. मुक्ततायें पयलीं बरयल्ल्या ह्या पुस्तकांतल्यान कोंकणी भाशेचो भुरग्यांमदीं प्रसार आनी प्रचार जावंचो हो हेतू आसाच पूण तेच वांगडा देखदेण्यो काणयो, वर्णनां, खेळगितां, नितीकथांचो रूपकार, कविता अशे पंचवीस पाठ आसपावल्यात. ल्हान ल्हान काणयांतल्यान भुरग्यांक आकर्शीत करपाचो यत्न केला. ह्या काणयांचें स्वरूप हे एके देखींतल्यान पळोवंया.

"एके रातचें, एक भुकेल्लें वागूट खाण सोदीत गांवांत भोंवतालें. तें एके

खोपी लागसार पावलें. थंय एकली आवय भुरग्याक म्हणटाली, 'वोगो राव पळोवया, बाबू. आतां आनीक रडशी जाल्यार तो, भायर वागमाम बसला, ताचेकडेन तुका काडून दितली' यो रे वागमामा आनी व्हर या रडव्या बाबूक." हें आयकून वागटाक मोठी खोस जाली. तें जिबली चाटून वाट पळेत रावलें. कांय वेळान भुरग्याची आवय म्हणूंक लागली,

आमचो बाबू गुणाचो
भोबो खाता चुनाचो!

पळे कसो तो वगी रावलो. ताका आतां हांव वागमामाकडेन दिवंची ना. "बा ऽऽ रे वागमामा तूं हांगा आयल्यार हांव तुका फारान मारतली. चल थंयचो." हें आयकून वागूट निर्शेवन गेलें.

शणै गोंयबाब हांच्या पुराय साहित्याची एक मोख आशिल्ली ती म्हळ्यार कोंकणी विशींचो स्वाभिमान जागो करप. तांच्या साहित्य प्रकारांनी ही मोख तांणी वापरल्या. बाल साहित्यांत लेगीत एक पाठ तांणी 'कोंकणी भास' ह्या नांवान संवादरूपान बरयला. तेदेवेळावेले कोंकणी भाशेची दशा आनी दिशा दाखोवपापासत तांणी दिल्लो हो नमुनो कोंकणी साहित्याचे नदरेंतल्यान मोलाचो.

## कोंकणी भास

'माणकुल्या भुरग्या, तूं कोण, तुजो देस कोण आनी तुजी भास कोण ती तूं जाणां ?'

'हांव कोंकणो. कोंकण म्हजो देस. कोंकणी म्हजी भास.'

'तुजी भास तुका बरी येता?'

'म्हाका ती उलोवंक येता. बरोवंक आनी वाचूंक येना. म्हाका ती कोण शिकयना.'

शिकयल्यार शिकशी?

बरे भाशेन शिकन आनी हेरांक शिकयन.

'तुका ती हांव शिकयतां. बेगीन शीक आनी दुसऱ्यांक शिकय.'

कोंकणी भाशेविशींचें हें बौध्दीक शणै गोंयबाब भुरग्यांखातीर वापरतात.

आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हांणी बाल साहित्य रचणुकेची बुनयाद घाली. 1948 वर्सा तांचे 'भुरग्यांलो वेद' हें तांचें पुस्तक. स लोककाणयो तातूंत गुंतल्यात. नेमाळ्यांनी तांणी आदी 'गो म पै' ह्या टोपणनांवान लोककाणयो बरयल्यात. शणै गोंयबाब, तांची घरकान्न शांताबाय हांणीय कांय लोककाणयो पुंजायल्यात. 'इंदिरेच्यो शिरवळ्यो' हे कथेची देख ह्या संदर्भांत दिवं येता.

महात्मा गांधीजींच्या विचारसरणीचो प्रभाव गोंयांचेर पडला. गांधीवादाच्या प्रभावान आयिल्ल्या रवींद्र केळेकार ह्या सारखिल्या लेखकांचेर शणै गोंयबाबांचो जबरदस्त प्रभाव पडिल्लो. त्या प्रभावांतल्यान कोंकणी साहित्याक नवें आंकूर फुटपाक लागले. ताचेच परिणाम म्हण कोंकणींत नेमाळ्यांनी जन्म घेतलो. रवींद्र केळेकार हंणी 'मीर्ग' नेमाळें सुरू केलें. वर्ध्याक काकासाहेब कालेलकाराच्या सांगातान आश्रमांत रावताना तांकां जिगुभाई बधेकांची 'माबाप धवुं आकरूं छे', 'मा बापोने', 'आ ते शी माथाफोड' नांवाची गुजराथी भाशेंतलीं पुस्तकां वाचपाक मेळ्ळीं. त्या पुस्तकांचो प्रभाव रवींद्र केळेकार हांची बायल गोदूबाय केळेकार हांचेर पडलो. तातूंतल्यान 'फुलत्यो कळयो' हें बालमानस शास्त्र समजावन दिवपी पुस्तक 1957 वर्सा उजवाडाक आयलें. ताचे पयलीं हें बरप 'मीर्ग' नेमाळ्यान 'कळयो' ह्या सदराखाला छापून आयिल्लें. बालमानसशास्त्राचेर आदारिल्लें हें कोंकणींतलें म्हत्वाचें पुस्तक अशें आमच्यान म्हुणूं येता.

1961 त गोंयाक मुक्ती मेळ्ळी आनी कोंकणी मुक्त अभिव्यक्तीक वाव मेळ्ळो. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, बाकीबाब बोरकार, कमलादेवी राव देशपांडे, रामभाऊ जुवारकार, गुरूनाथ केळेकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय, चा. फ्रा. डिकोस्टा आदी कितलेश्याच बरोवप्यांनी कोंकणींत बाल साहित्याची निश्टेन आनी जाणविकायेन सेवा केल्ली दिश्टी पडटा. गोंय मुक्तताये उपरांत कोंकणी साहित्याक चंवर फुटलो. बाल साहित्याचेंय मळ फुलारून येवपाक लागलें. आकाशवाणी, छापील प्रसारमाध्यमां हांचे गरजेंतल्यान तशेंच शाळा, कॉलेजीच्या स्नेहमेळाव्यांच्या निमतान शिक्षक वर्गानूय बालनाट्य, नाट्यछटा (आपउलोवपां) संगितीका आदी प्रकारांचो पुरस्कार केलो. गरजेंतल्यान ह्या साहित्याची निर्मणी जावंक लागली. लोककवी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांणी आपल्या भुरग्यांक तशेंच वाडदिसानिमतान कांय बालगितांची निर्मणी केली. ते स्वता भुरग्यांक गितां रचून म्हुणून दाखयताले. काणयो सांगताले. तांची भांगराची कुराड (1979), गोड

गोड गीतां (1979), बिराड बदल्लें (1981), माणकुलीं गितां (1982), जादुचो कोंबो (1995) अशीं बाल साहित्यांवेलीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. सादी सोपी वाक्य रचना, ताल लयबध्द रचना, आनी मिश्कील विनोद अशे तांचे बालसाहित्य रचणुकेंतले कांय गूण दिसतात.

हे संबंदान डॉ. माधवी सरदेसाय हांचें मत अशें की – 'मनोहरबाबाल्या गितांचें सगळ्यांत ओडलायणें आंग म्हळ्यार तांतली नादमय भास. तांगेलीं चडशीं गितां बरपाक्षरी संवसारांत अजून भितर सरूंक नाशिल्ल्या भुरग्यांखातीर बरयिल्लीं. नादमयतेक लागुनूच ती असल्या भुरग्यांच्या काळजाचेर शेक गाजोवंक लागतात.

गांवचें म्हातारे गे तूं
खंय गे गेलेलीं.
म्हापश्यां गेलेली रे पुता
फेस्ता गेलेलीं.
फेस्ता साकून गे तुवें
कितें हाडिल्लें?
फेस्ता साकून रे पुता
चणे हाडिल्ले.
चणे हाडिल्ले गे तुवें
कोणा वांटिल्लें?
चणे हाडिल्ले ते पुता
भुरग्यां वांटिल्ले.
चणे हाडिल्ले ते तुवें
कित्या खालेना?
दातां लागना रे पुता, दातां लागना!

तांच्या 'बेब्यांचें काजार', 'बाबुचें लग्न' सारख्या गितांनी बरीच लोकप्रियता मेळयल्या. कोंकणी भौसांत तांची कविता केळयल्या. सुमार दोनशेवयर बालगितां तांणी रचल्यांत. मनोहरबाबाच्या रूपान कोंकणीक लोककवी मेळ्ळो.

बालसाहित्याच्या मळार कोंकणींत बाकीबाब बोरकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय, गुरूनाथ केळेकार, रामभाऊ जुवारकार, कमलादेवी राव देशपांडे, दामोदर मावजो ह्या बरोवप्यांचो वावर आडनदर करूं नजो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचें रामग्याची वागा भोंवडी (1979), रामभाऊ (रामकृष्ण) जुवारकार हांचीं बालगीतां 1 ते 3 (1961), विजयाबाय सरमळकार हांचें गांठलें (1979), रवींद्र केळेकार हांचें राजा राणी (1979), श्याम वेरेंकार हांचें कंडकुस्कूट (1979), अ. ना. म्हांबरो हांचें घुमचे कटर घुम (1964), शिरीष भोबे हांचें कागदांची होडीं (1968), दामोदर मावजो हांची 'काणी एंका खोमसाची (1976), एक आशिल्लो बाबुलो (1977), अभयकुमार वेलींगकार हांची हांव न्हीद काडटा आनी देवाच्या दारांत (1981), बर्फाचें जग (1981) ते 1998 मेरेन तांच्या नांवार मेळपी बारा (एक डजन) बाल-साहित्याचीं पुस्तकां कोंकणी सरस्पतीच्या आंगणांत बालमनां फुलयतात.

श्री. दिलीप बोरकार हांणी 'दर्या सुंदरी', 'चड आस धरता तो बुडटा', 'मस्त्या गुंडूची नस्ती भोंवडी', 'अशांत सुशांत' अशीं पुस्तकां बरयल्यांत. भरत नायक आनी पुंडलीक नारायण नायक हांणी बालनाट्याच्या मळार दिल्लें योगदान म्हत्वाचें आसा. भरत नायक हांची 'भेरें भेरें टुणटुणे', 'काशीपोंदा' सारखीं बालनाटकुलीं बरींच गाजलीं. पुंडलीक नारायण नायक हांची 'रानसुंदरी', 'आळशाक वाग खातलो,' 'शिंवाचो बळी' ह्यो एकांकी तर 'मनू', 'बेकार भोंवडेकार' ह्यो बालनवलिका तर गौरी आनी कल्परूख, छूम छूम घुंगरी हे कविता गीतां अशें बाल साहित्य उजवाडाक आयलां. बालनाट्य चळवळीच्या संदर्भांत पुंडलीक नायक हांणी गुणात्मक योगदान दिलां. गुरूनाथ केळेकार हांणी अरेबियन नायटस् सयत स्वतंत्र्य स्वरूपाचें बालसाहित्य रचलां. बालसाहित्य चळवळीचें कोंकणींतले म्हालगडे पुरस्कर्ते म्हण तांणी केल्लो वावर कोंकणी चळवळीच्या संदर्भांत म्हत्वाचो आसा. चाचा नेहरू तुमचे भेटेक ही चळवळ तांणी आपल्या नेहरूप्रेमी सांगात्यांक घेवन चलयली. शाळा - शाळांनी भोंवून नेहरू तुमचे भेटेक ही बाल-कल्याणकारी वाङमयीन चळवळ चलयताना तांणी भुरग्यांमदीं धर्मनिरपेक्ष मानवतावादी नदर वाडीक लागली तशेंच संस्कृताय वाडीक लागची अशी मोख दवरली. पुस्तकयात्रा चलयल्यो, 'मारूती' नेमाळ्यावरवीं कोंकणी साहित्य तशेंच साहित्यीकांक योगदान म्हत्वाचें थारलें. कुमुदीनी

केळेकार हांणीय 'अलिबाब आनी चाळीस चोर' 'वेताळ पंचविशी' ह्यो काणयो रूपांतरीत केल्यो. तेच वांगडा स्वतंत्र बालसाहित्य तांणी निर्माण केलें. पुरूशोत्तम सिंगबाळ हांणी बिरबलाच्यो काणयो (1980) च्या दसकांत हाडल्यो. तर ओलिव्हिन्यू गोमीश हांणी सुपुल्लो काणयां पांटुलो (1975) हें पुस्तक उजवाडाक हाडलें.

रवींद्र फळदेसाय, रजनी अशोक भेंब्रे, प्रशांती तळपणकार, सुरंगा मडयकार, माणिकराव प्रभू गावणेकार, रमेश वेळुस्कार, सुधा आमोणकार अश्या पिंडान शिक्षक आशिल्ल्या कांय लेखकांनी कोंकणी बालसाहित्याचें मळ फुलोवपाक बरोच आदार दिला. डॉ. कस्तूरी देसाय, डॉ. वर्षा कामत, अनील शंकर नायक, डॉ. जयंती नायक, महाबळेश्वर सरदेसाय, जयवंत कपिलेश्वरी, कुमुदीनी केळेकार, माया खरंगटे, कुमूद नायक अश्या कितलेश्याच जाणकार बरोवप्यांनी आप-आपल्या ज्ञान-शाखेचो उपेग बाल साहित्याचेय निर्मणेखातीर दिला. हाचो परिणाम म्हूण कोंकणींत चरित्रां, विज्ञानीक लिखाण, पर्यावरणीय जाणविकाय, लोकवेदाची वळख अशे विंगड विंगड प्रकार येवपाक लागले. अणकारीत साहित्य, रूपांतरीत साहित्यूय ह्या काळांत येवपाक लागलें. तेच वांगडा गोंयच्या म्हान पुरूशांचीय वळख असल्या बाल साहित्याच्या रूपांतल्यान घडपाक लागली. जातूंत दामोदर मावजो, माया खरंगटे हांणी कोंकणी म्हापुरसाचेर बरयल्लीं 'शणै गोंयबाब' हीं पुस्तकां आसपावतात.

कोंकणीक राष्ट्रीय पावंड्यार मान्यताय मेळत सावन साहित्य अकादेमी, N.B.T. (National Book Trust) C.I.I.L. (Central Institute of Indian Languages, Mysore) अशा केंद्रीय संस्थांनी कोंकणी साहित्याक पर्यायान बाल साहित्याक नवी उर्बा मेळोवन दिल्या. शिक्षणीक पावंड्यार कोंकणीचो आसपाव जाल्ल्यान कोंकणी पाठ्यपुस्तक निर्मणेच्या प्रक्रियेंत बालसाहित्य निर्मणेचोय म्हत्वाचो वांटो आसा. गोंयांत हीं पाठ्य पुस्तकां निर्माण करपाचो म्हत्वाचो वावर सुरवेच्या काळांत कोंकणी भाशा मंडळ, सुरेश बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय, उदय भेंब्रो अश्या कितल्याश्याच लोकांनी केला. हो वावर करताना छापील पुस्तकां बदला फकत हस्तलिखीतां बरोवन भुरग्यांक शिकोवपाचें काम शिकोवप्यांनी केलां. तो वावर आडनदर करूं नजो. कोंकणी पाठ्य पुस्तक निर्माण करपाचे गरजेंतल्यान हो वावर केला आनी कोंकणीचे निश्टेन हो वावर

करताना बालसाहित्याची निर्मणी जाल्या.

भारतीय भाषा संस्थान म्हैसूर आनी राज्य विभाग संस्था गोवा हांणी 1996 वर्सा कोंकणींतली बालगितांचेर सुंदर पुस्तक काडलां. गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळांतल्या सतरा जाणकारांक घेवन कार्यशाळा घेवन हीं बालगितां तयार केल्यांत. दोन भागांनी हें संकलन आयलां. पयल्या भागांत 3 ते 4 वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांखातीर आसात. तातूंत 90 गितांचो आसपाव केला. दुसऱ्या भागांत 4 ते 5 वर्सांच्या भुरग्यांखातीर 270 गितांचो आसपाव केला. भुरग्यांचे मानसिकतायेचो विचार करून हीं बालगितां रचल्यांत. भुरग्यांची मनभुलोवणी खेळणीं, तांकां भावपी तांचीं लागिचीं नातीं, तांची खाणां-जेवणां, तांचे भोंवतणी दिसपी जीव, जनावरां, सुकणीं, फळां, फुलां हांचो विशय निश्ट उपेग ह्या गितांनी केल्लो आसा. तीन ते चार वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांखातीर तशेंच चार ते पांच वर्सांच्या भुरग्यांखातीर विशय वळेरी दिल्या ताचे फाटल्यानूय बालमानसशास्त्राचो विचार हे कार्यशाळेंतल्यान जाला अशें आमच्यान म्हणूं येता. कोंकणी समाज, संस्कृताय, लोकजीण भास हांचो सुमेळ ह्या गितांनी घातला. देख :

1. फेस्त गांवार
गाजता खबर
भायर सर गे मम्मी.

रीटा येता
गीता येता
फेस्ताक या गे आमी.

बोल आसा
बॅट आसा
पळोवंक या गे मम्मी.

मोटार आसा
बावली आसा
हाडूंक या गे आमी...

2. मुळो आनी घोसाळें
चिबड आनी पडोळें
दुदी आनी वांयगें
कोणाक जाय गे ऽऽऽ

3. घुमचे कटर घूम
घुमचे कटर घूम
बाबा नाचता, दादा नाचता
घुमचे कटर घूम
काका नाचता, मामा नाचता
घुमचे कटर घूम
म्हाकाय नाचन दिसता
घुमचे कटर घूम
नाचूंक बरें दिसता
घुमचे कटर घूम
घुमचे कटर घूम
कटर कटर घूम
घुमचे कटर घूम

4. बाबूची काणी

आमचो बाबू खंय गेलो?
शेतांत गेलो
शेतांत कितें दिलें?
तण दिलें
तण कितें केलें?
गायक दिलें
गायन कितें केलें?
दूध दिलें?
दूध कितें केलें?
बाबूक दिलें.

भारतीय भाषा संस्थान म्हैसूर हांणी राज्य शिक्षण संस्थेच्या जोडपालवान 1996 त केल्लो हो अभिनव प्रयोग कोंकणी बालसाहित्य चळवळीक एक निश्चीत रूपरेशा दिवपी थारलो हातूंत दुबाव ना. ह्या वावरांत गोंयचे वतीन देवकी दुकळे, झिलू गांवकार, सुनील पालकार, भरत नायक, तुकाराम शेट, स्मिता तांबा, विनंती कांसार, फिलोमिना फेर्नान्डीस, रामकृष्ण जुवारकार हांणी वांटो घेतिल्लो, महाराष्ट्रांतल्यान आनंद वर्टी, कर्नाटकांतल्यान जयश्री शानभाग, डॉ. स्नेहलता शरेशचंद्र, ॲन्सी डिसुजा, एम. जयंतीबाय, आनी केरळांतल्यान आर. एस. भास्करन आनी पि.-जी. कामत हांणी वावर केला.

श्री. तुकाराम शेट हांणी बाल साहित्याची चळवळ गोंयांत चालीक लायली. बालगीत निकेतन बेतीं, बार्देज, गोंय हे संस्थेवरवीं कोंकणी जनमानसांत बालगितां, नाच, खेळगितां, पर्यावरण गितां संगिताच्या सांगातान प्रत्यक्ष सादर करून उपरांत तांच्यो कॅसेटस् काडून तांणी बरें काम केलां. तेच वांगडा कोंकणी बालगितांवरवीं पर्यावरणाचें भान करून दिवपाक ‘पर्यावरण परब’ ह्या नांवान शाळांनी विद्यार्थांखातीर बऱ्योच कार्यावळी केल्यात. हो वावर करताना गोंयच्या समाज आनी पर्यावरण मळांचेर काम करपी साहित्यीक – पर्यावरण मोगी तशेंच विज्ञानिकांचोय आदार तांणी घेतला हेंवूय म्हत्वाचें. समाजांत विज्ञानीक दृश्टीकोण वाडीक लागपाक पर्यावरणाचेंय मोल केदें व्हड आसा हें दाखोवपाक तांणी पर्यावरणाकडेन संबंदीत पर्यावरण गितां हें बालगितांचेंय पुस्तक हाडलां. (Action song regarding Hydrosphere, Lithosphere, Biosphere and Atmosphere of earth) देखीक –

1. नाच गीत
   (वांटकुळो झिम्मा नाच)
   धरतरेर आसा दर्या उदक दर्या उदक
   आनी आसा जमीन कवच, जमीन कवच
   ताचेर पसवता जिवमंडळ जिवमंडळ
   ताचेय वयर  वायू मंडळ, वायू मंडळ

ह्या पुस्तकांत तांणी ल्हान ल्हान संवाद–नाट्यांचोय कल्पकतायेन उपेग

केला. प्रस्नोत्तरी रूपान पर्यावरणाचें भान करून आमी सगळीं हातांत हात घालून सांगातान जगूया असो मंत्र दिला. गोंयचे फुगडेचोय भुरग्यांच्या माध्यमांतल्यान कल्पकतायेन वापर करताना विज्ञानीक युगांतले काळाचें भान आनी मोल (मूल्य भान) तांणी दाखयलां. कचे फुगडी हो प्रकार गोंयांतलो फुगडेचो एक मनभुलोवणो तसोच प्रभावी प्रकार, ताचो उपेग तुकाराम शेट हांणी कसो केला तो पळोवंया.

कचे फुगडी

1. आमच्या घरांत धुवर विरयत
चूल गो, चूल गो
लाकडां कमी लागतात
धुंवर जायना गो जायना गो
2. आमच्या घरांत
प्रेशर कुकर गो, कुकर गो
वाफेर जेवणां शिजतात
जळोवं कमी गो, कमी गो.

पर्यावरणांविशीं जागृताय हाडपापासत नवीं हुमाणीं लेखक माणकुल्यां भुरग्यांक घालतात आनी तांचें पर्यावरण गिन्यान वाडयतात :

लोक मुद्दाम बांयत घालतात
तो बांयचें उदक निवळ करता
उदकांत चार पायांनी पेयता
आनी जमनीरूय चलता
तर तो कोण?
(जाप : कासव)

दोंगरार पिकता
आंबट कोडसार लागता

सी व्हिटामीन गावता
मिनरल लेगीत मेळटा
खावन उदक पियेल्यार
उदक गोड गोड लागता
तर तो कोण?
(जाप : आंवाळो)

ह्या म्हत्वाच्या पुस्तकांत कोंकणी बाल साहित्याक विज्ञानीक दृश्टीकोन मेळोवन दिला. विज्ञान-बाल साहित्याच्या मळार श्रीकांत नागवेकार, प्रा. अरूण हेबळेकार, विजयकुमार वेरेकार, सोमू राव हांणी म्हत्वाचो वावर केला. गोंयांतली पयली कोंकणी विज्ञान परीशद जी सांखळे गांवांत भरिल्ली ती विज्ञानीक दृश्टीकोन वाडोवपाक आदाराची थारल्या. शिक्षणीक मळार कोंकणी विज्ञानीक दृश्टीकोन बरोच वाडीक लागला.

कोंकणींत बाल साहित्य वाडीक लागपाक दृक-श्राव्य तशेंच छापील प्रसार माध्यमांनी मतींत भरपासारखो वावर केला. तशेंच संस्था पावंड्याचेरूय हो वावर नेमान चलता. आकाशवाणी पणजी केंद्राचो ह्या संदर्भांत भोव मोलाचो वांटो आसा. आकाशवाणीवेल्यान खासा भुरग्यांखातीर म्हण प्रसारीत जावपी 'खळार-मळार' हे कार्यावळींत एक संस्कार पर्व निर्माण करपाचो वावर केला ताचें मुखेल श्रेय ताईक (कमलादेवी राव देशपांडे) हांकां वता. खळार मळार हे कार्यावळींत बाल साहित्याकडेन आकर्शित जावपाचें कार्य केलां. तातुंतल्यानूच माया खरंगटे, नुतन सुखटणकार - साखरदांडे, नयना आडारकर ह्यो बाल तशेंच बायल लेखिका कोंकणीक मेळ्ळ्यात. नांवां घेतलो जाल्यार ताची वळेरी बरीच लांब आसा.

कला अकादमी - पणजी हे संस्थेन बालनाट्य चळवळीक खऱ्या अर्थान पोसवण दिली. फाटलीं पंचवीस वर्सां ही नाट्य चळवळ गोंयांत आंतरविद्यालयीन कोंकणी - मराठी बालनाट्य सर्त घडोवन हाडटात. ताका लागून आनी सर्तीची गरज ओळखुनूच कोंकणींत बालनाट्य लेखक वर्ग निर्माण जावंक पावलो. तेच भशेन कलाकार वर्गूय निर्माण जावंक पावलो. बालभवन गोवा चे बालनाट्य चळवळींत गोंयच्या शहारावांगडा गांवगिऱ्या वाठारांनीय बालनाट्य चळवळ

शास्त्रीय नदर घेवन चलपाक लागली हे संबंदान मधुकर जोशी, श्रीधर कामत बांबोळकार, रवींद्र आमोणकार सारखिल्ल्या नाट्यकर्मींचेंय योगदान मोठें आसा. गोंय सरकाराचे गोवा कोंकणी अकादेमीन बालसाहित्याक आनी बालनाट्य चळवळीकूय उर्बा (प्रोत्साहन) दिल्या. कितलेशेच नवोदीत तशेंच प्रस्तापीत बाल साहित्यीकांक पुस्तकरूपान साहित्य हाडपाक आदार दिला. ताची वळेरी पळयल्या उपरांत कळटा. गोवा कोंकणी अकादेमीन ता. 5, 6 आनी 7 जानेवारी 2005 वर्सा बालनाट्य महोत्सव घडोवन हाडलो. 2003 हें बालक वर्स म्हण सरकारान जाहीर केल्लें ताका धरून गोंय राज्य शिक्षण खात्यान मंजूर केल्लो कोंकणी अकादेमीचो प्रस्ताव चालीक लागलो. 'बालमंच' हे येवजणेखाला स नव्या बरयल्ल्या बालनाट्यांचो महोत्सव आशिल्लो. कोंकणी बालनाट्य तशेंच बालसाहित्य रचना प्रक्रियेंतलो हो इतिहासीक पावंडो अशें आमच्यान म्हणूं येता. विंगड विंगड विशयावेल्या नाट्यांचो हो महोत्सव आशिल्लो. शेंकड्यांनी भुरग्यांचो आस्पाव तातूंत जाल्लो ते निमतान स नवीं बालनाट्यां आनी तांचे लेखक हे :

1. कुंड्याकुस्कूट : लेखक – रमेश वेळुस्कार
2. ढाम ढूम जुंव्यार : लेखक – उमेश म्हांबरो
3. रान मोनी आनी रान धनी : लेखक – दत्ताराम बांबोळकार
4. इगडी बिगडी तिगडी था : लेखक – प्रा. प्रकाश पर्येकार
5. उजवाडाचे उले सान मनांतुलें : लेखक – प्रा. पुर्णानंद च्यारी
6. टींग टींग टाय टींग : लेखक – मीना काकोडकार

ह्या स नाट्य लेखकांमदीं रमेश वेळुस्कार, दत्ताराम बांबोळकार, मीना काकोडकार हांणी बालसाहित्याक योगदान दिल्लेंच आशिल्लें तर उमेश म्हांबरो, प्रा. प्रकाश पर्येकार आनी प्रा. पुर्णानंद च्यारी हे नवे बाल–नाटककार उजवाडांत आयले.

पणजेच्या राजहंस वितरण हे प्रकाशन संस्थेन 'भुरग्यांलो राजहंस' हें म्हयन्याळें वेवसायीक रूपान हाडलें. 'चांदोबा' चे धरतेर ह्या भुरग्याला राजहंसान वाचपी वर्ग तयार केलो. भुरग्यांलो राजहंस कांय वर्सांनी बंद पडलो पूण बालसाहित्याचे निर्मणेंत आनी प्रकाशनाक वेगळे पर्याय मेळ्ळे. ते पर्याय 'कोंकणी टायम्स्', 'जैत', 'कोंकणी', 'बिम्ब' अश्या नेमाळ्यांनी दिलो. ह्या नेमाळ्यांनी

बाल साहित्याची चळवळ म्हण नव्या पावंड्यार व्हेल्या. भुरग्यांनी रचिल्लें बाल साहित्य हो नवो प्रवाह ह्या नेमाळ्यांवरवीं चल्ली ताका आनीक घटसाण उर्बा-उमेद दिवन दर्जात्मक स्वरूच वाडोवपाचें काम 'नव्या स्वरूपांतल्या' सुनापरान्त ह्या दिसाळ्यांत दिलां. दिवाळी अंकाची मराठी भाशेची परंपरा गोंयांत चलता पूण गोंयांत दिवाळेपरस चवथीची चड अर्थ अपुरबाय जाता. ती गोंयची मानसिकताय मतींत घेवन गोंयांत सुनापरान्तान 'चवथ अंक' ही प्रथा फाटलीं कांय वर्सां जालीं चलयल्या. मोठ्या दर्जेदार दिवाळी अंका वांगडान 'आमी पिकॅन' हो खासा भुरग्यांचो चवथ अंक प्रकाशीत जाता हें ह्या अंकाचें व्हडपण. तेच वांगडा आयतारचे पुरवणेंत 'आमी पिकॅन' हें सदर ते नेमान चलयतात. म्हत्वाचें म्हळ्यार हे पुरवणेंत / अंकांत बाल लेखकांची एक वळेरीच कोंकणी बालसाहित्यांत भर घालताना दिसता. युगा आडारकर, आयुशी शेटये, बरखा नायक, पुर्वा गुडे, सुवेदा पालकार, तन्वी कामत बांबोळकार अशीं कितलींशींच नांवां दिसतात. भुरग्यांनी भुरग्यांखातीर काडिल्लीं कार्टूनां हो आगळो प्रकार वेद प्रभूदेसाय हांणी केला.

सिध्दांत फडते, नवदीप आगियार, सिया पंडीत ह्या भुरग्यांचेंय बरप मतींत भरता. युगा आडारकर हे ल्हान चलयेल्यो कविता सुनापरान्ताच्या सदच्या अंकांत संपादकान छापली आनी ते कवितेचेर वाचप्यांमदीं बरीच चर्चा जाली. बालसाहित्याविशींचे आनी भुरग्यांच्या मानसिकतायेचें प्रभावी चित्रण ते कवितेंतल्यान जालें. चर्चा खूब तेंपा उपरांत कोंकणी साहित्यांत (बालसाहित्यांत) जाली. पयले फावट अशे तरेची चर्चा माधवी सरदेसाय हांचे 'हांव मिठाकण' हे चार वळींचे कविते संबंदान जाल्ली. ती कविता अशी :

मिठाची कणी हांव
दर्या भेटेक गेली
दर्याक हात लायना फुडें
दर्या येदीं जाली...

युगा आडारकराची कविता आयच्या समाजाचें, बालमनाचें अस्वस्थ घुस्मटमार करपी चित्रण करता. ती पर्याय सोदता - कविता अशी :

देवा म्हाका मदत कर
देवा वण्टीक म्हजेकडेन उलोवंक शिकय
म्हाका सांगपाच्यो आसता कितल्योश्योच गजाली
शाळेच्या इश्टीणीच्यो हांगा - थंयच्यो
मम्माक सांगल्यार मम्मा म्हण्टा - 'राव गो मातशें'
डाडाक सांगल्यार डाडा म्हण्टा - 'राव गो मातशें'
भाऊक सांगल्यार तो म्हण्टा - 'कितें सांगता गो?'
म्हज्या कुशीक चार वणटी
बाग ना फुलां ना पाखे ना
म्हाका कोणाकडेनूच उलोवंक मेळना
देवा वण्टींक म्हजेकडेन उलोवंक शिकय.

नेमाळ्यांक लागून आनी दिसाळ्यांक लागून कोंकणींत भुरग्यांनी बरयल्लें साहित्य व्हडा प्रमाणांत छापून येता हें जरी खरें आसलें तरी ह्या बालसाहित्यीकांक तांच्या आवय बापायचें फाटबळ मेळटा. अर्थात उरतलें तें रूप धरतलेंच हें सांगपाची वेगळी गरज ना. विज्ञान आनी तंत्रगिन्यानाची सांगड घालून नवी बाल-साहित्य वा बाल नाट्य चळवळ चलोवपी प्रयोग कोंकणींत वाडीक लागपाक जाय. बालमेळांपरस बालसाहित्य संमेल्लनां भुरग्यांखातीर आनी जाणट्यांयखातीर घडोवन हाडपाक जाय. बाल साहित्य निर्मणी ही जाणीवपूर्वक जावंक जाय. अंधश्रध्देचो पुरस्कार करपी लेखकांनी तटस्थताय हाडप गरजेचें आसा. भुरग्यांक गृहीत धरून बरोवपाचे दीस आतां सोंपल्यात हें मतींत घेवंक जाय. कोंकणींत पूर्णवेळ आनी निश्टा आशिल्लो बाल साहित्यीक ना ही खंतीची गजाल आसा.



# 5.
# कोंकणी रंगमाची – आधुनीक स्थिती
## (स्वतंत्र संहितांच्या संदर्भांत)

गोंय मुक्तताये उपरांत किसन कामत, अशोक कामत, विनय सुर्लकार, रामकृष्ण जुवारकार आदी लेखकांनी नाट्य प्रकार हाताळटाना कोंकणी रंगमाचयेची गरज भागोवपापासत यत्न केल्लो दिसता. खासा करून रामकृष्ण जुवारकार, विनय सुर्लकार हांचें कार्य उर्बा दिवपी आसा. 'बंदखणीचीं देवळां जालीं' हें नाटक घेवन येवपी अशोक कामत हांणी ह्या प्रकाराकडे मुखार कित्याक आडनदर केली हाची एक जाप नाट्य प्रयोगशीलतायेतलें वा स्पर्धेंतलें अपेस ही जरी आसली तरीय तांणी साधनेन हो प्रकार मुखार व्हरूं येतालो.

गोंय मुक्तताये उपरांतचे राज्य सरकाराचे सांस्कृतीक उपक्रमूय कोंकणी नाटकाक पोशक थरल्यात. तातूंत गोवा कला अकादेमीचो व्हड वांटो आसाच पूण तेच वांगडा साहित्य अकादेमीचे मान्यतायेक लागून अकादेमीच्या नाट्य शिबिरावरवीं नाटककारांक राष्ट्रीय पावंड्यावेल्या नाट्यमळावेल्या लोकांवांगडा 'नाट्यानुभव' घेवपाची संद मेळ्ळी. कृत्रीसत्रांच्या माध्यमांतल्यान लेखकांक उर्बा मेळ्ळी आनी तातुंतल्यानय कांय नाट्यकृती जल्मल्यो हेंवूय मतींत दवरपासारकें आसा. कोंकणी नाटक हें स्वाभिमानी कलावंतांनी घडयल्लें व्यक्तिमत्व विकासाचें व्यासपिठ म्हण पळयताना कांय हेर गजालींचोय उल्लेख करप गरजेचें दिसता. गोवा कला महाविद्यालय, कला अकादेमीची नाट्य शाळा, अखिल भारतीय पावंड्यावेली कोंकणी साहित्य संम्मेलनां, परिषदो अश्या भास, साहित्य, समाज आनी संस्कृतायेचें भान दवरून दिका दाखोवपी मंथनांतल्यान कोंकणी नाटकूय वता हें हे चळवळीचें खाशेलेपण. म्हत्वाचें म्हळ्यार गोंय मुक्तताये उपरांत गोंयचे उत्सवी मराठी रंगभूमीक जबरदस्त पर्याय म्हण कोंकणी नाटक आयलें. ताचें आनीक एक कारण म्हळ्यार कोंकणी चळवळीचें जावपी बहुजनिकरण, आत्म साक्षात्कार, स्वाभिमान, प्रादेशीक अस्मितायेची राखण करूनूय विश्वात्मक पांवड्यार वचपाची कोंकणी मनशाची मोख. ही मोख सादताना कोंकणी नाट्य लेखक पयलीं फायटर आनी मागीर रायटर हे अवस्थेंतल्यान गेल्लो दिश्टी पडटा.

रंगभुमीची जाणविकाय जाल्लो कोंकणी लेखक कोंकणी नाटकाच्या मळार आयलो. ताका साथ दिवपी कलात्मक भान आशिल्ले रंगकर्मी मेळ्ळे बदलपी आधुनीक विज्ञान आनी तंत्रगिन्यानाचो स्विकार ह्या घटकांनी केलो आनी ताका लागून प्रेक्षक वर्गाक वेळाकाळाक जाय तें प्रादेशीक भाशेंतल्यान लोकांमेरेन कलात्मक रितीन पावयले. जाची नोंद राष्ट्रीय तशेंच आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार घेतिल्ली दिश्टी पडटा. बाप्पा आनी व्हनिबाय आनी बांगडे हांच्या भायरूय कोंकणींत विशय आसात ते बांगड्यांचे कडये परसूय अदीक लोकांकडे पावतात हाचें भान दवरून कोंकणी लेखकांनी स्वतंत्र नाट्य निर्मणी केली. प्रायोगीक नाटकां बरोपवाची प्रवृत्ती लेखकांनी आपणायली. कथाबिजाचो एकांकीत विस्तार, मुखार नाटकांत विस्तार ही प्रक्रिया कोंकणी नाट्य लेखकांनी जैतिवंत रितीन आपणायल्ली दिश्टी पडटा. उत्सवी रंगमाचयेची सुवात घेताना कोंकणी नाटक हें फकत देवाच्या पांयांकडेन हे श्रध्देनूच न्हय तर 'नाटक कशें आसता' हे प्रेरणेन आयलें ताका लागून नाट्यकर्मींची पत वाडलीच पूण नाट्य लेखकांचीय जापसालदारकी वाडली. बाप्पा व्हनीबायच्या शापांतल्यान कोंकणी नाटक मुक्त करपाचें काम 70-80 च्या दसकांतल्या नाट्य लेखकांनी केलें.

कोंकणी नाटक निर्मिती आनी वेव्हार ह्यो दोन गजाली आसल्यो तरी कला अकादेमीच्या 1976 सावन जावपी राज्य नाटक सर्तींचो अभ्यास करप गरजेचें दिसता. 1976 सावन ही सर्त सुरू जाली – पुंडलीक नायकाच्या 'खण खण माती' ह्या नाटकांत कोंकणी नाटकाक मातयेचो वास कसो आसता तें दाखयलें. तोमाजीन्यू कार्दोज हांचे 'अपराधी', एन. शिवदास हांचें 'पिसांट', अनिरूध्द बीर हांचें 'कैदी' ह्या चार मुळ स्वरूपाच्या नाटकांनी सर्तींखातीरच्या नाट्य लिखाणाची बुन्याद घातिल्ली दिश्टी पडटा. 1976 सावन आयज मेरेन नेमान नाट्यलेखन करून कोंकणी रंगमाचयेक सेवा दिवपी पुंडलीक नायक हे एकटेच नाटककार. हें जरी खरी आसलें तरीय हेर नाट्य लेटकांनीय प्रयोगक्षम नाट्य संहिता कोंकणी रंगमाचयेक दिल्या हें आडनदर करूं नज. एन. शिवदास हांची 'पिसांट', 'फॉरेन जांवय', 'बंड', 'कारस्थान' हीं नाटकां मूळ सर्तींचे उर्बेतल्यान आयलीं. दिलीप बोरकार हांची 'एका मिन्टापयलीं', 'भरतेभार', 'आण्टीची गादी', 'वर्गशत्रू' , अनिरूध्द बीर हांची 'कैदी', 'वीष मंथन', 'वीथ द वींड' 'विखासपन' 'मसंड कमिटी' ह्या नाटकांची निर्मणी हेच नदरेंतल्यान जाल्या.

मनोहर भोसले हांचें 'पुनर मिलन', गुरूदास बांबोळकाराचें 'मुक्ताई' पंढरीनाथ दामोदर लोटलीकार हांचें 'आशेचो फांस', 'हांगा खून जाला' हें उल्हास बुयांव हांचें नाटक, तशेंच सुश्रुत मार्टीन्स हांचें 'जळमट', जे. एल. गोयश हांवें 'राखण देव', रवींद्र नमशीकार हांचें 'आंकवार काजारी' अशीं नाटकां सर्तीच्या पावंड्यार सादर करपापासत अशा कांय लेखकांनी प्रयोग केल्यात. लोकवेदाचो बाज घेवन विनायक विष्णू खेडेकर हाणीं – 'काणी काणी कोतवा', 'जाची पटी ताची नटी' अशीं नाटकां बरयलीं. तर डॉ. अरूण हेबळेकार हांणी 'ज्यॉनी म्हज्यां' हें नाटक बरयलां. कोंकणी सरस्पतीच्या मळार ह्या सारखिल्ल्या नाटकाची संख्यात्मक आनी गुणात्मक भर पडिल्ली आसली तरीय नाटककार म्हण ह्या लेखकांनी आपली वळख घडयली ना. सर्त जाली काय जात्रा उलगले भशेन ह्या आनी अशा कांय लेखकांनी नाट्य लिखाणाक फाट केल्ली दिसता ताचें आनीक एक कारण अशें आसूं येता, तें म्हळ्यार तांची 'साहित्य साधना' आनी अणभवाचे प्रकटीकरण मुखावेल्या काळांत्त नाट्य लिखाणाच्या मळार वेवस्थीत जालें ना आनी तांणी वेगळ्या साहित्य प्रकाराकडेन लक्ष दिलें.

कोंकणी नाट्य लेखकांची सुची काडूंक गेल्यार आयचे घडकेक शंबरेक तरी नांवां गोंयांत मेळटलीं. कलात्मक आविश्कार घडोपी कांय नांवांमदीं पुंडलीक नायक, दिलीप बोरकार, भरत नायक, अनिरूध्द बीर, श्रीधर कामत, देविदास, बाबय, दत्ताराम बांबोळकार, विष्णू वाघ, उदय भेंब्रे, प्रसाद लोलयेकार, प्रकाश वजरीकार, जयेश रामा नातक, अविनाश च्यारी, राजय पवार, अशीं कांय नांवां येतात. विशय आशय आनी प्रकटीकरणाचे नदरेंतल्यान पुंडलीक नायक हांचें नाटक कोंकणी रंगमाचयेक एक देणें थारलां. 'पुंडलीक नायक स्कूल ऑफ ड्रामा' अशी ताच्या नाटकाची मोलावणी डॉ. नंदकुमार कामत हाणीं केल्या. 'श्री विचित्राची जात्रा', 'चैतन्याक मठ ना', परिक्रमा' 'शबय शबय भौजन समाज' अशा नाटकांनी नाट्य अस्मिताय जागी करपाचें काम केलां. शबै शबै नाटक लोकवेदाचो रूपकार घडयताना कोंकणी नाट्य चळवळीचें वास्तवांत बहुजनीकरण करपाक खूप मोलाचें थारलां. आपलें नाट्य लेखन आनी तत्सम चळवळींतल्यान पुंडलीक नायक हांणी रंगवेद निर्माण केला. फाटलीं 30-35 वर्सांची साधना ताका जापसालदार आसा. कथानक, पात्रां, घडणूक, संवाद आदींतल्यान तांचें नाटक ग्राफ घेता. नाट्यमय संघर्श आनी संवाद हो तांच्या

नाटकांचो प्रभावी घटक.

सर्गेस्त देविदास बाबय हांणी 'घुघूम रडटा', 'वादळाक सुवात जाय', 'पैस घर देवालें' ह्या नाटकांतल्यान आपली नाटककार म्हण वळख घडयल्या. ताचे उपरांत नाटकाच्या मळार दत्ताराम 'बांबोळकार' हाणीं 'शेणिल्लो गांव', 'सं. महिरावण', 'रथोत्सव', 'वेदना घर', 'सत्य माड्डितां.... डॅडी', 'जीवन मोख', 'गे माये', 'रंगयात्रीक' अशे तरेच्या आशय संपन्न नाटकांचें लिखाण केलां. भौसंस्कृतायेचो दिश्टावो तांणी घडयताना अस्मितायेचो राखणेचो उलो तांणी घातला. 'गे माये' ह्या नाटकांत वयले वयर जरी कोंकणी - मराठी अस्मितायेचो वाद जरी दिसलो तरी तातुंतलो समन्ववयवादूय म्हत्वाचो आसा. पुंडलीक नायका उपरांत दत्ताराम बांबोळकाराचें नाट्य लेखनाच्या मळावेलें योगदान म्हत्वाचें आशिल्ल्यान तें आडनदर करूं नजो.

श्री विष्णू सुर्या वाघ हांणी हो अस्मितायेचो आत्मस्वर आपल्या 'सुंवारी', 'धरण गाज', 'दोंगर माथ्यार पेटला उजो', 'फांतोड फूल' ह्या नाटकांनी जागयताना तळागाळांतल्या घुस्मटपी मनशाचें जिवीत चित्रण 'पेद्रू पडलो बांयत' ह्या नाटकांत केलां. गोंय मुक्तताये पयलींच्या 5-6 वर्सांचो कालखंड घेवन मोंतेरीच्या पात्रांतल्यान गोंयच्या मिस्तीस समाजांतलो अंतस्वर तांणी दाखयताना जें थरार नाट्य उबें केलां. प्रादेशीकतायेचें उत्कृश्ट चित्रण तांणी उबें केलां. कोंकणी अस्मितायेकडेन संबंदीत विशय कोंकणींतल्यान प्रभावीपणान मांडूंक शकता हें ह्या सारखिल्ल्या नाटकांनी परत एकदां स्पश्ट केलां. समाज, पर्यावरण, सांस्कृतीक पर्यावरण हांचें भान दवरून ह्यो नाट्य कृती आयिल्ल्यान तांकां अधिश्टान प्राप्त जालां.

जयेश रामा नायक हांची 'धरणा देगेर', 'ता थैया तक थैया', 'षडयंत्र' हीं नाटकां कोंकणी रंगमाचयेर आयल्यांत. तांच्या 'धरणा देगेर' ह्या नाटकाची बरी तुस्त तोखणाय जाली. जयेशान आपली प्रतिभा ह्या प्रकाराक प्रामाणीकपणान ओंपपाची गरज आशिल्ली पूण तांणी विसव घेतिल्लो दिसता.

उत्कृश्ट नाट्यकलाकार आनी समर्थ नाट्य लेखक म्हण भरत नायकाची 'युगांत', 'राम राम भाऊ' अशीं नाटकां सादर करून उजवाडाक आयिल्लीं आसात. भरत नायकाचीं नाटकां प्रायोगीक मुल्यांचीं आसतात. विशयांची विविधताय हो तांच्या नाटकांचो गूण. नाट्यकलाकार, दिग्दर्शक, लेखक ह्या घटकांची जाण आशिल्ल्यान भरत नायक 'भान दवरून' नाट्य लिखाण करताना

दिसतात.

प्रसाद लोलयेकार हांची 'दिश्टांत', 'अंतर्याम', 'कृष्णायन' ह्या कांय नाटकांनी मिथकांचो वापर केलो. अंतर्यामातलो कृष्ण वेगळो तर कृष्णायनातलो कृष्ण समकालीन राजकी परिस्थितींतले घटक पात्र म्हण येता.

महाभारताचेर आदारीत 'कर्णपर्व' ह्या नाटकांत म्हाकाव्यांतल्या पात्रांचो कोंकणी भास-संवाद नाट्यांतल्यान सोद घेवपाचो यत्न उदय भेंब्रे हाणीं केला.

लोकवेदाचो वापर करून नाट्य रचना करप्यांमदीं भोवतेक लेखकांचो आसपाव जाता. पुंडलीक नायक, विनायक खेडेकार, कमलाकर म्हाळशी, प्रसाद लोलयेकार, प्रकाश वजरीकार, अविनाश च्यारी, विष्णू वाघ, जयंती नायक अशीं कितलींशींच नांवां घेवं येता. लोकवेदांतलें लोकधन उस्तीताना जांणी ह्या प्रकाराचो अभ्यास केलो तांणी तो वेवस्थीत मांडलो. शबै शबै भौजन समाज हें पुंडलीक नायक हांचें नाटक, 'काणी तशी जुनीच पूण...' हें प्रकाश वजरीकार हांचें नाटक, जयंती नायक हांचें 'कुकमादेवीची दिपमाळ' अशी नाटकांची वळेरी दिवं येता. लोकवेदाचो उपेग करताना खासा करून मांडावळ आनी सादरीकरणाचे बाबतीन मूळ कथानकाक धरून लोकनाट्य शैलीचें भान दवरच गरजेचें आसा. मिथकांचो उपेग करून नाट्य बीज फुलोवपाची कळाशी पुंडलीक नायक हांकां बरी जमल्या.

प्रकाश वजरीकार हांच्या 'आनी एक बुटो फुल्लो', 'घट्टाण कोणाचें, ' काणी तशी जुनीच पूण', 'साद अंतर्मनाचो, आदी नाटकांतल्यान समकालीन समाजमनाचें पडबींब प्रखरतायेन येता. 'आनी एक प्रस्न पर्व' ह्या नाटकांत गोंयच्या इतिहासीक ओपिनियन पोलाचें नाट्य उबें जालां. अविनाश च्यारी ह्या नाटकाचें शास्त्रीय अध्ययन केल्ल्या लेखकान 'एका नव्या विचाराची सुरवात', 'वधस्थंभ' 'शबैचो बावलो तारीकडेन पावलो', 'काणी एके काणयेची' अशा नाटकांतल्यान लोकवेद explore केल्लो दिश्टी पडटा.

उल्हास यशवंत नायक हांच्या कांय नाटकांनी मानसशास्त्रीय दृश्टीकोन दिसता. श्रीधर कामत हांणी 'आय विटनेस '?' गजाली जिणेच्यो मर्णाच्यो' ह्या सारकिल्लीं नाटकां दिलीं.

बायल नाटककार ही संज्ञा आजून कोंकणींत तितली रूजूंक पावली ना. हेमा नायक हांणी निर्बळा हे नवलिकेचे केल्लें नाट्य रूपांतर, जयंती नायक हांची 'कुकमादेवीची दिपमाळ' आनी 'काळमाया' हीं नवीताल्ल नाटकां स्पर्धेचे

गरजेंतल्यान आयल्यांत. पूण नोंद घेय सारकी नांट्य निर्मणी कोंकणी बायल बरोवप्याकडल्यान कित्याक जावंक पावना? हो चर्चेचो मुद्दो.

गोंय मुक्तताये उपरांतच्या कोंकणी नाटकाचेर नदर मारताना फाटल्या तीस–चाळीस वर्सांचो हो प्रवास पळयताना कोंकणी नाटकाक प्रवृत्त करपी घटकांचोय विचार म्हत्वाचो. मुक्त अभिव्यक्तीक मेळिल्लो वाव, स्वत्वाची जाल्ली जाणविकाय, कोंकणी चळवळीचें जाल्लें बहुजनीकरण, संवसारीक मळार घडिल्ले विज्ञान–तंत्रगिज्ञान मळावेले बदल, राजकी सामाजीक परिस्थिती, कलांकडेन पळोवपाची सौंदर्य शास्त्रीय नदर आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार नाटका सारखिल्ल्या प्रभावी माध्यमाचो लोकभाशेचे अस्मितायेचे चळवळीखातीर केल्लो वापर. प्रतिभावंतानी वेळा–काळार पोटाक चिमटे काडून हे कलेची केल्ली साधना अशे कितलेशेच घटक जापसालदार आसले तरी कोंकणी नाटक हें फकत चळवळ मुखार व्हरपचें व्यासपीठ न्हय तर तो 'अंतर्मनाचो साद' आसा हें लेखकांनी दाखोवन दिलां. बंगालांत जशे बंगाली नाटक महाराष्ट्रांत जशें मराठी तशें गोंयांत कोंकणी हें समिकरण नाट्य लेखकांनी मांडलें आनी जपलें.

फाटल्या कांय वर्सांनी निम्न वेवसायीक रंगमाचयेक ओतो आयिल्लो आसा. हौशी मराठी रंगमाचयेची सुवात हें नाटक घेवपाक लागला तें करताना विनोदी, कॉमेडी ह्या साच्यान तें येवपाक लागलां. पुंडलीक नायकान ती गरज वळखून 'आतां घरा भगवंता', 'कांसुलो' आदी नाटकांची निर्मणी केली. जीं नाटकां हे रंगमाचयेर बरींच गाजलीं. (सर्गेस्त) दिलीप कुमार, राजय पवार, बाबा प्रसाद, सम्राट बोरकार, महेश नायक आदी लेखकांनी हो प्रकार हाताळलो. राजय पवार हाका तो 'जमलो'. आनी कांय जाण जमलें रे जमले करीत प्रेक्षकांक गृहीत धरपाक लागला काय कितें असो हुस्को दिसता. हांसोवपाखातीरूय हो हेतू नदरे मुखार दवरून जर आमी ओडून ताणून नाटकां पाडपाक लागले जाल्यार कोंकणी रंगमाचयेक ही धोक्याची गजाल आसा. ताणें मनशाचो सोद घेवंक जाय. कोंकणी नाटकांत बायल मनशेचे प्रतिमेकूय 'मनीस' ही सज्ञा लावनूच तिचें चित्रण अभिप्रेत आसा. आजून तरी कोंकणी नाटक बायलेच्यो बकच्छायो करताना दिश्टी पडना.

आमचें कोंकणी नाटक विशयांनी तंत्रांनी घुस्पून रावलां काय कितें? एकींकडेन सर्तीतली गंभीर सामाजीक विशया वेलीं नाटकां तर दुसरे कडेन विनोदी, फार्सीकल नाटकां अश्या दाल्यांनी कोंकणी नाटक जोखताना तें फकत

डायलोग ओरियेंटेड जावपाक लागलां काय कितें? लेखकांनी नव्या फॉर्मान येवपाची गरज आसा. विनोद निर्मिती खातीर वा हौशी प्रेक्षकांच्यो ताळयो मेळोवपाखातीर प्रत्यक्ष नाटक कुशीकूच दवरून तरेतरेचीं संवगां करपी कलाकारां कडल्यानूय रंगमाचयेक भंय निर्माण जाला. गोंयांत सेन्सॉर बोर्ड ना हें जरी खरी आसलें तरी संविधानीक मुल्यांपरस नाटककार आनी कलाकारूय श्रेश्ठ ना हाचेंय भान नवनाटककारांनी दवरपाक जाय.

आशय विशयाचे वेगळेपण हें कोंकणी नाटकाचें खाशेलेपण. कांय आडवाद सोडले जाल्यार विशयांचे तेंच तें पण रंगमाचयेक बादीकारक थारता. वानरमारे, वा भटक्या लोकांचें चित्रण, लोक महाकाव्यांचें चित्रण, भ्रश्टाचारक बळी पडिल्ल्या समाजाचें चित्रण, भ्रश्टाचार करपी बायलेचें चित्रण, सुशिक्षीत, लाचारी, मुल्यहीन सुखासीन वृत्ती अशे कितलेशेच विशय दोळ्यां मुखार आसात.

सार्वजनीक गणेशोत्सव, नवरात्रां, गांवचे उत्सव, काल्यां जात्रांनी सणा-परबांनी उत्सवी मराठी रंगमाचयेची पर्यायी वेवस्था म्हण निम्न वेवसायीक विनोदी नाटकांक सद्या मागणी आसा हें पळोवन कांय धंदेवाईक लोक निर्मातो, दिग्दर्शक, मुखेल कलाकार आनी लेखकूय जावपाक लागल्या. कोंकणींत नाट्य लेखक नांवाचो स्वतंत्र एक घटक आसा हाचें भान दवरप गरजेचें. खासा करून भाशेचे नदरेंतल्यान हें म्हत्वाचें आसा. कोंकणी नाटकाक पर्यायान भारतीय नाटकाक एक परंपरा आसा. हाची दखल घेवपाक जाय. आयचे हें विनोदाच्या नांवान चलपी कोंकणी नाटक एक नटी ह्या तत्वाचेर चलता. नाटकाचे शास्त्रीय गिन्नान आशिल्ले आनी संहितेचे नदरेंतल्यान परंपरेची जाणविकाय आशिल्ल्या रंगकर्मींनी नाट्य चळवळींतल्यान मुखोवेली दिशा थारावपाक जाय. तोमाजीन कार्दोज, जे. एल. गोयश, मायकल ग्रासीयस, सुश्रूत मार्टीन्स ह्या लेखकांनी हो नाट्य प्रकार हाताळला. कोंकणी समाजाक एकठांय करपी नाटक - आनी तियात्र हांचे मदलो 'तियाटक' हो समतावादी दत्ता नायकाचे कल्पनेतलो नाट्य प्रकार वास्तवांत हाडपाक कोंकणी लेखकांनी यत्न करपाक जाय - ही आयची काळाची गरज!



# 6.
# गोंयचे कोंकणी कथेंतली बायल प्रतिमा

ह्या पंचमहाभूतांतल्यान निर्माण जाल्ल्या विश्वाच्या सांगातान जियेताना मनशान सैबाचो जो सांगात दवरला त्या सांगातान हें मनीसकूळ घडयलां. ह्या पर्यावरणान मनश्याक जिणेचो अर्थ दिला आनी तातूंतल्यान ही सृजनाची निर्मणी जाल्ली आसा. भास संस्कृताय लोकजीण पर्यावरणाचो प्रभाव हातूंतल्यान हें विश्व घडत गेलां. आनी तातूंतल्यान घडत गेला सम +बंधाचो संदर्भ. हे संदर्भ सोदताना आमच्या मुखार दिसता ती भगवती देवी. विश्वाचें मूळ कारण हीच महाविद्या आनी महामाया. पूर्ण प्रकृती. सगळ्या भूतमात्रांनी आशिल्ली ती विष्णूमाया. चेतनाशक्त बुध्दीरूप, निद्रारूप, छायारूप, तृष्णारूप, क्षुधारूप, क्षान्तिरूप, श्रध्दारूप, कान्तिरूप, लक्ष्मीरूप, स्मृतीरूप, दयारूप, तृष्टिरूप घेवन आमचे मदीं रावता. हीच सांतेरमाया हीं सगळीं रूपां आवयच्या रूपान आसा देखून ती जननी.

भारतांतल्यो द्रवीड आनी ऑस्ट्रीक आर्यांच्या पयलींच्यो संस्कृताय मातृदेवता प्रधान संस्कृताय. तांचो प्रभाव आसा. मातृत्वाची उपासना ही श्रध्दा मनीस संस्कृतायेच्या आदिपर्वा पासून जगार सगळ्या संस्कृतायांनी पळोवपाक मेळटा. पूण त्याच वांगडा ह्या काळांत विरोधाभासूय दिश्टी पडटा. वेद पुराणांतल्या संदर्भांनी आमकां कांय गजाली दिसतात त्योवूय नदरेआड आमी करूंक शकना.

इंद्र आनी चंद्र हे कामी - लंपट म्हुणूनच फामाद जाल्ले आसात. चंद्र गुरू बायले वांगडाच सूत जमोवन मेकळो जाल्लो. इंद्रान अहिल्येक भोगल्या. ब्रह्मदेवान आपले चलयेविशीं लैंगीक आस्त दवरलेली. वसिश्ट कन्या शतरूपा हिचे बापायकडेन संबंद आशिल्ले. मनून आपली चली इला कडेन काम संबंद दवरपाचो यत्न केल्लो. गंगा हिचो बापायकडेन संबंद आशिल्लो. (यम-यमी) ब्रह्माक मेळिल्ल्या अप्सरारूपी दानांचोय भोग घेवपाची मेकळीक तेन्नाच्या समाजांत आशिल्ली. अंबिका आनी अंबालिका हांणी व्यासाकडल्यान नियोग संतती करून घेतल्या अशे संदर्भ मेळटात. सोयऱ्यांक बायल भोगूंक दिवप ही चालूय आमकां दिश्टी पडटा. गंगा - शंतनू - अष्टवसू ही कथा पुराणांत बरी

आयल्या. महाभारतांतल्यो वा रामायणांतल्यो बायलो हो स्वतंत्र अभ्यासाचो विशय तरी द्रौपदी, कुंती, गांधारी, अंबा, सीता, मंदोदरी, कैकयी, तारा (वालीची बायल) फावो तो वर मेळूंक ना देखून आंकवार रावपी सुलभा वा गौतमरूशीची बायल अहिल्या. हांचो अभ्यास गंभिरतायेन करून बायल प्रतिमा पळोवप गरजेचें आसा.

तेच वांगडा वेदकाळांत बायलांक प्रतिष्ठाय आशिल्ली आनी कांयशे बाबतीन दादल्यांपरस सुबेज मानूय तांकां आशिल्लो. अथर्व वेदांतल्या संदर्भांतल्यान आमकां अशें दिसता. चलयेचे उपनयन जालेबगर लग्न जाय नाशिल्लें. बायलांनी वेदांतल्यो कांय रूचा रचल्यात म्हणपाचो संदर्भ मेळटा. त्यो भटपण करताल्यो. बायलसेना इंद्राआड लडल्यात. बालविवाह वा भुरगेपणांतलीं लग्नां नात - देखून स्वयंवर. घटस्फोट खंयच्याय कारणांक लागून मेळनाशिल्लो. रूग्वेदांत रांड बायल देरा वांगडा लग्न जाल्ल्याचो संदर्भ मेळटा. सोडून दिल्ले बायलेकडेन समाज आदरान पळयतालो. महानंदा आनी कान्होपात्रा ह्यो वेश्या आसूनय पतिव्रता आशिल्ल्याचो उल्लेख आमकां मेळटा.

कूड, मन आनी बुध्दीन बायलेक घडयल्या. बायलेकडेन आशिल्ले निर्मणी शक्तीचो प्रत्यय वा अणभव आयल्या उपरांत संहारक वा विनाशकारी शक्त लेगीत मनश्यान बायलेच्या रूपान पळयली. मागीर ती काली, दुर्गा, सांतेर, केळबाय, भवानी खंयचीय रूपां आसूं येता. हातूंतल्यान दादलो सादूर जालो. बायलेचेर शेक गाजयल्यारूच आपणाची राखण जांव येता ही भावना ताच्या मनांत पोसवली. बायलेचेर शेक गाजोवपाच्या हावेसानीच मागीर तिचेर कडक निबंर्ध घालपाक सुरवात केली. प्रत्यक्षांत 'आवय' हे प्रतिष्ठेक बाधिकार हाडून खंयच्यातरी दादल्याचें निमित्त जावन ती 'आवय' जाता ह्या विचाराकडे तिका पावोवपाचो यत्न केलो. बायलेच्या देहाकूच म्हत्वाची सुवात दिवन दादल्याचें उपभोगाचें साधन म्हुणून तिचे भोंवतणी पवित्रताय, अपवित्रताय, सतीत्व, सौभाग्य व्रतां. उपासा तपासाचो लेप लायलो. ह्यो सगळ्यो प्रथा पुरूष प्रधान संस्कृतायेच्या पथ्यार पडल्यो. बायलेच्या कुडीची निर्माण शक्त ही अजुनूय दादल्याच्या भंयाचें कारण आसा. स्मृतीग्रंथानीच बायलेचें म्हत्व उणें करपाचो यत्न जाल्लो आसा.

अश्या ह्या सगळ्या पारंपारीक मुल्यांच्या बऱ्या वायट संस्कारांनी आकार

घेत गेल्लें बायलमन आनी जेन्ना पळयता तेन्ना आमकां दिसता ती घुस्मटमारान आशिल्ली बायल. परंपरेंतल्या अन्यायानी तिचें मन पुरायपणान चेंपून गेलां. ती कोसळत गेल्ली दिसता. आपल्या ह्या अन्यायाचेर सूड घेवपाक तिचेकडेन फकत वेदनेचीं गितां आसात. लोक वेदांत आमकां ती वेदनेच्या रूपान दिसता. लोकवेदांत दिसपी लोकपुराणां आनी लोकजमातीचो 'सनदी' म्हळ्यार जाती धर्माचे स्मृती ग्रंथूच. ख्यास्ती चडश्यो बायलांकूच दिवप अशें फर्मायलां. जन्म लग्न मरण हांकां धरून बायलेची वेदना उक्ती जाल्ली दिश्टी पडटा. तिचेर जावपी शारीरीक आनी मानसीक बलात्काराचें चित्रण लोकवेदांतल्यान तिणें उक्तें केलां. आपल्यातले सृजनशक्तीक लोकवेदांतल्यान आकार दिवपाचोय तिणें यत्न केल्लो आसा. कोंकणी बायल हाका आडवाद ना.

कोंकणी लोकवेदान आनी पर्यायान कोंकणी लोककथांनी जी बायल प्रतिमा आमकां दिसता ती आपले तरल अशें भावविश्व उक्तावपी. सोंशींक बायलेचें विश्व आमचे मुखार दिसता. बुध्दमताचो प्रसार जावंचे पयलींचे सोंसणीकायेचे आनी शांतीचे संदर्भ 'भोळीगाय आनी दुभो' सारख्या लोककाणयांनी मेळटा. 'सात जाण भावांची एक भयण' सारख्यो काणयो देख म्हुणून दिवं येता. करूणेचो हो कथापाठ व्हांवताना पळयताना आमच्या दोळ्यांतल्यान झरी आयल्या बगर रावनात.

संवसारीक मळाचेर घडिल्ल्यो घडणुको, जाल्ले बदल हातूंत मनश्याचे जिणेंत बदल घडत गेल्या. 1789 ची फ्रेंच राज्य क्रांतीन बायलेकडेन पळोवपाची नदर बदल्ल्या. चेंपून उरिल्ले बायलेक वाट मेकळी करून दिवप तिच्या भावविश्वाक चंवर येवपाचे खीण ते. A vindication of the rights of the women हे बायल मुक्ततायेवेलें पुस्तक आयलें. 19 व्या शेंकड्याचेर पाश्चात्य मतांचो प्रभाव पडलो. विज्ञानीक क्रांतीन समाजान नवीन नदर हाडून दिली.

ह्या तेंपार भारतांत परकी सत्तेची जुलमी राजवट चलताली. पर्यायान गोंयांत पोर्तुगेजांची 1857 भारतांत दोन म्हत्वाच्यो गजाली घडल्यो. एक बंड दुसरी विद्यापिठांची थापणूक आनी हाचोच एक परिणाम म्हुणून विद्यापीठ स्थरांचेर अभ्यासाचे सोयीप्रमाण साहित्य शिकयताना संवसारीक साहित्याची वळख शास्त्रीय पध्दतीन शिकल्यापासत कांय परिमाणां वापरांत येवपाक लागली. इंग्लीश साहित्यांत संवसारांतल्या सगळ्या मुखेल भासांतल्या साहित्य प्रवाहांचें

दर्शन जावप साहजिकच आशिल्लें. पाश्चात्य विचारसरणी, जिणेविशींची जाणविकाय, जिणेविशींचीं मुल्यां हांचो कळत नकळत प्रभाव भारतांत पडलो. तातूंत 'सामाजीक बांधिलकी' सारखिले संदर्भ आयले.

तरेकवार साहित्यप्रकारांचो अभ्यास करतना 'कथा' ह्या साहित्य प्रकाराची व्याख्या इतिहास, पेणे, प्रवाह, प्रतिमा बी नियाळटाना कथेचेर आमी जेन्ना विचार करता तेन्ना संवसारीक कथा भारतीय कथा आनी कोंकणी कथा असो अभ्यास करप गरजेचें आसा. ललीत साहित्यांत सगल्यापरस लोकप्रिय प्रकार म्हूण अभ्यास करप गरजेचें थारता. वेळा काळा प्रमाण तिचें रूप बदलत गेल्लेंय आमकां दिश्टी पडटा.

कोंकणी कथेच्या संदर्भांत जेन्ना आमी उलयतात तेन्ना लोकवेदांतली 'कथा' सावन सुरू करची पडटा. सोंशीक वृत्तीची देख दिवपी बायल मनशेची प्रतिमा आमकां थंय दिश्टी पडटा. वदळ दिल्ल्या 'भोळी गाय आनी दुभो; वा सात जाणां भावांची एक भयण' ह्या सारखिल्या कथांतल्यान हें नितळ वा उक्तें जाता. कथा एक साहित्यप्रकार म्हुणून भारतांत रूजवणा येतना प्रेमचंद, शरदबाबू, रवींद्रनाथ, ह. ना. आपटे, दिवाकर कृष्ण ह्या सारखी परंपरा मेळटाना गोंयांत भात कोंकणी प्रतिभेचो घुस्मटमार चलिल्लो दिश्टी पडटा. मेळनाशिल्ल्या राजाश्रय आनी लोकाश्रयाक लागून ही कोंकणी प्रतिमा साहित्य प्रकारांच्या वाटेंतल्यान जितली जावंक जाय तितली उक्ती जावंक पावली ना.

अर्विल्ल्या कोंकणी साहित्याचे शिल्पकार शणै गोंयबाब हाच्या रूपान हे प्रतिभेक नवी उभारी मेळून मुखावेली वाट चलपाची स्फूर्त मेळ्ळी. गोमंतपनिषदतल्या म्हजी बा खै गेली, बाबूमामालो पणस सारखिल्या कथांतल्यान उक्तें जाल्ल्या समाज चित्रणांतल्या कोंकणी बायल मनशेची प्रतिमा आमच्या मुखार आयिल्ली आसा. सोज्वळ, भावूक, संवेदनशील, सोंशीक वृत्तीचीच देख दिवपी बायल आमकां दिसता.

कोंकणी कथेन 'ओंवळां', 'भूंयचाफी' सारखिल्या प्रतिनिधीक स्वरूपाच्या कथाझेल्यांनी कोंकणी विश्व उबें जाल्लें आसा. पूण 1960 त 'धर्तरी अजून जियेतली' असो मंत्र दीत कथा जगपाची आनी जगोवपाची सुलूस भौ. चंद्रकांत केणी हांणी केली आनी गोंय मुक्ततायेच्या हुंबऱ्यार आसताना कोंकणी कथा एक नव्या वल्तान वयताना दिसली.

मुक्तताये उपरांत कोंकणी मुक्त स्वास घेवपाची संद मेळ्ळी. पूण तेच वेळार कोंकणीची भाशीक चळवळ चलोवपाची जापसालदारकी आयली. भाशीक चळवळ आनी साहित्यीक चळवळ चलयताना कोंकणी कथा नव्या उर्बेन फुलताना दिसता. 1964 - 1981 मेरेन सुमार 17 कथा झेले उजवाडाक आयले. तातूंत चंद्रकांत केणी हांचे चार, दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक हांचे दोन, शीला कोळंबकार, मीना काकोडकार, जयमाला दणायत, गुरूदास बांबोळकार, एन. शिवदास, ओलिव्हिन्यु गोमीश, रामकृष्ण जुवारकार. अश्या लेखकांचो आस्पाव जाता.

मुक्तताये उपरांत स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा आनी कोंकणी कथा संग्रह हे दोन म्हत्वाचे प्रतिनिधीक कथा झेले उजवाडाक आयले. तरीयपूण 1970-80 हें कोंकणी कथेचें दसक म्हुणूं येता. दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक, एन. शिवदास, शीला नायक, मीना काकोडकार, अच्यूत तोटेकार, दत्ता नायक हांकां चंद्रकांत केणी, अ. ना. उदय भेंब्रे, एवाग्रीयो जॉर्ज सारखिल्ल्याचें बळगें आनी फांटभूंय मेळिल्ले. उपरांतचे गोंयचे कोंकणी कथेच्या मळावेले अशोक भोसलो, गजानन जोग, जयंती नायक, जयमाला दणायत, विठ्ठल आंवदियेकार, रामनाथ गावडे, शशांक सिताराम, रजनी भेंब्रे, हेमा नायक, ज्योती कुंकळकार, प्रकाश पर्येकार, मधुसुदन जोशी सारखिल्ल्याचे आनी हेरांचे कोंकणी कथेंतली बायल प्रतिमा अभ्यासताना आमकां तरेकवार तासां दिसतात.

आधुनीक कोंकणी कथेचो बुन्यादी रचनाकार म्हुणून पुंडलीक नायक हांणी भौ. चंद्रकांत केणी हांचो उल्लेख केला. कथाकार म्हुणून तांचे कथेंत दिसपी बायल प्रतिमा ही मध्यमवर्गीय, समाजांतली तशी दुर्बीळ समाजांतलीच आसा. धर्तरी आजून जियेतली, आशाढ पावळी, अळमी, व्हंकलपावणी सारखिल्या कथांझेल्यांतल्यान संवेदनशील त्या त्या समाजांचो संस्कार जाल्ली परिस्थितीन घडत गेल्ली बायल दिसता. नितीमुल्यांचे बदलते संकल्पनेक धरून समाज व्यवस्थेंत बदलत वचपी बायल प्रतिमा आमकां दिसता. चंद्रकांत केणी हांच्या कथेंतली बायल प्रतिमा ही प्रादेशीक वा प्रांतीय शिमो मेरो हुपून भायर वचपी आसा. वैश्वीक स्थरावेली बायल दिसता. कोंकणी कथेक मेळिल्लें हें देणें आसा. परकी भास संस्कृताय जिणेचीं मुल्यां हांची वळख आमकां चंद्रकांत केणी हांच्या कथेंतले बायल प्रतिमेंत दिसता. तांच्या कथा साधनेंत सातत्य

आसा. बरोवप आनी पाडप हो भेद ते मानतात तरीय हे पाडप तन्र्या बोंड्याचें जावंक ना ही गजाल म्हत्वाची आनी सुख दिणी.

गोंयच्या क्रिस्तांव समाजाचे जिते जागतें चित्रण पितारताना दामोदर मावज्याचे कथेंतली बायल परिणामकारक रितीन दिसता. क्रिस्तांवूच समाजांतली बायल न्हय तर हेर समाजांतलीय बायल दिश्टी पडटा. बदलत्या काळावेळा प्रमाण परिस्थितीक लागून दुखेस्त, वेदनांची जीण जगपी बायल म्हळ्यार करूणेचो पाट. समाजान घडपी बदलांचो परिणाम बायल मनाचेर कसो जाता. आपली माती आपलीं मनशां आपले संदर्भ तुट्टाना काळजाक पडपी पीळ आमकां दिसता. कोंकण रेल्वे येतली. ताचो मार्ग, आपल्या मायेमोगाच्या कावथ्यांतल्यान वता ही वास्तवताय सोंसू नज जावन आकूळ पिकूळ जावपी बायल ही विश्वप्रतिमा.

गांवगिऱ्या वाठाराचे वास्तववादी प्रभावकारी चित्रण कोंकणी कथेत पुंडलीक नायक आनी एन. शिवदास हाणें हाडलां. ह्या कथांतली बायल कुळवाडी समाजांतली. हाडली पड खाल्ली पड वेवस्थेंतली. चेंपून उरिल्ली. तेच वांगडा आपल्या भावना - वासनांक राना वनां कुळागरांनी वाट मेकळी करून दिवपीय आसा. प्रसाद पाकळी देव देवस्की हांचें लोकतत्वीय अधिश्टान जागोवपी आनी जगोवपी बायल कोंकणी कथेक पयलेच फावट प्रभावीपणान मेळ्ळ्या.

मीना, शीला हांच्या कथेंतली बायल अशीच गोंयचे मातयेचो परमळ घेवन येवपी. आपल्या वांट्याक आयिल्ली जीण जगपी एक अगतीकताय दिसता. ही बायल सपनाळू. यादींचें गांठवल घेवन जगपी. आयिल्लें दुख्ख भोगपीय. बायलेचे जिणेंतली ओली सांज चंवरिल्ल्या दोंगरावेलीं सपनफुलां पळोवपी बायल दिसता. ह्या दुख्खाक तिव्रताय आसा. भितर घावो आनी भायर खवळी अशी ही अवस्था आसा. बायलांचेर जावपी तत्कालीन आनी समकालीन समाजांतले अन्याय अत्याचार पयसावपापासत पेटून उठिल्ली बायल आमकां 'पसय' त दिसता. हेमा नायकाच्या कथेंतली बायल ही अशी एकटीच दुख्ख भोगपी पेटून उठपी. जयमाला दणायत हांणी हेंच दुख्ख कवाथ्यांच्या रूपान माडलां. वेटकाळो घातिल्ल्या सोरोपरूपी वायट प्रवृत्तीचें चित्रणूय जयमाला करता.

कोंकणी कथेक आगळे वेगळेंपण हाडून कोंकणी कथेचो 'महारूद्र' करपी गजानन जोग हांच्या कथांतली बायल ही चडशी अशी लिपचोरयां आपल्यो

काम वासना भागोवन घेवपी. दांभीक, चिड्डुल्या, भड्डुल्या भरकटलेल्या समाजांतलें चित्रण 'बायो भटीण'च्या रूपान शिरी, बायल, मधुबाब, मावशेभाव सारखिल्या कथांतल्यान पळोवपाक मेळटा. उद्योगीकरणाचे वा यांत्रीकीकरणाचे एकंदरीत परिणाम गोंयच्या समाजाचेर पडून तातूंतल्यान बायल प्रतिमा कशी घडत गेल्या ताची सुलूस आमकां 'रूद्र' करून दिता.

ऑलिव्हिन्यु गोमीश हांचे कथेंतली बायल ही चडशी क्रिस्तांव समाजांतली. क्रिस्तांव समाज, तांच्यो चालिरिती, तांची जिणेकडेन पळोवपाची नदर हांचें वर्णनात्मक चित्रण तांच्या कथांनी दिसता खरें पूण बायल प्रतिमेचो मूर्त आविश्कार ही कथा घडयना. ताका लागून ती परिणामकारक जावंक पावना.

अ. ना. म्हांबरो हांच्या कथेंतली बायल ही मराठी कथाकार गंगाधर गाडगिळांच्या कथेंतल्या 'किडलेली माणसे' प्रमाण आसा. आपल्या धोंगांपोंगासयत दिसपी प्रवृत्ती दिसता पूण मोटव्या स्वरूपांत अ. ना. च्या कथेंत बायल प्रतिमेक मर्यादा पडटात.

शशांक सिताराम हांच्या कथेंतली बायल प्रतिमा खुटिल्ल्या ताळखिळ्याबरी बावून गेल्ले भशेन. तांच्यो कथा मावज्याप्रमाण आखाती देशांतले विशय हाडपी. ती सुख दुख्खां मांडपी तंत्राचे नदरेन बदल घडोवन हाडून नवो मंत्र दिवपी तांचो नबत हो कथाझेलो.

'गर्जन' रूपान जयंती नायक हाणें 'निमणें बंड' पितारताना धाडसी कर्तृत्वी बायलेचें बेसबरें चित्रण केल्लें आसा. सगुण्याची व्यथा ही प्रातिनिधीक स्वरूपाची आसा. जयंतीचे कथेंतली बायल अन्नश्रध्देन जगपी. भोंवतणचो वाठार लोकतत्व घेवन जगपी. मातयेचो सांगात वा गूणधर्म जागोवपी बायल. तांच्या उपरांतच्या 'अथांग' झेल्यांतूय आयल्या.

कश्टी भौसांतली बायल वसंत सावंत आपल्या 'निवलकाणयांनी' उबी करता. वसंताक रजनी भेंब्रे प्रमाण 'घुस्मटमार' जाल्लो दिश्टी पडटा. विशयाचे मांडणेचे नदरेंतल्यान रजनी भेंब्रे हांच्या घुस्मटांतली बायल जितली तिव्रतायेन आनी विस्तारान दिसपाक जाय तितली दिसना.

एकाच वर्सा 1992 अकरा कथा छापून हाडून मागीर त्योच 'चित्रातलें वादळ' म्हुणून झेल्याच्या रूपान हाडपी ज्योती कुंकळकार हांच्या कथेंतली बायल ही मानसीक घुस्मटमार जाल्ली. समाजांतलो झगझग पळोवन दिपकावपी

थोडीशी पाश्चात्य संस्कृतायेच्यो बढायो मारपी. आधुनीक काळांतल्या महिला मंडळांतली, उखलप्या स्वरूपाची बायलेच्या अंतरंगाची पुराय जाणविकाय न जाल्ल्या कारणान चित्रांतलें वादळ मनांत प्रभावीरितीन भरना. शॉपींग संस्कृतायेंतली, ब्लॉक संस्कृतायेंतली वृत्ती प्रवृत्ती दुस्वासी, सहानुभुती दाखोवपी, लग्ना संदर्भांत व्याख्यांनां दिवपी पूण पुताच्या लग्नाक धरून आपलो निचेव खरपणान एकोयड्चो दवरूंक सोदपी महिला मंडळांतली दिसना. कांय दोश दाखोवपी आसा. खासा बरोवप्यान 'कथा संग्रह प्रगट करपाक शकतले अशें सपनांत लेगीत येवजूंक नासलें.' अशें म्हुणून भराभर अधाशीपणान बरोवंक लागलें अशें स्पश्टपणान ज्योतीन आपल्या पुस्तकांत 'मनांतलें' सांगलां.

'खांवट्यां'च्या रूपान मधुसुदन जोशी हांच्या कथेंतली बायल ही ॲबोर्शन संस्कृतीकडेन गेल्ली म्हत्वाकांक्षा आनी जबाबदारीनी सापडिल्ली दाखयल्या.

सुरेखा तोटेकार हांचो 'मृदगंध', अशोक भोंसलो हांची खुटावणी बायलेची प्रतिमा आपापले परीन उक्तायतात. सर्वसादारण कोंकणी कथेंतली बायल ही 'काकुळत' करपासारकी आयल्या. अन्याय अत्याचार हाका लागून आनी मुक्तताय, हावेस, स्वैराचार अर्दकुट्या भंगिल्ल्या चिड्डुल्ल्या भावनांपासत. पूण हातूंत बदल ज्या प्रमाणांत घडोवन येवपाक जाय आसलो तितले नेटान तो येना. स्वातंत्र्य म्हळ्यार स्वैराचार न्हय ही विचारधारणा रूजपाक जाय. सामाजीक अर्थीक राजकीय बदलांची म्हायती आमकां तेच गतीन मेळटा. मेळटा जाल्यार आमची बायल प्रतिमा तशी कित्याक दिसना. स्वताच्या भावविश्वाभायर येवन लिखाण केल्ले कितले बरपी आसात हाचो विचार करप गरजेचो. कोंकणी बरोवप्याची अणभव घेवपाची रित साचेबध्द जावपाक लागल्या काय कितें असो दुबाव मारता.

गोंय मुक्तताये उपरांत कोंकणी गद्य आनी पर्यायान साहित्य पयलेच फावट फुलून आयलां. सुरवातीक जी जी बरपां जाल्लीं आसलीं ताची तोखणाय जावप परिस्थितीक धरून आशिल्लें. 1970-80 हें कोंकणी कथेचें दसक आमी मानून घेतले. कथेंत उक्ते जाल्ल्या समाज चित्रणाचेर बरीकसाणीन अभ्यास करप गरजेचें आसा. ह्या 10-12 वर्सांतली कोंकणी कथा ही चड करून 'पयल्या चंवरांतली' सांबाळून दवरून उर्बा दिवपाच्या हावेसान उजवाडाक हाडिल्ली. काळावेळाक परिस्थितीक रून तें फावो आसाय बी. पूण ह्या धा पंदरा वर्सांत

गोंयांत जी आंतरीक संक्रमणां घडून आयल्यां ताचें पडबिंब कोंकणी कथेन जाय तितलें दिसना. गांवांत शारांतल्यो सगळ्यो सुख सोयी उपकरणां पावल्या उपरांतचे मानसीक बदल जाल्ले बायलेची प्रतिमा आमकां दिसना. नवसाक्षर नवश्रीमंतीतली आनी ॲबोर्शन संस्कृतायेकडेन वचपी. तशेंच वैजकी प्रतिबंधात्मक सेवेचो स्वार्थी, भोगी फायदो करून घेवन उश्टें, भश्टें, इंडस्ट्रीयल इस्टेटींत काम करपी बायल देवळांतलें मांड सोडून हॉटेलांनी नाचूंक वचपी बायल. कॉल गर्ल्स म्हुणून वावुरपी बायल प्रतिमा आमकां दिसना. गांवचें कोसळपी लोकतत्व लोकजीण, डीश टि.व्ही. संस्कृतींत वाडपी समाज. परकी राज्यांतल्यान आयिल्ले कामदार, नोकरदार अधिकारी वर्ग हाताभायर वचपी थळाव्यो बाजारपेठो ग्लोबलायझेशनाक स्पर्धा न करूंक शकपी आमची सुसेगाद वृत्ती. पर्यावरणाचो बदलपी कोसळपी तोल. तांचो परिणाम. भोगी, उखलापी, सामान्य अज्ञानी, हावेस घेवन जगपी. स्पर्धेंत आशिल्ले, उपेक्षीत आशिल्ले बायल मनशेची प्रतिम कोंकणी कथेंत प्रभावीपणान येवंक जाय. फाजील आत्मविश्वासान, नाटकी रूपान वावुरपी बायल मनशेची प्रतिमा उबी जावंक जाय. आपूण कोण? हाची जाणविकाय जाल्ली बायल प्रतिमा उबी जाल्ली जाय.

कों. टायम्स 1988 च्या दिकाळी अंकांत साहित्य आनी साहित्यीक ह्या लेखांत भौ. चंद्रकांत केणी बरयतात.

साहित्य म्हळ्यार विद्वानांच्या चर्चेचें साधन न्हय वा कपड्यां सारखो फॅशन परेडीचो विशय न्हय. साहित्य म्हळ्यार लोकजिणेचो एक वेगळावं नजो असो वाटो. जेन्ना साहित्य लोकजिणेचो वांटो जाता, लोकांक साहित्यामदीं आपले जिणेचें रूप दिसूंक लागता तेन्ना त्या साहित्याक लोक निखटो माथ्यार उखलून ओगी रावना तर काळजाच्या शिवासनाचेर ताका बसयतात.

अजून म्हज्या हातान भायल्या आंगान सोबीत आनी अंतरंगांत पोकळ अशें तें कोंकणी पुस्तक आसा. ताचें कितें करचें हो म्हाका प्रस्न सुटूंक ना. म्हाका दिसता आमच्या साहित्यीकांचें खंयतरी चुकता. कॉलेजांत वचून डॉक्टर वा इंजिनियर जातलें जाल्यार लेगीत एक साधना करची पडटा. चिकण मातयेचो गणपती करतलो जाल्यार कलाकारांक आपले कलेची साधना करतानाच माती तयार करची पडटा. श्रेश्ठ गायकाक ताल सुरांची साधना करताना वाद्यांच्या सुरांकडेन समेळ सादचे भायर कठीण रियाज करचो पडटा. पूण आमचे लेखक

मात फाविल्ल्या वेळार पेन उखलून धव्याचेर काळें केलें तें अक्षर साहित्य जावंचें अशी अपेक्षा करतात. आनी खंतीची गजाल म्हळ्यार तांकां समजावपी शिटकावपी कोणूच ना. दामोदर मावज्याचो असोच शीण आसा. आमचे लेखक भोव करून वाचनाचेर लक्ष दिनात. कांय जाण आपलेंच सोडून हेरांचें कांयच वाचिनात. कोंकणी साहित्याची परखड समीक्षा जावंची असो हावेस भौ. उदय भेंब्रे हांणी उक्तायला. जाण्टेकडल्यान नेण्टयाकडेन ही वारी वतना वा दितना पनवार दिसना. तातूंत भेद वा वेगळोचार दिसूंक जायना. 'समकालीन कोंकणी कथा' हाका आडवाद ना.



# 7.

# शेतां – भाटांचो वेवसाय आनी कोंकणी मनीस

## (कोंकणी मनशांमदले पारंपारीक वेवसाय आनी तांचे राजकारण, अर्थकारण आनी समाजकारण)

मूळ वसणूक करतल्यांनी हांगासर खुटी मारून मठी जोडल्या. फळ मारून थळ जोडलां. दोंगरावेल्या उदका झऱ्याक बांद घालून ताचें तळें केलां. पाटा-पाटांतल्यान दोंगर माथ्यावेल्यान उदक देंवयलां. बांद बांदल्यात त्या बांदाचेर राखणदार उबे केल्यात. काळ रुतू, हवामानाक धरून मातयेचे उत्सव मनयल्यात. ताकाच आमी आमचे भाशेंत कृषी-संस्कृती वा Agri-culture अशें म्हुणूया. सगळीच भूंय पिकाळ, रूजवणां हाडपी अशी! तळपांचेर लेगीत नाचण्यांचें पीक घेवपी हांगासरलो कश्टी मनीस मागीर जमीन केन्ना सावन N.A. (Non - Agriculture) लागली? जमीन म्हुणून Non-agricultural जावं येता?

आमच्या पुर्वजांनी ही जमीन वसावळीक हाडटाना तिका लोक श्रध्देची बसका दिल्या. पंचतत्व आनी पांचामुखी परमेश्वर हे सहजीवनाचे तत्व आपणावन आनी गांवचे पारंपारीक गांवकारी पध्दतीन तिची वांटणी केल्या. कोंकणी समाजांतल्या सगळ्या घटकांक आस्पावन घेवन सर्वधर्म समभावाची देख दिवपी हें शेतकी वेवस्थापन कुळाव्यांनी तयार केल्लें. बारां शिरांनी शेंत वांटट्ना ते जातीच्या नांवांनी वाटलें खरें, पूण पीक मात सगळ्यांनी एकूच घेतलां. (तिवऱ्यां माशेल – म्हार कुडगो म्हूण वांयगणांत जमनीचो कुडको आसा.) देवाचें शेत, देवाचें मळ, देवराय, अशा श्रध्देन ताची वळख घडटा. देखून शेत रोवपाचे पयली 'बारस' ही विधी आसूं वा लुवचें पयलीं 'मुठय' आसूं वा सूर-रोंट आसूं मातयेकडेन प्रामाणीक रावपाची एक सामुहीक लोकश्रध्दा आमकां हे शेतकी वेवस्थेन दिल्या. दामगो, खोंचरी, बाळो, ते मुखावेली I.R.8 ज्योती सारखीं बियाणीं आसूं. मंयडोळीं केळीं आसूं वा बाणावलेचे नाल्ल आसूं. सुपारी आसूं वा मिरयां आसूं. आगशेचो मुळो वा कुंभारजुंव्याची वा जुंव्यावेली तांबडी भाजी आसूं. आदांव दिल्याबगर आमी शिदांव फारीक करूंक ना. आडव्या मापान घेतलां पूण उब्या मापान दिलां. कारण हीं उश्णीं वायनां. अन्नाटी, गिन्नाटी,

आटोव, शेर, कुडव, खांडी, मण, कुंभानी कशें पीक काडचें तें कश्ट आमी शिकल्यात. बांदाक  कशे गुळे मारचे ते आमकां खबर आसा. पोसवल्लें भाता कणस - देवळा इंगर्जांनीय पोसवलां.

· शेता भाटांचो वेवसाय कोंकणी मनशान एकवटान सांबाळून दवरला. आयचे भाशेतलें भश्टरूपांतलें सहकार तत्व ताका केन्ना बांदूंक ना. हो वेवसाय खंयचेय लॉबींग करून वा पॅनलां उबीं करून आडमार्गान तांणी सांबाळूंक ना. शेतांतलो पाट केन्ना उक्तो करचो, आपल्याक उदक घेतल्या उपरांत मॅर केन्ना आडावची, बांदाचे खांवटे एकवटान कशें बंद करचे हाचें सगळें वेवस्थापन लोक श्रध्देन आनी  देवाक भियेवनूच जालां. अन्न श्रध्देन हें चल्लां.

पुर्तूगेजांनी बाटाबाटी करताना कांय कडेन सक्ती तर कांय कडेन हांयसां दाखोवन केल्या. आपल्या हातांतलें शेत वता. आपूण उबांतरा पडटलो हे भिरांतीन कांय कुटुंबां बांटल्यात तर कांय बाटक्यांनी शेत-शेतवड बळकायल्ली तांकाय कांय जाण भाटकार म्हणटात.

पुर्तुगेजांचे राजवटीचो परिणाम गोंयचे उपरांतचे सामाजीक आनी आर्थीक वेवस्थेचेर पडला. ताची देख दिवपी तीन साहित्यीक संदर्भ दिता -

1) पाडेल्यांनो तुमी पाडून चलात
माथ्यार दिसावडो मारून चलात

कविता - पाडेल्यांनो तुमी पाडून चलात
(पुंडलीक नायक)

2) शेलाद फोलीर पिकता भात
तरीय लोक काडटा उपास...
पयलो वाटो सरकाराक
..... ...............
..... .......... ...
कांडून कांडून उरलो कुंडो
तोच आता तोंडाक लाय
ही लोकशाय.

कविता - ही लोकशाय कविता
(मनोहरराय सरदेसाय)

3) भाटकाराचो आंबो पाड
सगलो ताच्या घरा धाड
आंब्यावेले हुमले मात
केसान घुस्पावन घरा हाड.
(राजय पवार)

गोंय मुक्ततताये उपरांत जेन्ना लोकराज्य आयलें तेन्ना भौजन समाजाचें सरकार येवपाक गोंयची शेतकी वेवस्था, भाटकारशाही जापसालदार आशिल्ली. भाऊ काकोडकराची काँग्रेस म्हुणून न्हय तर भाटकारशाही आडचो कौल आशिल्लो. कारण मळणेवेलें - खळावेलें सगळें भात एकठांय करपी कांय भाटकार आशिल्ले. भाटकाराचो खंड घालूंक वचपी लोकांक सालांतल्या वायनांनी (पेज) वाडटाले. ती पेज जेवल्या उपरांत थंय शेण काडून परत वचचें पडटालें.

1967 ओपिनियन पोलांत महाराष्ट्रांतलो कुळ-मुंडकार कायदो गोंयाक लागूं करतले ह्या आश्वासनाखातीर महाराष्ट्रवादयांच्या प्रभावाक शेतकार गेल्ले. ताचे फाटली फांटभूंय हीच आशिल्ली. आनी मागीर महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षान 'कसेल त्याची जमीन' हो कायदो गोंयांत हाडलो. तेन्नाच भौसांतलो शेतकार-मुक्त आवाजान वयर सरलो.

गोंयच्या शेताभाटांच्या जमनीचें राजकारण अजून सोपूंक ना. कुमेरी शेतवडीचो प्रस्न कुळ मुंडकार कायद्याची अंमलबजावणी वा मोकासदारी, भाटकारशाही, मयेंची कस्टोडियन प्रॉप्रर्टी कितलेशेच प्रस्न आमचे मुखार आसात.

सुमार 450 वर्साचे पुर्तूगीज राजवटींत पुर्तुगीजांनी काजी, आंब्यां पणसाचीं बियाणीं हांगा हाडलीं. 1938 च्या अदमासाक पुर्तूगिजांनी खांडेपार, पारोडा कॅनल बांदले. ताचे पयलीं शेतकी वेवसायाकडेन व्हडलेंशें लक्ष दिलेंना. 1955 पुर्तूगालच्या शेतकी मंत्रालयाच्या सुचोवणेवेल्यान गोंयांत आधुनीक आवतांचो उपेग जावपाक लागलो. (ट्रॅक्टर आयलो) कुळमुडंकार कायद्यान गोंयचे सामाजीक,

राजकीय आनी आर्थीक चित्र बदल्लें. जमीन मालकीची जाली. धनीपणाची भावना कुळांमदीं येवन कांय कुळां खूळ पांगरून भाटकारी प्रवृत्तीन वागूंक लागलीं, शेतांजमनीक आयिल्लें मोल, आनी जमीन रूपांतरणाच्या प्रक्रियेन कांय कुळवाडी-स्वंयघोशीत कुळमुंडकाराचे नेते जाले. परिणाम ''म्हज्या बापायचीं बारा जोतां हांव भीक मागोन खातां'' ही म्हण आमी जगूंक लागले. पुंडलीक नायकाच्या शबै शबै भौजन समाज ह्या नाटकांतल्यो दोन वळी ह्या संदर्भात खूप मोलाच्यो आसात.

''कोणा रांगड्यागेर बारां जोतां
आमचीं सगलीं भोल्याक मतां.''

कितलेशेच नवे राजकीय शेतकार नवे-पैशेकार तयार जाले. तांच्यांनी जमीन केन्ना कसली ना. तांच्यांनी फार्म हाऊस बांदलीं.

गोंयच्या जमनीची परत सर्वे करपाची घोशणा फाटल्या मुखेलमंत्र्यांनी (भौ. मनोहर पर्रीकार) केल्ली. ती प्रक्रिया सुरू जाल्ली. परतून बंद पडली. दुबाव आनी कारणां हांव नकळो. पूण शेतां भाटांचें राजकारण म्हणटना राजकारणांत आशिल्ल्या व्यक्तींच्या नांवार वा तांच्या बायले-भुरग्यांच्या (पिलावळीच्या) नांवार आशिल्ल्या जमनीचेंय एक सर्वेक्षण जावंक जाय. वचात तांणी आपआपल्या जाग्या भोंवतणी सरयो मारल्यांत. वयों केल्यात. दुर्गा बांदल्यांत. गोंयचीं गोरवां वसू जावपाक लागल्यांत. गोरवां आनी राखण्यामुखार आशिल्ल्या सामाजीक प्रश्नांचें भान गोंयच्या गुणाजीक (राखण्यांक) आसा. पुंडलीक नायकाचे गुणाजी नवलीकेंत गोरवांराखण्याचो राष्ट्रीय पुरस्कार फावो जाल्लो राखणो - राष्ट्रपतीक प्रस्न विचारता.

''गायने किधर चरनेका''

संकरीत - गायांचे प्रस्न - बैलांचो प्रस्न तो उपस्थीत करता.

शेताभाटाच्या वेवसायाकडेन थोडेशें आमचें दुर्लक्ष जालां. ग्लोबलायझेशनाचो फायदो गिरायकांक जावपाक लागला खरो, पूण गिरायक आनी उत्पादक हाचे मदले संदर्भ म्हत्वाचे आसा. ''पोरूं तरी बरें पिकलेलें. अंदू कांय ना.'' हीं आमची कोंकणी उत्पादकाची परवड आसा. कसतलो कसता आनी मेरेवेलो

परवतां अशी आमची गत जाल्या. आमच्या शेतांनी केरळी लोक येवन केळीं रोयतात. एका तेंपार णव्वदींत  रबराचें उत्पादन घेवपी केरळी आशिल्ले. आतां वॅनिलाचे उत्पादन घेतात. आंध्रप्रदेशांतल्यान आंब्या, काजू, कलमां वा कवाथ्याची ऑर्डर घेवन 300/400 रूपयाक कवाथो विकपी भायलेच आसात. पावशिल्ल्या दिसांनी हातगाडयांचेर फुलां झाडां विकपी भायलेच आसा. गोंयकार फकत पावस पडलो कांय दसवंतीच्यो वा हेर फुलझाटांच्यो खांदयो –एकामेकांच्या पोरसांतल्यो व्हरताना दिसतात. गोंयांत जीं शेवतीं - रोजां टनानी येतात ती अर्थीक गुंतवणूक करपी चडसो बिगर कोंकणी मनीस.

उदकाचें वेवस्थापन सारखें करूंक नाशिल्ल्यान 38 1/2 km. ने मांडवींत 39 km चें जुवारी न्हंयेंत कितलेशेंच साये उदक व्हांवता. वसंत बंधारे येवजण सारखी चालीक लागना. आदले तेंपार कांयकडेन गणपती पावोवपाक बांद घालताले. तेंच उदक वांयगणाक वापरताले. सरकारी बऱ्या येवजण्याचो गैरफायदो घेवपी प्रवृत्ती बळावपाक लागली. देखीक पयशांखातीर दुदान पावडर घालप, रोवंक दिल्ले अळसांदे भायल्या भायर विकप, संकरीत गोरवांची (बोगस गोरवांची) सब्सीडी गिळप, कानान घालप आदी.

गोंयांत मायनींग खातीर शेतां पिड्यार जावपाक लागलीं. मिनैर लुकसाण भरपाय दिवपाक लागले. ती मेळटा म्हुणून शेतां न कसपी आळशी प्रवृत्ती बळावली. परिणाम विकत्या सुरय तांदळाची पेज!

माडांचेर नाल्लाक लागिल्लो रोग. झडपी बोंडे जागतीकिकरणाचो काजूचेर, नाल्लाचेर, सुपारीचेर पडिल्लो प्रभाव म्हत्वाचो आसा. आयज 500-800 kg मेरेनचे सुपारेक 70 रूपया आधारभूत मोल सरकार दिता. ताचें उत्पादन मोल 30 रूपया आसा. कुळागरकाराक 50 रूपयाचो फायदो. पूण 800 रूपया वयर वतकच हे आधार भूत मोल पांच रूपयांनी उणें जाता. गोंयचे बागायतदार संस्थेक लागून शेतां-भाटांच्या उत्पादकांक मोल आयलां हेंवूय आमच्यांनी न्हयकारूं नजो. आमचें शेतकी उत्पादनूय वाडपाक लागलां. हाचेकडेन आडनदर करूं नजो.

गोंयांतल्यो शेतकी वेवसायांतल्यो संदी ह्या विशयावेले Agriculture oficer Association Panaji 2000 पुस्तक उजवाडाक हाडलां तातूंत गोंयांतली पयली वयली शेतकी डिरेक्टरी दिल्या. 31 कलमां विकपी दुकानां, 32 सारें

विकपी, 42 किटकनाशकां विकपी आस्थापनां अशी तपशीलवार म्हायती दिल्या.

5 जून पर्यावरण दिसाचें म्हत्व जाणून घेवन मंत्र्याच्या हातान लायिल्ल्या राजकीय कवाथ्याक कसले बोंडे जाले ताचो अभ्यास जावंक जाय. सामाजीक वनिकरणाचें भान तर जायच तें जावपाकूय लागलां. देखून ह्या वेवसायाकडेन political mileage म्हणी नासतना 'एक मिशन' म्हणून पळोवपाक जाय. पिकावळ, साठो करप, नुस्तें वेवसाय आनी रान हें शेतकी-शेतां भाटाच्या वेवसायाचो आवांठ सांगतातं. हो आवांठ सांबाळपाचें आव्हान आमचे कडेन आसा. नुस्तें मारपी ट्रॉलींचेर काम करपी चडावत कामदार भायले, लुवपाक, मळपाक येवपी भायले कश्टी लोक चडशे भायले. कोंकणी मनशांनी फकत 'मेरेवेलो गांवकार' जावन रावपाचें?

पारंपारीक पिकपिकावळ, फळ-फळावळीचें मार्केटींग वेवस्थीत जायना. गोंयांत इतल्यो जांबळी आसात. भिण्णी आसात तांचो आगळ खंय वता? पारंपारीक भाज्यांचो वेपार वाडना. कुळकायद्यान मेळिल्ल्यो जमनी आमी कशीनात. देवराईचें संवर्धन जावंक जाय तितलें जायना.

शेत कसपी एकलोच आमदार आपूण अशें, प्रतापसिंग राणे अभिमानान सांगता. तांकां ह्या मातयेचें भान आसा देखून कुमेरी, सारखिल्लीं प्रकरणां सोडोवपाचो निर्णायक वेळ आयला. उदकाचें आनी जमनिचेंय वेवस्थापन करपाचो प्रस्न आमचे मुखार आसा. वचात थंय कोयराच्यो राशी न्हय तर फळा-फुलांच्यो भाजी-पाल्यांच्यो तांदूळ-गोट्यांच्यो राशी उब्यो जावपाक जाय. बाकिबाबान 'माझ्या गोव्याच्या भूमीत' ही कविता वगीच रचूंक नाशिल्ली?



# 8.

# कोंकणी चळवळीचें मुल्यांकन जावंक जाय

हांव शणै गोंयबाब हांच्या भतग्राम म्हालांतलो. शणै गोंयबाबान अर्विल्या कोंकणी साहित्याची बुन्याद घालताना जी गोंयकारपणाच्या स्वाभिमानाची ज्योत आमचेमदीं पेटयली ती ज्योत घेवन साहित्याची आनी पर्यायान समाजाची सेवा करप, अज्ञानांतल्यान आयिल्ल्या अहंकाराचो काळोख पयस करप हो म्हजो कोंकणी धर्म हांव मानता. ह्या धर्माक पाळो दिताना स्वता जगप आनी जगोवप हें तत्वगिन्यान येता. कोंकणी भास आनी संस्कृतायेचें रीण पावयताना 7 व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचो मान तुमी म्हाका दिलो ताची जाणविकाय म्हाका आसा.

फाटल्या स युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांच्या मांटवानी जे साहित्यीक, वैचारीक मंथन जालें ताचो आपरोस काडल्यार आमकां दिका दिसपाक लागता. केपें जाल्ल्या पयल्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांत संमेलनाध्यक्ष भौ. दत्ता दामोदर नायक हांणी साहित्याक 'आनंद-योग' म्हणलां. दुसऱ्या संमेलनाच्यो अध्यक्ष भौ. जयंती नायक हांणी कोंकणी लोकवेदाची राखण करपाचो उलो तनाणाट्यां - लेखकांक मारला. फर्मागुडयेर पी. ई. एस. कॉलेजीच्या माटवांत जाल्ल्या दुसऱ्या संगेलनाच्यो उद्घाटक ह्या नात्यान उलयतना मराठींतल्यो महाराष्ट्रांतल्यो नामनेच्यो संशोधिका डॉ. अरूणा ढेरे हांणी सांगिल्लो मंत्र आमकां म्हत्वाचो. "आपल्या अणभवांकडेन प्रामाणीक रावून साहित्य निर्मणी करताना भास आनी संस्कृतायेचें भान लेखकांनी दवरूंक जाय अशें त्यो म्हणटात." म्हापशेंच्या सारस्वत म्हाविद्यालयांत घडोवन हाडिल्ल्या तिसऱ्या संमेलनाचे अध्यक्ष भौ. प्रा. पुर्णानंद च्यारीन तरनाट्यांच्या साहित्याखातीर स्वतंत्र अंकाची / नेमाळ्याची मागणी केल्ली आसा. साखळेच्या सरकारी महाविद्यालयांत जाल्ल्या चौथ्या संमेलनांत अध्यक्ष प्रा. प्रकाश पर्येकार कोंकणींत बरप करून उपरांत लेखणी सांडयल्ल्या तरनाट्यांक परतून कोंकणींत येवपाचो उलो मारतात. नामनेचे नाटककार भौ. दत्ताराम बांबोळकार माशेंच्या पाचव्या साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्षपदावेल्यान तरनाट्यांक साहित्यीक - जीण पॅण्ट

घालून सोबीत संवसार घडोवपाचो उलो मारतात तर सेंट झेवियर्स कॉलेजींतल्या सव्या संमेलनाचे अध्यक्ष कवी संजीव वेरेकार साहित्याच्या मार्केटींगाचेर आमचें लक्ष ओढटात.

इश्टांनो साहित्य संमेलनाच्या नांवांनी भरपी ह्या अशे तरेच्या अक्षरमेळांनी आमी साहित्य आनी समाज हांची सांगड घालतात. कारण साहित्य हें समाजाचें पडबिंब आसता. कथा, कविता, नाटक, कादंबरी, निबंद, भोंवडे वर्णन, चरित्र, डायरी, बालसाहित्य आदी तरेकवार प्रकारांतल्यान साहित्यीक आपले उमाळे उक्तायतात. हें अक्षर धन वाटीत आसता. साहित्य निर्मणी हो एक अलौकीक अणभव. संवसारांतली भास, उतरां घेवन आपलें अशें स्वताचें ब्रह्मांड निर्माण करून वाचप्यांक त्या 'आनंद-योगां'त व्हरपी हें साहित्य आसता. साहित्य संमेलनांनी ह्या आनंद-योगाची चिकित्सा करप हो एक हेतू आसता. ते निमतान जावपी कार्यशाळांनी परिसंवादांनी वांटेकार जावन मोलावणी करपाची आसा. एक वैचारीक अधिश्टान घेवन आमकां हें संमेलन सोबोवपाचें आसा. तरनाट्यांक जाणट्यांकडल्यान मेळपी मार्गदर्शनांतल्यान आनी आपले साधनेन नवो साहित्यीक - मार्ग चलचो आसा. संमेलन हें एक व्यासपीठ, एक निमित्त.

इश्टांनो, कोंकणी भास साहित्य आनी संस्कृतायेच्या निमतान जावपी विचारमंथनांतल्यान आमी कितें मेळोवंक सोदतात. आमची शक्त कितली? आमची दुर्बळकाय कितली? आमचे मुखावेल्यो संदी खंयच्यो? आनी आमकां भंय कोणाचो वा कित्याचो हाचो चिकित्सक अभ्यास ह्या निमतान करून एक धोरण आमकां थारावंक जाय. कोंकणी समाज, युवा शक्त पुरोगामी विचार सरणीचेर आदारिल्ली समतावादी कोंकणी चळवळ ही आमची शक्त आसा. कोंकणी समाज आनी भारतीय समाज घडयताना स्वाभिमानान आवय, आवयभूंय आनी आवय भास हांची राखण करप हो आमचो राष्ट्रवाद! कोंकणी चळवळींतल्या म्हालगड्यांकडल्यान समतावादी पुरोगामी विचारसरणी आमी घेतल्या. कोंकणी भाशेचो जांणी  इतिहास घडयला त्या कर्तृत्वी लोकांकडल्यान आमी स्फूर्त घेतल्या. घेयत आसात. कोंकणी साहित्यांत आयिल्ल्या विंगड विंगड प्रभावी प्रवाहांनी आमचे मर्दी साहित्यीक उर्बा जागयल्या. शणै गोंयबाब नावाच्या विद्यापिठान आमकां सर्वांगान परिपक्व करपाचो यत्न केला. रवींद्र केळेकाराच्या विचार धारांनी आमकां ओथाब्यांनी भिजयल्यात. चा. फ्रा. डिकॉस्टा हांच्या

'हाड चेडवा बुडकुलो' हे कवितेंत आमकां मोगाची व्याख्या शिकयल्या. ब्रह्मास्त्रकार ॲड. उदय भेंब्रे हांच्या चान्न्याचे राती ह्या गिताचें 'लोकगीत' कशें जालें तें आमचे पिळगेन पळयलां. म्हालगड्यांच्या कतृत्वाचें, त्यागाचें, कश्टाचें रीण पावयताना पुंडलीक नायकान आपल्या एका पुस्तकाक ओंपिल्ली अर्पण पत्रिका हांव घेता.

आपल्या 'अर्दूक' पुस्तकांत ते बरयतात ''भौमानेस्त नारायणबाब मावजो हांका तुमच्या दोळयांदेखत कोंकणीच्या पोरसांतलें रोपटें मळबांत भिडलें. तुमकां आनीक कितें जाय? तुमचो पुंडलीक.'' कोंकणी चळवळींतल्या सगळ्या कर्तृत्वी लोकांक ही प्रतीक रूपान दिल्ली मानवंदना अशें हांव समजता.

कोंकणी चळवळीचो, भाशेचो, साहित्याचो इतिहासीक नियाळ केल्यार एक गजाल मतींत भरता ती म्हळ्यार ही चळवळ तरनाट्यांनी चलयल्या, मुखार व्हेल्या आनी जैताचे तडीक पावयल्या. काळावेळाक धरून तातूंत बदल जायत गेल्यात पूण घुडी तरनाट्यांच्या खांदार! गोंय हें कोंकणीचें मूळपीठ धरून गोंयांत जाल्ल्या राजकी, सामाजीक चळवळीचें पडबींब कोंकणी साहित्यांत पडलां. कोंकणी चळवळीन कोंकणी भौसाक घडयला हें सत् आमी न्हयकारूंक शकना. पिढ्यान पिढ्या चलत आयिल्ली मराठीची परंपरा मानून घेवन भौसांतल्या डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार, डॉ. तानाजी हळर्णकार, एन. शिवदास, प्रकाश पाडगांवकर, महाबळेश्वर सैल, रमेश वेळुस्कार, युसूफ शेख सारकिल्ल्या कितलेश्याच 'तरनाट्यांनी' कोंकणी भाशेचो आनी चळवळीचो पुरस्कार करून जिवीत घडयलें. परंपरेच्यो वांटो मानून घेवनूच कोंकणीच्या दिश्टाव्यान कोंकणी समाज घडोवपांत ह्या असल्या 'तरनाट्यांचो हावेस' आमचे मुखार उबो आसा.

'म्हज्या आनी तुमच्या मनाची फटवण करून हांवें तुमकां नाका जाल्ल्यो फटासी सांगूंक नात. म्हजी दर एकली म्हणणी तुमी तुमचे बुध्दीचे साणीर घांसून पळयात आनी कासाक लागल्यार घेयात' ह्या शणै गोंयबाबाच्या जिवीत मंत्रांनी हो समाज घडला. कोंकणी समाजाक श्रध्देची आनी कश्टांची 'दर म्हयन्याची रोटी' मेळत रावल्या. 'आमी बाबडी कोंकणी बाळां शिंपडल्यात चोंय मळां' ही चा. फ्रा. ची खंत पयस करताना हे कोंकणी चळवळीन 'एक भास एक लिपी' हें तत्व आपणावन कोंकणी समाजाक एकठांय करपाचो वावर चालूच दवरला. 'तरीय बाबा आयकात म्हाका आयकतल्याक कान ना चार चोंवगा मान ना.'

हो चा. फ्रा. चो शीण कतृत्वी कोंकणी मनश्यान एक तत्वान आनी प्रतिभेच्या बळार पयस करपाचोय यत्न केल्लो दिसता. घडिल्लो इतिहास ताची गवाय आसा.

कोंकणीची मोख आनी हावेस नदरेमुखार दवरून दानत आशिल्ल्या व्यक्तींनी, संस्थांनी, संस्थानीकांनी कोंकणीचे उदरगतीपासत जो पालव दिला तो आड नदर करूं नजो. राजाश्रयाबगर कोंकणी भाशेची उदरगत करताना तेदेवेळावेल्या कोंकणी तरनाट्यांचे कश्टांकडेन पडमूर जावपूय आमकां शक्यच ना पूण तेच वांगडा चळवळींतल्या निश्टेचें मुल्यांकन करप हेंवूय गरजेचें आसा. महान-राष्ट्रांतले बाबा आमटे एकीकडेन म्हणटात 'दर एका धर्मान काळावेळाक धरून अप ग्रेडींग करपाक जाय.' कोंकणी हो एक धर्म अशे तरेचें अपग्रेडींग कोंकणी धर्म पाळीत आयला. गोंयांपुरतो विचार करूंक गेल्यार फाटल्या 44 वर्सांचो इतिहास देख म्हुणून आमच्या दोळ्यामुखार आसा.

कोंकणी भाशा मंडळ, गोवा कोंकणी अकादेमी, कोंकणींतल्यो शिक्षणीक, सांस्कृतीक संस्था, नाटक, तियात्र आनी हेर सांस्कृतीक मळांचेर वावुरपी कला अकादेमी, कला आनी संस्कृती संचालनालय सारकिल्ल्या सरकारी संस्थांनीय कोंकणी अस्मितायेक आपले परीन हातभार लायला. तांचें योगदान म्हत्वाचें आसा. गांवांनी वावुरपी कोंकणी सेवा केंद्रांच्या माचयेवेल्यान संद मेळ्ळ्या ती तरनाट्यांक, कोंकणी विद्यार्थ्यांक. असल्या सेवा केंद्राच्या माध्यमांतल्यान फकत साहित्यीक उर्बाच मेळना तर कोंकणी विशय शिकपी चडावत गूण मेळोवपी विद्यार्थ्यांक भांगरा पदकां दिवपी दानी मनीस आसात ते अर्थान कोंकणीक आतां भांगराचे दीस आयल्यात अशें म्हुणूया. प्राथमीक पांवड्यासावन उंचेल्या पांवड्यामेरेनचें शिकप कोंकणींतल्यान घेवनूय कोंकणींतल्यान जिवीत घडोवपाच्यो संदी आमचे मुखार आसात. आयज आय. ए. एस. ची परिक्षा दिवंक सोदपी तरनाट्यांक ती कोंकणींतल्यान दिवपाची इच्छा आसत जाल्यार ती पुराय जावंक शकता तशी सोय आसा. गोंयांत जावपी गोवा युवा महोत्सव, नाट्य महोत्सव सारकिल्ल्या व्यासपिठांवरवीं कोंकणी तरनाट्यांक अभिव्यक्तीची माची मेळ्ळ्या. युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या माटवांतल्यान युवा सर्जकाची आंतरकथा आमकां वाचपाक मेळटा. कोंकणींतल्या नेमाळ्यांनी, दिसाळ्यांनी आमचो लेखक घडयला. कोंकणी भाषा मंडळाची बाकीबाब यादस्तीक काव्यसर्त.

हे काव्य सर्तीन आमकां पेडण्याचो कवी शशीकांत पुनाजी दिला. तो आपले बोलीसयत कोंकणींत आयलो. हे सर्तीन आमकां गीतकार श्रीधर कामत, नुतन साखरदांडे, प्रकाश नायक, निलबा खांडेपारकार, पोव्र फेर्नाडीस, परेश कामत कितली म्हणून साहित्यीकांचीं नांवां घेवं!

जाग, रूतू, कुळागर, कोंकण टायम्स, कोंकणी, राजहंस, जैत, बिंब, अपुरबाय आदी कितलेश्याच प्रकाशनांनी कोंकणीचे उदरगतींत तरनाट्यांक सदांच येवकार दिला. उल्लेख मुजरत करीन सो दिसता तो म्हळ्यार कोंकण टायम्साचे संपादक भौ. तुकाराम शेट हांचो. कोंकणी साहित्यांत निबंद हो प्रकार तरनाट्यामदीं लोकप्रीय करपाचो वावर केला. जागाचे वतीन प्रा. माधवी सरदेसाय हांणी 'म्हजी भास म्हजीं उतरां' असो गोंयच्या उद्‌देग वेवसायाचेर आदारून कोंकणी उतरावळीचे भांडार तरनाट्या शिकप्यांकडल्यान घेवन तो उजवाडाक हाडला. म्हाविद्यालयीन पांवड्यार कोंकणी विशय घेवन अभ्यास प्रकल्प (प्रोजेक्ट) करपी शिकपी भुरगीं निजाची भास आनी उतरावळ एकठांय करतात. नाट्याच्या मळार कोंकणी नाटकांचे दोट्टी शेंकडे हुपपी प्रयोग करपी राजदीप नायक, प्रशांत सतरकार सारखिले रंगकर्मी तरनाटे ही माची गाजयतात. संगिताच्या मळार भांगराळ्या गोंयाची साद - निनाद आमकां आयकूंक येता. हेर भासांचे तुळेंत कोंकणीक जें जें जाय तें तें निर्माण करपाची ताकद निर्माण जावपाक लागल्या. कोंकणींतलो पयलो वयलो गजलांचो सादरीकरणाचो प्रयोग करपी तरनाटे अजय नायक परबेक पात्र थरतात. कोंकणी तियात्रांच्या मळार नवे नवे प्रयोग करप्यांची भर वाडत चल्ल्या. मराठींतल्या गाजिल्ल्या 'सही रे सही' या नाटकाचें रूपांतर 'रूपणे' ह्या तियात्राच्या रूपान प्रिन्स जॅकोब आनी ताच्या सांगात्याची केलां. इतलेंच न्हय तर अस्मिताय वर्साच्या निमतान शणै गोंयबाबाचेर तियात्र सादर करून कोंकणी अस्मितायेचो दिश्टावो घडयलो तो कर्तृत्वी कोंकणी समाजान. गोवा कोंकणी अकादमीचो 'पयलो चंवर' हे येवजणेंत शेंकड्यांनी तरनाट्यांक आपलें पयलें कोंकणी पुस्तक उजवाडाक हाडपाचें बळगें दिलां. कोंकणींतलीं पुस्तकां वाचतात आनी ती प्रयत्न केल्यार खपतात असो अणभव. कोंकणींत फकत पुस्तकांचोच पावस पडटा असो न्हय तर दृक-श्राव्य प्रसार माध्यमांवरवीं नाटकां, गितां, कातारां, तियात्र तशेंच फिल्मांचे कल्चर गोंयांत मूळ धरपाक लागलां.

गोंयांत नवप्रभा ह्या मराठी दिसाळ्यांत मराठी लेखक आनी वाचपी घडोवपाचें बरें कार्य केलां. नवप्रभेचे संपादक भौ. सुरेश वाळवे हांणी उर्बा दिवन कितलेशेच लेखक तयार जाल्यात. तांचीं पुस्तकां आयलीं. सुनापरान्त दिसाळ्यान अशे लेखक दिल्यात हें आमी अभिमानान सांगता. निबंद, कथा, कविता, समीक्षा आदी प्रकारात सुनापरान्तकाराचे तरनाट्यांक दिल्लें योगदान म्हत्वाचें आसा. जशें तें राष्ट्रमत ह्या दिसाळ्यान दिलां. सुनापरान्ताची ही परंपरा नव्या स्वरूपांतल्या सुनापरान्तकारानीय चालू दवरल्या.

कोंकणी चळवळीचें भोवजनीकरण आनी कोंकणी भाशेचें जावपी प्रमाणीकरण ह्यो समांतर अश्यो घडपी प्रक्रिया आसा. सत्तरींतल्यान प्रकाश पर्येकार, गोपीनाथ गांवस आपले बोलींतल्यान कोंकणीचो अविश्कार घडयतात. तशे तरेन काणकोण म्हालांतल्यान वेळपांची बोलीचो दिश्टावो सोयरू वेळीप ह्या तरनाट्याच्या बरपांतल्यान घडटा तें पळोवन शणै गोंयबाबाचें सपन फळादीक जाता म्हणपाची खोस आमकां आसाच. शिक्षणाच्या मळार हजारांनी भुरगीं जातून क्रिस्तांव समाजांतल्या भुरग्यांचो भोवसंख्येन आस्पाव जाता तीं भुरगीं देवनागरी लिपीचो स्विकार करून वंशकुळाचें देणे पावयतात. हे भाशेक संस्कृतायेक गिरेस्त करतात. कोंकणींतल्यान मुळावें शिकप आनी उंचेल्या पावंड्यावेले शिकप घेवन गोंयच्या क्रिस्तांव भावाभयणांनी गोंयचें नांव व्हड केलां आनी आमचे एकवटाचे परंपरेक पाळो दिला. हें गोंयच्या कोंकणीच्या दिश्टाव्यान घडलां हातूंत दुमत आसचें न्हय.

कोंकणीच्या मळार हे चडटे दीस उमेदीचे दीस येतात. पूण हे घुंवळेंत रावल्यार आमी थंयच उरतले. आमच्या मुखार आयिल्ल्या आडमेळ्यांचेर जैत जोडून एक संघ कोंकणी समाज घडोवपाचें कार्य मुखार व्हरपाचें आसा.

साहित्य साधनेच्या मळार सातत्य दवरप गरजेचें आसा. फाटल्या स वर्साचे युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचे 'युवांकूर' हे अंक पळयत जाल्यार कितलींशींच भुरगीं फकत एकूच कथा, कविता वा निबंद बरोवन दिसच ना. कोंकणींतल्यो तरनाट्यांच्यो कांय कथा ह्यो अहवाल बरयल्ल्या सारख्यो आसतात अशे तरेचो शीण डॉ. अरूण हेबळेकार हांणी काडला. साळावलेच्या धरणाची उदकाची पायपलायन कितलेशेच फावटी फुट्टा. पूण ह्या घडणुकेचेर आदारिल्ली प्रभावी कोंकणी कथा आपल्याक आजून वाचूंक मेळूंक ना ही खंत दत्ता दामोदर

नायक हांणी उक्तायल्या. हुतहुतेपणानी बरयिल्ल्या साहित्याक चिरंतन मोल आसना ही शिटकावणी डॉ. तानाजी हळर्णकार दितात.

कोंकणी मनीस, समाज संस्कृताय अर्थकारण भुगोलीक वाठार पर्यावरण तिगोवन उरल्यारूच कोंकणी साहित्याक मोल! कारण कोंकणी ही आमची वळख. हे नदरेंतल्यान आमी म्हादय बचाव आंदोलनाकडेन पळोवपाक जाय. आमची कुमेरी शेतवड सांबाळपाचो हो निर्णायक काळ आयला. बांदांक खांवटे घालून शेतवाडी ना नपयत करपाचे प्रयत्न चल्ल्यात. गोंयचो नियोजन आराखडो भूंय पुतांक विश्वासान घेनासतना घट्टाण करपाक उठला. आमचीं रानां बोडकीं जावपाक लागल्यांत आनी शेतां पडींक पडपाक लागल्यात. कुळकायद्यान ज्यो जमनी आमकां मेळ्ळयात त्यो पर्थून कसपाच्यो सुरू केल्यो नात जाल्यार आमी उबंतार पडटले. धेंक गाजोवन शिंगा दाखोवन सामाजीक आनी हेर मळांचेर आमी आमची पूजा करून घेवंया पूण गांवांत वचून पर्थून शेतांत देंवचेंच पडटलें. आमच्या कवाथ्यांक आमीच धेंप लावचें पडटलें. जिवीत आनी कवीत हाचो मेळ घालपी काय तरनाटे कोंकणींत आसात ही सुखाची पालय आमकां दिसता.

गोंयच्या लोकवेदाच्या सादरीकरणाच्या मळार सांस्कृतिक दलालीन कांय कडेन हैदोस घातिल्लो आसा. वचत थंय घुमट आरती सर्ती, फुगड्यो सर्ती, जावपाक लागल्यात. असल्या तरेच्या सर्तीनी जावपी अर्थिक उलाढाल हुस्क्याची जावपाक लागल्या. तरनाटे चले-चलयांच्या गुणात्मक गुणांक वाव मेळटा ही गजाल जरी बरी आनी खरी आसली तरी भौसातले तरनाटे हें वेसन आनी फॅशन म्हुणून पळोवपाक लागला. गोंयांत जो शिक्षणीक मळार ड्रॉप आवट्चो आंकडो दिसता ताचो अभ्यास हे नदरेंतल्यान जावन विद्येच्या मळार पुनर्जिविताची गरज उप्रासल्या.

आमकां आय.टी.ची बस चुकली अशें ह्या मळावेले तज्ञ डॉ. समीर केळेकार म्हणटात. आय.टी.च्या मळार आमी मागाशिल्ले जावपाक लागल्यात. ताचो परिणाम गोंयच्या समाज जिणेचेर पडटा. आनी ताचें पानवळ आमकां भोगचें पडटा. विज्ञान आनी तंत्रगिन्यानाच्या मळार आमी जाय तितली उदरगत करूंक पावना. परिणाम कोंकणी मनीस मुखार पावना. तो टॉर्च घेवन सिनेमा थिएटरांनी सुवात सोदता असो शीण डॉ. समीर केळेकार काडटात. आमच्यो बाजारपेठो भायल्या कश्टी लोकांनी बळकायल्यो. आमच्यो शेतवडी आमीच

पुरयल्यो. आमचीं खाणां-जेवणां आमीच शेणयल्यां. सत्तेच्या आनी सोयीच्या राजकारणात आमी स्वाभिमान व्हगडावन बसल्यात काय कितें असो प्रश्न जाण्टे तरनाट्यांक करतात. गोंयांतली एका तेंपावेली गाजिल्ली विद्यार्थी चळवळ कित्याक मेली ह्या जाण्ट्यांच्या प्रस्नाक आमी जाप दिवंक जाय. रायटर आनी फायटर हें कोंकणी लेखकाचें खाशेलें तत्व. काळा-वेळाक धरून तांणी ह्या तत्वाक पाळो दिला. ही परंपरा आमकां मुखार व्हरचीच पडटली. कोंकणी लोकाराज्यांतलो एखादो लोकराजा जर आपल्याक कोंकणी वाचपाक जमना म्हूण कोंकणी आनी कोंकणी कार्यकर्त्यांचो अपमान करता तर ताकाय बी बुध्द शिकोवंची ताकद आमचे मदीं आसा हें दाखोवन दिवप आमचें कर्तव्य. इश्टांनो गोंयचे पयले वयले मुखेलमंत्री भौ. भाऊसाहेब बांदोडकारांसारखो एक लोक नेतो आमकां आमचे मदींच तयार करचो पडटलो. प्रादेशीक अस्मितायेची राखण करून राष्ट्रीय एकवट सांबाळपाचें कार्य आमकां करपाचें आसा. आमचे मुखार तरांतरांनी आव्हानां आसात. आमचे मदीं शीण आसा, राग आसा. कारण आमचे मदीं मोग आसा. गोंयांत सद्याक चालू आशिल्ल्या लिपीवादाचेर प्रतिक्रिया दिल्याबगर म्हज्यान रावूं नजो. रोमी लिपयेंतल्यान कोंकणींत साहित्य रचप्याक ग्रंथपीठ जाय. माची जाय नागरी लिपयेंत बरयतल्याक ज्यो सवलती मेळटा त्यो रोमीलिपी वाल्यांकूय मेळच्यो हो राजहट. ही मागणी करतल्या जाळवणदाराचे आपले अशे मुद्दे आसात. आपल्या मुद्दांचें समर्थन करताना कोंकणी मनीस म्हुणून ते केन्ना केन्ना आत्महिणपणाची भास वापरतात. कोंकणी चळवळीन आनी जाय तेन्ना आमकां (क्रिस्तावांक) वापरले. आनी उपरांत सोडून दिले असोय शीण ते काडटात. वापरून सोडून दिवपाइतले  आमी कोंकणी मनीस स्वाभिमान शून्य आसात व्हय? रोमी लिपयेंतल्या लेखकांक मान सन्मान मेळपाक जाय. आमची कोंकणी भास वयर सरपाक जायच. मागीर अंदूं वर्साचे कला अकादेमीच्या साहित्य पुरस्कारांखातीर रोमीलिपयेचो परत एक फावट आस्पाव करून रोमीलिपयेतलें फकत एकूच पुस्तक सर्ती खातीर कित्याक पावलें? हो प्रस्न एक कोंकणी लेखक म्हुणून म्हाका सतायता.

रोमी लिपयेचें समर्थन करपी कांय म्हालगडे आनीक एक मुद्दो मांडटात ते म्हणटात गोंयांत मराठी भास हिंदूंक एकठांय हाडटा जाल्यार रोमी आनी नागरी लिपयेच्या माध्यमांतल्यान कोंकणी एकवट कित्याक हाडूं नजो? म्हजे रितीन

हांव ह्या मुद्याची जाप दिवंक सोदता ती अशी - मराठी भाशेन कोंकणी मनशाक आत्मसन्मान शिकयलो. संत ज्ञानेश्वरासारख्या संताकडल्यान तो घेतला. आनी कोंकणीच्या दिश्टाव्यान ते भाशेक गिरेस्तकाय मेळोवन दिवपाक वापुरल्यात. मराठी भाशेची सांगड धर्माच्या नांवान घालपाचो यत्न केला तेन्ना कोंकणी मनश्यांनीच आनी समतेचो पुरस्कार करतल्यांनी ताका विरोध केला. गोंयांतली भाशीक चळवळ धर्माच्या-जातीच्या नांवान चलना हें कोंकणी मनशांनीच देखी दिवन दाखयलां.

ओपिनियन पोल गोंयकार जिखूंक पावले. गोंयांत कोंकणी राजभास जावंक पाली. कोंकण रेल्वे गोंयांतल्यान धावूंक लागली.

देखून साहित्याच्या मळार जेन्ना आमी देशांत आनी देशाभायर भोंवतात तेन्ना कोंकणींतल्यान बरोवपी एक भारतीय लेखक अशीच आमची वळख जाता. धर्माच्या आनी जातीच्या नांवान न्ही. इतिहास ताची गवाय आसा आनी फुडार आमच्या हातांत आसा. कारण आमचीं पाळांमुळां खोल खोल पावल्यांत. गोंयच्या तरनाट्यांचो पर्यायान मुखावेले पिढयेचो स्वाभिमान जागोवपी इतिहास कोंकणी मनशांनी घडयला. फकत तो विस्तारान बरोवपाचो आसा. आमकां जाय आमचे भाशेंत.

1) गोंय मुक्ती झुजाचो वास्तव इतिहास.

2) ओपिनियन पोलाच्या पर्वाचो वास्तव इतिहास

3) कोंकणी चळवळीचो वास्तव इतिहास

4) गोंयांतले विद्यार्थी आनी सामाजीक चळवळींचो वास्तव इतिहास.

हो इतिहास जांणी घडयला ते कांय म्हालगडे आमचे मदीं आसात हें आमचें भाग्य आसा. गिन्यानाचे ग्रंथ संपत्तीचें भांडार आमचे कडेन आसा. कवी नागेश करमली हांचें घर म्हटल्यार कोंकणींतलें ग्रंथ भांडार, कालापूर मेरशेच्या ब्राझीन सुवारीस हांचेकडेन रोमी पुस्तकांचें भांडार आसा. अश्यो संदर्भ ग्रंथांच्यो राशी आशिल्ले कोंकणी मनीस, संस्था आमचे कडेन आसात तांचो लाब आमी घेवन आमची गिन्यानाची भास फुलोवया. 'सामाजीक एकवटाकडेन तडजोड करूंक जायना. तो एकवटाचो बावटो तो दिवो पेटत उरतलो जाल्यार आमकां त्याग करचो पडलो जाल्यार तो करचोच पडटलो अशे विचार नामनेचे दोतोर ऑस्कर रिबेलो हांणी मांडल्यात आनी एके म्हत्वाचे गजालीकडेन आमचें लक्ष

ओडलां. ते म्हण्टात, ह्या सगळ्या गोंदळांत शणै गोंयबाबाच्या सन्मानान तांचो एकूय पुतळो ना.' आमच्या लिपीवादाचेर हुस्को परगटावन डॉ. रिबेलो आमकां शिटकायतात, सांगतात की तुमी वेळ काडात आनी रशियन, हिब्रू, तामीळ, मल्ल्याळम ह्यो भासो शिकात कारण त्यो फाल्यांच्या गोंयच्यो खऱ्यो भासो आसतल्यो!

हो भंय आमचे मुखार आसा, पूण मोडां परतुवपाची तांक आशिल्ले कोंकणी मनीसूय आसा. फकत गरज आसा ती आमी घुंवळींतल्यान जागे जावपाची. कोंकणीची चळवळ नेटान मुखार व्हरपाची. हे संदर्भांत सुनापरान्ताचे संपादक भौ. संदेश प्रभूदेसाय हाचे विचार आमी मतींत घेवपा सारखे आसात–

"भाशावादाचे पांवडे हुंपून गोंयच्या समेस्त कोंकणी भौसाची चळवळ जावंची हो हावेस सुनापरान्तान बाळगिला. हे चळवळीक सामाजीक स्वरूप येवप ही चळवळीचीय गरज आनी गोंयच्या फुडाराची.

पुराय भौसाक एकठांय हाडून आमचेच भितरल्या सामाजीक, अर्थिक आनी राजकी मळावेल्या गोंयकारपणाच्या दुस्मानांक सासणाची बुध्द शिकोवपाची तांक कोंकणी चळवळींत आसा ती तांणी गोंयचे आनी खंयचेय चळवळींत ना. ही तांक गोंयचे अस्मितायेचे दुस्मान वळखल्यात. पूण आमी आजून घुंवळींतल्यान जागे जायनात हें आमचें दुर्भाग्य."

परथून एक फावट आमी शक्त वळखूया आमची दुर्बळकाय पारखूया आमच्यो संदी हातासुया आनी आमचो भंय पयस करूया. ते खातीर रोझरी कॉलेजीच्या माटवांत साहित्य संमेलनाचें हें निमित्त सादून परत एक फावट उजवाडाच्यो वाती पेटोवन आमी म्हणूयां.

"आमच्या पुरसा आमकां पाव"  
ॐ आंकवार मारीये पाव!  
ॐ सांतेर माये पाव!  
समेस्तांचें बरें जावं, देव बरें करूं!

(28 आनी 29 जानेवारी 2006 ह्या दिसा मडगांवच्या रोजरी म्हाविद्यालयांत जाल्ल्या 7 व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षीय उलोवप.)



# 9.

# प्रखर समिक्षा पचोवपी लेखक आनी वाचपीय नाकात ?

19 व्या अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संम्मेलनाचे अध्यक्ष कविराज रमेश वेळुस्कार हांणी कोंकणी साहित्याची प्रखर समिक्षा जावंक जाय हो हट्ट धरला. अखील भारतीय व्यासपिठावेल्यान ही गरज उक्तावन तिचें म्हत्व आयचे घटकेक केदें व्हड आसा ताची जाणविकाय करून दिल्ले खातीर अध्यक्षांक परबीं !

अध्यक्षीय भाशणांतल्यान कांय मुद्दयांचेर साहित्यीकांमदें, तशेंच कोंकणीकडेन कुड्डेपणान पळोवपी कांय कठ्ठरपंथी लोकांमदेंय चर्चा जावप स्वभावीक आसा. खासा करून गोंयच्या कांय मराठी वर्तमानपत्रांनी संम्मेलनाध्यक्षांच्या 'पुरस्कार मतांचो' पुरस्कार करून कोंकणी साहित्य निर्मिती फक्त पुरस्कारा खातीरूच अशा आशयाचे माथाळो छापून हाडलो. सुनापरान्ताच्या दावकूलकारांनी आपले मार्मीक उरबाडे काडले आनी संपादकांनी आपल्या सदरांतल्यान ह्या विशयाचें म्हत्व आनीकूय पटोवन दिवपाचो यत्न केलो. रमेश वेळुस्कार हांणी साहित्याची प्रखर समिक्षा जावंची हो हावेस जाणीवपूर्वक उक्तायला. सुनापरान्तकार कोंकणी चळवळीचे सद्याचे दिशेची आनी दशेची कठोर (खर?) समिक्षा जावंची ही जोड दितात. भाशीक चळवळ आनी साहित्यीक चळवळ ह्यो दोन वेगवेगळ्यो गजाली. कोंकणी चळवळीचो खरो इतिहास आजून उजवाडाक येवपाचो आसा. आमी साहित्य अकादेमी, ओपिनीयन पोल, राजभास चळवळ, घटनेच्या आठव्या परिशिश्टांत कोंकणी तें ज्ञानपीठ मेरेनचीं जैतां जोडीत गेले पूण इतिहास बरोवंक पावले नात. आनी जांणी हो इतिहास कोंकणींतल्यान वा कोंकणी चळवळीविशीं इंग्लेज भाशेंतल्यान बरयला थंय कितल्योश्योच चुको, आपल्योच आरती, आपल्यांचींच स्तोत्रां, बरोवपाचो यत्न करताना कांयकडेन इतिहासीक सत्याचोय लेगीत विपर्यास केल्लो आसा. ताका लागून होवूय इतिहास बोगस जावं येता ताचीच समिक्षा पयलीं जावंक जाय.

केरळचे एम. पुरूशोत्तम मल्ल्या हांणी आपल्या कोंकणी कर्तृत्वाचो इतिहास छापला. कोंकणी पासत आपणें कितें - कितें, केन्ना - केन्ना, कशें कशें काम केलां तीं पत्रां, तांच्यो जापो आपल्या स्तुती पाठासयत छापल्यात त्यो वाचीत जाल्यार ह्या एकाच मनशान सगळीं जैतां जोडून कोंकणीक वयर काडली असोच अर्थ जाता काय कितें अशें दिसता. बाकीबाब बोरकाराचे 'आमी इकरा जाण' हे कवितेची सामाजीक, राजकीय वास्तव मांडपी भूमिका कमलाकर म्हाळशी हांणी सोदून स्पश्ट केली तेन्नाच हे कोण आमी इकरा जाण तें इतिहासाक कळपाक आदार जालो. मनोहरराय सरदेसाय हांणी साहित्य अकादेमीखातीर कोंकणी साहित्याचो इतिहास बरयला तातूंत अर्विल्ल्या साहित्याचेर पिळग्यो सांगताना कोणा-कोणाक कथाकार आनी कवी म्हण राष्ट्रीय पांवड्यार मान्यताय दिली तें पळयत जाल्यार तातुंतले कांय कवी तांचो एकूय कविता झेलो आजुनूय उजवाडाक येवंक ना, ना म्हुणून ते साहित्य साधना केल्लेय दिसना. कोंकणी सरस्पतीचो सुपुल्लो इतिहासीक नियाळ करपी ओलिव्हिन्यू गोमीश हांच्या पुस्तकांतूय कांय साहित्य प्रकार वळखुपाच्योच चुको जाल्यात. कोंकणी चळवळी कडेन, व्यक्तींकडेन लागशिल्लो संबंद आशिल्ले आनी 25 व्या अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचे अध्यक्ष श्री. पाव्लू मोरायश हांकां नागेश करमलीचें सादें नांव लेगीत देवनागरींत कशें बरोवंचें हें खबर नासचें, तांणी कोंकणी चळवळीच्या इतिहासाचेर खंड देवनागरींत उजवाडाक हाडचे आनी कोंकणी मनशान ते सदचे सवयेप्रमाण बरें जालां म्हण आपणावचे. ही सगळी उदासीन वृत्ती कोंकणी चळवळीक मारक थारता.

जे प्रखर समिक्षेची गरज रमेशबाब उक्तायतात तांणी पयलीं होवूय प्रस्न विचारपाक जाय आशिल्लो की कोंकणींत समिक्षा साहित्य आसा? कोंकणी साहित्याची समिक्षा जाता जाल्यार ती आस्वादकाचे नदरेंतल्यानूच चड जाता. मनोहरबाब बऱ्यो प्रस्तावना बरयता म्हण तांचे कडल्यान मुद्दाम प्रस्तावना बरोवन घेवन आपलीच तुस्त करून घेवपी उणे नासतले. मनोहरबाबान आपले कवितेक बरी म्हळ्या ह्या नेटारूच खुपशे कवी सोंपले. 'साहित्य सुवाद' हे तांच्या प्रस्तावनांचेर आदारिल्लें पुस्तक वाचल्यार कांय देखी मेळटल्यो. आमी आमचीच तुस्त करून घेवपाचे घुवळींत उरले. 'उरतलें तें रूप धरतलें' हें र. वि. पंडिताचें उतर घेवन वर्सांचीं वर्सां झरयलें. खासा पंडितानूच आपले कवितेचें

कशें मार्केटींग केलें? कविता कश्यो अणकारीत करून घेतल्यो, कविता झेले कशे गाजयले हीं प्रकरणां ज्या म्हालगड्यांक खबर आसा तांणी लेगीत कृतीसत्रांनी, कार्यावळींनी पंडितांची कविता 'गावड्यांचो आत्मस्वर' म्हण गाजयलीं. ज्या शोशणाच्या मुद्‌दूयांक धरून पंडितांचे कवितेचेर चर्चा जाली वा जाता ताच्याकूय फुडलें म्हळ्यार मानसीक शोशण आपलें जाता आनी आपूण तें करूंक दिता हाचें आत्मभान चळवळींतल्या कितल्याश्या लेखकांक आसा? काय आपलेंय लिखाण हें अशेंच वयले वयर अशें म्हुणून ह्या कांय लेखकांक जगपाचें आसा? आपल्याच साहित्यकृतीची व्हडविकाय आपुणूच परत परत गावन, वा खोकून खोकून गांवकार जाल्ल्या कांय म्हाजनांच्या हातांत साहित्य वेव्हार गेला काय कितें हाची जाप सोदताना तुकाराम शेट हाचे पाखलो नवलिकेचेर कित्याक अन्याय जालो? ते नवलिकेंतलें समाज चित्रण आमकां पचोवन, दाखोवंक आयलें ना? गजानन रायकाराचे 'बनवड' हो काव्य झेलो. कित्याक ताचेर छाप मारून कुशीक काडलो. अश्या प्रस्नांच्यो जापो सोदच्यो पडटल्यो. र. वि. पंडितूय ओपिनियन पोलाच्या पर्वांत आत्मसाक्षात्कार, प्रादेशीक अस्मीतेची राखण ह्या संदर्भांत घुस्पल्लेच न्हय? मागीर गजानन रायकार कसल्या जानव्यांत घुस्पल्लो? चंद्रकांत केणी हांणी पुंडलीक नायकाचे कथेक येवकार दिताना पुंडलीकान कोंकणी कथा क्लीश्ट केली असोच येवकार दिल्लो न्हय! आमी कोण हाची जाप पुंडलीक नायकानूच दिल्या न्हय!

80 च्या दसकांत कोंकणी समिक्षेची (परखड) गरज आशिल्ली तेन्ना हातचें राखून बरोवंचें पडलें तें समिक्षेची तांक आशिल्ल्या हरिश्चंद्र नागवेकार, अशोक माणगुतकार, तानाजी हळर्णकार ह्या सारखिल्ल्या समिक्षकांक. उपरांतच्या काळांत सु. म. तडकोड, एस. डी. तेंडुलकार, किरण बुडकुले ह्या बरोवप्यांनी कोंकणी समिक्षणाचीं तत्वां सांगतानाच इतलीं घुस्पागोंदळाची आनी व्यक्तीकेंद्रीत करून सांगली की समिक्षा ही कोणाची तरी तळी उखलपाक ना तर कोणाक तरी तळयेंत बुडोवपाक असो समज जावंक पावलो. तातुंतल्यान आनीक एक सोयीची गजाल घडली ती म्हळ्यार एका-मेकांक सांबाळून बरोवपाचेय प्रयत्न जावंक लागले. पयलीं हांव तुजें बरें म्हण्टा मागीर तूं म्हजें बरें म्हण बरय, ना जाल्यार उलय असो सूर दिसपाक लागलो. क्रमीक अभ्यासक्रमांच्या अध्यापन वेव्हारांत आशिल्ल्या कांय जाणांक ह्या तत्वाचो बरोच फायदो उपरांत जाता

जावंक जाय!

कांय वर्सां पयलीं दत्ता नायकान कोंकणी साहित्याक मरगळ आयल्या अशे तरेचो सूर गोमन्तकान उक्तायतकच ताचेर शीण काडपाचो यत्न केलो बरयलें तें बरयलें, मराठींत कित्याक बरयलें अशेंय कांय म्हालगडे उलोवंक लागले आनी समर्थनापासत आमचे कडेन मरगळ ना हाचे दाखले दिवपाक सुरवात केली, पेडणेच्यान शशिकांत बरयता. सत्तरीच्यान अमको बरयता, काणकोणच्यान तमक्याचें बरप चालू आसा अशे तरेचें मॅपींग करून परतून आत्मसंतूश्ट आनी अल्पसंतुश्टतायेन फाट थापटावन घेतली. विश्राम गुप्तेन कोंकणी केळेकरच्या 'गोमन्तकांतल्या' लेखांत फकत गाळयोच बरोवंक ना तर लेखाचो निमणो परिच्छेद कितें मागता तेंवूय आमी वाचून पचोवंक शिकूंक जाय. राजय पवाराची 'खण गावड्या खण' ही कविता आमकां आजून पचोवंक जमना असोच 'त्या विचार मंथनाचो' अर्थ काडप? बालसाहित्याच्या मळार 'पिकॅन लेखकांचो' बोलवीता धनी कोण? सगळेच लेखक स्वयंस्फूर्तीन बरयतात काय आमीच तांकां पॉलीश करून दितात हाचोय आत्मसोद घेवक जाय. ते खातीर स्वताचें 'काळीज दर्यायेदें' जाय. 'भितरलें तुफान' जाय. अडेचें, दुसऱ्याचें उश्णें घेवन आपल्या नांवार छापचे पयलीं मूळ प्रेरणा वा उर्बा वा सया, कोणाची हें प्रामाणीकपणान सांगपाचें वा मानून घेवपाचें बळगें आमचेकडेन नाशिल्ल्यान आमी शेणत वतले. कला अकादेमीचेय कोंकणी नाट्य सर्तींनी जे कांय विनोदी कोंकणी (स्वतंत्र?) नाटकांचे लॉन्चींग जाता आनी उपरांत ताचे गांवांगांवांनी प्रयोग जातात ताचे वेल्यान प्रभावी कोंकणी रंगमाचयेचे चळवळीकूय भंय निर्माण जाला.

रोमींतूय बरोवपी तियात्रीस्तांक समिक्षेची नसाय! आपणें इतले शो केल्यात कोणेंच कांयच म्हुणूंक ना आनी तुमी स्वताक कोण व्हडले समजतात? अशें म्हण ते तियात्रांची चिकित्सा करतल्यांचेर अघोशीत बहिश्कार घालतात. कानडी लिपयेंत तर समिक्षा ह्या प्रकाराकडेन पळोवपीच तशे कोण ना अशें कांय जाणकारांचें मत. साहित्यीक हुतहुतेपणान बरयल्ल्या लिखाणान शाश्वत मुल्यां प्राप्त जायनांत. तें उखलापें जाता. आपल्या साहित्याची चिकित्सक समिक्षा पचोवपी लेखक आजून तसो दिश्टी पडना. खासा करून तातुंतल्यो उणीवो जर कोणेंय दाखोवन दिल्यो जाल्यार त्यो न्हयकारप, आपली समर्थनाची बाजू घट

करप. अशेच प्रकार घडटा. तेच वांगडा कांय वाचप्यांकूय मागीर त्या साहित्यीकांविशीं कळवळो, मोग आनी समिक्षकाविशीं दुस्वास निर्माण जावन तो लेखकाक बुजवण दिवपाचेंय काम करतात.

नेमाळीं आनी दिवाळी अंकांनी उजवाडाक येवपी साहित्यांत समिक्षेक कितलो सो वाव दितात? दिलेच जाल्यार म्हजें आवडिचें पुस्तक, म्हाका आवडिल्लो लेखक, नामनेचो लेखक/ कलाकार. असल्या बरपांनी मागीर स्तुतीपाठ येवंचे ना जाल्यार कितें येतलें? दिवाळी अंक वा प्रासंगीक अंक, नेमाळीं काडपी कांय संपादकांक तर संपादन सोडाच पूण मुद्रण दोश पयस करपाचे आसतात हाचें लेगीत इतल्या वर्सांनी भान नासूंये? जायरातींच्या मजकुरांनी मात चडश्यो चुको आसनात. हें घेवपासारखें! आयचो धांवतो वाचपी फुकट हातांत दिलल्लो अंक वाचपाच्या निमतान जायरातीचीं पानां चाळटा आनी आपल्या अदमासान संपादक / लेखक / कोंकणी कार्य करप्यान कितलें जोडलां आसतलें असोय हिशोब करपाक फाटीं रावना. होवूय आमच्या 'वाचप्यांचो दर्जो' आमी न्हयकारूंक जायना.

फकत कोंकणी साहित्याची प्रखर समिक्षा केली म्हण जावंचे ना ती पचोवपी लेखक आनी वाचक वर्गूय वाडपाक जाय. ह्या संमेलनांतलो ज्ञानपीठ विजेते कोंकणी लेखक रवींद्र केळेकार हांच्या भाशणांतलो हो मुद्दो म्हत्वाचो. ''भाशेंत पुस्तकां राशींनी आयलीं म्हूण भास व्हड जायना. तोलामोलाचीं पुस्तकां येवंक जाय. तशीं पुस्तकां येवपाक बरोवपीय तोलामोलाचे आसूंक जाय. तोलामोलाचे वाचपी समाजांत आसत जाल्यारूच तोलामोलाचे बरोवपी निर्माण जातले.''

वाचप्यांक गृहीत धरून आपल्याक जाय तशी साहित्यीक मळणी घालतल्यांक ह्या साहित्य संमेलनांतल्यान शिटकावणी मेळटली अशी आस्त धरूया?

♦

# 1.

# एकांताचीं उतर चित्रां

कोंकणी कवितेंत 80 च्या दसकांत आपलें वेगळेंपण दाखोवपी कांय कवी दिश्टी पडटात. प्रकाश पाडगांवकार, रमेश वेळुस्कार, माधव बोरकार अशीं कांय नांवां घेवं येतात. 90 च्या दसकांत आपल्या काव्य वैशिश्ट्यांचीं बिजां घेवन नांवांरूपाक आयिल्ल्या कवीमदीं अरूण साखरदांडे, निलबा खांडेकार, सुदेश लोटलीकार, संजीव वेरेकार, शशिकांत पुनाजी सारखिल्ल्या कोंकणी कवींचीं नांवां हेच खातीर म्हत्वाचीं की तांणी कोंकणी कवितेची परंपरा मानून घेवन आपली नवी वाट सोदपाचो यत्न केला.

सुदेश लोटलीकार कोंकणी कवितेच्या मळार काव्य झेल्याच्या रूपान आयले ते 1990 आपल्या 'पैस' ह्या झेल्यांतल्यान. 'पैस' काय 'पयस' असो वादूच घेवन ते आयिल्ले. जसो अरूण साखरदांडे हांचो 'एका झाडाक घर जाय' हो कविता झेलो. आपल्या प्रकाशन सुवाळ्या दिसासावन वाद घेवन आयिल्लो तसो! ह्या दोगांय कवींनी कवितेची वाट आपआपले परीन मुखार व्हेल्या. सुदेश लोटलीकार हांचो एकांताचीं उतरां हो 'तिकल्यां झेलो' ताची गवाय दिता.

नव्या स्वरूपांतल्या सुनापरान्तान जे बदल केले ताचो एक बरो परिणाम आनी प्रभाव म्हण 'तिकली' हो काव्य प्रकार नव्या रूपांत लोकांमदीं कवितेची रूच लावंक पावलो. लोककवी मनोहरराय सरदेसाय हांणी हो प्रकार सुनापरान्तातल्यान नव्या रूपान केळयलो. माधव बोरकार, सुदेश लोटलीकार, अरूण साखरदांडे आदी कवींनी ती वारी मुखार व्हेल्या. पूण हे तिकलेचो धनी तो (मनोहरबाब). सुदेश लोटलीकार हांणी सुनापरान्ताखातीर हो काव्य प्रकार केळयला. कोंकणींत हो प्रकार ह्यान आदीं बाकीबाब बोरकार ते आतांमेरेनच्या भोवतेक सगळ्याच कविंनी हाताळला. पूण तो हाताळपाची कळाशी भोव थोड्याच अक्षर वाटेवयल्या प्रवाशांक लाबल्या. कवनां, किसरां, चवरां, हुमले आदीं तरेकवार नांवां आपणायत हो प्रकार तिकली ह्या नांवान प्रमाण जाला ताचें श्रेय सुनापरान्ताक दिवंक जाय. 'एकांताचीं उतरां' दिवपी सुदेश लोटलीकार हांणी हें श्रेय तांकां दिलांच.

'एकांताचीं उतरांतल्यो कविता' असो ताचो उल्लेख कवी सुदेश लोटलीकार करतात. म्हाका दिसता त्यो कविता म्हणचे परस फकत 'एकांताचीं उतरां' अशेंच म्हुणूं येता इतलीं तीं 'आकांताचीं' आसात. रवींद्रबाब केळेकार हांणी आपले प्रस्तावनेंत म्हणलां - 'एकांताचीं उतरां' वादळ वा दडक उलगले उपरांत थंडायेंत एक एक करून पडपी ओथांब्या वरी.

नो लाईट्स
नो साऊंड
नो कॅमेरा
नो ॲक्शन
फकत .. सायलन्स!

हो कविता झेलो म्हळ्यार कविच्या भाग्याचें फळ. ताणें एकांताचें भाग्य मागलां. थोड्यांच्याच वांट्याक येता तें अश्या आत्मविश्वासान कवी आपल्या भाग्याची व्हडविकाय गायता. 'मन' हो ह्या झेल्याचो केंद्र बिंदू.

''मन तें;
जें खिणांत लागता गोळाक
आनी
खिणांत धरता गळ्याक!''
''मन तें
रोकडेंच येता रस्त्यार''
''मन तें
जें दुसऱ्याक रडयता
म्हणसर
आपूण रडपाक लागता.''

अशे रितीन कवी मन संवाद घालता. अंतर्मनाचो सोद घेता.

''आसा तें
लिपोवं नाका
ना तें
खपोवं नाका''

असो प्रामाणीक हेतू घेवन कवी आमचे मुखार येतात.

“मन गेलां हेडूंक
चित्त गेलां फिरूंक
अशा वेळार वतां हांव
म्हजें ‘म्हाका’ मेळूंक.”

हे अवस्थेंत कवीक आपली कविता मेळटा. तीच ‘एकांताचीं उतर चित्रां’. अस्तित्ववादी कवितेचो एक रूपकार ह्या झेल्यांत दिश्टी पडटा. कवीची मोनेळ अवस्था ह्या रूपकाराचें एक प्रतीक. अस्तित्ववादी मनीस समाजांतल्या तत्वाकडेन झगडटा. त्या तत्वांकडेन वाद-संवाद घालता. श्रध्दा, अंधश्रध्दा, अ-श्रध्दा हातूंतल्यान देवाचो सोद घेवपाचो यत्न करता. ताची देख दिवपी कांय अवस्था ह्या झेल्यांत आसपावल्यात.

कवीचीं कांय कांय उतरां मर्माचेर घाव घातिल्ले भशेन कोंत्रायल्लीं दिश्टी पडटात. तीं चिमटे काडटात. बोधवाक्यां कशीं येतात -

‘गुणांचीं गोरवां
आनी प्रतिभेचीं बोकडां
फकत आसलीं म्हूण जायना
तांकां आमुडचेंच पडटा...’

‘मास्तराक पळोवन
नोटीवयलो गांधी हांसता
भुरग्यांक पळोवन
पुस्तकांतलो गांधी रडटा.’

‘गाय सांगता मोन्यांनी
उमेदीन चरताना
मान सकल घालेबगर
खावपाक मेळना.’

कवी एकांताचीं उतरां खास कसो जगतात. ताचीं उतरां अंतर्यामी जातात कारण ताचे जिणचो तेच स्वामी आसतात. चार - चार वळींच्या ह्या कांय उतरांनी कांय घुस्मटपी कविता दिसतात. देखीक :

'कृष्ण ना
अशें एक घर ना
राधा ना
अशें एक मन ना
राधेचो घोव मात
सोदून गावना.'

हे कवितेंत राधा ना अशें एक मन ना हे वळी उपरांत ही कविता खूप पयस वता. वाचप्यांक मनभूल घालता आनी खूप वगतान मागीर राधेचो घोव मात सोदून गावना अशी कविता सोंपता. मदीं कवीन राधेक शेणयल्या ती सोदपाची गरज आसा! हीच गत

'फांतोडेचेर
ज्युस्त एका खिणाक
खंयच्यान तरी
कांय खीण
नेमान आयकूंक येवपी
घांटीची किणकीण
तसो म्हजो बापूय!'
वा
'सावळेचो घालून मांड
वाट पळयत
बसलां झाड'

अश्या कांय कवितांच्या बाबतीन जालां. एकांताचीं उतरां घडयताना कवीन कांय म्हणी, हुमाणीं घडयल्यांत तांची नोंद घेवप गरजेचें दिसता.

‘हतयार बसून
आयलो
आनी गाढवार बसून गेलो.’

‘माडावयल्यान
उडी मारूंक जो भिना
तो केन्नाच
जीव दिना.’

‘आतांच भट
न्हावपाक गेला
वाट पळयत
देव बसला.’

‘अमेरिकेचें उश्टें काडल्यार
म्हान म्हण्टात
भारताची सेवा केल्यार
ल्हान म्हण्टात.’

कवीन एकांताचीं उतरां पुंजावपाची साधना केल्या. हीं उतरां उखलापी न्हय. पुंजायल्ल्या ओंवळा भशेन. ह्या काव्य परंपरेचें कवीक आत्मभान आसा. तें रीण ते आपले रितीन पावयता. आडव्या मापान घेतिल्लें उब्या मापान पावयतात ताच्यो कांय देखी दिसतात.

‘बैल आपल्याक जाय तसो
जाय तेन्ना येतलो
शिंगां दाखोवन
पुजा करून घेतलो.’

हो पुंडलीक नायक हांच्या बांगर बैलांतलो आशय कवी सुदेशबाब वेगळे रितीन मांडटा.

‘शिंगा दाखोवन
पुजून घेवपाची
रीत आतां सोंपली
शिंगां कापिल्ल्या बैलाचीच
पुजा आतां जातली’

‘भंयान सांगलें
धांव
आशेन सांगलें
राव.’

हे मनोहरबाबाचे ‘तेन्नाचे’ तिकलेचेर कवी आपले परीन साज चडयतात.

‘काळीज म्हणटा
बरय
मन म्हणटा
भरय.’

कवी प्रसाद लोलयेंकारांच्या ‘मुळां’तलो घाडी. जसो एके रातीचो देव जाता आनी दुसरे दिसा गाड्यार विडी मागता तसो सुदेश बाबाचो वीरभद्र -

‘एके रातीचो
वीर-भद्र
दुसऱ्या दिसा
दळभद्र.’

प्रभावांतल्यान परिणामांकडेन वचपी सुदेशबाबाची एकांताचीं उतरां म्हळ्यार स्वताचो घेतिल्लो सोद. अस्तीत्ववादी कविता ह्या झेल्यांत दिश्टी पडटा. पूण हें अस्तित्व दिशाहीन जावन भरकटिल्लें न्हय. हें अस्तित्व पडमूर न्हय. ताका एक भान आसा, जाण आसा. देखूनच कवी अर्पण पत्रिकेंत म्हण्टा तें म्हत्वाचें.

‘शर्मिलाक...
भुरग्यांचें, घराचें
म्हजें, सुण्यांचें
करता म्हणसर
तुजें म्हूण किदें उरता?
तूं नाशिल्लें जाल्यार
हें कांयच घडचें नाशिल्लें....’

आपले प्रस्तावनेंत रवींद्रबाब केळेकार म्हणटात ‘एकांताचीं उतरांतलो कवी एकांतात शांत. देखून तो साक्षात्कारी मनशावरीं इल्लोसोच उलयता...’ रवींद्रबाब तांकां ‘एकांताचे’ भाग्य मेळूं म्हण आंवडेतात. तातुंतल्यान कोंकणी सरस्पत समृध्द जावंचो हो तांचो हावेस आसा.

पुस्तकाक मुखचित्र सानीया सुदेश लोटलीकार हांचें तशेंच कांय रेखाचित्रांय आशयाक धरून सानियाबायन काडल्यांत. पुस्तक संस्कृतायेक पाळो दिवपी ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनान हें पुस्तक उजवाडायलां.



## 2.
# निलबा खांडेकार हांच्या कवितांचो वेध

दर एकलो प्रतिभावंत साहित्यीक, कलाकार आपल्या थळकाळाचें प्रतिनिधीत्व करताना, भुतकाळाचे बुनयादीर उबो रावोन तो आपले प्रतिभेच्या नेटार भविश्यकाळ दाखयता. मुखार येवपी मोडांची सुलूस ताका पयलीं लागता. संवेदनशील कलावंत - मनीस फकत तटस्थतायेन समाजांतल्या घडणुकांकडेन पळयना. तो फकत सहानुभुती दाखोवन कुशींक रावना. तो कृतीशील जाता. लोकशाहीप्रधान वेवस्थेंत तो फकत मतदार म्हण जगूंक सोदिना तो नागरीक म्हण जगपाचो हावेस बाळगिता. कोंकणी लेखक कलावंत हाका आडवाद जावंक शकना. तो आडवाद ना. आपली वळख तो समाजामुखार घडयता. ताची दखल घेवंक लायता. परंपरेच्यो मर्यादा दाखयताना एक कर्तृत्वी आत्मविश्वास ताच्यामदीं बळावल्लो आसता, आनी ह्या आत्मविश्वासाच्या मुळाक आसता दिश्टावो. फकत ताचो वेध घेवपाची तांक आसपाक जाय.

कवी निलबा खांडेकार हो ते नदरेंतल्यान लक्षवेधी. कोंकणी कवितेचें दालन फुलोवपी, फळोवपी प्रतिभावंताच्या वंशावळींतलो एक निलबा. बयाभाव, अभिजीत, बाकीबाब, मनोहरबाब, भांगीबाब, नागेशबाब अशी ही नांवावळ रमश वेळुस्कार, प्रकाश पाडगांवकार, माधव बोरकार, काशिनाथ शांबा लोलयेकार, अरूण साखरदांडे अश्या प्रयोगशीळ कवींमदलो निलबा खांडेकार हो एक ! 80 च्या दसकांतलो रूजवणाक आयिल्लो हो कवी आपली सामाजीक बसका घेवनूच कोंकणी कवितेच्या मळार देंवता. तरनाटे - कवळे पिरायेर मार्स्कवादी विचारसरणीन झपाटून गेल्लो हो कवी. वेध (1989) हो तांचो कविताझेलो ताची गवाय. x+y= bonded labour हें समीकरण तो कवितेंतल्यान घेवन येता. x आनी y क कांयच व्हेल्यू ना ही मुल्यांची जाण करून दितना समाजांतली असमानताय, शोशण, गिरेस्तांची भोगविलासी लक्झरी जीण तो पितारताना 'सलाम' ही कविता ताची एक देख म्हण दिवं येता. मंगेश पाडगांवकरांची सलाम (मराठी), दिलीप बोरकारांची सलाम, राजय पवार हांची पलतडच्या मास्तराचो तुमकां अर्दकुटो सलाम ह्या सगळ्या वैशिश्ट्य पुराय कवितां इतलीच निलबाची सलाम कविता.

'हांगासर जल्मा येवप खूप सोंपे
पूण जगप सोदल्यार मात जगपाक गावना
..............
इश्टांनो, सपनां आमचे खातीर नासतात
पळयलींच जाल्यार थूमॅकाल म्हणात
सपनांच्या सरणांनी आमचो गोबोर
केन्नाच जाला.'

हो गोबोर म्हळयार वाट्याक आयिल्लें दूख. हें दूख समाजान दिल्लें. 'थू मॅकाल' हें उतर कवितेक कोंकणी बाज खऱ्या अर्थान चडयता. जिवीत - मरणाचे भोगणार तांचे कवितेंत दिश्टी पडटा. वेध झेल्यांतली तांची मरण सुवाळो ही अशीच कविता. आपुलें मरण पाहिलें म्या डोळा तो सोहळा आनंदाचा काय वर्णावा अशे तरेच्या संत तुकारामाच्या अभंग अवस्तेकडेन लागीं व्हरपी आसा. Life After Death चो सिध्दांत घेवन येवपी अणभव ते मांडटात. कर्तृत्वशून्य मनशाचे जिणेक आनी मरणाकूय तशी किंमत नासता. हो जरी विचार मुखेलपणान कवितेंत आयलो तरी ही कर्तव्यशुन्यताय वा कर्तृत्वशुन्यताय सरभोंवतणच्या समाजाचेंच देणें ! हो असोय एक विचार येता. कवितेची सुत्रबध्द मांडणीय कविता चड वाचनीय करता -

'तिच्या किळांचीन
म्हज्या मरण सुवाळ्याचें
उक्तावण जाता
चार बोडकांमदीं घातिल्लें
म्हजें मडें
म्हाका स्पश्ट दिसता
ती हड्डें बडोवन रडपी
म्हज्या वायट बऱ्याची वांटेकान्न
तिच्या कपलार पुरूषार्थ
मिरोवपी
हांव तिच्या जिवितांतलो यातनांचो धनी!

....
कापरा सारखें जळून वचपी म्हजें मडें
हांव पळयता
म्हज्या गुलामीचो अंत:
हांव पळयता म्हज्या मुक्तीची रान-वाट.'

कवी हे कवितेंत मरणखीण भोगता. हे मरण खीण युगा-युगांचे आसतात. गुलामगिरींतल्या कुडीचो अंत आनी त्या अंतातल्यानूच मेळपी मुक्ती म्हळ्यार जिवीत - मरणाचें खरें सूख. ना जाल्यार संवसार फकत यातना घर जाता.

नेल्सन मंडेला आनी इंदिरा गांधीच्या संदर्भांतल्यो दोन वेगवेगळ्यो कविता ह्या झेल्यांत आसात. इंदिरा गांधी नावाचे बायल-प्रतिमेचो भौसाच्या मनाचेर कसो प्रभाव जाल्लो ताची देख दिवपी तांची 'इंदिराजी गेल्यो तेन्ना' ही कविता. गोंय मुक्तताये उपरांत इंदिरा गांधी ह्या युगपुरूशांचो प्रभाव लोकमनाचेर पडिल्लो. हीं दोनूय भौसाक लोक दैवतांकशीं! पिढ्यान पिढयो चिड्डून पडिल्ल्या समाजाचो एक हुंकार ह्या मनशांनी जागयलो. हीं व्यक्तिमत्वां म्हळ्यार भौसाच्या आत्मसाक्षात्काराचें प्रेरणा स्त्रोत. लोकोत्तर मनशांच्या प्रभावान इंदिराजी आनी नेल्सन मंडेलावेल्यो कविता येता. इंदिराजींच्या मरणाचें घरचें सूतक घरच्याक कशें लागता ताचें भावस्पर्शी वर्णन कवितेंत आयलां. घरांतलो कर्तृत्वी पुरूश - बापूय हो तिच्या मर्णाची खबर घेवन घरांत भितर सरता. ताका धरून आयिल्ल्यो हेर गजाली त्या वातावरणाक पोशक थारतात. घरचोच आदार गेल्ल्याचें मळबायेदें दूख घेवन आतां आमचें कशें जातलें काय देवा! अशे तरेची अगतीकताय आशय रूपान ही कविता दाखयता. इंदिरा गांधी गेली तेन्ना आमी घरांत पेजूच केली अशें म्हण त्या वडाच्या रूखाच्या पडपांत सरभोंवतणची जमीन वेरावता अशी गत दाखयल्या. 'ज्ञानदेव गेले तेव्हा कोसळली भिंत' ची बाकीबाबाची काव्य अभिव्यक्ती आनी निलबाचें हें सूतक हातुंतलें 'समाज-दर्शन' वेगळें.

वेध हो कविता झेलो एक घोशणा घेवन येता... 'क्रांतीवादी कविता - न्हिंदलेल्या मनाची एक जाग.' ती एक शक्त- क्रांतीचे प्रक्रियेक वेग दिवपी. सुमार 66 कविता ह्या झेल्यांत गुंथल्यात. राजीव शिंदे हांचें मुखपृश्ट वेध घेवंक

लावपी आसा.लेखकाचें हें पयलेंच पुस्तक!

सुमार धा वर्सांनी 1999 वर्सा कवी निलबा खांडेकाराचो सूर्यवंशी हो कविता झेलो उजवाडाक आयलो. कामगारांचे शोशणाचें नकसुद चित्रण करपाची कळाशी तांकां ह्या झेल्यांत मेळपाची सुलूस लागता. आक्रस्ताळेपणा थोडीं उणीं जावन संवेदनशीलतायेक कलात्मकतायेची जोड मेळटा अश्यो खुणो दिसपाक लागता. ताची एक देख तांचे रोयणी हे कवितेंतल्यान घेवं येता. वर्सामेंताचें (पुरूमेंताचें) कश्टाचें चित्रण करताना कवी म्हण्टा -

"भाटकाराचो वाटो कडेन काडटाना
उबें वर्स पळोवन पोटाक येवपी चिमट्यांचो
अदमास जाणवलो....."

पोटाचे भुकेचें, पिळणुकेचें रूतूचक्र ही कविता आमचे मुखार उबें करता. कार्ल मार्क्साक उद्देशून कवी म्हण्टा -

"इश्टा हांगासरलें जिवीत मनशांच्या
जिविताखातीर न्हय
हें जिवीत तांच्या जगपाखातीर
हांचें शोशण तांचें जिवीत जालां."

कार्ल मार्क्साकडेन 'इश्टागत' ही ह्या शोशणांतल्यान जाल्या. स्वातंत्र्य, समता, बंधुत्व, भावकी ह्या लोकशाहीच्या मुल्यांची मुक्ती उपरांत कशी परवड जावपाक लागल्या, त्या स्वातंत्र्याचो जमाखर्च मांडपी तांची भुंयार ही कविता 18 जुनाची त्या साक्षी आनी कतृत्वी पर्वाची जाणविकाय करून दिता. मुक्ती झुजांत सक्रीय वांटेकार जाल्ल्या एका युगाचें मुखेलीपण करपी मनशाचो आलेख हांगा दिसता. 18 जुनाचे प्रेरणेन झुजिल्ल्या मनशाचें जिवीत, ताची क्रांती, ताचो आलेख, खुमखुमी आंगार कांटो हाडपी ताचें तें जिवीत-कार्य आनी सृजलाम सुफलाम भुंयेचें तांणी पळयल्लें सपन. 1961 उपरांत ताचेर मोनेळ कित्याक पडटा? स्वातंत्र्याच्या पर्वाच्यो आंगार कांटो हाडपी ताच्यो गजाली 1961 उपरांत मोन्यो कित्याक जातात?

हें प्रस्नपर्व ही कविता उबी करता. कवितेचें नांव 'भुंयार'. कवितेच्या आशयाची खोलाय दाखयता. मनोहरबाबूय ही याद आपले अठरा जून हे

कवितेंत जागयता आनी म्हणटा.

“उदक लेगीत जाल्लें रगत
आनी रगत जाल्लें हून
भावा तुका याद जाता
अठरा जून?”

हे कवितेचे सुरवेक मनोहरबाब पावसाचें, दडकांचें वर्णन करताना थंय एक गावड्यालो पोर कुडकुडटालो हें चित्रण करताना शेवटाक कविता सोंपयताना आजुनूय गावड्याचो पोर कुडकुंडटा हें दाखयता. ताचे मुखार वचून निलबा ताचीं कारणां सोदता आनी हें भुंयार दाखयता. काळो किट्ट खोल फुडार! मुक्ती उपरांतची भय, भूक आनी भ्रश्टाचाराची गत पळोवन भौस दिशाहीन जावपाक लागला. “हें सरकार तीन तोंडाचें” अशी स्वाभावीक प्रतिक्रिया तो तेदेवेळार दितालो. ताचे मुळाक असमानताय हेंवूय कारण आशिल्लें. आनी तेच अवस्थेंत लोकशाहीचो, स्वातंत्र्याचो मानवतेचो दुस्वास आनी परकी सत्तेचो स्विकार केल्ल्या घरच्या भेदयांची मानसिकताय कवी वास्को द गामा हे कवितेंत दिसता. ‘वंद्य परक्यालेंच उश्टें’ ही गत दाखयताना कवी म्हण्टात –

“वादळांतल्यान येवपी मोचवो आतां
स्पश्ट दिश्टी पडूंक लागला
खोशेन भरिल्ले ते, खोशयेचो हात वैर काडटात
एका तुफानाची गाज ल्हवू ल्हवू मोठी जाता
आनी ते नाचत रावतात तेच उमेदीन
वास्दो – द– गामा
वास्को – द – गामा.
सालादोर (सालाझार) आतां परत राजा जातलो.

सूर्यवंशी कविता झेलो हो वेध घेवन दिवन सोंपता. ह्या कविता झेल्यांत कायतील्या दुकानांतलें कॅलेंडर, सावळो दत्ता नायक : एक अणभव, किशोर – एक रफ स्कॅच हीं मातयेचो वास घेवन येवपी शब्दचित्रां आसात. किशोर एक रफ स्कॅच ही कविता रफ किशोराचें फॅअर चित्रण करता. नाट्य – संवाद भास शैली व्यक्तीचित्रण हे नाट्य घटक हातूंत आयल्यात. लातूरच्या (30 सप्टेंबर 1993) भुंयकांपाचें चित्रण तांचे ‘लातूर’ हे कवितेंत आयलां.

2002 वर्सा निलबाचो तिसरो कविता झेलो आयलो – अग्नी. कवितेचो विशय विस्तार घेवन हो कविता झेलो येता. सांगपाक खूप जाय ही तिश्टत तांच्या ह्या झेल्यांत दिसता. मनीस म्हणचे परस लोक हो ह्या कविता झेल्याचो केंद्र बिंदू थारता. आनी ह्या लोकांचो सोद घेवपाक कवी धडपडटा. तो लोकांक नियाळटा. युगाचेर भाश्य करता. ह्या सगळ्यांक न्यायाचो हक्क आसा हाची जाणविकाय करून दिताना घर सांबाळपाक जाय हाचें आत्मभान ताका आसा ही कविता नव्या शेंकड्यांचीं आव्हानां घेवन येता. सत्याचो पाखो घेवनूच युगा युगाचें जगप आयलां. ह्या सत्ययुगाचे वंशावळींतलो मनीस कवी जगोवंक सोदता. ताणें खूप पळयलां. पुराण काळासावन, आतांमेरेन देखून तो मुखावेली वाट दाखयता. तो संवसारांतल्या सगळ्या धर्माचे आलमेत पिला.

"हे सर्गाच्या बाप्पा, हांकां माफ कर
हें किदें करतात तें तांकां खबर ना..."

ह्या जेजूच्या विश्व भोगसणीचे प्रार्थनेचेर कवी भाश्य करताना म्हण्टा –

"आमी उसरां पावोवंक नात, येहुदीच्या राजा
तूंच खूप पयलीं गेलो
फाटल्यान फक्त ज्युदास दवरून
झिजस, आमकां तुजी सोंसून धरपाची तांक दी."

अशें मागणें करूनूय तांची इत्सा पुराय जावंक पावना. अग्नी ह्या झेल्यांत कवी धर्म तत्व सोदपाचो यत्न करता. देवळांनी – इंगर्जानीय. स्वार्थाशिवाय हांगा कसलोच धंदो सुखाचो जावंक शकना हें समिकरण पळोवन कवी बरोच अस्वस्थ जाला. देश फक्त पोक्या घोशणांनीच भरला हाची जाणविकाय तो करून दिता. हें यूग बुली यूग, (दादागिरीचें यूग) गोंयचे सोंशीक आनी सर्वसमावेशक मातयेचो रंग इबाडपाक लागला हाची सुलूस तांची कविता करून दिता. खुपश्या कवितांनी कवीची अस्वस्थताय वाडत गेल्ली दिश्टी पडटा. तो खदखदता, खुदता. अस्वस्थ पर्वाची जाणविकाय करून दिता. अग्नी म्हळयार उजो हुलोवप, जाळ, होमकांड अशी अवस्था मुखेलपणान सांगताना म्हाका इंगळ्याभशेन उलोवंक जाय आनी ह्या होमकांडांतल्यान पार वचपाक जाय ही तळमळ कवी उक्तायता. सुशांत नायक हांचें बोधक मुखपृश्ठ हेंच सांगता.

2006 वर्सा निलबा 'ब्लॅक' हो कविता झेलो घेवन येता. कवितेक आपले

वांगडा रावपाची विनवणी तो करता.

"कविते तुवें रावची म्हज्याच वांगडा
म्हज्या विचारांक प्रकृतीच्या कृतीची जोड दिवंक
तेन्ना तूंच समजूंक शकतली
बे आवाज शब्दांभितर देंवून वेदनेचो आर्तनाद."

कवी पूर्वस्मृतींक धवळीत् रावता फुडाराखातीर. आपल्या सरभोंवतणच्या घडणुकांची नोंद घेता घेता तो तातूंत समरस जाता. समाज आनी श्वास एकठांय जातात आनी मागीर जल्मतात त्यो उस्वासाच्यो कविता. सुखाच्या सोदाचो एक चिरंतन ध्यास घेतिल्लें कवी मन दिश्टी पडटा. तें पर्यायी आत्मसूख सोदता.

"ह्या दिसांनी जेन्ना
केन्ना - केन्ना खूश जायन दिसता
तेन्ना हें येवजून खूश जाता
कितलें बरें की हांव दोंगरेवयलो
आनी वास्कोचो मारसेलीन दोंगरेवयलो न्हय
तशी दोंगरी अयोध्येंतल्या 67 एकर
विवादीत भुंयेभितरूय पडना
मीर जाफर, जयचंद आनी कलूषा हांकांय
दोंगरेर कोणूच वळखना
तसो सुशील शर्माकूय...
.......
आयज हांव खूश आसा
आयज दोंगरेर सावन हांवें पळयलें
मणिपूरच्या सशस्त्र दलाच्या अत्याचारा आडचें
शर्मिलेचें पांच वर्साचें व्हड उपोषण
हांवें पळयलें भ्रश्ट यंत्रणे आड
सत्याचो आवाज उठोवपी बिहारी पूत सत्येंद्र दुबे...
कितलें बरें दिसता

आफ्रिकेंतले काळे किट्ट नागडे उगडे भुरगे
भारतांतले न्हय...."

ह्या कविता झेल्यांत निलबाची कविता मुखावेली वाट चलपाक आतां घटमूट जाता अश्यो कांय खुमो दिसतात.

हवामानाविशीं (चर्चेचो एक वांटो) ही कविता निलबाची Writers Estate is more Real than the Real estate ह्या मनोहरबाबाच्या कलात्मक सत्याक पाळो दिवपी कविता पूण मुंबय 17 जानेवारी 2006 ही एक नोंदपटी. ही कवितेच्या फॉर्मात बसना अशें म्हजें मत.

निलबाच्या खुपश्या कवितांनी सामाजीक, राजकीय, इतिहासीक संदर्भ येतात. एक शिटकावणी ते दितात. तांच्यो कविता समजून घेवपाक इतिहास समजून घेवंचो पडटा. सांस्कृतीक, सामाजीक, राजकीय संदर्भांनी तांच्यो कविता भरिल्ल्यो आसात. केन्ना त्यो गूण तर केन्ना बदलत्या वास्तवांची एक नोंद म्हूण उरता. भोपाल गॅस ट्रेजेडी, लातूर माहिंजोदारो, पंजाब, गोंयकार, मुंबय 1992, तहलका डॉट कॉम, बायणा, हे माँ, हिरोशीमा अश्या संदर्भांनी त्यो येतात. लातूर उस्मानाबादेंतल्या 1993 च्या भुंयकापाची शिरशिरी ते हाडटात त्या भयाणतेचें वर्णन करतात. भुंयकापा उपरांतूय कांय भूंयकांप लातूरांत आयले ताचीय नोंद घेतल्यार भुयकांपाचे अनंत धक्के जाणवतले. राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय व्यक्ती – संघटनांकडल्यान आयिल्लो पयसो घरवडीक उरिल्ल्याक आदार म्हण मेळपाक लागलो. ते अर्थ वेवस्थेन सामाजीक नितीमुल्यांची वेवस्थाय हालोवन उडयली. घराचीं सगळीं मेल्यांत. जाण्टो उरला त्या जाण्ट्याच्या गळ्याक 17-18 वर्सांची चली कायद्यान लग्न करून बांदप आनी ताच्या मरणाची वाट पळोवप आनी मागीर सगळी विधीवत लुटमार, लातुरांतल्या भुयकापां उपरांतचे हे धक्केय कवितेंत आयिल्ले जाल्यार ही कविता मुखार येवपी भुयकांपाची रेक्टर स्कॅल जावपाची.

निलबाच्यो कांय कविता व्यक्ती स्त्रोत्राच्यो (स्तोत्र न्हय) आसात. नेल्सन मंडेला, एकलव्य, चाणाक्य, मंगल पांडे, स्मीता पाटील, मार्क्स, लेनीन, वास्को द गामा, नर्मदामय मेधा, महर्षी, द्रौपदी, भिष्म, निरो, अमिताभ बच्चन. ह्या चडश्याकडेन कवी समरस जावन संवाद घालतात. प्रथम पुरूषी निवेदनात्मक

शैलींतल्यान कांय कविता येतात. वेध, सूर्यवंशी, अग्नी ह्या तीन झेल्यांनी हो प्रकार चड प्रमाणांत दिसता. ब्लॅक कविता झेल्यांत तो नाच्च म्हळ्यार जाता फकत आडवाद म्हण - परत एकदां अशोक हे कवितेचो.

विशयांची पुनरूक्ती कांयशा कवितांनी जाल्ली दिश्टी पडटा. ताचेकडेन आडनदर करूं नजो. चारूय कविता झेल्यांतल्यो अर्पण पत्रिका कवीची चडटी वाट दाखोवपी आसात. वेध हो तांचो पयलोच कविता झेलो. पयलो चंवर! उमेद आनी हावेस. मळबायेदे उमेदीन हो झेलो ते रमेश वेळुस्कार आनी तुकाराम शेट ह्या साहित्यीक प्रेरणा स्थळांक भेटयतात. सूर्यवंशाची अर्पण पत्रिका बापायक-

"बाबल, तुज्या मरगाद पुताच्या
उमाळ्यांक फुटिल्लीं पाखां पळयनासतानाच
ह्या संवसारांतल्या जंजाळाचेर तुवें मुक्ती मेळयली
त्या मुक्तीक."

'अग्नी'न ते म्हणटात -
'जाणें निर्मीतीचें दायज ना खरशेता चलयलें
गरमी नाशिल्लो उठाव करूंक शकना हें तत्व
रूजयलें
त्या सर्वस्वामी सूर्याक."

आनी ब्लॅक - अर्पण पत्रिकेंत ते म्हणटात -
"दुश्टांचो कलंक धुयतां धुयतां
म्हेळे जाल्ल्या ह्या हातांनी
अजून घडपाचीं आसा
मानवतेक थाऱ्यार घालपी
सैमीक मांडावळ
म्हजे लेखणेन घडघडून वयतलो
हो वावर
ह्या आत्मविश्वासाक."

उमेदींतल्यान आत्मविश्वासाकडेन वचपी हो प्रवासी आसा. पयलीं पयलीं मार्क्सवादी विचार सरणेंतलो आक्रस्ताळेपणा उपरांत उणो जावन निश्चीत ध्येयपूर्ती

सादपाक सैमीक मांडावळ गरजेची आसा ह्या आत्मविश्वासान निलबाची कविता पसवता. लोकशाहीच्या मानवतावादी मुल्यांची राखण आनी पोसवण दिवपाक तो धडपडटा. एक मूल्य संघर्श तो करता. त्याच त्याच वाटकुळ्या घुंवळावपी घोटांतल्यान तो भायर सरताना दिसता.

कोंकणी कवितेंत आपलें वेगळें योगदान दिवपाची तांक तांची कविता दाखयता. निलबाच्यो कविता दोंगरेचो, शेतवडीच्यो, मनशांच्या धोंगा-पोंगाच्यो. तो आपलो गांव पितारता. हांव निलबा खांडेकार अशी आपली काव्यमय वळख करून दिता. रगताच्या नात्यान (बाबू - बापूय) तांची संवेदनशीलताय जागयल्या. मातयेन ती रूजयल्या.

भाशेचे नदरेंतल्यानूच ताची कविता आपलें वेगळेंपण घेवन येता. तांच्या कवितांनी एक चिड्डुल्लो नाटककार दिसता. तो 'नभोनाट्याच्या' रूपान वाचप्यांकडेन संवाद घालता.

> ''आतां कविता बरोवप बंद करप
> .. म्हाका कळाव जाल्ल्याची हळहळ जाणवता.
> पिडेस्त पाडंग आनी रेंवाटांतल्यान
> तळपाच्या कठोरपणांतल्यान
> हांवें केल्लें चलप
> आनी तातुंतल्यान अणभवल्ली
> असीम वेदनांच्यो बोंदऱ्यो जिणो
> आतां कितल्यो पळोवप?
> आतां कितल्यो बरोवप?
> आतां कविता करप बंद करप...''

वेध ह्या कविता झेल्यांतली ही निमणी कविता ताचे उपरांत निलबाचे तीन कविता झेले आयले. निलबाची कविता कोंकणी कवितेंत एक आगळो वेगळो प्रवाह हाडपी थरू आनी तांची मुखावेली कविता ब्लॅकांत वाचपाक मेळूं!



## 3.
# 'जल्मफेरे' – सोद घेवंक लावपी कविता झेलो

1961 म्हळ्यार गोंय मुक्तताये उपरांत जी पयली पिढी जल्माक आयली तातुंतलो दुर्गादास हो एक. साहित्य कला संस्कृताय ह्या मळांचेर स्वकर्तृत्वान आपली सुवात करून कोंकणी अस्मितायेपासत वावुरप्यांमदीं दुर्गादास आसलो.

'आमी कोण हाची जाप-काळ दितलो अशें आमी म्हणचे नात – ती आमीच दितले' हो आत्मविश्वास आनी साक्षात्कार पुंडलीक नारायण नायक हांणी कवितेच्या आनी कर्तृत्वाच्या माध्यमांतल्यान जागयल्लोच. तातुंतल्यानूच दोंगरांक जाग आयिल्ली, ती दोंगरांतली कुंकार दर एका प्रतिभावंत राखण्यांच्या काळजाक भिडली. आनी तेच उर्बेतल्यान सैर-भैर जाल्लीं उतरां तांणी गाठयलीं. कानयो गाठयतात तशीं! तीं उतरां तांणी प्रतिभेच्या म्हालवजार रंगयल्लीं सजयल्लीं. पाडव्याक गोरवांच्या गळ्यांत रंगीत गोंडे रूजयल्या वरीं! आनी ते सगळेच जाण बांगर बैलाच्या आवेशान साहित्याच्या मळार देंवले. तांच्यानी आपलो धेंकर गाजयलो. परंपरेचें जूं मानेवयलें भिरकटावन मारलें. परतून पुंडलीक नायकाच्या उतरांनीच सांगचें जाल्यार ह्या बैलांनी शिंगां दाखोवन पुजा करून घेतली. घराण्याचो पागोच बदल्लो. परंपरागत चलून आयिल्ल्या उतरावळींनी स्वता भर घालताना आपलोच एक विश्वकोश तयार केलो. 'आमी गावड्यांक पंडीत करूया आनी आमी सगळऐच पंडीत जावंया' हीं शणै गोंयबाब हांचीं उतरां तोंडार घोळयतल्यांक त्याच आवेशान दुर्गादासान विचारिल्लें, 'गावड्यांक पंडीत करपी तुमी कोण?' गावड्यांक स्वताचें कितें सत्व आसा काय ना?' असो सत्वाचो दिश्टावो जाल्लो पुरोगामी विचारसरणीचो पुरस्कार करपी हे भुयेंतलो मूळ पुरूस. ही भूंय वसणुकेक हाडपी आद्य वंशावळींतलो स. दुर्गादास दत्ता गावडे.

'जल्मफेरे' हो दुर्गादासाचो कविता झेलो तांच्या मरणा उपरांत उजवाडाक येता. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' येवजणेंतल्यान हो झेलो उजवाडाक आयला.

ह्या कविता झेल्यांत तांच्यो 55 कविता आसात. प्रत्यक्ष कविता झेल्यांकडेन

वयच्या पयलींचीं पानां ह्या झेल्याक एक उबारी दितात.

“मनांतल्या वादळाक काव्याच्या शब्दगांठीनी गुठलवन दवरपी बाय शलाकाचे डॅडी आनी म्हजे घरकार. स. दुर्गादास द. गावडे हांचो हो पयलोच कविता संग्रह. तांच्याच उगडासाक...” ही अर्पण पत्रिका ताची बायल वत्सल दिता. ‘दोन उतरां चिंब ओलीं’ अश्या उतरांनी दुर्गादासाची घरकान्न आपल्यो भावना उक्तायतात. हो कविता झेलो म्हळ्यार दुर्गादासाचो पुर्नजल्म. असो तांकां दिसता.

मंगेशी वागळे हायस्कुलांत शिकताना ताची गांव ही पयली कविता 1984 वर्सा उजवाडाक आयली. दुर्गादासाचेर मराठी कवितेचे संस्कार शिक्षणांतल्यान जाले. आनी उपरांत तांची कोंकणी प्रतिभा फुलाराक आयिल्ली आसा. कथा आनी कविता हे दोनूय प्रकार तांणी हाताळल्यात. आपल्या मनांतली उमळ तांणी उक्तायल्या. जल्मफेरे हो तांचो पयलो कविता झेलो. हातुंतल्यो चडश्यो कविता ऋतू, जाग, क्रांतीसूर्या, सुनापरान्त, भरतेभार, किर्णां, पेडण्याचो धोल सारखिल्या नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयल्यात.

‘गर्भसाद’ ही ह्या झेल्यांतली पयलीच कविता नवनिर्मणेचो आविश्कार घेवन येता. एक हावेस घेवन येता. तो म्हण्टा –

‘ह्या निळ्याश्या मळबाक
ह्यान फुडेंय केन्नाच लागचेंना गिराण
हें हांव हड्ड्यार हात मारून सांगतां!’

ताका सरभोंवतणच्या समाजांत बदल घडोवन हाडपाचो आसता. हो बदल विधायक मानसीक गुलामगिरींतल्यान समाजाक मुक्त करपाची इत्सा कवी मन उक्तायता. देखून तो उजवाडाचो माग घेयत वता. जैताचीं पावलां मारीत. कारण आपली व्यथा, तांणी पचयल्ली आसता.

‘आमी फुलयलीं फुलां
धोलयल्लीं शेतां
आमचीं नाशिल्लींच

आजुनूय आमचीं दुकां
तेंच सांगतात.'

अशे तरेन ते आपल्यो भावना उक्तायतात. फकत प्रादेशीक दुख्ख न्हय तर विश्व मानवाचें दूख ते मांडटात. तांचे 'शाप' कवितेंत हाचो पुरावो आमकां मेळटा.

'एकदां हिरोशिमाचेर
एक बाँब फुटिल्लो
तेन्नाचो धुंवर
आजून निवळूंक ना
फकत उजवाडाचें एक किर्ण
धुंवर चिरून भितर सरलां
इतलेंच !'

शाश्वत दुख्खाचो जसो काय आपूण शाप भोगता अशें कवीक दिसता आनी देखून तो 'मन-साद' घालता. जिणेचो वेगळे पध्दतीन, आपले पध्दतीन सोद घेत रावता. ते नदरेंतल्यान तांची 'मूठ' ही कविता म्हत्वाची. 'ही मूठ, फुडार वर्तयता काय फुडाराक मूठ दाखयता' असो प्रस्न करून कवी निमणेकडेन जिणेंतली अस्वस्थताय मांडटा. फुडें 'अशी जीण' हे कवितेंत कवी म्हण्टा -

'हांव वतलों तूंय वतलों
हांगा कोण रावतलो सांग
हें आयुश्य म्हळ्यार कांयच न्हय
एक चरावयली दांग.
आपूण जोडचें आपणें खावंचें
जैता आशेन धांव धांवचें
अकस्मात घडली हार
तर सांगचें कोणाक सांग

हें आयुश्य म्हळ्यार कांयच न्हय
एक चरावयली दांग.'

ही जिवीताची चर हुपताना आपल्या ताकदिचो अदमास आपल्याक जाय पडटा. असले चर हुपीत जिवीत जगचें आसता अशें कवी आमकां सांगता.

दुर्गादासाची चडशी कविता ही जिवीत - मरणाची. हार - जैताची, उजवाड-वातीची, वावझड-ल्हारांची, पावस-कुपांची, पेट्टल्या होमखंडाची आनी नव्या सुर्याची. जिविताची वाट सोदता सोदतानाच मनीस कसो घुस्पत वता ताचो आविश्कार घडोवपी तांची कविता आसा. 'आनी वाट घुस्पली' ही तांची कविता घेवंया -

'जिवीत म्हजें जावन होडें
आदाराक सोदता तडी
कितल्यो मारल्यो आलतडी
कितल्यो पलतडी...'

हे वाटेर चलताना वाटूच घुस्पता आनी जिवीत दिशाहीन कशें जाता तें कवी सांगता.

दुर्गादासाची कविता जशी झपाटलेपणाची आसा तशी ती मोगाची आसा, शृंगाराचीय आसा, विरहाची आसा.

'दर्याचो गाज घेवन
आयलो तुजो साद गो
तेन्ना ओठार घोळटालो
रातीचोच दीपराग गो!'

'आमोरी पिशी' ही कविता मोगिकेक तिश्टल्ल्या मोग्याची अवतिकाय शब्दबध्द करता. तांच्या मोग कवितांचेर बाकीबाब बोरकार, शंकर रामाणी, रमेश वेळुस्कार ह्या सारखिल्ल्या कवींचो प्रभाव दिसता. आशय आनी मांडावळीचे

नदरेन तांची ही कविता प्रभावी आसा. पयल्या चंवराचो वास घेवन येवपी आसा. धरतल्या फळाची आस्त दिवपी तांची कविता आशिल्ली. 'पावसांतली गजाल', 'तूं गेलें तेन्ना' ह्यो कांय कविता. वेवहारीक-तत्वाचो मोग कवीक मान्य ना. तो वास्तवाक धरून आसा. तो निखटो आभास निर्माण करिना तर तो मोगाची खरी भास दिता. सत्याची जाणविकाय करून दिता. देखून तो एकीकडेन म्हण्टा -

'वेळ आयलोच जाल्यार
तुज्या नाजूक पावलां पोंदा हांव
म्हज्या सूख जाजमाच्यो
घडयो पातळायन
अश्यो फटाश्यो कित्याक मारूं?
मोग सगळेच करतात
कित्याक म्हुणून हांव
म्हज्याच सुखाचो वेव्हार करूं?'

दुर्गादासान साहित्य संवसारांत कांय प्रयोग केल्यात. स्वताच्याच गितांक चाली लावन तांणी 'स्वरसंध्या' ही कार्यावळ चलयल्या. गोंयांत ताचे पंचविशेक प्रयोग केल्यात. अशीं कांय गितां ह्या झेल्यांत आस्पावल्यांत. लय, तालबध्द अशी रचना आमकां वाचपाक मेळटा. 'आयज रानांत', 'उजवाडाच्या पावलांनी', 'पावसाचें गीत' ह्या कविताचो उल्लेख करूं येता. गितांतलो दुर्गादास हळव्या मनाचो, भावस्पर्शी आविश्कार घडोवपी. मुक्त काव्यातलो दुर्गादास जोगूल कसो जावन पेट्टा. दुर्गादासाच्या अंतर्मनाचो धाव घेतना ताचे कवितेंतल्यान घेवंचो.

एक सपन एक गांव कवितेंतल्यो ह्यो वळी पळोवंया -

'नदरेपलतडी एक गांव
ताका ना नांव
थंयचो लागना थाव

थंयसर त्या गांवा
काळोख कळेला
आनी देठांतल्यान
कळो उजवाड व्हियेला.'

ही कविता एक विशिश्ट भावविश्व तयार करता. संवेदनशील वाचप्यांचे नदरेंत आपआपलो गांव उबो रावता. 'वसाड' हीय कविता एक भाववृत्ती तयार करता.

'वसाडेच्या मना
शेरवडाचीं पानां
आनी
भोवऱ्यांचीं रानां
वसाड अदृश्टांचो खेळ
वसाड परमात्म्याचे मेळ
वसाड मर्णाची शामेळ.'

असो 'मरण नाद' ताच्या कानाकडेन सादता. कांय गितां / कविता दुर्गादासान प्रयोग म्हुणून बरयल्लीं आसात. शाळा कॉलेजांच्या गॅदरींगांक जाय आशिल्लीं येवकार गितां, वाढदिसाचीं गितां, गणपतीच्यो आरत्यो अशे प्रयोग कोंकणींतल्या खुपश्या बरोवप्यांक करचे पडल्यात. कोंकणींत आरत्यो ज्यो बरयल्यात त्यो जर संकलीत केल्यो तर एक दोन संग्रह निश्चीत जावं येता.

दुर्गादासाक उतरांचो सोस आसा. पूण तो निखटो उतरांचो पाडेली न्हयच. ताचीं उतरां हीं मातयेंतलीं आसा. तीं साचेबध्द ना. जल्मफेरे ही कविता एक उत्कृश्ट देख म्हुणून घेवंची. हे कवितेची प्रसुतीवेदना म्हत्वाची आसा. वेदना भोगुनूच तांच्यो कविता जल्मल्या. ही कविता जरी जल्मफेऱ्यांचेर आदारिल्ली आसली तरी जल्मफेरे हुपपी आसा. देखून दुर्गादासाची कविता ही मरणाचेर जैत जोडपी कविता. कोंकणींत मर्णाचेर आदारिल्ली कांय बरपावळ आसा. खासा करून कोंकणी कथेच्या मळार चार कथा दिसतात. पुंडलीक नायक, दामोदर

मावजो, वसंत सावंत, महाबळेश्वर सैल, हांची दरेकी एक कथा कोंकणींतल्यो उत्कृश्ट मरण कथा म्हुणून अमर उरतल्यो. जल्मफेरेंतल्यो दुर्गादासाच्यो मरण वेधाच्यो कविताच कवितेच्या मळार उरतल्यो.

दुर्गादास फाटल्यान सांडून गेला हें उतरांचें धन. आपल्या घराची वळख ताणें घडयल्या. ताचीं उतरां पुस्तकाच्या रूपान आमकां गर्भसाद घालतात.

हो कविता झेलो सावर्शे सत्तरीच्या भूमी प्रकाशनान उजवाडायला. नामनेचे कोंकणी साहित्यीक पुंडलीक नायक हांची प्रस्तावना ह्या झेल्याक लाबल्या. मुखपृश्टावेली संकल्पना डॉ. मधू घोडकिरेकर हांची. ताका सजयलां सोनाली नायक हांणी तर भूमी प्रकाशनाचे वतीन अभिजीत झिलू गांवकार हांणी हो झेलो गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान उजवाडाक हाडला.



# 4.

# मातयेतले गंध – परमळाची कविता

पावसा पावसा
शिरंधरांनी पड
आडावंक वाट
म्हज्या जिवाभावाची
आनी, भागय म्हजी
आस ताच्या
उतरांनी भिजपाची....

अशीं मन्‌भूल घालपी पावसाचीं कांय रूपां योगिनीच्या कवितांनी दिश्टी पडटात. पावसाक येवकार दिवपी मन, पावसांत चिंब भिजिल्लें मन, खंती, सुखी-तृप्त जाल्लें मन तांच्या पावसाच्या कवितांनी दिसता. दोन कविता म्हत्वाच्यो आसात – पावसा आनी पावस – दोनूय नांवावेल्यानूच स्पश्ट जातात. 'पावसा' हे कवितेंत आवाहन – उतरांनी भिजपाची आस भागोवपाक पावस मागता. 'पावस' हे कवितेंत – भावूक स्वप्नील पावसाचो आलेख दिसता. तो गडगडान येता. केन्नाय पुताक तापोवपी गर्जूपी बापायभशेन, शालीन चलयेवरी, अळंग पावलांनी येवंचो, सत्री परतावपी निरागस भुरग्यांची भावावस्था दाखोवपी आसचो. पावस जुवानपणाची याद जावन म्हातारपणाचे 'साठीर' रकचो.

'अमुरपिको पावस म्हजी
सत्री उबयता
पावस असो पिसो कसो
म्हाका भिजयता.' (नूतन साखरदांडे)

हे नुतनबायचे कवितेंतलो कसो पावस...

योगिनीच्या कवितांनी रंग आनी गंध आसात. ते नदरेंतल्यान रंग-गंधाच्यो कितल्योश्योच कविता कळयांच्या रूपान फुलताना, पर्जराळाच्या रूपान

फांकारताना, परमळाच्या रूपान दिसतात. मोग - मीर्ग - मार्ग - तांचे कवितेंत दिसतात.

मार्ग
ल्हारां उफेतात
दर्या गर्जता
रातीच्या किण्ण
काळखांत
ल्हान ल्हान
व्हडीं
सोदीत मार्ग
आपलो पेंवतात मनशावरीं...

जिणेंतलो काळोख आनी दर्या - ल्हारांनी - मार्ग सोदपाची ही धडपड आसा. मरण, मडें, गरज, वजें.... ह्या सारखिल्ल्यो कविता मरण-भोगाचें वर्णन करतात....

निमाणे कडेन
मात गरज
आसता जण एकल्याची
एकूच, चार खांदयाची...

अशे तरेन तें जिवितांतल्या अंतीम सत्याचेर उलयता. आपल्याच मरणाचें वजें मनीस भर अपेक्षाच्या रूपान, कर्मकांडाच्या रूपान, प्राक्तनाच्या रूपान सांबाळटा. समाजांतली मानसिकताय दिसान दीस कशी बदलत वता. संवेदनाशुन्य जावपी मनीस मड्यापाश्ट जगपाक लागला. मड्याकडेन रस्त्यावेल्या आडनदर करताना - त्यो - 'भानगडी' आसात अशे तरेची जाणविकाय कवि मनाक अस्वस्थ करतात आनी भरकटावन व्हरतात.

मरणाचे जशे विशय आसात तशे जल्माचें व्हडपण सांगपीय विशय योगिनी घेता. जन्म - संदर्भांत कशे बदलतात. ताचो वेध 'जल्म' हे कवितेंतल्यान घेता.

योगिनीच्या उतरांनी सुचकताय आनी सरळपणां आसा अशें डॉ. मनोहरबाब सरदेसाय आपले प्रस्तानवेंत तोखणायेन म्हण्टात.

तीन कणयो ही कविता ताची देख म्हुणून घेवंया.

शेताचे कुणगे
येदेंच म्हजें मन
वा
म्हजें मन
त्या दारा भशेन
व्हडल्या व्हडल्यान
ल्हव ल्हव
जाता.
वा
तुज्या
सुरांच्या मोडणा मोडणार
दुर्गेचें पालखेचें
पेणें.

योगिनीच्या कांय कवितांनी संवाद दिश्टी पडटात. काळोख, कळी, सोद – ह्या कवितांनी मन हो मन–संवाद आयला. काळखाकडेन, कळयेकडेन संवाद घालपाची शैली मुखार परिपक्वतायेन व्हरपाक जाय.

कवयित्रीचें मन श्रध्दाळू आसा. पिटकोळेच्या पाकळ्यांचो प्रसाद तें घेता. पूण हो भावार्घ कुड्डो ना. गांधीजी जशे पयलीं देवाक सत्य मानताले मागीर सत्याकूच देव मानूंक लागले. तशी वाढ जाता त्यो पावल कुरवो ताच्या कवितांनी दिसतात.

योगिनी मानसशास्त्राचें विद्यार्थीनी. शास्त्र आनी कवितेचें शास्त्र हांचो भावात्मक – काव्यमय विस्तार करपाक ताका वाव आसा. तांच्या 'परजळ' 'तूं उलय' सारखिल्ल्या कवितांतल्यान ताची सुलूस घेवंक मेळटा. ताका 'वळखीचें मळब' दिसपाक लागलां.

योगिनीच्यो चडश्या सगळ्या कवितांचे माथाळे एका उतरांचे. आशय अभिव्यक्तीचे नदरेंतल्यान थोड्याच उतरांनी मांडपाचो तांचो यत्न तोखणाय करपासारखो आसा. खासा करून तांचे कवितेचो शेवट मनभुलोवणो असो

जाता. ही वाट ताका केळोवची पडटली. आपलो बापूय म्हुणून कवी माधव बोरकार हांची काव्य खाशेलेपणां योगिनीच्या कवितांनी दिसतात. ते अर्थान बोरकारांचो बोरकारांचेर पडिल्लो प्रभाव आसाच. (बाकीबाब आयलेच) योगिनीन हो कविता झेलो शांतादुर्गेच्या पांयार ओंपला.

'धन्य ते हात ज्याला निर्मितीचे डोहाळे' - ह्या बाकीबाबांच्या उतरांचो अर्थ मतींत घेवन शांता आनी दुर्गा अशीं दोनूय रूपां योगिनीच्या कवितेंतल्यान येवंची. ह्या काव्य झेल्याची सुरवात आनी अंत रवींद्रनाथांच्या गितांनी जाला. ते जिवन संगीत, कवीमनाक साद घालता.

विशयांचें वेगळेंपण हें ह्या कविता झेल्याचें खाशेलेंपण आसा. संबंद कविता झेल्यांत मनीस सोदपाची प्रक्रिया दिसता. 'दोन वळींच्या अंतरा भितर लिपिल्ली कविता' ताका दिसता. ती भावनांचो उत्कट आविश्काराच्या रूपान येता. त्या भावनांक जर रूप (form) नासता तर कविता फॉर्माची आसची कित्याक अशें ताका दिसता. पूण एके 'काणयेन' तें म्हणटा - की ताचो जीव थाव घेवपाक तळमळटा.

एक म्हत्वाचो संदर्भ घेता. तो पुस्तकाच्या मांडावळीचो, बांदावळीचो. हालींसराक वचात तो मनीस डी.टी.पी. चें काम करपाक लागला, ताका लागून book culture दिसना. तें book culture ह्या पुस्तकांत सांबाळपाचो यत्न केल्लो दिसता. माधवबाबांचो प्रभाव हांगा स्पश्ट दिसता. 'यमन' 'अव्यक्तांची गाणी' चो साज चडोवपाचो यत्न दिसता. घनःश्याम मोरकार हांणी योगिनीचो काडिल्लो फोटोच पुस्तक संस्कृतायेच्या संदर्भात म्हत्वाचो. 'संस्कृती अभ्यास' ह्या समिक्षा अभ्यासात हे असले विशय येतात. Comparative literature अभ्यासांत माधवबाबाची आनी योगिनीची कवितेलो तुळाभार कोणेंय फाटींफुडें करूं येता.

विजयाबाय सरमळकार, हेमाबाय, शीला - मिना, जयमाला, माधवी-माया, नूतन, नयना, जयंती, प्रशांती, शांती तें जोफा गोन्साल्वीस योगिनी अशी ही परंपरा मुखार वता. वता वता एक गजाल आमी मतींत दवरूंक जाय की कोंकणी साहित्यांतले तोखणायेचे दीस आतां सोंपत आयल्यात. बायल मनीस म्हुणून भारतीय बायल म्हुणून आमची अणभव घेवपाची, ती मांडपाची रीत

बदलपाची गरज आसा. बायलेची प्रतिमा भारतीय समाजामदली झपाट्यान बदलता. गुजरातचे दंगलींत बायलांचो वांटो फकत लुटालूट करपाकूच न्हय तर हिंसाचाराक उर्बा दिवपाकूय आशिल्लो. बलात्कार जावन लेगीत राष्ट्रीय महिला आयोगान ते जावंकूच ना अशें म्हुणून राज्यवेवस्थेक कांबरूक धाकलें. आयची दंगलीतली बायल ही पुरूशसत्तार्क वेवस्थेत, भांडवली अर्थ वेवस्थेंत सामील जावपाक लागल्या. ह्या विधानाच्या म्हालवजाचेर गोंयच्या सालेलींतल्या बायलांच्या कपलावेल्यो आठयो मेजपाची गरज आसा. फकत क्रॅशराच्याच स्फोटांनी न्हय तर युगा-युगांच्या स्फोटांनी ती हालल्या. फकत कविताच करून स्त्रीत्वाची जाणविकाय जावंक शकना. शांतादुर्गेच्या पांयार हें पुस्तक ओपताना He is God but She is for God in Him अशी बायल दाखोवंची पडटली.



# 5.
# फुलांच फुलां, गोंयचो नाद आनी ल्हारां आनी उमाळें

फुलांच फुलां गोंयचो नाद, ल्हारां आनी उमाळे हे तीन कविता झेले आसात.

'फुलांच फुलां' हो कविता झेलो डॉ. भिकाजी घाणेकार हांचो. पणजेच्या गोवा सांस्कृतीक आनी सामाज़ीक केंद्रान हो झेलो उजवाडायला. हातूंत 59 गितांचो / कवितांचो आस्पाव जाल्लो आसा. ह्या कविता झेल्यांत चडशीं भक्तीगितां आनी भावगितां आसात. मुळांत डॉ. भिकाजी घाणेकार हांचो पिंड गीतकाराचो. ताचे दाखले पावला कणकणी आमकां ह्या झेल्यांत पळोवपाक मेळटात. काल ऋतु-हवामान, उत्सव, हांकां धरून कांय गितां पळोवपाक मेळटा. ते भायर भक्तीगितां, भावगितां, स्तोत्रां, सैमगितां अशे उडटे वाटे आमी अभ्यासाचे सोयीपसत करूं येतात. देव हो चडश्या गितांतलो आशयस्वर आसा. सैम गितांच्या फांट्यांत सैमाची करणी, सैमाक, सैमाचें रूप पावस, बाग, म्हजी बाग, सैमाची व्हडविकाय, चंदाराणी, पाखरां ह्या सारखिल्ल्यो कविता आस्पावतात.

भक्तीगितां ह्या फांट्यांत - राधा, महालक्ष्मी, देवाची भेट, देवाक खंय सोदूं, भक्तीगीत, गाणगापूर, अश्टविनायक, श्री दामोदर, साईक नमन, दूर्गामाता, सरस्वती, शंकरा, गौरी शंकर ह्या सारखिल्ली गितां आस्पावतात. ते भायर भक्ती गीत, शेनाय ह्या सारखिल्ल्या कवितांनूय देवभक्तीच उक्ती जाल्ली आसा.

परबो, उत्सव, ऋतु, गितां हातूंत भाऊबीज, घटस्थापना, महाशिवरात्र, चवथ, मेघमल्हार, भुपाळी सारखिल्ल्यो कविता वा गितां आस्पावतात. ते भायर हेर भावगितांनीय श्रध्देक ओतो आयिल्लो दिश्टी पडटा.

फुलांच फुलां ह्या झेल्यांतल्यो चडश्यो कविता श्रध्देन श्रध्देचेर बरयल्ल्यो आसात. तातूंत शिवाजी आनी हरिश्चंद्र ह्या म्हापुरसाचीय स्तोत्रां गायिल्लीं आसात. गोंय, गोंयकार, गोंयचो सैम, श्रध्दा, भावार्थ, भावना समाज जीण हांचो अर्क ह्या कविता झेल्यांत पळोवपाक मेळटा. हे श्रध्देक निव्वळ सत्याची

बसका आसा. हें सत विज्ञाननिश्ट आसा. ही कविता पुरायपणान धर्मप्रचाराचें वा प्रसाराचें माध्यम जावंक शकना. हे कवितेक एकचारांचें बळगें आसा. भारतीय समाज जिणेंतली गुरू शिश्य परंपरा मानपी हो कवी आसा. 'मान तूं राख' हे कवितेंत कवी म्हणटा –

'ज्या गुरूचो शिश्य तूं जालो
जाणे विज्ञानाचो ओतलो झरो
सदांकाळ बऱ्याक साद दिलो
त्या गुरूचो मान तूं राख.'

विंगड विंगड भावना शब्दबध्द करपाचो यत्न कवीन केल्लो आसा. तांचे भावना हे कवितेंत सप्तपदीची सुलूस लागल्या. आनी सप्तपदी हे कवितेंत भावविश्वातलीं रंगयाळीं सपनां जावन सात पावलांनी उक्तीं जाल्या. दर एका पावलाक उक्तायल्ली जिवीत जगपाची आस्त पळोवपासारकी आसा. अन्न, धन, आरोग्य, आयुश्य उक्तायल्ल्या उपरांत कवितेंतलें निमणें कडवें सुंदर जालां.

सवें पावल आनंदाचें
वसंत रूतू फुलोवपाचें
सातवें पावल इश्टागतीचें
उदरगतीच्या शिखराचें.

उजवाडाचें मिलन जाल्या उपरांत जी एक भावावस्था भावूक मनश्याच्या जिवितान येता ताचो दिश्टावो आमकां एके कवितेंत जाता.

'तुवें दिल्ल्या उतरांची
आयज जालीं नक्षत्रां
काळजा मळब फुल्लां.'

संवसारांतलीं सात अजापां हे धर्तेर गोंयचीं सात नवलां सारखी कविता ते

रचतात. आनी गोंयचें खाशेलेंपण गायतात. एके तरेची धुंदी हे कवितेंत दिश्टी पडटा. तर येवकार हे कवितेंत तांणी गोंयकारा मदलो एकचार दाखोवन दितना सुंदर शब्दकळा उपेगांत हाडल्यात.

'धालो फुगडी, मांडो, देखणी
सुकणीं गायतात पावलां कणकणी
उदेंत अस्तेंत एक जावन
चंवरलां नवें कवीत.'

अशें ते म्हणटात. तर 'दिवो' सारखिल्ले कवितेंत आशावादाचें एक रूप दाखयल्लें आसा.

सैमाचो मोग उक्तावपी तांच्यो खुपश्यो लयबध्द, तालबध्द कविता ह्या झेल्यांत वाचूंक मेळटात. ह्या गितांनी ते धर्तरेचेंच गीत गायतात. जातूंत कोगळाचो स्वर आनी ओंवळांचो परमळ भरला. सरभोंवतणच्या सैमान ताका जिविताचो एक परमळ दिल्लो आसा आनी ते नदरेंतल्यान सृश्टींतलें हें चैतन्य तांणी आपले कवितेंत हाडपाचो आपले परीन यत्न केल्लो आसा. ज्या मुळाव्या संस्कारांनी तें पोसवलां ताचें पडबींब तांचे 'भक्ती' कवितेंत दिसता. म्हालक्ष्मी, दामोदर, साईक नमन, शेनाय, भक्तीगीत, गाणगापूर, सारखिल्ल्या गितांची देख आमच्यान घेवं येता.

उतरांच्या मोहाक लागून तांचीं गितां कांयकडेन पाल्हाळीक वा व्हांवती जाल्यांत. प्रतिमांची पुनरूक्ती जाल्ली आसा. छापील आनी दृकश्राव्य प्रसार माध्यमांखातीर लिखाण करताना कांय कडेन अट्टाहास जाल्लो जावंये. मुळांत डॉ. भिकाजी घाणेकार आपणाक गीतकार मानतात. देखून काय वेळ प्रसंगाक धरून केन्ना केन्नाय तीं गितां पाडपाचोय प्रयत्न तांकां करचो पडला जावंये आनी त्या उतरांच्या उणाकपणाक लागून वा मानिल्ले ताल, लयबध्दतेचे फास्केपासत तांची कविता पुरायपणान उक्ती जावंक जाय तशी ती जायना. अशें आसलें तरीय कवी म्हुणून डॉ. भिकाजी घाणेकार हांच्या ह्या झेल्यांत सैम मोगी, पंचमहाभुतांची उपासना करपी, जिविताचेर भावार्त आशिल्ले आशावादी मन आमकां दिश्टी पडटा ते अर्थान 'फुलांच फुलां' हो कविता झेलो वाचप्याक जाय

– जाय तसलो परमळ दितलो ही आस्त आसा.

'गोंयचो नाद' हो कविता झेलो डॉ. गोविंद नायक हांचो. उषा आमोणकार हांणी उजवाडायला. हातूंत सुमार 54 कवितांचो आस्पाव जाल्लो आसा. कविता झेल्याची सुरूवातूच एके शांती वंदनेन केल्ली आसा. समेस्तांचें बरें जावं आनी सैमाची राखण जांव असो हावेस हे कवितेंत उक्तायल्लो आसा.

मुखावेल्यो सुमार आठ–णव कविता गोंय, सैम, ताची सोबीतकाय, कोंकणी आत्मस्वर, कोंकणी जिवीत, ह्या सारखिल्ल्या विशयांचेर आदारिल्ल्यो आसा. दर एके कवितेक ताल लय दिवपाचो यत्न केला तेच वांगडा तिचो आकारूय सांबाळून दवरपाचोय यत्न केल्लो दिश्टी पडटा. सोबीत गोंयचो दीस कसो उदेता, गोंयच्या रानांची राखण आमी कशी करपाक जाय. ते पासत गोंयकारांक कवी उठ रे गोंयकारा म्हुणून जाग दिता. जुवारीच्या काठांवयलें जिवीत तें चितारतात. ह्या जिवितांतलीं खाशेलीं पात्रां, कविमन पितारताना कवी म्हण्टा –

'काळ्या काळ्या कुपांनी
सगळें मळब भल्लां रे
वेगान वेगान थंड वारें सुटलां रे ।।
वचूं नाका आज तूं दर्यार रे
भंय करता म्हाका तुज्या जिवाचे रे ।।
काशी रे काशी रे.....'

घुमटाच्या तालान आमी धूंद जावन गायताना जात पात कात विसरपाचें हें बळगें गोंयचे लोकवाद्य आमकां दिता. ताची सुलूस तांची 'घुमटाच्या तालार' ही कविता करून दिता. तर होडेकाराक आमोरेच्या वेळार पलतडीं पावोवपाची लयबध्द विनवणी आमकां 'होडेकारा' ह्या गितांत पळोवपाक मेळटा.

सैमांतल्या तरेकवार रूपांक चित्रबध्द करपाचो काव्यमय प्रयत्न आमकां ह्या झेल्यांत पळोवपाक मेळटा. देखीक 'वादळ', 'उबाळ' ह्या सारख्यो कविता. कांय गितां विशयनिश्ट जाल्लीं आसात. व्हंकल, काळो काळो कावळो, चंपा

फुलवाली, मोर, दिवाळी, सुंदरी, गुलाब, सारखिल्ल्या कवितांक जायते कडेन रचनेच्या नदरेंतल्यान एके तरेचें मोटवेंपण आयिल्लें आसा. हें आमकां मानचें पडटलें.

मोग, गुपीत मोग, मोगाचें दुःख उक्तावन मागीर कवीमन आत्मसमर्पण करता आनी भजनांनी दंग जाता. मागीर राम, दामोदर, हरी, गणपती, विठ्ठल आदीचीं भजनां ते गायतात. भजनांचो एक वेगळो वांटो ह्या कविता झेल्यांत आस्पाविल्लो आसा. ह्या तरेकवार नांवाखाला रचिल्ल्या भजनांच्या मुळाक भक्तीचो पाट आसा. आनी ते बसकेर हीं सगळीं भजनां रचल्यांत. गोंयचो नाद हो डॉ. गोविंद नायक हांचो पयली कविता झेलो. तांच्या 70 व्या वाडदिसा निमतान उजवाडायला तांचे कवितेविशीं कवी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय गोविंदबाबाक 'हो काळजाचो दोतोर' आसुनूय तांकां कवितेचें दुयेंस जालां' अशें मिश्कीलतायेन म्हण्टात. हिंदू आनी किरिस्तांव असो भेद करिनासतना कांतार आनी भजन एकेच पंक्तींत बसून तो गोंयचें गीत गायता. गोंयचे संस्कृतायेची लोकमनाची राखण करता हें मनोहरबाबाचें म्हणणें मानून घेतना गोविंद नायकाचे कवितेचो हो पयलोच 'नाद' आसा हेंवूय मानून घेवंचेंच पडटलें. ते नदरेंतल्यान तांचे कवितेंतलें मोटवेपण पळोवंचें. विशयांची मर्यादा दिसता. आशय जाय तसो विस्तारिल्लो दिसना. केन्ना आलतडी पाय तर केन्ना घाटार पाय असो हो उतरांचो खेळ दिसता. पूण हे आनी असले बाकीचें उणाकपण कडेंक काडलें जाल्यार कवीचें भक्तीवत्सल मन उक्तावपाचो एक प्रयत्न आमकां ह्या झेल्यांत पळोवपाक मेळटा.

'ल्हारां आनी उमाळे' हो कवी महेश पारकार हांचो कविता झेलो. श्रीस्थळ – काणकोणच्या ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनान उजवाडायला. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर अनुदान येवजणेखाला हो झेलो छापला. ह्या झेल्यांत सुमार 95 कविता आनी ल्हान ल्हान उमाळे स्वरूप कविता सुमार देडशीं आसात. कवीचो हो पयलोच कविता झेलो उजवाडाक आयला. हातूंत मनांतले उत्फर्के, काव्य ल्हारांच्या रूपान आयिल्ले आसात. समाजांतलें दुःख, प्रस्न, अन्याय, अत्याचार पळोवन कवी मन निर्शेल्लें दिसता. हे निर्शेवणेचो सूर ह्या कविता झेल्यांत उक्तो जाल्लो आसा. देवाच्या भावार्थाक वेव्हाराची कडा लाबिल्ल्यान देवाचोच बाजार मांडिल्लो पळोवन कवी मन दुःखी जाल्लें आसा.

देवांच्या भक्तगणांनीच देवाच्या नांवार चलयल्लें कर्मकाण्ड खरे भक्तीक पारना ह्या मताकडेन कवीमन पाविल्ल्यान तातूंतल्यान भायर सरपाचोच एक भितरलो सल्लो ते दितात. प्रस्नांकीत रूपांतली ही कविता आसा.

लामण दिवो पेटला
देवा सामकार
उजवाड दाखयतल्याक
उजवाड कित्याक?
असो प्रस्न सुरवेक करून -
सुवार्थान पुराय
मनीस बुडटा
वयर येवन मातसो
मनीसपण पुजीना कित्याक?

असो प्रस्न ही कविता अखेरेक करता. आयचो मनीस हो पुराय तरेन राटावळींनी घुस्पला. हें राटावळीचें सत्र तका दिशाहीन करून भरकटत व्हरत आसा. जिवितान खऱ्या कश्टाचें मोल उणें जायत चल्लां. सत्तेपासत सत्यावेली निश्टा लोकांची उडत चल्ल्या. अश्या ह्या विवंचनेंत शब्द रूपाकूच खरो अर्थ आसा. आनी तो बरोवन दवरपाबगर आनीक वावर ना. हाची प्रचीती करून दिवपी तांची 'राटावळी' ही कविता आसा.

कविता झेल्यांत कवीन आपलें 'मन' उक्तें केल्लें आसा. मनाकडेन संवाद घालताना दिसता. सरभोंवतणच्या आचार विचारांचो वृत्ती प्रवृत्तीचो प्रभाव तांच्या मनाचेर पडटा. त्या त्या मुडांक (वा भाववृत्तीक) धरून हें कवीमन उक्तें जाता. धर्तरी आनी सूर्य हे कवितेंत तें उक्तें जाता. तें अशें -

मन म्हळ्यार कवीचो संवसार
काळीज ताचें सूर्य
सुर्या भोंवतणी घुंवत - घुंवत
जियेता पृथ्वीरूपी मन....

बरें वायट मनावेले परिणाम ही कविता उक्ती करता. ह्याच मनाचो थाव घेतना कवी आनी एकीकडेन म्हण्टा -

‘दर्या तळां उगडो शिंपलो
तातूंतल्या उदकाचें मोती जालें
मनशा - दर्यांचें मन उगडें
तातूंत चिंतनाचें कितें केलें?’

मनांतल्यो गोड कथा, मोनी व्यथा, ते आपल्या कितलेश्याच कवितांनी मांडटाना आमकां दिसतात. हें मन नितळ-निवळ करचें ते तरेचें सुखी आनी समृध्द जिवीत जियेवंचें असो हावेसूय तांची कविता उक्तायता. मोग, सैम सारखिल्ले विशय महेश पारकार हांणी हाताळिल्ले आसात. सृश्टी सौंदर्याची ओढ ह्या कवीक आसा. ते नदरेंतल्यान आपली कविता मांडपाचो यत्न ते करतात. सृश्टींतलीं प्रतिकां हे तांचे कवितेचे घोस्ताचे विशय आसात. हें जिवीत जगताना एक सोद आपल्याक घेवपाचो आसा हाचें आत्मभान कवीक आसा. देखून उसरपत नासताना, नव्यो वाटो, नवे आंवाठ ताका साद घालतात. एक आत्मभान मेळोवन दिता. हें जिवीत जगताना काळजाची ओलसाण तिगोवन दवरपाक जाय म्हणपाचेंय कवी जाणां.

कवीमन हें परंपरा, दायज मानपी. तें तिगोवन दवरपी आनी नांवां रूपाक हाडपी आसा. प्रादेशीक अस्मितायेची राखण जावंची असो अट्टाहास धरपी आसा. तेच वांगडा राष्ट्रीय प्रवाहांत सांगातान वचपाचोय हावेस धरपी ते खातीर प्रचलीत समाज जिणेंतली सामाजीक राजकीय मुल्यां सत्याक धरून वाढीक लागची ह्या मुळाकडेन वतना समाजांतल्यो राजनैतिकतायेच्यो बकच्छायो चल्ल्यात तें पळोवन कवी मन दुःखी जाता. ‘लोकशायेचें रडगाणे’ हे कवितेंतल्यान तें मन उक्तें जाता. देव तो खरेपणान सैमांत सोदता तेच वांगडा मनश्याच्या मनीसपणांतूय सोदतात. देखीक ‘घरांतली दिवली’ ही कविता.

1) देवळांत देवीची मूर्त
   तशी घरांत आवयची

देवी म्हन्यांत वात पेट्टा
आवय पेट्टा घरांत.

2) लामण दिव्यावातीन
देवीची सासाय फांकतां
घरा-दिवो पेट्टो दवरूंक
आवयची सासाय लागता

3) तेला बगर पेटना,
देवा म्हन्यांतली वात
घरांतली दिवली मागना
आपल्या उजवाडाचो मान.

महेश पारकार हांणी सैमाचीं कांय चित्रशिल्पां कोरांतिल्लीं आसा. तातुंतलीं कांय सुंदर जाल्यांत. देखीक -

मोगरे कळे फुल्ल्यात झाडार
चान्नें फुल्लां मळबार
चान्नें खंयचें परमळ कसलो
काय चान्न्याचेंच तें झाड!

वाऱ्याची शितळकाय
मतींत उतरफुलां हाडलीं
पावसाची सोबाय
कवनांची माळ गुथूंक लागली.

कवीन जिविताचेर मोग केला आनी ह्याच मोगांतल्यान ताणें परमळ वाटपाचें व्रत आपणायला. हो परमळ वाट्टाना ते म्हणटा -

बरोवपी सगळे फुलकार
सरस्वतीच्या देवळामुखार
साहित्य पाटलो घेवन म्हन्यांत

विकूंक बसल्यात
काणयां झेले, कविता फांतयो
फुलकारांची साहित्य फुलां
भक्त घेतात भक्ती भावान
ओंपूक ती सरस्वतीच्या पांयार
परमळ उरता भक्तांच्या माथ्यांत.

कवीन 'उमाळे' उक्तायताना ते विशयनिशट अशे उक्तायल्यात. संख्येन हे उमाळे चड आसले तरी काव्यगुणांचे नदरेंत ते भरना. आनी एक विचार मांडपाचो यत्न उतरांचे विशिशट मांडावळींत दिसता. हाची तरेकवार कारणां आसूं येता. कवीक जें कितें सांगपाक जाय तो विचार शब्दबध्द करताना काव्यमय करचे बदला तो वर्तमान पत्री विचारांच्या रूपान येता आनी मूळ आशयाकूच बाधिकार येता. म्हत्वाचें म्हळ्यार हे सगळे उमाळे 'चारोळ्यांनी' बांदपाचोय कवी यत्न करता. हे सगळे उमाळे दिसपट्टे जिणेंतल्यान आयिल्ले पूण ताचे फाटली प्रक्रिया ही उत्स्फूर्त न्हय. फकत मांडप उत्स्फूर्त जालां. खरें म्हळ्यार सुंदर अशो कविता घुस्मट्टाना दिसतात. देखीक -

फुल्लीं फुलां जायतीं सकाळीं
पानान पान जालां खंती
कळ्यांच्यो करूंक फुलां - वाती
कितले भोगलें संबंद रातीं.

ह्या कविता झेल्याक प्रस्तावना बरयताना कवी मनोहरराय सरदेसाय म्हण्टात 'अणभव, उमाळो, उतर चिंतप हे तांचे कवितेंत भरसून एकरूप जालां. कवीचीं उतरां गोंयच्या सैमान थपथपून थरथरतात आनी तांची कविता खोशेन पावस आंगार घेता.'

अशे तरेन ल्हारां आनी उमाळ्यांचो हो गोंयचो नाद फुलांचो परमळ आमकां दितात. फुलांच फुलां, गोंयचो नाद आनी ल्हारां आनी उमाळे ह्या तिनूय झेल्यांच्या बरोवप्याकडेन बारीक साणीन नदर मारल्यार एक मजेशीर गजाल

दिश्टी पडटा. ती म्हळ्यार डॉ. भिकाजी घाणेकार आनी डॉ. गोविंद नायक हे वैजकीशास्त्राचे दोतोर तर महेश पारकार हे वेवसायान वखदां विकपी. पूण ह्या तिगांच्याय कवितांनी कवितेचें तशें पोस्टमार्टम जाल्लें पळोवंक मेळना. मनश्याचे कुडीक वैजकी वखदां भायर सृश्टी सौंदर्यशास्त्राची गरज आसा. हें सत्व ह्या बरोवप्यांक मेळ्ळां देखून ताची कविता ही आनंद–योग दिवपी थारता.



6.

# गोंयां तुज्या मोगाखातीर – इतल्या वर्सां उपरांत

पुर्तूगेज जुलूमी राजवटींतल्या सुमार 450 वर्सांचो घुस्मटमार आमी भोगलो. आमचे मुक्त अभिव्यक्तीक खीळ घालपाचो यत्न तत्कालीन राजकी वेवस्थेन केल्लो. आमचे अंदल्ले उस्वास मुक्तपणान व्यक्त करपाक आमकां आमच्या मना काळजाच्यो गर्भकुडी आसल्यो आनी राजांगणा नाशिल्लीं. अर्विल्ल्या कोंकणी साहित्याचे शिल्पीक म्हणून शणै गोंयबाब हांची स्फूर्त आशिल्ली. अशा वगतार कोंकणी प्रजेचो आवाज मना काळजांत पावोवपापासत कोंकणी साहित्यीकांनी व्हड वावर केलो. बाकीबाबान गोंयची सासाय जागी जाल्ल्याचो दिश्टावो घडयलो. अशा वेळार कोंकणी कवितेच्या मळार दो. मनोहरराय सरदेसाय हांणी गोंयां तुज्या मोगाखातीर म्हणीत जायात जागे असो साद घालताना आयज रे धोलार पडली बडी म्हणून आमकां जागयले. धा जाणांक एकठांय केले. लोकमत घडयलें. ते कवितेच्या माध्यमांतल्यान रोसाळ ओडलायणी सोपी शब्दरचना प्रखर सामाजीक जाणविकाय आनी स्फुल्लींग जागृत करपी अशी मनोहरराय सरदेसाय हांची कविता आसा. गोंय मुक्तीपयलींचो आनी मुक्ती उपरांत सामाजीक, राजकी, आर्थिक, भाशीक, सांस्कृतीक अर्थान घडपी गोंयची एक गवाय म्हणून मनोहरबाबाकडे पळेताना आमकां अशें दिसता की तांचें जिवीत आनी कवित एक जालां. आनी तें एक कित्याक हाचीय जाप सोदताना परतून मनोहरबाबाचींच उतरां वापरची पडटात. ते म्हणटात

‘कविता काळजांत देवता
काळीज दिल्यारूच पावता.’

हे नदरेंतल्यान मनोहरबाबाचे गोंयां तुज्या मोगाखातीर ह्या काव्य झेल्याचो इतल्या वर्सां उपरांत विचार करतना आमकां किदें दिसता ताचोय सोद घेवप गरजेचें. एक गजाल आमचे मुखार स्पश्ट आसा ती म्हळ्यार मनोहरबाब जन्मले ते एका फाकीवंत साहित्यीकाच्या घरांत. तांचे बापूय लक्ष्मणराव हे फकत

साहित्यीकूच न्हय तर गोंयच्या राजकी जिणेंतली एक आगळी वेगळी वळख आशिल्ली. घरचे साहित्यीक संस्कार तेदेवेळावेली सामाजीक राजकी परिस्थिती भोंवतणचो सैब आनी बरोवप्याची प्रतिभा हातूंत मनोहरबाबाचो पींड घडला. सरभोंवतणच्या वास्तवांत आनी बरोवप्याच्या नैतीक मुल्यांचो आविश्कार घडोवपी हो काव्य झेलो आसा. मनोहरबाबाचो गोंया तुज्या मोगाखातीर कविता ही एक गवाय. गवाय आमचे स्वतंत्र अस्मितायेची. भास, भौस, संस्कृतायेची, मातयेची. सांस्कृतीक संदर्भ घेवन प्रादेशीकतायेचो आविश्कार घडयतना विश्वात्मक विचार मांडपी मानवाधिकारांची वळख करून दिवपी. परात्म जीण जगपी मनश्याक स्वतंत्र तशेंच रासवळ जाणीव करून दिवपी हो काव्य झेलो आसा. गोंयचो नाद आनी गाज जागोवपी मनोहरबाबानी तरल भावविश्व आमचे मुखार मांडलां.

गोंयां तुज्या मोगाखातीर हो काव्य झेलो आमचे सांस्कृतीक संदर्भ दाखोवपी आसा. हे संदर्भ जरी गोंय, गोंयचो मोग आनी सैम तशेंच हेर सामाजीक राजकीय विशयांक धरून आयले, तरीय ही कविता विश्वात्मक पांवड्यार व्हरूं येता ती तातूंतल्या बीज तत्वाखातीर बरोवप्याचे मानसीक अवस्थांचो अभ्यास करतना तत्कालीन राजकीय आनी सामाजीक परिस्थितीचें भान दवरप गरजेचें दिसता. वाङमयीन कृती ही फकत अक्षरांची जुळवा जुळव न्हय हो विचार खोलायेन अभ्यासतना - गोंयां तुज्या मोगाखातीर चो संदर्भ ती कविता रचपा फाटली फांटभूंय, बरोवप्याची सामाजीक बांधिलकी तांची नैतिकता ह्या सारख्या घटकांचो विचार करचो पडटा. गोंयां तुज्या मोगाखातीर ह्या काव्य झेल्यातले विशय आशयाक धरून कशे आयल्या तातूंत प्रचार लेगीत कितले कलात्मकतायेन आयल्या घोशणा ह्यो जिणेच्यो मंत्र जागोवपी अश्यो आयल्या. गोंयची ओढ, मोग, सैबाचो संस्कृतायेचो ध्यास घेवपी कवी मन हें फकत भोंवडेकाराचें मन न्हय. एके तरेचें Aesthetic home sickness ह्या काव्य झेल्यांत पळोवंक मेळटा. मातयेचो गूण कळिल्ल्याकूच मातयेचो धर्म कळटा. तो धर्म जागोवपापासत समाजांतली अपप्रवृत्ती पयस करपाचो हावेस तर आसाच पूण तेच वांगडा हे आमचे भोंवतणची जीण कितली अर्थपूर्ण आनी सुंदर आसा फकत ताचेकडेन ते नदरेंतल्यान पळोवपाची गरज आसा अशी काव्यात्म जाणीव करून दिवपी हो काव्य झेलो.

1961 वर्सा हो काव्य झेलो दत्ताराम सुखटणकार हाणें उजवाडायला.

गोमन्तभारती हे संस्थेचे वतीन हो झेलो उजवाडाक हाडला. हातूंत सुरवातीकूच दत्ताराम सुखटणकार हाणें आमकां एके तरेची चत्राय दिल्या. ते म्हणटात .... 'राजकी वा सामाजीक स्वतंत्रताये बगर संस्कृतायेचें पावल चडशें फुडें पडना.' संस्कार साहित्य म्हणून ह्या काव्य झेल्याकडेन गोमन्तभारती पळेता ही म्हत्वाची गजाल. गोंयचो सैम गोंयची प्रीत, प्रीतीतली खंत ताचो ध्येयवाद ह्यो सगळ्यो गजाली ताचे कवितेन दिश्टी पडटा. ह्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत रा. ना. नायक म्हणटा, 'हो कोंकणी कोगूळ आतां निजाची सुंदर आनी गोड गितां गावंक लागला. तो वसंताचे येवप सुचयता. कोंकणी काव्य साहित्याचो वसंतकाळ आतां पयस ना. तो बेगीन येवपाक घाला अशेंच हीं गितां वाचून दिसूंक लागता. सुमार 40 कवितांनी हो झेलो गुंथिल्लो आसा. चडशे विशय गोंयचे, गोंयकारांचे गोंयकारांचो स्वाभिमान जागोवपी. जिणेची वळख करून दिवपी सैमाचें आनी मनशाचें अतूट नातें सांगपी आसात. गोंय ह्या विशयाचेरूच आदारिल्ल्यो तांच्यो कांय कविता पळोवंया. देखीक 'म्हजें गोंय तुजेवरी गोंयां', 'गोंयां तुज्या मोगाखातीर', 'हांव गोंयचो गोंयकार', 'म्हज्या गोंयावरी हांव' ह्या सारखिल्ल्या कवितांनी कवी मनांतलें गोंय, सपनाचें गोंय, भोगिल्लें गोंय, पयसावल्लें गोंय, खती दुख्खी गोंय आमकां पळोवपाक मेळटा. मांडवीचे पाचवे देगेर हे कवी सपनांत भोंवता. ते गोंयचे भेटेक हारेलां देखून ते म्हणटा –

पोरण्यो यादी चाळीत चाळीत  
खुंटीत कवळीं खावचीं पानां  
कुळागळां झरी उदकांत  
दोनूच दुकां गळयन हांव  
केन्ना गोंयां केन्ना गोंयां

तर माडी म्हजी भयण – हे कवितेंत हेंच कवीमन कशें अथरेक उक्तायता तें पळयात –

'चिंच ना पिंपळ ना, वडा मोगाळ सावळी ना  
कुळागरा मायेबगर तान म्हजी पालवना  
तांबडे मातयेबगर म्हजें रगत लेगीत जालें काळें  
पांचवेचार मळांबगर काळजांत म्हज्या सडे

माडी म्हजी भयण

माड म्हजो भाव
भाव भयणी गोंयांत म्हज्या
हांगा एकटो हांव.'

कवीमन गोंयचे मुक्ती पासत आशेल्लें आसा. तशेंच एके तरेची जी परात्मताय जगता ताचे पासून पयस आशिल्ल्या गोंयचे भुंयेंत वचपाक वथरेता. त्या काळावेली ती परिस्थिती प्रभावीपणान उबी करपांत कवी मनोहरबाब जैतिवंत थारल्यात देखून गोंयचे मूळ भुंयेपासून संवसाराच्या माथ्यार शिंपडिल्ल्या नीज भावार्थी गोंयकारांचो आंवडो ह्याच झेल्यांतल्यान उक्तो जाता. हें एक ह्या काव्य झेल्याचें खाशेलेंपण आसा.

हांव न्हय मनीस लोखणाचो
हांव न्हय मनीस लोणयाचो
हांव गो तुज्या पिकाळ मोगाळ
तांबडे गूंज मातयेचो.

अशे तरेचो मिलाफ दाखोवपी, मातयेचें नातें सांगपी तांची कविता आसा. हेच गोंयचे चिकण मातयेंत मनोहरबाबाक आपलो देव दिसता. तशें पळोवंक गेल्यार पुराय कविता झेलो हो मातयेकडेन संबंदीत आसा. तशे संदर्भ जळी स्थळी मेळटात. मांडवीच्या आनी जुवारीच्या उदकाचो मंत्र जागोवपी तांची कविता आसा. 1955 ते 1960 च्या काळांतली ही कविता मनोहरबाबान बरयल्या. ती गोंयांभायर रावूनूच. फ्रांस, मुंबय, दिल्ली ह्या वाठारांनी थंयच्यान गोंय आपल्या काळजांत केळयलां, रूजयलां, फुलयलां. गांवां भायरे जाल्लें आपलें मन उक्तें केलां. गोंयच्या मोगाखातीर कवी दर्या ल्हारां हुपून आयिल्लो आसा. कुळागरां खातीर अप्सरांचो सर्ग सोडला आनी अशें आसतनाय तांबडी माती आपल्या हाताक लागली ना ही खंत ते उक्तायतात. पूण ते निर्शेनात. ते एक आशावाद उक्तायतात. जिणेचें सार्थक जातलें अशें म्हणटात.

'हेच जिणेंत ह्याच दोळ्या
आमचें भाग्य फळटलें.'

कारण तांचो निर्धार असो की -

तुजे मुखार दुस्माना<br>
नाच दिमी मोडचोना<br>
वठार दोळे पटय नाळी<br>
हावेस म्हजो मरचो ना.

ह्या काव्य झेल्यांत शणै गोंयबाब आनी त्रिस्तांव ब्रांगाज हांची स्तोत्रां आयल्यांत ही अभिमानाची गितां वाचताना आमीय पेटून उठपाक लागतात. कवीचो आत्मविश्वासूच ताचे कंवितेची उंचाय दाखोवपी आसा देखून आयज इतल्या वर्सांनीय ही कविता आमकां तितकीच भावता. मनोहरबाबान ह्या झेल्यांत कांय मोग कविता बरयल्यात तांचो खरो मोग हो तांचे लिखणेर आसा. ही लिखणी नव निर्माणाची आसा. हें आमकां तांच्याच उतरांनी कळटा.

लिखणी म्हजो घाम<br>
लिखणी म्हजो दाम<br>
संवसाराच्या रित्या झुजात<br>
लिखणी म्हजो राम.

मनोहरबाबाची ही कविता लोकांमेरेन पावपाचें आनी उरपाचें आनीक एक कारण म्हाका दिसता तें म्हळ्यार तांची स्वताची काव्य वाचनाची पध्दत - ती इतली रोसाळ की ती आयकतल्यांच्या काळजाक भावताली. ताचे कवितांची भास सर्व सामान्य वाचप्यांक रसिकांमेरेन मंत्रासकट पावता. आकाशवाणी सारखिल्ल्या प्रसार माध्यमांतल्यान तांची ही कविता गीत रूपांतल्यान येता तेन्नाय ती श्रोत्यांक मंत्रमुग्ध करता. म्हत्वाचें म्हळ्यार मनोहरबाबाची कविता ही जिवीता कडेन संबंदीत आसा. मुखावेल्या युगाक ती साद घालीत रावतली हातूंत दुबाव ना.



# 7.

# मोग किनारी तलो साहित्य वेव्हार

26/11 च्या मुंबयच्या बॉम्ब स्फोटांत आमकां परतून एकदां भितरल्यान हालयल्यात. कलावंत ह्या नात्यान आमी सगळेच अस्वस्थ जाल्यात. त्या काळांत आपूण पांचशें फावटी तरी रडल्या आसतली अशें लता मंगेशकर म्हण्टा. तर अमिताभ बच्चन म्हण्टा भयानूच आपूण न्हिदतना उश्याकडेन पिस्तोल घेवन न्हिदलो. संगीतकार ए. आर. रेहमानान एका टि.वी. चॅनलाक मुलाखत दितना म्हणलें, कलावंत म्हण ह्या दुख्खांतल्यान आपूण वाट सोदता आनी संगीत आपल्याक आदार दिता. प्रतिभावंत तशेंच प्रज्ञावंत साहित्यीकांचेय आपआपले मार्ग आसतात. भायल्या आनी भितरल्याय, अंतर्मनांतल्या, काळजांतल्या मोगाच्या विश्वासघातांच्या एकमुळेपणाच्या कितल्याश्याच स्फोटांनी साहित्यीक कोसळटात. तेन्ना साहित्याच्या माध्यमांतल्यान तो आपल्या वांगडाच समाजाकूय वयर काडपाचो मार्ग दाखयता. एक तड वा किनार दाखयता. 'मोग किनारी' हो प्राचार्य अरूण साखरदांडे हांचो कविताझेलो ह्या अक्षर वाटेवयलो एक कविता प्रवासी थांबो (Poetic Bus Stop) म्हण पळोवं येता. जिविताच्यो मोगाच्यो बसी चुकिल्ल्यांक ही फाटली बस. (निमणी न्हय) बसींत फाटल्या सिटार बशिल्ल्यांक जे स्पीड ब्रेकर्स सोंसचे पडटात वा भोगचे पडटात तांतले कांय भोगणार आनी त्याच प्रवासांतले कांय बरेय अणभव ह्या काव्य झेल्यांत पळोवंक मेळटात.

मोग किनारी हीं उतरां हिन्दी आनी मराठी भासांच्या संदर्भांत घेतल्यार तीं मोग कि (हिन्दी) नारी. वा मोग की (मराठी) नारी? अशींय घेवपाक मेळटात. देखून कविता झेलो आगळो अर्थ सोदपाक प्रवृत्त करता. तेच वांगडा कोंकणींतलें ई कारी रूप 'किनारी' ही लयबध्दताय दाखयता. 'शेवण्या पिपुश्या' हीं उतरां वाचतकच - खुंय गो गेलेलें? घाटार गेलेलें, घाटार कित्याक? वावळयो हाडुच्याक अशीं आपसुकूच सुरूवात जाता तशें ही कविता येता.

दर्या वळेरी
काळजा देगेरी

अुड गे बळारी
मोग किनारी

ही अवस्था दाखयताना कवीन जी शब्द कळा वापरल्या ती पळोवपासारकी आसा. दर्या वेळेरी म्हण्कच दुसरी ओळ पारंपारीक अर्थान सांज वेळ अशी रसीकांच्या ओंठार येवं येता. पूण कवी हे वेळेक 'काळजा देगे'ची उपमा दिता आनी मुखार बळार येता ती परतीचे वाटेवयली आसता. मागीर सूख दुख्खांचो पावसा-पाणयाचो, चान्न्या रातीचो, मळबा - देंठाचो, रात भाराचो संदर्भ येता तोवूय पळोवपासारको आसा.

'उदका फेणेरी
चान्ने कणेरी
मळबा देंठारी
मोग किनारी

फांत्या पारारी
कोंब्या सादारी
ओंठा ओंठारी
मोग किनारी.'

मोग आनी रूतू वसंत हांचें जिवा-भावाचें नातें. जशें आशाढ - पावळेचें श्रावणाचें सरीचें आयज आयल्यो रूतू वसंत ही ह्या झेल्यांतली पयलींच कविता वसंत बहार दाखयता. पूण यादींचो!

'आयज आयलो रूतू वसंत
वाजलीं तुजीं गो पांयजणां
याद तुजी काडीत राती
कितल्यो गेल्यो कोण जाणां....'

'वसंत' नांवाची तांची दुसरी कविता आसा ती विश्वास मागपी आसा. कवी म्हणटा -

'फुल्लीं झाडां भुल्लीं पानां
पांचवीं पेडां हांसलीं रानां

वसंत आतां गायता राग
जायतें तुका म्हण्टा माग.
मोर-पाखां दोळें मागूं?
तुजे ओंठा - कळे मागूं?
काय तांबशे पोले मागूं?
तुजे केंस ओले मागूं?

मोगा सपन निळें मागूं?
काय दुखा - तळें मागूं?
सात जल्म देणे मागूं?
फाटलें रीण येणे मागूं?

मागतां तें मेळटलें?
उतर मोने धरतलें?

हें प्रस्नोपनिशद कवी दाखयता. हातुंतल्यो निमाण्यो दोन वळी तेंगशी गांठपी आसा. मागता तें सगळें अव्यक्त - मोनें उतर. तें उतर धरतलें हो प्रस्न विचारता ही अनिश्चीतताय तांच्या खुपश्या मोग कवितांनी आयल्या. अनिश्चीत भविश्यकाळाचो वेध घेवपी कवी 'कोण जाणां' ह्या उतरांनी आपल्याक व्यक्त करता.

'सपन खुबदां सपनूच उरता
मागल्यार फुलां काटे मेळटा
घोंटेर सोदपी एक पक्षी
कोण जाणां खंयसर वेता.'

'कोण जाणा' चे अवस्थेक यादींचें गांठवल आसा. कविता झेल्यांत असफळ मोगाच्यो कितल्योश्योच गांठी पिळ घेवन आसात. ह्या यादींचें गांठवल पळोवपाक मेळटा. सदाफुलीच्या रूपकांतल्यान ती सद्दां फुलता. पयले अवस्थेंत आपले मोगिकेची चड याद येता म्हण सदाफुली लावपी मोग्याक दुसरे अवस्थेंत सदाफुली चड फुलता तशी ताका चड याद येता. ह्या दोनूय

अवस्थांमदीं ताटातुटीचो एक काळ येवन गेला.

आपलो शेणिल्लो मोग सोदपी कवीमन कांय कवितांनी दिसता. जिणेच्या अथांग दर्या सामकार पुसून गेल्ल्या पावलांनी मोग सोदता. तुटिल्लो मोग सोदता. त्या मोगान, वता आसताना सांगिल्लीं उतरां तांचें 'काळीज - पाशाण' करता. तेन्ना कवी म्हण्टा -

तुवें वता आसताना सांगिल्लें
आपली याद आयली जाल्यार
दोन दुकां गळय....
आतां मजा पळय
तुजी याद आयली जाल्यार
दोन दुकां न्हय
एक्कूय दूक गळना
काल दोतोराकडेन गेल्लो
ताणें सांगलें - तुजीं दुकां सुकलीं
आनी कोणाची तरी याद केळय
आनी दुकां गळटा जाल्यार पळय....
हांव आनी दुसऱ्या कोणाची याद काडटलो?
तुज्या फाटल्यान लागून
दुसऱ्याकडेन लक्षूच गेलें ना
तुज्या फाटल्यान लागून
आयुश्याची माती जाली पळय
तुवें वता आसताना सांगिल्लें
आपली याद आयली जाल्यार
दोन दुकां गळय.

हे कवितेंतल्या 'तुज्या फाटल्यान लागून, दुसऱ्याकडेन लक्षूच गेलें ना' हाचो शब्दार्थ घेवंचे परस - व्यापक अर्थान घेवंचो. 'दुबाव' हे कवितेचोय दुबाव व्यापक अर्थानूच आयला. आपले मोगिकेन घातिल्ल्या दरेक 'नायऱ्यान' कवी इतलो निराश जाता की शेवटाक तो आपलो भंय उक्तायता.

‘हांव मात तुका विचारिना
चल गो आमी लग्न करूया
तूं ‘हय’ म्हणत म्हूण म्हाका भंय दिसता.’

वेव्हारी मोगाचे फास्केंतल्यो कांय कविता ह्या झेल्यांत पळोवपाक मेळटात. अटी-तटींचो मोग दिसता. कवी खुपशेकडेन आपूण आपणाच कडेन ‘मन-लॉग’ (मोनो लॉग न्हय) सादता. आपूणूच दोनूय वटयां उलयता, सादयता. एकमुळेंपण दाखयता. रातीर राती जागयता -

‘रात जाली वात
आनी पेटत रावली
काळजा भितर
रातभर.
पेटत गेलें काळीज
पेटत गेल्यो वाती
आनी पेटत गेल्यो यादी
तुज्यो
रातभर...
आनी त्या हुलोपांत
तळमळत आसतलें
तूंय बी
खंय तरी
सपनांत
रातभर....’

वेव्हारी मोगचो दिश्टावो दिवपी तांची ‘शिरती’ कविता. सुवार्थी मोगाचें वर्णन करता. अपेक्षाभंगाची देख दिवपी. ‘मोरपाखां’ ही कविता. मोरपाखांच्यो पिसडुल्ल्यो यादी कवितेंत विस्कटावन आयल्यात. मोरपाखां ही भावा-वस्था तें शिपडिल्लीं मोरपाखां ही अवस्था असो प्रवास कवितेंत आयला. ‘मोग किनारी’ ची तड दाखोवपी ही कविता आसा.

राधा-कृष्णाचें नातें लोकवेदांत आनी उपरांत कोंकणी कवितेंत विंगड विंगड रूपांनी आयलां. ह्या कविता झेल्यांत जें रूप आयलां तें राधा-कृष्णाचें न्हय - तें 'राधेकृष्णाचें'. 'राधे-कृष्ण' ही गजर अवस्था कवीन दाखयल्या. खरें म्हळ्यार राधा-कृष्ण हे प्रेम अवस्थेची वाट पळोवपी मोग्याक समाज राधेकृष्ण अवस्थेकडेन व्हरून सोडटा. अशीच अवस्था ताचे 'रास' हे कवितेंत दिसता. कवितेचो माथाळो 'रास' आशय मात रास लिलां उपरांतचो विरह असोय लावं येता.

कवीन कांय संवादात्मक कविता बरयल्यात. नाट्यात्म शेवट हेंवूय तांच्या कवितांचें खाशेलेंपण दिसता. देखीक 'सांगप' ही कविता. वडापुनव कवितेंतल्यो ह्यो ओळी -

हांवें तुका सांगलें
वडा पुनव करूं नाका
सात जल्म कित्याक त्रास
तुका आनी म्हाका

मोगाचे आनीक एक रूप दाखयतना कवी म्हण्टा -

दोळ्यांतल्या दुकांनीय शिपिल्लें मोगाचे रोप फुलताच अशें ना. हे कवितेचो माथाळो 'रक्तफुलां असो आसा. बाकीबाब बोरकार, रमेश वेळुस्कार, माधव बोरकार हांणी मोगाची जी भावावस्था दाखयल्या ताचे भायर वचून वेगळे फास्केंतलो, वेव्हारी भाशेंतलो वास्तव मोग मुक्त छंदातल्यान दाखोवपाचो यत्न कवीन केला. 1986 ते 2006 च्या वीस वर्सांच्या काळांतल्यो वेंचीक 50 कविता ह्या झेल्यांत आयल्यात. लोकभाशेचो बाज घेवन येवपी खासा शैलीन येवपी मोगा बांदारी, सुकलेल्या झाडारू, पोले गोरे, मोग किनारी ह्यो अरूण साखरदांडेच्यो 'वळख दाखोवपी कविता' आसात. हिन्दुस्थानी आनी पाश्चात्य संगिताचो मेळ घालून कांतार आनी गीत हांचे मदलो 'गीतार' हो प्रकार तांणी केळोवंचो. ताचो प्रत्यय 'सुकलेल्या झाडारू' ह्या गितांतल्यान मेळटा. क्रिस्तांव आनी हिन्दू समाजाक एकठांय हाडपी हो 'गितार' प्रकार कसो तें मनोहरबाब, उदय भेंब्रे हांणी दाखोवन दिलां.

ह्या कविता झेल्याच्या निमतान कांय निरिक्षणां जी नदरेक आयलीं तातूंत भाशेचे नदरेंतल्यान, विशय, आशय आनी फॉर्माचे नदरेंतल्यान कांय विशयांची पुनरूक्ती दिसली. उतरांचें भांडार पळयताना कोंकणी कवितेंतले सांस्कृतीक संदर्भ कांय विशयांनी दिश्टी पडटात. कांय उतरां कोंकणी कवितांनी ह्यान आदीं आयल्यांत. रसीक वाचप्यांमेरेन पयलींच पावल्यांत. तींच उतरां नव्या कवितांनी पळयताना कोंकणी कवितेचो वाङमयीन इतिहास दोळ्यामुखार उबो रावता. देखीक - 'वाजलीं तुजीं गो पांयजणां', 'सावरीचीं फुटलीं बोणां'.

'तुज्या दोळ्यांत', 'मोरपाखां' ह्यो दोन वेगळ्यो कविता पूण रमेश वेळुस्काराचे एके कवितेंतली वळ ह्या कवितांची मांडणीय एका फाटल्यन आयल्या. 'काळजाची भरती', 'रेवेंतलीं पावलां' ह्यो प्रतिमा कोंकणी कवितेन येवन गेल्यात.

'तूं गो आयलें ना' कवितेंतलीं कांय कडवीं पळयात -

सोदलीं शेतां, सोदलीं भाटां
तूं गो आयलें ना
देवा मुखार मारल्यो घांटी
तूं गो पावलें ना.
अमुरपिको माल्लो उलो
तूं गो रावलें ना
जागल्यो राती पेटल्यो वाती
तूं गो भेटलें ना.

पळोवन म्हाका सगळीं हांसलीं
तूं गो हांसलें ना
काजरा म्हज्या सगळीं आयलीं
तूं गो आयलें ना.

चा.फ्रा.ची - बुडकुलो तो आयलो ना
तळ्यां उदकां रकलो ना

दस्तुऱ्यांचे पाजे मुखी
तरनो तकलो टिकलो ना.

वा

मनोहरबाबाची बाबुच्या लग्नाक सगळीं आयलीं
बाबूच आयलो ना.

ह्यो कविता कोंकणी समाजमनाचेर छाप घेवन उरल्यात. तांची याद जाल्याबगर रावना. फॉर्माचे नदरेंतल्यान 'विसर' 'राग' ह्यो कविता आपलें वेगळेपण दाखयता. 'अंतर' हे कवितेंतलें अंतर मांडावळीचें नदरेंतल्यान लांब जालां. तीन कडव्यांनी कविता सोंपता. मदलीं दोन कडवीं हें अंतर वाडयतां हें म्हजें मत. रमेश वेळुस्कार हांची एक तिकली ह्या संदर्भांत याद जाता -

'तुज्या म्हज्या मदलें अंतर
आतां जालां निरंतर.'

कांय उतरां जीं म्हाका दिसल्यांत तातूंत भुरग्या-खेळ गिताचो सांस्कृतीक संदर्भ आयला. तो येतना 'तांबडे तीन पानां' असो आयला. तो तामरेतीर पानां, मेजार फुलां.. अशे रितीन येवपाचो. सबंद झेल्यांत संवसारी मोगाची किनार दाखोवपी तांची संवसार ही कविता समन्वयाचो, समसार मांडपी आसा.

ह्या कविता झेल्याच्या मुखपृश्टाचेर आर्नोल्ड नोरोन्हा हांचें चित्र म्हळ्यार कोंकणी कलात्मक जिणेक मेळिल्ली दुर्मिळ भेट. घडये पयलेच फावट हीं फुलां रास-रूपान (collective creative form) आमी पळयतात. कवीचें पयलें पुस्तक 'एका झाडाक घर जाय'. कोंकणी प्रजेच्या आवाजाक ओंपलां. तांचो 'कावळ्याचें श्राध्द' हो कविता झेलो गुढयात्री जी. ए. कुलकर्णी हांचे कथेक ओंपला आनी हो 'मोग किनारी' गुरूदत्ताच्या 'प्यासा'क (film) ओंपला. एका झाडाक घर जाय कविता झेल्यांतल्यो कांय विशयनिश्ट कविता हातूंत घेतल्यात. वीस वर्सांच्या काळांतल्यो ह्यो कविता 'प्यासा'ची तान भागयता.



# 8.

# चा. फ्रा. चीं गीतां

‘‘परत्यान तींच उतरां उचारिजे पडटात तो जबरदस्त उजवाडाच्या किरणान सुर्यावरीं आनी हांव मंद प्रकाशाच्या मेणाळ वातीबरी; ताचेविशीं हांव कितें म्हण बरोवं? तो म्हज्या शाण्या बापायबरी. हांव ताच्या नेणत्या पुताबरीं; तचे विशीं हांव कितें म्हण सांगू? तरय थोडेपावटीं पोसोभर मिठान दर्याविशीं चितिजें पडटा आनी थेंबे थेंबे पिटान रूचिच्या पानपोळ्याविशी तकली खरजीये पडटा, किरणां कातींत रोंबल्या शिवाय सूर्थाची धांव सांगोक कळना आनी मीठ पेजेंत चाकल्या शिवाय दर्याचें मोल मेजूंक मेळना.....’’ मेल्वीन रॉड्रीग्ज हांणी चा.फ्रा. च्या ‘मोतयां’ ह्या गीतांच्या संकलनाच्या पुस्तकांत प्रस्तावनेंत बरयल्लीं हीं उतरां आसात. चा. फ्रां.च्या मर्णा उपरांत मांड सोभाण प्रकाशनान हें पुस्तक उजवाडाक हाडलां. हाचें लिप्यांतर गोकुळदास प्रभू हांणी केल्लें आसा. चा. फ्रा. न बरयल्लीं 72 गीतां ह्या मोतयां झेल्यांत आस्पावल्यांत. तातुंतल्या 4-5 पदांक सोडून उरिल्ल्या सगळ्या पदांक एरीक ओझारियो हाणें ताळो आनी संगीत दिल्लें आसा.

कर्नाटकांतल्या कोंकणी मनशांनी कोंकणीचें दायज आपले परीन सांबाळून दवरलां. वसावळीक हाडलां. पाद्री माफेय, लुवीस मास्कारेन्हास, लुवीस बोतेल्हो अशी ही परंपरा चा. फ्रा. न मुखार व्हरताना तिचीं विंगड रूपां दाखयल्लीं आसात. चा. फ्रा. न आपली एक खाशेली पांयवाट दाखयली. जैतिवंत नाटककार आनी मांड सोभाण चो गीतकार म्हणून तांणी कोंकणीक दिल्लें देणें भोव मोलाचें. मनोहरराय सरदेसाय तांचे विशीं बरयतात. ‘‘चा. फ्रा. च्या काव्याक जिवीताचीं अगणीत तासां आसात. अणभवाचीं थिकां लिकलिकीत. मोगाचीं चवरां परमळीत, अपमानाचीं किसरां किसकिसीत आनी तरीय आसताना तो आपल्या न्हिदसुऱ्या दोळ्यांतल्यान आमच्या मनांत ‘स्वपणातलें राज’ जागयता. कोंकणी समाज, ताच्यो चालिरिती, ताचे उत्फर्के, उमाळे, दुबाव हीं सगळीं ह्या काव्यांत होल्मता. जश्यो पानांत शिरो आसतात तश्यो. जशीं उशीं काणांत कुसां आसतात तशीं. झाडां-पेडां, फुलां-फळां, कोमऱ्यो-पानां, कळे-कळयो, सैमाच्या

सगळ्या रूपाचें पडबींब ह्या काव्यांत पळोवंचें कोंकणीचो कवी कोकणाच्या सैमांत कसो एकरूप जाला.''

चा. फ्रा. चें मागणें अशेंच.

'ए कोंकणी रंगा ए नव्या तरंगा
लगीन तुमचें जावं रे
रंग तरंग नांव पांव
कोंकणी गांवान गांव रे
कोंकणी गांवान गांव

गायन गळ्यांत गाजंव
पायांनी नाच व्हाजंव
उत्रान उतर काळजां मतीं
आटव्न आटव्न आटव्न शिजंव रे.

हें मागणें मागून वेव्हारीक जिणेंतलें बेगडीपण पळोवन कवीमन खंतीय जाल्लें आसा. कोंकणी भास संस्कृताय परकी भासांच्या नश्ट्या दबावाखाला चिड्डता तें पळोवन तांचो आत्मो घुस्मट्टा ताची लयबध्द अशी खंत चा. फ्रा. 'कोंकणी काजार' ह्या गीतान उक्तायतात.

''आल्तडीचो लोक आयलोगो काजराक
पलतडीचो लोक आयलोगो काजराक
आयकोन काणी काजाराची
कोंकणी लोका काजराची
काळजोराचो ताप आयलोगो माजराक.
सावद मागण्याक सावद मागोंक कोंकणी उतर मेळना
उपकार बावडूंक न्हवऱ्याबाबाक तेंक्यू शिवाय कळना
कोंकणी मतींत अशी कशी कोंकणी वात जळना?
पुडवें पावलां पजराक गुलाप जाल्यात इजाराक.
आलतडीचे उटले नाचोंक कोंकणी व्हाजप व्हाजना

पलतडीचे उटले नाचोंक कोंकणी कांतार गाजना
वाडतल्यांचे मोडकेंत लेगून कोंकणी जेवण शिजोना
सगळे लागतात रजाराक बेसाव पडो काजराक.

ह्या गिताच्या शेवटाक एक जबरदस्त आशावाद चा. फ्रा. न दाखयल्लो आसा. खंती अपमानीत जाल्लें मन चार चोवगांत मान ना म्हूण खंत उक्तायता. गांव गांवमाया हे तांचे घोस्ताचे विशय. तुमचो गांव ह्या गितान ते म्हणटात.

"तुमच्या गांवांत पावले तशे भोंवया म्हुणून जालें.
तुमच्या गांवांत भोंवले आतां रावया म्हुणून जालें.............

तुमच्या चलियांच्या माथ्यार झिला काळीज वोलें जालें
दोनूच हात वेंगोंव कशे खंयच्या हातान धरूं!
दिली जाल्यार मागान घेवूं नातल्यार मोगान चोरूं!..."

तेच तरेन जिवीतांतलें दुख्खूय तितल्याच लयबध्द रितीन मांडलां.
रात रात रडलां
आकांताक पडलां
मळबावेले नेखेत्र म्हजें
खंयसर तरी झडलां."
अशें तें दुख्ख आयलां.

उतरांकडेन खेळपाचो तांचो छंद 'उतरां' ह्या गितान आयला. ह्या म्हालवजाचेर जिणेंतल्या अणभवांचो सार मांडटाना ते म्हणटात
"धनिया देवा पाव
बगलेक तरी राव
सोसूंक नजो सोसूंक नजो
जिविताची दाव.
मागोन मागोन तूं
नागोवन गेलाय मू
हांवेय मागलें तर

दिशीं कितें तूं?
पेंकटांत म्हज्या मूंज
चिंतूंक येना उंच
कुडको एक दिनाय जाल्यार
दोनय दवर तूंच.

मोतयांत कांय बालगितां आस्पावल्यांत. तातूंत तांचें
“कोंबल्या बाबानो साद रे घाला
आमगेर एक बाबू जाला...”

हें गीत आसा. ते भायर ‘चंदामामा’ ‘टिक टिक पान’ ह्या सारखिल्लीय गितां आस्पावतात.

कांय जोड गितां ह्या झेल्यांत आयल्यांत. तांचे विशय वयलेचाराक सादे दिसले तरी तांतलो उपहास, विडंबन म्हत्वाचें. देखीक ‘शिरांधारिचो पावस.’ ‘शेंडो’ हीं गितां. शेंडो ही कविता चा. फ्रा.च्या ‘सोश्याचे कान’ ह्या झेल्यांत आयल्या तशी ती मोतयांत ना. हांगा जोडगीत रूपान ती आयल्या.

चलो : हांव पाटले सिटीर बसलां
तूं बसल्या मुखले बस्केर
हांव भायर भितर लास्लां
अत्मो पडला रिस्केर .........

चली : म्हजें शिंतींत चिंतून कडलां
म्हजें काळीज फुटून रडलां
फॅशनांनी उक्लून म्हाका
अर्दे वाटेर सोडलां
अर्दें रगत ऱ्हदयावेलें
भुरग्या बाळान वोडलां
देकून माथ्यार संसाराचें
पुराय रेकॉड मोडलां

ह्या गितांतलो आशय - सोश्याचे कान कविताझेल्यांतले शेंडो कवितेक विरोधी असो आसा. एरीक ओझारियो हांणी 'मांड सोभाण' पासत चा. फ्रा. चीं गितां गायल्यांत तातुंतलीं कितलींशींच 'सोश्याचे कान' ह्या काव्य झेल्यांत आसात. पूण मोतयां आनी ह्या झेल्यांत व्हड बदल ह्या गितांचे बाबतीन जाल्लो आसा. देखीक ताचीं गाजिल्ली 'मिठाकण' ही कविता घेवंया. संदर्भ सोश्याचे कान उजवाडावणी मार्च 1988. जाग प्रकाशन. साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाल्लो काव्य झेलो.

**मिठाकण**

पेंजे वाटली हाजी घेवन
दर्या वेळेर रावलां
कोणय विचार नाकात चोवन
''तोंड कशें बावलां?''
एक आसली मिठाकण
पिशे बुद्दीन वाडल्या
दर्या येदी जाता म्हण
दर्यांत वचून उडल्या?
दिगा म्हजी मिठाकण
तुज्या उदकांत खिरल्या
निराश जाल्या म्हजी जीण
पेज अळणी उरल्या!

हीच कविता मोतियां झेल्यांत गीतरूपान चा. फ्रा.न बरयल्या ती

पेजे वाटली हातीं घेवन
दऱ्या वेळेर रावलां गा
कोणी विचार नाकात चोव्न
तोंड कशें बाव्लां गा?
एक आसली मिटांकण
रागान म्हजेर उटल्यागा
म्हजो सांगात नाका म्हुणून
सरा सरा सुटल्या गा

एक आसली मिटांकण ल्हान सान मिटांकण
घरचें म्हजे आयावपण, सानपणांत व्हडपण
एक दिसा पिशेपणान
अन्दया पायार रावता ती
चिवळ्या येदो म्हणटा म्हाका
गाळी शिराप सोवतां ती
दऱ्या येदी जाता म्हुणून
पिशऐ आशेन बुडटा ती ·
बाळपणा मित्राक सांडून
दऱ्यांत वचून उडटा ती
हें गीत आनीकूय मुखार वता –
मासा मुदे मास्ळे लोदे
जोवणाक म्हज्या नाका गा
ल्हान म्हजी मिटाकण
आसल्यार म्हाका पुरो गा
दीगा म्हजी मिटाकण ल्हान सान मिटांकण
घरचें म्हजें आयावपण सानपणांत व्हडपण.

मूळ कवितेचो अर्थूच हांगा बदल्ला. इतलेंच न्हय तो कवितेचे तुळेन खूप उणो उखलापो थारला. मूळ कवितेक बादिकार आयला. असोच प्रकार तांचे हाड चेडवा बुडकलो हे ‘अमर’ कवितेचे बाबतीन जाला. मोतियांत गीत रूपान येताना तिका धपके बसल्यात. पुराय भाववृत्तीच इबाडून वता.

हाड चेडवा बुडकलो लकय तळ्यांत
तुजें म्हजें उतर जालां काजच्या मळ्यांत

अशी दिल्ले भाशेची याद काडीत दुखां झरी व्हांवयत, जिणेंतल्या एकसुरेपणाची तीव्रताय दाखयत ही कविता वाचप्यांच्या काळजाक स्पर्श करून वयताना शेवटाक म्हणटा –

बुडकलो तो आयलो ना
तळ्यां उदका लकलो ना

दस्तुऱ्याचें पाजे मुखी
तरनो तकलो टिकलो ना...

अशें म्हणीत आजून तुका राकून रावलां काजीच्या मळ्यांत ही जाणविकाय करून दिता. ही कविता मोतियांत 'सात सात चोव्दा सान्ना' ह्या गितान भरशिल्ल्या कारणान मूळ कवितेक बाधिकार आयला म्हणपाचो दुबाव आयला. मोतियांत हें अशें आयलां.

"लग्नाक कोणी येवंचो ना
जेवणाक कोणी बसचो ना
सात सात चौदा सान्ना नाकात जाकीना
हाड जाकीना बुडकुलो लकय तळ्यांत
तुजें म्हजें उतर जालां काजच्या मळ्यांत
उदका धार नाका गो रोस कोणी लावचोना
सात सात...."

तीन कडव्यांनी हें गीत सोंपयलां. निमाणें कडवें मूळ कवितेकडल्यान वेगळेंच आयलां.

"राक्ता अजून बुडकुलो तळ्यांत पावलो ना
सुरंगा फुलां विणलो झेलो अजून बावलो ना
आयकताची जाकीना कोगळी गळ्यांत गायना
सात सात चौदा सान्ना नाका जाकीना."

'खरस' ही कविता दोन रूपांनी पळोवंक मेळटा. सोश्याचे कान आनी 'मोतियां' नी हो वेगळोचार दिसता. गीत रूपान 'हांव खरशेलो' म्हणून आयलां.

हांव आशेलों आशेलों आशेलों
आल्मारितलें बूक वाचूंक आशेलों.
हांव खरशेलों खरशेलों खरशेलों
वाळय वाचून गेली हांव खरशेलों.

तर कविता रूपान -

आलमारींत बूक
बुकांत कविता
वाचूंक आशेलो.
किरकोळ वाळी वाचून गेली
हांव खरशेलों अशी वता.

'मोतियां' नी अशीं कितलींशींच गीतां चा. फ्रा. न पाडलेलीं आसात. कांय गितां बडबड गितांनीय मोड़टात. देखीक जोर्जी बुतेल. अशें आसलें तरीय रसिकांच्या काळजांत घर करून रावपी कांय गितां आसात. देखीक -

आबोल्या तुजो रंग उजोगो
रांदणीर तुज्या कितें शिजोगो?

चा. फ्रा. न जे तरेची जीण भोगली जगली ती जीण ताणें आपल्या साहित्यांत मांडिल्ली आसा. मोतियांतलीं गीतां हीं एरीक ओझारियोंच्या मांडसोभाण संगीत चळवळीक निर्मिल्यांत. कांय गितां संगीताचे सोयी पासत पाडचीं पडल्यांत. संवेदनात्मक आनी अर्थात्मक अशीं उतरांचीं दोन आंगां आयल्यांत. भोगलेलें जें दूख आसा ताकाच सूख म्हणपाचे भोगणार चा. फ्रा.च्या वांट्याक आयिल्ले आसात. चा. फ्रा. न आपले जिणेंतली ही कविता जेन्ना ते सादर करताले तेन्ना खरेले चा. फ्रा. दिसताले. संवेदनांचीं पडबिंबां दिसतालीं. मनोहरराय सरदेसाय म्हणटात तें खरें "चा. फ्रा. ची कविता चा. फ्रा. नच म्हणिल्ली पळोवपाचो आनी आयकुपाची. कारण चा. फ्रा. आपली कविता जितली गळ्यान म्हणटा तितलीच ती हातांनी, बोटांनी, दोळ्यांनी म्हणटा. ताच्या आंगा आंगांतल्यान कविता फुलता. फुट्टटा..." ताजी कविता अर्था वांगडाच ताल, लय, स्वर घेवन जल्माक येता, ते उतरांचो खेळ सहजतायेन करतात. कारण तांणी भास रगतान घोळययल्या, केळयल्या म्हुणून ती पंडिताची तान घालयता आनी भौसाची भूक भागयता."

चा. फ्रा. न 'मोतियां'नी उतरांचो खेळ मांडिल्लो आसा. सोश्याचे कान झेल्यांतली 'कोडयाळच्या बशीनी' ही कविता मोतियांत 'कोडयाळची बस्सां' ह्या नांवान आयल्या. हें गीत सतरा ओळींचें तर 'कोडयाळच्या बशीनी' ही कविता सुमार शंबर ओळींनी आयल्या. 'चार चोवगां मान ना' ही कविता झेल्यांतली कविता पांच कडव्यांची आसा तर मोतयांत ती तीन कडव्यांची

आसा. इतलेंच न्हय तर कविता झेल्यातले कविते परस ह्या गीतांतलो अर्थ मर्यादीत जाल्लो आसा. 'आदांव बाप्पान खेल्लें कितें' ही कविता धा ओळींची तर गीत रूपान ती बावीस ओळी घेवन येता. तिवूय गरजे भायर. त्य अर्थान चा. फ्रा. क आमी उतरांचो पाडेली म्हुणून पाचारूं येता.

मोतियांतलीं चडशीं गितां हीं मोग, शृंगार ह्या सारकिल्ल्या विशयांचेर आदारिल्लीं आसात. कांय गितां 'मांड सोभाण' चेरूय बरयल्लीं आसात. सगळ्याच गितांच्यो देखी दिवप हांगासर शक्य ना. कांय गितांनी यमकांफाटल्यान धांवपाचो मोह चा. फ्रा. सांबाळूंक शकलो ना.

'बाणावलेच्या रानातु' 'तान भागलीना' 'डायना बाय' 'तुम्चो गांव' 'मोग म्हाका कळाना' 'शीराधारींचो पावस' 'नमो सर्वेश्वरा', 'आबोल्यांचो रंग' 'मागणें' 'हांव पियेवन पियेवन मेलो' 'कोगळीची विवाद' ह्या सारकिल्लीं गितां बरीं जाल्यात.

चा. फ्रा.न कोंकणी मळार आपली खाशेली अशी सुवात केल्ली आसा. चा. फ्रा. एक चलत आयिल्ली वाट आसा. ही वाट चलताना चा. फ्रा. मानपान प्रसिध्दी हांचे पासून पयस उरलो. चार चोवगा मान ना ही खंत ताणें उक्तायताना सांगलां.

''नाका हो मांड म्हाका  
व्हांवचें उदक खंयी व्हांवते  
नाका लागता तुज्या नाका  
तुज्या केंसांत फूल शिंवतें  
म्हाका तेंच पावतें, तेंच पावतें.'



9.

# मनीस कुळाचो सोद घेवपी कविता – मुळां

कवी प्रसाद लोलयेकार हांचो हो मुळां हो कविता झेलो. कविता झेल्याचें नांव अर्थ खोलाय दाखयता. कविच्या मनाचो थाव घेवंक लावपी कविता हातूंत वाचप्यांक मनभूल घालता. आपलें एक रूप घेवन हो कविता झेलो आमचे मुखार येता. झाड आनी माती मुळांनी घटमूट केल्या. तांचे चिरंतन नातें आसा त्या नात्याचो सोद घेवपी ह्यो कविता आसात. वेव्हाराच्या बाजारांत वडाच्या पाळामुळांचो संदर्भ उस्तून दाखयताना कवी म्हण्टा -

लोकांचें पिशेपण मानवलें ना
म्हण घडये
स्वताक दिल्लें देवपण मानवलें ना
म्हण घडये
मुळांनी पेड फोडून उडयलें.

झाडांच्या मुळांचो साक्षात्कार जाल्लें कवीमन ताची ताकद पारखिता आनी काव्यात्म रितीन ताचें प्रकटीकरण आमचे खातीर करता ताचे फाटल्यान एक प्रस्न कवीन उबो केला तो म्हळ्यार -

केदेय वावटळीक सामकार वचत
झाड उबें कशें रावता?

झाड हें कश्टाचें, त्यागाचें, शक्तीरूपाचो दिश्टावो घडोवपी अशा विंगड विंगड रूपांतल्यान व्यक्त जातनाय तें शोशणाचें प्रतीकूय म्हण येता. तुळात्मक रितीन ह्या शोशणाचो संदर्भ आसा.

त्या झाडांच्या मुळांनी
ते मातयेंतलें सगळेंच शोंसलें
हें जेन्ना पळयताना
तेन्ना तुजीं पाळां मुळां
अजुनूय काळजांत आसात

हें समजत रावतां....

मनीस नात्याक पयसावल्ल्या उपरांत तांच्यो खिणयाळ्यो यादी उरतात तें जिवितांतलें रितेंपण चित्रायताना कवी म्हणटा -

तो रूख पडल्यार
कितलोसोच तेंप जालो
त्या रूखामुळाचो फोंडारो तरीय
त्या मुळांच्यो दवरीत यादी
अजुनूय तसोच रावला

यादींच्या रूपान विशिश्ट परिणाम भोगूंक लावन त्या परिणामांतल्यान प्रौढत्व वा जाण्टेपण जल्माक येता. मुळांचीं तरेकवार रूपां दाखयताना केन्ना केन्ना विश्वात्मक जाणविकाय घडयता तर केन्ना शृंगाराच्या रूपान विस्तारतात. मनांतलें गोड गुपीत कोणाकूच दिसना अशीं तीं आपल्या झाडांक दितात. एकेपरीन मनीस कुळयेकूच बोध दितात. हींच मुळां जोग्याक आत्मसत्याचो दिश्टावो घडयतात आनी नात्यांनी घुस्पावपाचीय देख दितात.

त्या तेन्ना विश्व साकारताना
दोन मुळां
एकमेकांक मेळ्ळीं
वळख खुबूच वाडली
मोग माया वाडली
नवल न्हय घुस्पली
तेन्नाच्यान फाटल्यान
घुस्पबप सोडून गेलीं.

घुस्पवप हे प्रक्रियेचो कवीन घेतिल्लो हो काव्यमय सोद दिसता. बऱ्या-वायट, खऱ्या-खोट्या संदर्भांनी हें घुस्पवप चालूच आसा. जिवीत चक्रांतलें हें घुस्पवप कवी आनीक एके कवितेंत मांडटात.

त्या घरांत
कितलींशींच काळजां
काळजांत पर्थून

कितलींशींच घरां
घरांत पर्थून काळजां.

सोदप ही कवीची मूळ प्रवृत्ती ह्या झेल्यांत दिसता. अर्थपुराय जिवीत जगताना कवीक मोग नाशिल्लें घर नाका. घर नाशिल्लो गांव नाका. गांव नाशिल्लो देश नाका आनी देश नाशिल्लें विश्व नाका. हाचेय मुखार वचून कवी म्हणटा –

आतां
विश्व नाशिल्लेंच घर नाका.

रासवळ घरांतलो पेटपी दिवो हो दिवो न्हय तर दुवो आसता. बदलपी रासवळ घराब्यांतली मानसीक दुरावस्था कवी चित्रीत करता. रासवळ घराब्यांतली दोट्टी अवस्था कवी दाखयता.

ह्या बापायचे सगले पूत
वेगळ्या घरांत वेगळे रावतात
तरीयबापूय झेतान सांगता
आमची सगळी जॉयंट फॅमिली.
त्या बापायचे सगले पूत
एका घरांत एकठांय रावतात
तरीय बापूय म्हुणूंक भियेता
आमची सगली जॉयंट फॅमिली.

मुळां, घरां, पावस, माटोळी अशा माथाळ्यांनी कविता गुंथिल्ल्यो आसात. दर एका विभागाचो एक रूप बंध सांबाळपाचो यत्न कवी करता. आशय विशय आनी शब्द रचनेंतल्यान तो वाचप्यांमुखार येता. पावसाचीय तरेकवार रूपां कवी दाखयता. सजोवपी, रूजोवपी, रडोवपी अशा तरेकवार रूपांनी तो व्यक्त जाता. पावसाचेर आदारिल्ल्यो पस्तीस कविता ह्या झेल्यांत आस्पावल्यात. कोण कुंवारी पावस भोगता हें कवीन उत्कृश्ट जालां.

भरल्या कुपांनी मळब वाट्टा
खंयच्या वना मोर नाचता
कोण कुंवारी पावस भोगता

घरां ह्या विभागांतल्या कांय कवितांनी घुस्मटमाराचें चित्रण कवी करतात. आपल्या घरांत येताना रित्या मनान येवं नाकात. भरिल्ल्या मनान येयात आनी वतना लेगीत आपल्या घरांतलें सगळें घेवन चलात अशें मागणें मागतात. आमीच घरचे आश्रीत जाल्यात काय कितें हो प्रस्न कवी करता.

रूतुचक्राकडेन संवेदनशील मनान कवी पळयता. पावस, गीम, पाळां-मुळां, सांज-वेळो आदी सृश्टीचीं रूपां ताका अंतर्मुख करतात. सांजवेळेच्यो भाववृत्ती कवी निर्माण करता. सैंबाचो पिसारो, दिसवड्याक वचपी मानायांचे पर्तवण, मोग्याची वाट पळोवपी मोगिका अशा रूपांनी तीं दिसता. सैंबाची माटोळी कवी बांदता आनी सृश्टी सौंदर्याचो दिश्टावो घडयता. तेच वांगडा मनीस कुळयेचो दळिद्री जिणेचो सोद घेता. भुकेची व्याख्या दिता आनी दैवाचीय व्याख्या सोदता - ताच्यो दोन देखी

उपाशी पोर देखता
रितें आवय-थान
नंगा भुखा है इन्सान.

दसऱ्याच्या दिसा
देव जाता घाडी
आनी वर्सभर आपली
घाडी लिपयता बेतकाडी

कवी, नाटककार अशी साहित्यीक वळख आशिल्ल्या प्रसाद लोलयेकारांचो 'मुळां' हो पयलोच कविता झेलो एक जाणीव घेवन येता. कवी रमेश वेळुस्कार हांच्या मता प्रमाण ह्या नव्या तरनाट्या कविचेर भरवंसो दवरू येता अश्यो ह्यो कविता आसात.

♦

# 10.

# जानव्यांत घुस्पल्ले कांय प्रस्न

'लळीत गंभीर बरपां' असो उपमाथाळो घेवन रवींद्रबाब केळेकार हांचें हें पुस्तक आयलां. जाग प्रकाशनाचे 66 वें पुस्तक नव्या शतमानाच्या हुंबऱ्यार म्हळ्यार 2000 वर्सा कोंकणी वाचप्यां मुखार येता ही म्हत्वाची घडणूक. वट्ट 67 निबंद वेगवेगळ्या विशयाखाला आस्पाविल्ले आसात. राष्ट्रवाद, सैम, समाज. राजकारण, अर्थकारण आदी विशय ह्या निबंद झेल्यांत आस्पाविल्ले आसात. वाचप्यांचे सोयीपासत हें पुस्तक अशे तरेन वांटलां.

| | |
|---|---|
| 1. घुस्पल्लो समाज | (07 निबंद) |
| 2. नागवल्लो देस | (09 निबंद) |
| 3. नवी देख | (11 निबंद) |
| 4. सैमाचे कुशींत | (11 निबंद) |
| 5. आमचीं दुबळीं आंगां | (11 निबंद) |
| 6. राजकर्णाक नवी देख | (08 निबंद) |
| 9. पांच नखेत्री बंदेपण | (06 निबंद) |
| 10. उपाय | (03 निबंद) |

ह्या तरेकवार विशयांवेले निबंद 'जागा'तल्यान नेमान आयिल्ले. पुस्तकरूपान वाचप्यांखातीर ते संकलीत केल्यात आनी कोंकणी चळवळीक जांणी संघर्शाची देख दिली त्या इकरा जाणांक हें पुस्तक ओंपलां.

लळीत गंभीर बरपां अशें रूप घेवन हो निबंद झेलो आमचे मुखार येता. घुस्पल्लो समाज ह्या विभागांत बरोवपी कांय घुस्पा-गोंदळाचे प्रस्न आमचे मुखार दवरतात. भारतांतली जाती ववेस्था, जातियता, धर्मनिश्टा, धर्म-कुडेंपण, भारतियांचें अज्ञान, त्या अज्ञानांतल्यान आयिल्लो अहंकार आदी कितल्याश्याच गंभीर प्रस्नांचेर बरोवपी भासाभास करतात. आपले रितीन कांय अनुमानां काडून आपले कांय निश्कर्श वाचप्यांमुखार मांडटात.

मूळ भारतीय कुड्डे, अशीर मनाचे, दुराग्रही, अनुदार अश्या विशेशणांनी भरून हो निबंद सुरवात जाता. लेखकाच्या मनाचेर वाचप - बरपांनी जाल्ले संस्कार, ताच्या घरचें आनी घरा भोंवतणचें वातावरण, सैम समाज हांकां धरून रवींद्रबाबाचीं मतां ह्या निबंद झेल्यांत आयल्यांत. कुड्डो अभिमान हो ह्या झेल्यांतलो पयलो अणभव. घुस्पल्ल्या समाजाचें पर्यायान हिंदू समाजाचें चित्रण ते करतात. भारताकडेन पळोवपी विदेशी नदर आनी स्वदेशी नदर हांचो मेळ घालपाचो यत्न ह्या निबंदान तांणी केला. गझनीच्या काळांत अल्-बेरूनी नांवाचो एक अरबी विद्वान भारतांत आयिल्लो तांणी भारतांतल्या आपल्या निरिक्षणाचेर जीं मतां मांडल्यांत जातूंत 'हिन्दू' हें उतर जे तरेन वापरलां तें खोडून काडटाना रवींद्रबाबान भारतीय - स्वदेशी नदर आपणायल्या. अल-बेरूनी हांच्या मताप्रमाण हिन्दू मोटवे अशीर मनाचे उरलेत हाका कारण म्हळ्यार ते भोवून नकळ. तांकां स्वताचो विस्तार करपाक येना. अल-बेरूनीन हिन्दू ही संकल्पना नदरेमुखार दवरून आपलीं मतां मांडल्यांत तींच मुळांत चुकीचीं आसात अशें रवींद्रबाब म्हणटात आनी भारतांतले जातीयवेवस्थेविशीं म्हायती दिवन सांगतात, जण एकलो आपल्या जातीचो आनी कुळाचो अभिमानी. हीं राष्ट्राभिमानाचींच रूपां अशें तांचें मत. ह्या निबंदाचे अखेरेक एक मजेची गजाल म्हण ते फिल्म अभिनेते शाहरूख खान हांचेविशीं उठिल्ली एक फाम सांगतात. कोणें तरी शाहरूख खानाचेर गुळयो घाल्यात हें आपलो (शाहरूख खानाचो पिसो आशिल्लो) ल्हान नातू पचोवंक शकना. नातू शाहरूख खानाक आपल्यागेर येवन रावपाक पत्रांतल्यान विनयता आनी इस्कोलांत गेल्लेकडेन नातवाक कळटा की शाहरूख खान मुसलमान, मुसलमान बुरशे, ते गायचें मांस खातात. गायच्या पोटांत देव आसता अशी शिकवण घेवन नातू घरा येता ते शिकवणेचेर आपलो निश्कर्श काडटाना रवींद्रबाब मनांतल्या मनांत म्हणटात की - 'हांचे शाळेंतलीं भुरगीं संघ - परिवारांतल्या आवय बापायचीं आसपाक जाय.' (पान 4) आनी उपरांत ते संघ परिवाराच्या 'गर्व से कहो हम हिंदू है!' ह्या विधानाक धरून चर्चा करतात आनी म्हणटात की असल्या हट्टाक लागुनूच गुलामगिरी येता. अहंकार बळावता आनी शेवटाक एक उपाय सुचयतात तो म्हळ्यार राष्ट्राभिमानाची सुवात राष्ट्रभक्तीन घेवंक जाय.

रवींद्रबाबान संघ परिवाराक दोळ्यांमुखार दवरून तांच्या 'गर्वाची भास'

सांगल्या. गायच्या पोटांत देव आसतात ही भावना निखटी संघ परिवारांतल्यान (गोंयांत) आयिल्ली ना. ती श्रध्दा-भक्तीच्या परिवारांतल्यान आयल्या. संघ गोंयांत येवचे पयलीं सावनूच ती हे मातयेकडेन जुळिल्ली आसा. भौसान ही भावना जमनीकडेन लावन धरल्या. आयचे सारखे घरा-घरांनी भटांक हाडून पूजा करपाचे चाली पयलींच स्वताच देवाची पूजा करप आनी गायक पान काडून दवरप ही भक्ती प्रथा भौसामदीं अजून चलता. संघ परिवारांतलें बाटकेंपण आजून ताका आफडूंक ना आनी आफडूंक पावचेंय ना. मागीर नातवाच्या विधानाक धरून गायेच्या पोटांत देव आसता. ह्या सुताक धरून रवींद्रबाबाचे निश्कर्श संदर्भाभायर वतात. मुळांत राष्ट्र ही संकल्पना आमकां फिरंग्यांकडल्यान घेवंची पडल्या हें सत आमी न्हयकारूंक शकना. गोंयांत क्रिस्तांव समाज आपले अभिव्यक्तीची भास म्हण साहित्य, कला-संगीत, नाट्यांत गोंयचो उल्लेख 'गोंय-देस' वा 'गोंया-देसांत' म्हणून आजुनूय करता हाचो अर्थ ते राष्ट्रभिमानी नात असो कोणे काडचो न्हय. दुशण दिवपाखातीर म्हण दिवपी आनी गरजेभायर संघ परिवाराक म्हत्व दिवप होवूय विचार वाचप्यांक खटकता.

'आमच्यो गाठी निसर गाठी' ह्या निबंदांत रवींद्रबाब भारतांतले जातियतेचेर भाश्य केलां. जातीयता वचपाक जाय जाल्यार जातीवेवस्थेचेर गंभीरपणान विचार करपाक जाय. जात फायद्याक कशी पडटा हें दाखोवपाक तांणी कांय धाडसी विधानां केल्यांत. भूतपूर्व राष्ट्रपती के. आर. नारायणन हांकां राष्ट्रपतीपदाचे वेंचणुकेपासत उबे रावपाक तांच्या शिक्षणाचो, योग्यतायेचो, अणभवाचो, कार्यक्षमतेचो कित्याचोच उपेग जालो ना. जालो तो फकत जातिचो. (पान 7) अशें सांगून के. आर. नारायण हांणी आपल्याक फकत जातिखातीरूच जोखला म्हणपाचें समजून तें पद न्हयकारपाचें पूण तांणी तशें केलें ना अशें रवींद्रबाब म्हणटात. कारण तांकां थंय जातिचो फायदो घेवपाचो आशिल्लो. जात सगळ्यांक फायद्याक पडल्या. लोकशायेन फक्त 'ब्राह्मणूच' जाती वचूंक जाय अशें म्हणत आयल्यात. ते समतावादी, सुधारक जाल्यात. ते परस म्हत्वाचें म्हळ्यार आत्म संरक्षणाचें एक कवच हे तांचे अशें रवींद्रबाब म्हणटात. भारतांतल्या जातियवादांचीं मुळां हिंदू धर्मांत आसात. हिंदू धर्मान हिंदूंक पांगळे केल्यात. राष्ट्रवाद उणो पडला ताका लागून कितलेशेच प्रस्न आमच्या मुखार आसात. हे प्रस्न घुस्पल्ल्या जानव्या वरीं आसात आनी हजारांनी वर्सांसावन ते आसात आनी म्हत्वाचें

म्हळ्यार ह्या प्रस्नांच्यो गाठी घुसपत आसात. फाटल्या पांच हजार वर्सांच्या काळांत हिंदू धर्मांतलो एकूय प्रस्न सोडोवंक पावलो ना अशें बरोवपी खंतीन सांगता.

भारतांतल्या विंगड विंगड राष्ट्रीय प्रस्नांचेर आपलीं मतां रवींद्रबाब उक्तायतात. पंजाबी लोकांमदीं आशिल्ली असुरक्षिततायेची भावना, ते भावनेंतल्यान वेगळी चूल घालपाची तांची मनोधारणा. ताचीं तरेकवार कारणां समजून घेवन मागीर गोंयकारांची वसाहतवादाच्या काळाउपरांत मुक्तताय मेळोवन भारत-राष्ट्रांत परत एक संघ रावपाची राष्ट्रीय इत्सा पुर्ती हांची तात्वीक चर्चा ह्या निबंदान येता. घुस्पल्ल्या जानव्या वरीच बरोवप्याचो घुसमटमार जाता तो गांधी समाधीवेल्या प्रार्थनेवेळार हुंडक्या हुंडक्यांनी रडून भायर फुट्टा.

अखंड भारतांतल्या भारतीय बायलेचे जाल्ले भोगणार आफूड भश्ट ही संकल्पना नश्ट करपाक गांधीजीन कसो मार्ग आपणायिल्लो ताचेर चर्चा करतात. भंग्याच्या हातांतली सान्न घेवन सवर्णाच्या हातांत दिवन सवर्णांचे तकलेंतलें आफूड भश्टाचे संस्कार काडून उडोवपाचें कार्य गांधीजीन केल्लें.

'आम्बेडकरांचें श्राध्द' ह्या निबंदान चातुवर्णांचेर चर्चा करतात ते आर्य ह्या देशांत वेगळी संस्कृताय घेवन आयिल्ले ह्या विधानान जाणकारांच्या मता प्रमाण हातूंत मतभेद आसात. एक मत सांगता की आर्यन हांगासरले कुळावे - मुळावे तर दुसरें मत ते आयिल्ले अशें मानपी. रवींद्रबाब ते आयिल्ले अशें धरून तांचे संस्कृतायेचेर चर्चा करतात. एकाच मनीस कुळयेंतले आशिल्ल्यान तांचे मदीं जाती नाशिल्ल्याचे ते मानतात. आर्यांनी ह्या 'देशांतल्या?' लोकांक पयलीं चेपून आनी मागीर जुळोवन घेताना चातुवर्णान आपल्याक कशी उंचेली सुवात दवरली हेंवूय सांगता. उपरांत बुध्दान तांकां कसो धडो शिकयलो तें सांगून बुध्दाचो अनुयायी म्हण आंबेडकारांनी हिंदू समाजांतले आफूड भश्ट ना करपापासत प्रायश्चीत रूप सोडून विद्रोहाचें आंग घेतिल्लें हे सांगतात आंबेडकरांच्या आव्हानाची गरज हिंदू समाजाक आशिल्ली. 'भारतरत्न' जाल्ले आंबेडकार प्रस्थापितांमदीं बसल्यात. बुध्दाक आनी गांधीक प्रस्थापितांमदीं बशिल्ल्याचे ते म्हणटात. आनी प्रस्थापितां मुखार सगळे शरण गेल्यात. तांचें फुडें कांयच चलना अशें सांगून निर्शेवणेचो सूर रवींद्रबाब काडटात. भारतांतल्या जातियतेक आनी जाती वेवस्थेक इंग्रजांचे कशें योगदान आसा ताचे आंकडे मोल तांच्या

'इंग्रजाचे योगदान' ह्या निबंदान केलां. धर्माचो संबंद राजकारण कडेन लावन इंग्रजांनी आनी उपरांत भारतीयांनीय हो प्रस्न घुस्पागोंदळाचो केला तो सुटावो करपाक कुस्तार अशें रवींद्रबाबाक दिसता.

'नागवल्लो देस' ह्या फाट्यांत राष्ट्रीय पावंड्यावेल्या तरेकवार विशयांवेले णव निबंद आस्पावल्यात. अर्थीक, समाजीक तशेंच राजकी पावंड्यावेले खंतीचे कांय प्रस्न हाताळल्यात. नव-वसाहत वाद, अर्थीक असमानताय, गरीबी, मजुरी, गुलामगिरी, बंदेपण आदी विशयांक धरून ते चर्चा करतात. विकासाच्या नांवान भौराष्ट्रीय कंपन्यो श्रीमंत देशांतल्या गरीब जनतेक कशे तरेन लुटतात ताचें मार्मीक वर्णन करतात. मनी मेकींक मशिनां मूळतत्वाक आनी मनीस धर्माक कशीं मारक थारल्यांत ताचें वर्णन ते करतात. आयच्या काळांत ही असमानताय अदीक स्पशटपणान जाणवता. आयचें शेयर मार्केट आयकलें आनी पळयत जाल्यार भारतांमदीं दोन भारत आसात व्हय? असोच प्रस्न उप्रासता. India that is Bharat ह्या देशांत नियोजनाच्या अभावाक लागून देशाची कशी वाट लागल्या. मुंबयच्या धारावीचें बुरशें चित्रण ते भारतीय नदरेंतल्यान करतात.

भोगविलासी, हावरी वृत्ती, मनीसपणाक आनी पर्यायान भारताक मारक थारता. ताचो हुस्को लेखक करतात. अर्थीक असमानतायेखातीर, मुळाव्या सोयी सुविधांपासून भारतांतले लाखांनी गांव तशेंच कोट्यांनी लोक तुटून पडिल्ल्यान फकत 'रोजगार योजना' चलोवन हो देश वयर सरचो ना तर देश वयर काडपाक विचारांची दिका बदलपाक जाय असो विचार ते उक्तायतात. ताका लागून अर्थशास्त्र हो विशय फकत तज्ञांचोच उरूंक जायना तो सरसामान्य लोकांक कळपाक जाय. तांचे मेरेन पावोवंक जाय. आमचें अर्थीक धोरण भौराष्ट्रीक कंपन्याचे सोयीचें जालां ताका लागून देशूच विक्रेक काडला ही तिडक ते उक्तायतात. गांधीवादाचो अभाव आमच्या तज्ञांकडेन आशिल्ल्यान देशाची अबरगत जावंक पावलीं अशें ताका दिसता.

देशाची अर्थिक घडी वेवस्थीत बसोवन देश उदरगतीचे वाटेर व्हरपाक राजकीय पक्ष, तज्ञ आनी 'बाबू' लोकूय अपेशी थारतात. ती जाग्यार घालपाक 'एका विचाराची' गरज आसा ती गांधीवादांत आसा हें ते नेमान सुचयता.

'नवी देख' ह्या फांट्यांत वट्ट इकरा निबंद आस्पावल्यात. हे निबंद उदरगतीच्याच विशयांचेर आदारिल्ले आसात. अर्थीक आक्रमणांतल्यान

उप्राशिल्ल्या प्रस्नांचेर तांणी भासाभास केल्या. विशयांचे नदरेन पुररूक्ती कांय निबंदानी आयल्या. मुक्त बाजार वेवस्थेंतल्यान बाजार मुक्तीचो मार्ग ते सुचयतात. भलायकी आनी बाजार हांचो आंतरराष्ट्रीय बाजार मांडपी कांय सुवार्थी देशाफुडें आमी नतमस्तक जाल्यात. पांगळे जाल्यात. जवाहरलालाक गांधीवाद कळटा आनी ते अंमलांत हाडटा म्हणसर कळाव जाल्लो. ते म्हणसर जवाहरलाल संवसार सोडून गेल्ले. जवाहरा उपरांतूय आमची विकासाची वाट चुकल्या. ह्या चुकिल्ल्या वाटांचो दिश्टावो आमकां जावंक जाय आशिल्लो अशें तांकां दिसता.

सेवेचें मळ सेवेचेंच उरूंक जाय आनी सेवेचें साधन सेवेचेंच उरूंक जाय ही विचारधारा घेवन रवींद्रबाब जगल्यात. देखून वकीली करप पूण वकलीचीचेर पयशे करप ना. इंग्रजाळिल्ले शिक्षण पध्दतीन उत्पादक स्त्रमाक प्रतिश्टेचे नदरेन कांयच मोल ना हो पयलीं सावन चलत आयिल्लो समज नव्या शिक्षणान घट केलो. परिणाम म्हण आयच्या बामणांत इंग्रजांनी नव्या बामणांची भर पडली. बरोवपी सांगतात मेस्ताचो भुरगो मेस्तपणाक उणाक लेखून वकीली करता तशेंच हेर वेवसायांबाबतीनूय जालां. ताका लागून उत्पादक स्त्रमाक प्रतिष्ठा मेळोवन दिवपाचो उलो ते मारतात. संवसाराचेर शेक गाजोवंक उठिल्ले अमेरिकेचे अर्थतंत्र कोसळूंक लागता ही तत्कालीक समजिकाय बरोवप्याक सुखायता. भारताची उदरगत करपाक जाय जाल्यार परतून गांवांनीच वचपाक जाय हें ते पोट तिडकेन सांगतात.

'सैमाचे कुशींत' ह्या विभागांत इकरा निबंद आयल्यात. प्रयोगशीळ शेतकाम करतल्या शेतकामत्यांक म्हायतीपर पुस्तीका जावंची असले 'कसाक लागपी' निबंद आसात. इकॉलोजीची आयची चळवळ हें गांधीचें नवें रूप लेखकाक समादान दिता. 'गोवा बचाव अभियान' वाल्यांक उर्बा दिवन तथाकथीत सेव-गोवा वाल्यांच्या रूपान मातिल्ली नडणी पयस काडपाची उर्बा संवेदनशील वाचप्यांक मेळटा.

वृक्षवल्ली आम्हां सोयरी वनचरे ह्या संत तुकारामाच्या अभंगाच्या मुळाक धरून सैम जिविताचो मंत्र बरोवपी दिता. ह्या निबंदान रेड इंडियन्साच्या वसाहतवादी, राजकी सत्या गाजोवंक उठिल्ल्या सामाज्रवादी सम्राटाक बरयल्ल्या चिटीचो रूपकार अस्मितायेची राखण करपी दिश्टावोच आसा. एके तरेचें 'पुरूश सुक्त'

हे चिटींतल्यान आयला. जन, जंगल, जल, जमीन आनी जनावर ह्या पंचतंत्वांची राखण करपी प्रादेशीक अस्मितायेचो हुंकार हे चिटींतल्यान आयला. अमेरिकेक वेगळे रितीन पळोवंक लावपी अब्राहम लिंकनान त्या मास्तराक बरयल्ल्या पत्राक जशें मोल आसा तशेंच मोल ह्या मुखेल्यान बरयल्ल्या पत्राकूय आसा. प्रादेशीक अस्मितायेच्या सगळ्या राखण्यांच्या हातान हें पत्र पावोवपाक जाय अशें म्हजें मत. गोपालन संस्कृतीक आमच्या पर्यावरणाचे नदरेंतल्यान व्हड म्हत्व आसा हें पटोवन दितात. शेण सारें हे भुंयेक पोशक आसा हेंवूय सांगून खऱ्या अर्थान सैमाच्या सांगातान जगपाचो मंत्र दितात. सैम हो रवींद्रबाबाचो जिवाभावाचो इश्ट. ही भूंय निसू करूंक जायना. विज्ञानीक नदरेंतल्यान इकॉलोजी नांवाचो कल्की अवतार आमची नदर बदलतलो हो हावेस ते उक्यायतात. भुयेंकडेन प्रामाणीक रावून पिकता तें खावंचें बदलाक पीक थंय भीक ही आमची अवस्था करून घेतल्या. संस्कारी भुकेची सुवात अधाशी भकारे वृत्तीन घेतल्या अशें सांगून इंग्लंड सारखिल्ल्या देशांतली People for Ethical Treatment of Animals ही चळवळ वा We are proud to be vegetarian ही लोक-मानसिकताय वेगळी नदर दिता. गोपाळकृष्णाच्या देशांत आमची अवगत जाल्या ती पळोवन ते अस्वस्थ जातात आनी शुध्द शाकाहारी / शिवराक जावपाचो प्रामाणीक हावेस बाळगितात. आमच्या दिसपट्ट्या जिवितांतली भेसळ पयस काडपाक जाय अशें ताका मनासावन दिसता.

'आमचीं दुबळीं आंगां' ह्या विभागांत आमचे रासवळ जिणेंतली उणाकपणां दाखोवपी इकरा निबंद आयल्यात. रामायण काळासावन आयज मेरेनचे कितलेशेच घुसपल्ले प्रस्न हातूंत आसपावल्यात. लोकराज्यांतले प्रजेच्या उदासिनतायेचें मूळ रामायणी प्रजेन आसा. ही प्रजा आयजूय तशीच उदासीन आसा.

एका निबंदान तांणी जयप्रकाश नारायणाच्या राष्ट्रीय नैतीक चारित्र्याचें दर्शन ते घडयतात. लोकराज्यांतल्या प्रशासनांतलो भ्रश्टाचार, अनैतिकताय, असत्य हाचेर उजवाड घालपी नितीपाठ ते दितात. राजकर्त्यांच्या वायट कर्तृबांचेर तुटून पडटात.

ह्या निबंद झेल्यांत भाशेचेर कांय मुद्दे आयल्यात पांच नखेत्री बंदेपण, गुलामांची भास, जपानाची देख ह्या निबंदांनी भाशीक स्वाभिमानाचे, अस्मितायेचे वस्तुनिश्ट संदर्भ आयल्यात.

निबंद झेल्याचे अखेरेक 'उपाय' ह्या फांट्यांत तीन निबंद आयल्यात. घुसपिल्ल्या जानव्याचे पोड जशे सोडोवंचे तशे आपले परीन बरोवपी उपाय सांगतात. सत्य धर्म आनी अहिंसा ह्या तत्वांक धरून ते मोग शांती सवसकायेचो मार्ग सोदतात. भूक भय भ्रश्टाचार गरीबी अज्ञान अहंकार मद जर आमचे मदलो जिरोवपाचो आसत जाल्यार म्हा मानवांच्या जिवीत मार्गाचो पुरस्कार केल्या बगर दुसरी वाट मेळची ना हे खरसाणीन सांगतात. सत्याग्रहाचें ब्रह्मास्त्र वापरून रासवळ जिणेंतली नडणी काडपाचो राजमार्ग ते सुचयतात. पूण होच गांधी समजून घेवपाक आनी समजावन दिवपाक आमी भारतीय उणे पडटात व्हय? असो दुबावाचो प्रस्न ते उबो करतात. गरिबी, वेठबिगारी, भांडवल शाही, उदासीन समाज, बौध्दीक आव्हानांचो दुस्वास आदी कितल्याश्याच गजालींक लागून भारतीय समाजाची अवगत जाल्ली आसा. गांधी समजुपाकूच आमी भारतीय उणें पडटात देखून गांधीवाद आमचेकडेन जाय तसो रूजना, फुलना, फळना. पूण परकी देशांतले कांय अभ्यासू चिकित्सक वृत्तीचे लोक गांधी समजून घेवपाक आपल्याक ओंपून घेतना बरोवप्याक दिसता. भायल्या लोकांचे नदरेंत भरिल्लो गांधी आनी समजून घेतिल्लो गांधी तांच्याच तोंडांतल्यान रवींद्रबाब आयकता आनी गांधीवादाची केल्ली सात मार्गाची चिकित्सा पळोवन अजापभरीत जाता. धर्म क्रांती, सामाजीक क्रांती, अर्थक्रांती, सांस्कृतीक क्रांती, शिक्षणीक क्रांती, नैतीक क्रांती आनी राजकी क्रांती घडोवन हाडपापासत ते ते क्रांतीपासत गांधीचो शांतीचो मार्ग कृतींत कशे तरेन हाडूं येता ताची चिकित्साय परकी अभ्यासक करतात ती पटपासारखीं आसा. गांधीचें व्हडपण भायल्यांच्या तोंडांतल्यान आयकल्या उपरांत आपलें मोटवेंपण उक्ताडार पडटा. I shall be shouting from the grave. हें गांधीन म्हणिल्लें ताची याद करून दीत रवींद्रबाब आमकां अंतर्मनांतलो साद आयकूंक दिता.

268 पानांच्या ह्या पुस्तकांतल्या तरेकवार विशयांचेर विचार करताना रवींद्रबाबाचो गांधीवाद उपाट भरिल्लो दिसता. तांचे पुराय साहित्य साधनेन ते ताचो पुरस्कार करतात. गांधी, लोहिया, जयप्रकाश हे तांचे आदर्श, चिंतनेचे विशय. रवींद्रबाबाच्या चडश्या बरपांनी ते येतात. जिवितांत करपा सारखें खूप आसा तितलें आपूण करतलो म्हणपाचो हावेस घेवन ते जगतात. जगताना रायटर आनी फायटर म्हण आपली शक्त तांणी वाटून घातली. गरजेंतल्यान ताका तशें

जगचेंच पडलें. आपले जिवीत अणभव वाचप्यांमुखार निबंद प्रकारांनी मांडटाना विशयांचे नदरेंतल्यान आयिल्लें तेंच तें पण, तांच्या निबंदाक मोटवेपण हाडटा. सैमाचेर आदारिल्ले कांय विशय तांच्या आदल्या कांय निबंद झेल्यांनी आयल्यात. 'उजवाडाचे सूर' ह्या पुस्तकांत ते आयिल्ले आसात. तांचे चिंतनशील वा चिंतेचे सामाजीक, राजकीय कांय विशय ह्यान आदींच आयल्या. विशयाची पुनरूक्ती रवींद्रबाबांच्या लिखाणान खूप कडेन येता. देखीक ह्याच पुस्तकांत 'आमच्यो गांठी निसर गाठी' ह्या निबंदात एक मुद्दो आयला. मुद्दो जातींचो. जाती मानतल्यांक सुवार्थाखातीर जाती कश्यो फायद्याच्यो थारल्यात हें सांगताना त्यो ना जावंक जाय म्हणपी फकत ब्राह्मण आसात. तांकां कोण विचारी नात. '... तेच फकत जाती वचूंक जाय, वचूंक जाय म्हूण मोठ्या मोठ्यान आड्डत रावल्यात. ते समता वादी जाल्यात. सुधारक जाल्यात. आत्मसंरक्षणाचें एक कवच हें तांचें.' (पान 7) अशें ब्राह्मणांक लेखून म्हणटात. तर 'जातिंची मुळां' ह्या निबंदान ते (पान 93) बरयतात 'जात फायद्याक पडना ती फकत बामणांक. तोच फकत एकलो जाती वचूंक जाय वचूंक जाय म्हणीत सुटला. आत्म-संरक्षणाचें कवच हें ताचें एके तरेचें.' भारतांतली जाती वेवस्था/ जातियता ना करपाचेंय श्रेय परतून विशीश्ट एकाच वर्गाक दिवपा फाटले रवींद्रबाबाचे तर्कशास्त्र कितें? हो प्रस्न उप्रासता. हेर कांय विशयांचे बाबतीन कांयकडेन पुनरूक्ती दिसता ती नदरेआड करूं नज. भलायकी आनी अर्थमळावेली कारस्थानां तांच्या कांय निबंदांतल्या कॉलेस्ट्रोल आनी नाल्लांच्या संदर्भांत स्पश्ट जाता.

गांधीवादांतलो सकारात्मक आत्मविश्वास तांकां खूप कितें तरी पळोवपाक यत्न करता. आपूण गोपुरी संडासांचो प्रसार करतलो. गोंयभर भोंवतलो, अशे करतलों तशें करतलों म्हणपी रवींद्रबाब मात कांयकडेन परिस्थितीकडेन शरण गेल्ले दिश्टी पडटात. तांकां तांबड्या तांदळांची पेज जेवन शी दिसता तेन्ना मेरेन तें पीक गांवांत कोणन काडीना म्हणपाचें ताका खबरूच नासता. गांवांत 'भाटकार' ही तांची वळख वचून 'तातो' ही वळख जावंक जाय आसली तितली जावंक पावली ना. जपान, चीन, गांधी, लोहिया, नेहरू, जयप्रकाश, घरांत येवपी सोयरे धायरे, मुंबय, दिल्ली, (सन्नीधी) पिरवळ आतां पिरवळ उरूंक ना. कोंकणी संघटना, परिशदो, संमेलनां, ओपिनीयन पोलाची चळवळ थंयच्यो घडणुको, व्यक्ती चरित्रां अशे तांचे कांय पुनरूक्तीचे विशय आयल्यात.

नातरां, भाचरां, हे कांय निबंदाच्या निमित्ताक कारण थारिल्ले विशय. तेच वांगडा समकालीन घडणुकांचेर तात्काळ दिल्लें भाश्य काळांतरान काळाभायरेंय जालां. 'जाग' चे म्हयन्याचे गरजेंतल्यान आयिल्ले कांय विशय ह्या घुसपल्ल्या जानव्यांतल्यान पयलींच कडेक काडूं येताले. आनीक एक रवींद्रबाबांचे म्हाका जाणवता तें म्हळ्यार खंयचेय गजालीची म्हायती जायसर वा ती (केन्ना केन्ना) आयती मेळसर ते रावतात. मागीर केन्ना केन्नाय दांत ओंठ चाबून तिडक उक्तायतात. तर केन्ना केन्ना वास्तवतायेचें भयाण सत सांगचें जाल्यार आपल्या 'पर्यटक इश्टांक' वायट दिसत म्हण जिबेर आयिल्ली सत जाप पोटांत दवरून असत्याचोच पाखो ते घेतात. (103 पान) खुपश्या निबंदांनी ते स्वप्नील भावविश्वांत वचून वास्तवतायेची जाणविकाय करून दितात. विचारांमदलो घुस्पागोंदळ हें जानवें आनीकूय घुस्पायता. तें सुट्टलें म्हण वाट पळोवप नातर तें तोडून उडोवप हे दोन पर्याय उरता. 'सुट्टलें जाल्यार सोडयतलो कोण' आनी तोडटलो म्हणल्यार जानव्याक हात घालतलो कोण? तें तर ब्राह्मणांच्याच (फकत बामणूच न्हय) गळ्यांत खांकेंतल्यान आडवें आसा ताका बुरो दाटला, थंय कांय 'बुद्दीवादाच्यो' (पाडे) चावयो आसात. तातूंत नव्या नव्या जानव्यांकारांचीय भर पडत आसा. सगळें विधीवत चल्लां. सूत भर चडूच चल्लां. जाती ना करपाक जाय त्यो वचूंक जाय म्हणपी तथाकथीत स्वयं घोशीत समतावादी आपल्याच समाजाची फॅशन परेड घेवपाक लागल्यात. अन्न महोत्सव चलतात आनी ह्या सगळ्या बोवाळांत सुता पुनवे दिसा फकत एकूच दीस गळ्यांत जानवें घालपी भौस आपूणय एका दिसाचो काय आसना पूण जनवेकार जालो म्हणपाची धन्यताय मानपाक लागला काय कितें असो घुस्पागोंदळ वाडला.

घुसपल्लें जानवें हें पुस्तक वाचताना कितलेशेच प्रस्न, जानवें, भिरकाटावन भायर मारिल्ल्या भारतीयांमुखार आसात ताची जाणविकाय जाल्ले बगर रावना. हेंवूय ह्या पुस्तकाचें खेरीत मोल.

♦

11.

# घणाघाय नियतीचे : कोंकणीच्या साधना पर्वाचें एक फळ

1911 वर्सा कोंकणींतली पयली स्वतंत्र कादंबरी क्रिस्तांव घराबो आयली. एदुवार्द जुझे ब्रून द सौज हांणी बरयल्ले हे कादंबरेन कोंकणी कादंबरेचें मुळावण घातलें आनी भारतीय साहित्याच्यां मळार ह्या प्रकारांत कोंकणीक सुवात करून दिली. उपरांत कोंकणींत रोमी लिपयेंत बरोवपी - 'रोमांसी' ह्या नांवान आपलें कादंबरी साहित्य जगा मुखार हाडपाक लागले. कानडी लिपयेंत सातोळ्यांनी आनी खिस्ती खिस्तींनी उजवाडाक येवपी कादंबऱ्यांनी कोंकणी वाचप्यांक रूच लायली. देवनागरी लिपयेंत शणै गोंयबाबान संवसार बुट्टी हे कादंबरेंतल्यान अर्विल्ले कोंकणी कादंबरेचें मुळावण घालें. हे फाटभुंयेर रवीन्द्र केळेकार हांची तुळशी नवलकथा उजवाडाक आयली आनी उपरांत पुंडलीक नायक (अच्छेव) आनी दामोदर मावजो (कार्मेलीन) हांणी ह्या साहित्य प्रकारांत लक्षवेधी भर घाली. एन्. शिवदास, दत्ता नायक, जे. एल्. गोयश, तुकाराम शेट, चंद्रकांत केणी, महाबळेश्वर सैल, हेमा नायक ते अशोक कामत, नं. ध बोरकार अश्या लेखकांनी हो साहित्य प्रकार हाताळ्ळा. आनी आपले परीन ताची पत वाडोवपाची तकालस घेतल्या.

व्हड असो जिविताचो पट दाखोवी सामाजीक संदर्भ आशिल्ली घणाघाय नियतीचे ही अशोक कामत हांची कादंबरी. नाटककार, कथाकार अशी अशोक कामतींच्या साहित्यीक कर्तृत्वाची वळख. तर कोंकणी चळवळींतले एक सक्रीय कार्यकर्ते संघटक ही तांची सामाजीक कर्तृत्वाची वळख. ते वेवसायान शिक्षक.

घणाघाय नियतीचे हे कादंबरेंत गोंयच्या सारस्वत समाजाचें आगळें वेगळें चित्रण आयलां. कादंबरेच्या मनोगतांत आपलें मन मेकळें करतना बरोवपी हे कादंबरे फाटली निर्मणी प्रक्रिया सांगतात. वीस-बावीस वर्सां आदी तांची 'व्यथा' ही कथा जल्माक आयली. अशोकथा ह्या तांच्या कथा झेल्यांत ही कथा आसपावल्या. हे कथेंत हे कादंबरेचें 'बीं' आसा. त्याच बिजाचो महाविस्तार

म्हळ्यार ही कादंबरी.

गोंयच्या सारस्वत समाजांतल्या एका गरीब घराब्याची जगपाची धडपड हे कादंबरेंत दिसता. गोंय मुक्ती पयलींचो गोंयचो समाज, तातुंतलो सारस्वत समाजांतलो एक घटक हे कादंबरेंत आयला. 'आसावली' ह्या गांवांत घडपी कथानक आमकां वाचपाक मेळटा. कथानक सादें. तें 'विष्णू कामत' ह्या मध्यवर्ती पात्रा भोंवतणी, तांच्या कुटुंबा भोंवतणी घडटा. विष्णू कामतीच्या कुटुंबाची जगपाची धडपड, तांकां जाल्लो त्रास, तांच्या जिविताच्यो आनी संवसाराच्यो जाल्ल्यो वादऱ्यो लेखकान सादे, सरळ व्हांवते निवेदन शैलीन मांडल्यात. कथानक सरळ घडटा. घडणुको एका फाटल्यान एक घडत वतात. कादंबरेच्या रूपाक धरून पात्रां, वातावरण, भास शैली हांचो बरो वापर बरोवप्यान केल्लो आसलो तरी ही कादंबरी फकत वयलेचाराचेच घणाघाय घालता अशें न्हय तर हे अंतस्थ घणाघाय आसात. तातुंतल्यान गोंयच्या समाजाचीं वेग-वेगळीं केणां उसळटना दिसतात.

गोंयच्या रासवळ जिवितांतल्या सारस्वत वा बामण कुटुंबांतल्या आर्थीक, सामाजीक, शिक्षणीक, वैचारीक, तात्वीक घडामोडींचें - बदलांचें चित्रण करपी ही कादंबरी. गोंयांत आयिल्ले तरेकवार राजकी, सामाजीक, शिक्षणीक प्रवाह हे कादंबरेंत येतात.

विष्णू कामत ह्या मनशाची सभ्यतायेन नमळायेन संवसार करतना जाल्ली पडझड लेखकान चित्रायल्या. ताची बायल - रमाबाय हिच्याय जिविताचे जाल्ले भोगणार, तिचें जाल्लें मानसीक खच्चीकरण, 'तिकळें' ह्या शापान तिच्या वांट्याक आयिल्लें दुःख आनी संवसाराचो गाडो ओडटां ओडटां तिचे मदीं निर्माण जाल्ली अगतीक सोंशीकताय वाचप्यांक अस्वस्थ करता. जगपा खातीर विष्णूबाबान केल्लो विडयांचो धंदो, पावणेक गाय हाडून दूद काडपाचो केल्लो असफळ धंदो, हॉटेलाचो धंदो, पोटापाणयाचो प्रस्न सुटावो करपाक पांयांक चक्रां लावन हिडी हिडी करून भोंवन मिनाचे खणीर काम करपी विष्णूबाब. आपल्या भुरग्यांक बऱ्या संस्कारांनी वयर काडटना ताची जाल्ली अर्थीक कुचंबणा, आदी विशय बरोवप्यान प्रभावीपणान हाताळ्यात. विष्णूबाबाचो चलो 'विनोद' ह्या आडमेळ्यांतल्यान वयर सरपाक कसो कश्टता, तो कश्टांतल्यान हाल-अपेश्टांतल्यान धडपडत धडपडत कसो शिकप घेता ताची स्फूर्त दिणी देख

ह्या पात्रां वरवीं मेळटा. रासवळ कुटुंबांतली अर्थीक असमानताय हो विशय बरोवप्यान हाताळिल्लो आसा. गरिबी आनी गिरेस्तकाये मदली आंतरीक संघर्शाची कीट पेटोवन चिरंतन तत्वाचो वा सत्याचो बोध दिवपाची एक कळाशी बरोवप्यान हांगा दाखयल्या. रमाबायचें कुळार गिरेस्त. भावाची गिरेस्तकाय पूण रमाबायची घोवा घरची वांट्याक आयिल्ली दुर्बळकाय हो विरोधाभास आसाच पूण तेच वांगडा घोवा घरचीं माय-मांव, अनापा हो देर सोडलो जाल्यार हेर नातीं तिका कशे तरेन तोंपतात ताचें प्रतिकात्मक चित्रण पळोवपाक मेळटा.

'तिकळें' म्हूण रमाबायच्या वांट्याक आयिल्ली घोवा घरची अवहेलना तिचो केल्लो दुस्वास आनी तिकळ्या खातीरूच ह्या घराक परवड लागल्या हो घरच्या जाण्ट्यांचो कुड्डो विश्वास हाका लागून कोंसळिल्ली रमाबाय पळोवंक मेळटा. आपल्या पोटाच्या भुरग्याक फावो तें वखद पाणी दिवंक तांक नाशिल्ल्यान राजू ह्या भुरग्याचो जाल्लो अंत घराण्याक उध्वस्त आनी खंती करता. घरांतल्या तरेकवार मोडांक लागून विनोद हो भुरगेपणारूच कसो सोंशीक जाणटो जाता ताचें वर्णन ही कादंबरी करता. रमाबाय आनी विनोदाचें नातें हे कादंबरेचें बळगें. विनोद हे कादंबरेंतलो खरो भोगी - भोगणार भोगता - वा सफरर अशें आमी म्हणूंया. भुरगेपणांत सावन आपले परीन मोडक्या संवसाराक धिगी लावपाचो तो यत्न करता. तो गायचें दूद लोकांगेर घालता, गाय चरयता, हॉटेल चलयता, शिकपाची इत्सा आसा म्हूण जीवू आकागेर (आत्यागेर) एकमुळेपणाचें दुःख सोंसता आनी पावंड्या पावंड्यान मुखार वता तसो जाणटो जायत वता. विनोद ह्या पात्राची वाड बरोवप्यान बरे तरेन रंगयल्या.

दुःखांची वळेरीच हे कादंबरेंत पळोवंक मेळटा. गरीबी आनी नियती हात धूवन विष्णूच्या घराच्या फाटल्यान लागल्या. तांकां तितलेच जबरदस्त अशे इच्छा शक्तीन आनी निश्ठेन जाप दिवपाची तांक ह्या पात्रां मदीं दाखयल्या. पूण शेवटाक नियतीक कोणूच आडावंक शकना ही जाणविकाय ही कादंबरी करून दिता. भूक आनी प्रामाणिकपणाचेर आशिल्ली निश्ठा हे दोन विशय बरे रितीन हाताळपांत बरोवपी जैतवंत थरला अशें म्हाका दिसता. भूक भंय आनी गरीबी ह्या दबावाखाला जगपी घराब्याची 'व्यथा' हांगा आमकां दिसता.

रमाबायचो धाकलो देर - अनंत म्हळ्यार अनापा हो हे कादंबरेंतलो एक सशक्त विचार म्हूण दिश्टी पडटा. गोंयच्या बदलपी सामाजीक, राजकी,

शिक्षणीक जिणेंतलो एक पुरोगामी विचार, एक समतावादी प्रवाह वाचप्यांक पळोवंक मेळटा.

कादंबरेंत खुबशे कडेन तपशील आयल्यात. हे तपशील इतिहासीक, सत्यांक धरून आयल्यात. गोंयांत येवपी नव्या प्रवाहांचें वास्तवादी चित्रण करपी हे तपशील चडशे अनापा ह्या पात्राच्या माध्यमांतल्यान विकसीत जाल्यात.

गांधी विचारांचे पडसाद गोयांतूय पावल्यात आनी गांधींच्या प्रभावान अनापा गांवांतले सकले जातींतले चलये वांगडा थरोवन लग्न करता. गांधी हत्ये उपरांत नुस्तें खावपाचें सोडटा. गांधी हत्येची चर्चा हे कादंबरेंत जाता तशी भारतकाराच्या समाज प्रबोधन पर 'भारत' पत्राची चर्चा जाता. दादरा, नगर आनी हवेली - ब्रिटीशांनी पुर्तुगेजां कडल्यान घेतल्यांत. तीं परत करचीं अशी भास हे कादंबरेंत येता. जातीय वाद नश्ट करपी पुरोगामी समतावादी विचार तिरंग्या बावट्या खाला हाडून समतावादी - सहभोजनाचो प्रसंग हे कादंबरेंत आयला. तेच वांगडा कोंकणी भाशेचो, साहित्याचो आनी पर्यायान कोंकणी अस्मितायेचो जाल्लो दिश्टावो कादंबरेंत पळोवपाक मेळटा. गोंय मुक्ती पयलींचें गोंयचें वर्णन, गोंयच्या मुक्ती झुजाचे कांय खीण, मुक्ती उपरांतचें सामाजीक जिवीत, ह्या जिवीतांत आयिल्लें सहकार तत्व, सहकार चळवळींतल्यान उप्राशिल्ली स्वाहाकार आनी रासवळ दुस्वास अशे वेगवेगळ्या सामाजीक बदलांचें अस्वस्थ चित्रण हे कादंबरेच्या मूळ कथानकाक गिरेस्त करता.

समाजशास्त्रीय नदरेंतल्यान घणाघाय नियतीचे हे कादंबरेचो अभ्यास करतना जे घटक आमकां दिसतात ते म्हळ्यार राजकी, सामाजीक, सांस्कृतीक, शिक्षणीक, नैतीक, अर्थीक परिस्थिती, बायलेची प्रतिमा, जाती वेवस्था आदी. हीं घटक तत्वां लावन कादंबेचो विस्तृत अभ्यास करूं येता एदो आंवाठ हे कादंबरेंत आयला. 'आसावली' ह्या काल्पनीक गांवांतलें चित्रण हे कादंबरेंत दिसता. गांवगिऱ्या वाठारांतली जीण चित्रायताना बरोवप्यान कथानकाक सोबूंक जाय अशीं उपकथानकां दिल्यांत. वातावरण निर्माण करपा पासत प्रसंग चित्रायल्यात. हातूंत गोरवां राखपी राखणे आसात. तांचो कड्ड्यांच्यो तोपयो विणपाचो छंद आयला. गड्ड्यांनी खेळपी भुरगीं-बाळां आसात. भुरग्यांचे खेळ आयल्यात. मोग आसा आनी मनाक चुरको लावपी धडपडपी विष्णूबाबाचें मरण आसा. निश्पाप कंवळ्या राजूचें मरण. रमाबायचें कादंबरेच्या शेवटाक दाखयल्लें मरण.

मरसर जगपी लोकांच्यो वृत्ती प्रवृत्ती बरोवप्यान चित्रीत केल्यात.

गोंयच्या सामाजीक बदलांचें वास्तववादी चित्रण करपाचो प्रामाणीक यत्न हे कादंबरेंत आयला. निवेदनांतल्यान बरोवप्यान कितल्योश्योच यादी जागयल्यात. गोंयच्या वातावरणांत भौशीक गजालींचे शैलीन हें निवेदन आयलां. खुबशे कडेन निवेदनांतलो लेखक स्पश्टपणान दिसता. एक गवाय म्हूण तो ते ते परिस्थितीचेर भाश्य करता. सामाजीक भान आशिल्लो गोंयचो सारस्वत समाज समाजांतलो एक घटक कादंबरेंत प्रातिनिधीक रूपान आमकां दिश्टी पडटा.

एक बरी गजाल हे कादंबरेंत घडल्या, ती म्हळ्यार हे कादंबरेचो आवाठ बरोच रूंद आसा तसो तो खोलूय आसा. कितल्योश्योच घडणुको हांगा घडटात. कितलींशींच पात्रां, नातीं-गोतीं आयल्यांत. बरोवप्यान 419 पानांचे हे कादंबरेच्या शेवटाक कोण कोणाचो हें कळपाक नात्यांची वळेरी दिल्या. समाज जिणेचें पडबिंब कादंबरेंतल्यान मांडपाचो एक सुफळ यत्न बरोवप्यान केला.



# 12.

# एस. डी. तेंडुलकाराच्या वालोराचें रिव्हॅल्युएशन

वालोर हें एस. डी. तेंडुलकर हांचें 'समिक्षा, वर्तमानपत्री नियाळ, आस्वादन बीन' हाचेर आदारिल्लें पुस्तक पणजेच्या राजहंस वितरण हांणी 1998 वर्सा उजवाडायलां. 144 पानांचें पुस्तक कोंकणीच्या अभ्यासाच्या मळावेलें आगळें वेगळें पुस्तक अशें म्हणचें पडटलें. कोंकणी भास, साहित्य हाची वाड जाल्या उपरांत ताची मोलावणी करप आनी नवी दिका दाखोवप हें साहित्य समिक्षेचें मुखेल अशें काम आसता.

अर्विल्ल्या कोंकणी साहित्याक गोंय मुक्तताये उपरांत जो भरते भार आयलो तातूंत कथा, कविता, नाटक, कादंबरी सारख्या साहित्य प्रकारांनी मोलाची (वालोराची) भर पडली. आंकड्यांनी आनी गुणांनीय हें साहित्य वाडीक लागपाची म्हत्वाची स्फूर्त म्हळ्यार शणै गोंयबाब हांचें कोंकणीचो वावर, गोंय मुक्तताय, कोंकणी भास आनी साहित्याक उक्ती जाल्लीं दारां, कोंकणी कडेन आत्मसत्याचे जाणविकायेन ओडपी भौस, ओपिनियन पोल आदी. अश्या ह्या म्हालवजाचेर कोंकणी भास आनी साहित्य नांवांरूपाक येवंक लागतालें. कोंकणींत हेर भासांचे तुळेंत जे साहित्यप्रकार व्हडा प्रमाणांत रूजवणांक येवंक जाय आशिल्ले, ते नेटान जाय नाशिल्ले हें जरी खरें आसलें तरीय कोंकणींत ते (नवलिका, कादंबरी, नाट्यकाव्य, चवरां (हायकू न्हय) समिक्षा साहित्य, आनी हेर) साहित्य प्रकार रूपकाराक हाडपापासत कोंकणी मनशांनी थोडो भोव वावर केला तो आमच्यानी नदरेआड करूं नजो आनी तो पुरायपणान न्हयकारूं नजो. आत्मसंतुश्टताय आनी अल्पसंतुश्टतायेच्या घुंगुल्ल्यांनी आमकां जरी ह्या संक्रमणाच्या काळांत थोडेभोव पोखरिल्ले आसले तरीय कोंकणीच्या घराच्या ह्या पाश्टावेल्या पाटयांनी, कोनवाश्यांनी आनी कामीनी कोंकणीकडेन येवपी दर एका मनश्याक उर्बा आनी सया दिल्ली आसा, अशें म्हणलें जाल्यार ही अतिताय जावं नजो. मागीर जनलोकान अश्या मनश्याक कोंकणीवादी बी म्हुणूं आनी आपल्याक वादी-बिदी कांय लागना ती आजुताक लागता अशें एस. डी. तेंडुलकारान कितलेंय म्हणलें जाल्यार 'कोंकणीझम' ही एक विचारधारा

आसली आनी आसा, हें आमी न्हयकारूंक शकना. ह्याच बळाचेर आमकां एस. डी. तेंडुलकारान बरयल्ल्या वालोराचें रिव्हॅल्युएशन करपाचें आसा. वालोर हें पुस्तक तीन भागांनी वांटलां. पयल्या भागांत साहित्याची व्याख्या, साहित्य, सामान्य, बरें आनी श्रेश्ट हे साहित्यशास्त्राचेर आदारिल्ले दोन ल्हान लेख आसात. तशेंच कांय साहित्यीकांच्या कोंकणीच्या वावराचें आपले परीन केल्लें मुल्यमापन ह्या भागांत आसा. हातूंत हरिश्चंद्र नागवेंकार, बाकीबाब बोरकार, पुंडलीक नायक, रवींद्र केळेकार, दिलीप बोरकार, शीला कोळंबकार, नयना आडारकार, लक्ष्मीनारायण पारज हांचें साहित्य आस्पावलां.

साहित्याची व्याख्या ह्या लेखान तांणी साहित्याची एकूच व्याख्या घेवन उपरांतची सगळी भासाभास लेखकप्रकार आनी लेखनप्रकार ह्या विशयाचेर केल्ली आसा. साहित्याचे घटक म्हूण भाशा, अणभव, रूप, आशय हांचेर बरयताना 'परिमाण' ही संकल्पना सोडोवन दाखोवपाचो यत्न केला. अणभव आशय उक्तो करपाची कळाशी दाखोवपापासत एका हिन्दी गितांतल्यो ओळी दिल्या. पूण चर्चेच्या शेवटाक 'नैतिकताय' ह्याच विशयाचेर साहित्याचें अत्सलपण आसता हें सांगताना 'भाशेचें सृजनशीलपण, रूप आनी आशयाचें एकजिनपण, अणभव आनी आशयाची व्यक्त जाल्लीं विवीध परिमाणां, अणभवाचें स्वयंभूषण ह्या सगळ्या गजालींतल्यान लेखकाची स्वत:ची नैतिकता सिध्द जाता आनी ती नैतिकताच निमाणी साहित्याचें अत्सलपण थारायता.' हे मत मांडून नैतिकतायेचेर सात मुद्दे मांडल्यात. स्थीर सामाजीक मुल्यसंकल्पनेचेर आदारिल्ले रूढ नैतिकतायेपरस साहित्यांतली नैतिकता ही परिणामां वाढोवपी, मुल्यविचारांत क्रांतीकारक बदल आनी विकास घडोवन हाडपी अशी संकल्पना आसता. जिका ते सृजनशील नैतिकता म्हणटात. तेंडुलकारांच्या मताप्रमाण साहित्यांतली नैतिकता म्हळ्यार खासा लेखकाचो मुल्यविचार आसता आनी जर तर लेखकान रूढ नैतिकतायेचेर बंधनां (जीं व्यक्तीनिरपेक्ष आसता) आपणायत जाल्यार तें साहित्य सामान्य निपजूं येता तेखातीर श्रेश्ठ वा बरें साहित्य हें सृजनशील नैतिकतायेचेरूच आदारून आसता. साहित्यकृतींतलीं पात्रां, विशय अनैतिक आसूं येता पूण आशय नैतिकूच आसचो पडटा. अशे तरेचीं विधानां ह्या लेखांत आसा. शेवटाक डब्ल्यू. बी. गॅली हांणी मांडिल्लो 'कला साहित्य ही मुळांतच वादग्रस्त संकल्पना' हो सिध्दांत बरोवप्यान पुरायपणान मानून घेवन तांणी जी साहित्याची

व्याख्या केल्या ती पळोवपासारखी आसा. तेंडुलकार म्हण्टात, अणभवाच्या एका विशिश्ट रचनेंतल्यान निर्माण जाल्लें, आनी त्या अणभवाची, आशयाचीं अनेक परिमाणां मांडपी, नैतिकतातेचो धाव घेवपी बरपावळीचें भाशीक रूप म्हणजेच साहित्य' ही व्याख्या आपलो समीक्षा व्यूह मांडपाक आनी साहित्याचो वालोर करपाक दिल्ली आसा.

ह्या लेखांत तांणी जे नैतिकतायेचेर भाश्य करपी जे सात मुद्दे वापरल्यात ते साहित्यशास्त्राच्या अभ्यासांतले आसात. आपले साहित्याचे व्याख्येंत आयिल्ले 'नैतिकताय' (नैतिकतायेचो) हें उतर नैतिकता ह्या हिन्दी/मराठी प्रभावांतल्यान वापरलां. घडये हे निकश उतरावन काडिल्ल्यान तातूंत कांय दोश उरल्यात अशें म्हाका दिसता देखीक मुद्दो नं.6 साहित्यकृतीचो आशयूच ते साहित्यकृतीची नैतिकता व नैतिकतेची प्रत थरयता.

ह्या लेखाच्या शेवटाक जर संदर्भसाहित्याची वळेरी दिल्ली जाल्यार बरें पडपाचें. बरोवप्यान ती दिवंक ना. साहित्य : सामान्य, बरें आनी श्रेश्ट ह्या माथाळ्याखाला ल्हानसो लेख दिल्लो आसा. हातूंत सामान्य साहित्य आनी बरें वा श्रेश्ट साहित्याचे निकश दिल्ले आसात. आपल्या कांय निकशांचेर तांणी कोंकणीच्या संदर्भांत कांय पुस्तकांची वळेरी दिल्या ती अशी. पुंडलीक नारायण नायक हांच्यो 'बांबर, वसंतोत्सव' 'दायज' सारख्यो नवलिको, 'पिंपळ पेटला', 'खणखण माती', 'रक्तखेव' सारखीं नाटकां, ह्यो देखी दितनाय बरोवप्याचो घुस्पागोंदळ जाल्लो आसा. देखीक नवलिको हें उतर सोंपल्या उपरांत 'वा' हें उतर or ह्या इंग्लीश उतराचो अर्थ सांगपी आसा ते अर्थान तें हांगासर चुकीच्या अर्थान वापरलां तें 'आनी' अशें येवपाक जाय आशिल्लें. रामकृष्ण जुवारकराची खबर सारखीं पुस्तकां, भिकाजी घाणेकार, विजयाबाय सरमळकार हांच्यो कविता, तुकाराम शेटीची 'पाखलो' सारखी नवलिका हें सगळें साहित्य सामान्य साहित्य अशें तेंडुलकारांचें मत जाल्यार बरें साहित्य ह्या सदरांत तांणी रमेश वेळुस्कारांची कविता. रवींद्र केळेकारांचे निबंद, पुंडलीक नायक हांचें शबै शबै भौजन समाज' सारखें नाटक वा कोंकणी भायर शरदचंद्र चटर्जीच्यो कथा, नवलकथा, साने गुरूजींची 'श्यामची आई' सारखें पुस्तक, ओनिल वा टेनिसी विलियम्साचीं नाटकां ह्या सगल्यांचो आस्पाव केला.

मुळांत हे वाटे घालपूच चुकलां. विजयाबाय सरमळकार हांच्यो सगळ्योच

कविता सामन्य नात आनी पुंडलीक नारायण नायक हांच्या साहित्याचे केल्ले वर्गवारी बद्दलूय म्हजें तेंच मत. रवींद्र केळेकारांचे सगळेच निबंद ते मानतात तशे बऱ्या साहित्यांत येना तशीच रमेश वेळुस्कार हांची कविता. तेंडुलकारान सरसकट सामान्य आनी बरें आनी श्रेश्ट साहित्याचे जे वांटे घातल्यात ते मुळांत घुस्पागोंदळाचे आसात. हे वाटेच मुळांत फसवे आसतात. साहित्य शास्त्राचे नदरेन केल्ले वाटे वा लायिल्ले निकश हे बदलपी आसतात. मुळांत साहित्य समीक्षेकडेन पळोवपाची आमची नदर ही उश्णी आशिल्ल्यान हीं अडेचीं संवगां नाचोवपाचो नेट आमी करतात. प्रादेशीकताय आनी विश्वात्मकताय हातूंत व्हडलोसो फरक ना. आमचे कडेन दुसऱ्याच्या पोशान उदक पिवपाची रीत आशिल्ल्यान आमकां हातच्या उदकाची रूच कळपाक वगत लागता.

तेंडुलकार हांणी उपरांतच्या आपल्या लेखांनी केल्लें बरप हें पुरायपणान वालोराचें नासलें तरीय तांचें रूप पळोवप गरजेचें आसा. हरिश्चंद्र नागवेंकार हांच्या आस्वादन ह्या समीक्षालेखनाच्या पुस्तकाचे लेख ह्या पुस्तकांत आसा. मनोहरराय सरदेसाय, र. वि. पंडित, गजानन रायकार हांच्या कवितांचेर बरयल्ले तीन लेख, पुंडलीक नायक आनी दामोदर मावजो हांच्या 'अच्छेव' आनी 'कार्मेलीन' ह्या नवलकथांवेले दोन लेख आनी कोंकणींतलें समिक्षा साहित्य आनी कोंकणी कथेचो प्रवास हे दोन लेख मेळून सात समिक्षा लेखांची तपासणी करून नागवेंकारांच्या समिक्षेचीं वैशिश्ट्यां, मर्यादा आनी मूल्य थारावपा पासत ह्या लेखाचें प्रयोजन आसा. समिक्षेच्या मुखेल कार्याकडेन नागवेंकार आपूण जावन कितलो प्रामाणीक आसा हांचो सोद घेवपापासत केल्लो प्रपंच हांगासर दिसता. हें सोदताना नागवेंकार आस्वादक आनी संकल्पनात्मक समिक्षा बरोवपाक उणो पडला ताचीं कारणां सोदपाचो यत्न तेंडुलकारान केल्लो आसा. तीं विस्कटावन सांगताना तेंडुलकार म्हण्टात की नागवेकारान कवितांचें आस्वादन भाशेच्या बळांचेर, काव्य मुल्यांचेर करिनासतना कवींविशींच्यो उखलाप्यो गजाली सांगल्या. अमूक कवी भाटकार आसा, गरीबांविशीं कळवळो आसा, अमूक कवी फ्रांसाक वचून आयला (मनोहरराय) बी गजालीक समिक्षेंत मोठी सुवात नासता अशे तरेचें अट्टाहासाचें वा तेमाचें मत तेंडुलकार उक्तायतात. संस्कृती अभ्यासाचे नदरेंतल्यान नागवेंकारान केल्लें विवेचन हो समिक्षेचो वेगळावं नजो असो वांटो आसा अशें म्हजें मत. आतां पुरायपणान कवितेची समिक्षा

जावंक जाय आसली तशी ती आस्वादनांत जावंक ना हें आमी मानून घेतातूच.

कवितांपरस नवल कथेवयले लेख हातूंत बरे उतरल्यात अशें तेंडुलकार म्हणटात. त्याच वांगडा नागवेंकार अमक्या बरोवप्याक 'कोंकणी साहित्यांतलो चमत्कार जावन आसा' अशें म्हणटा त्या विधानाक आक्षेप घेतला तो फावो सारखो आसा.

नागवेंकाराकडेन मूळ विशय सोडून व्हांवपाची वृत्ती आसा हें दाखोवपाक तांणी र. वि. पंडितांच्या काव्यांतलें समाज दर्शन ह्या लेखाचो आदार घेवन नागवेंकारान पंडितांक खंयसर कसो, केन्ना, खंयच्या काळांत पळयल्लो, तेन्ना तो कोणा वांगडा आशिल्लो कोणाक कविता वाचून दाखयतालो ह्या समिक्षा बाह्य गजालींकडे बोट दवरलां. खरें म्हळ्यार ह्यो गजाली समिक्षा बाह्य अश्यो पुरायपणान म्हणूं नजो. विशिश्ट लेखकाचो ताचे साहित्यीक जिणेचो अभ्यास करताना ताचे सामाजीक बांदिलकीचोय अभ्यास करचो पडटा. र. वि. पंडीत आनी तांची सामाजीक बांदिलकी हांचे विशीं खरें म्हळ्यार नागवेंकार हांणी पुरायपणान बरोवपाची गरज आशिल्ली. तेवूय नदरेंतल्यान र. वि. पंडिताचे कवितेचो अभ्यास जावं येतालो. गोंय मुक्ततायेच्या 25 वर्सां क धरून 'रजत सर्जना' नांवाचो खासा अंक नंदकुमार कामत, दिलीप बोरकारान उजवाडायला तातूंत खासा र. वि. पंडितान आपले सामाजीक बांदिलकी विशींचीं मतां मांडल्यांत. तीं पळेल्या उपरांत पंडिताचे कवितेची, ताचे जिणेचीं आनीक कांय वेगळीं तासां दिसतात. नागवेंकाराचो कोंकणी कथेचो प्रवास हो ह्या पुस्तकांतलो गचाळ लेख अशें मत मांडून नागवेंकाराची समिक्षा ही मुळांतच 'चॅरिटेबल क्रिटिसिझम' चो प्रकार आशिल्ल्यान ते समिक्षेक आस्वादकतेचो वा मुल्यमापनाचो आवाठ मेळना ही गजाल स्पश्ट जाता अशे तरेचें विधान मांडून दुसऱ्याच उतराक तेंडुलकार म्हणटात की तशें 'कोंकणींतलें समिक्षा-साहित्य' ह्या लेखांत तांणी एक - दोन बरे मुद्दे मांडल्यात. वस्तुनीश्ट भुमिका तो लेख मांडूक पावनांत अशें तांचें मत. नागवेंकारान आपल्या पुस्तकांत विसंगती हाडपी विधानां केल्यांत तीं फॅलेसी निर्माण करपी आसात. गंभीर समिक्षेंत तीं बसनांत अशे विचार तेंडुलकारान मांडल्यात देखीक :

2) रा. ना. नायक हांणी तांचे (मनोहरराय सरदेसायांच्या) कवितेची तुळा कोगळाल्या गीताकडेन गेल्या, ती पुराय खरी आसा. ह. नागवेंकार (हांगासर

कोगळाल्या गीताकडेन गेल्या. हें उतर आसा तशेंच दिलां पान न.19)

– ह्या विधानाचो तार्कीक अर्थ असो जाता की मनोहररायांची कविता कोगळाल्या गीतासारकी जर आसा, तर कोगळालें गीत मनोहररायांच्या कवितेसारखें आसतलें, सांगपाचें म्हळ्यार असलीं अलंकारीक विधानां समिक्षेंत केल्यार असली फॅलेसी निर्माण जाता – तेंडुलकार.

– मुळांत तेंडुलकारांची ही तर्कसंगतूच घुस्पागोंदळाची आसा. आकलन आस्वादन आनी मुल्यमापनाचो पुरायतरेन अभ्यास आमी करीत जाल्यार वगीच तोंकाचीं विधानां करूंक पावचेनांत. कोंकणींत जागतीक तोलामोलाचे कथाकार नात अश्या आशयाचें तेंडलकारांचें आनीक एक विधान आमी मानून घेतलें जाल्यारूय खासा तेंडुलकारांचें संवसारीक पांवड्यावेलें वाचन आनी ताचो अभ्यास कितलो आसा होवूय एक प्रस्न उरता. हाचो अर्थ आमी आत्मसंतुश्ट जावंचो अशें म्हणचें न्हय. पूण तोखणायूय करपाक जाय. सगळीच समिक्षा जर तुमकां अपेक्षीत आशिल्ले गंभीर समिक्षेसारखी आसची पडली जाल्यार तातुंतूच विनोद निर्माण जावं येता. मुळांत फुटपट्टी घेवन समिक्षा करतल्यांनी भारतीय भासांक रसातळाक लायिल्ल्यो आसा. म्हणूनच काय परतून तेच पोन्ने बाटलेंत नवो सोरो भरपाचें पिशेंपण आमी तरी करचें न्हय. मुळांत समिक्षेचीच समिक्षा म्हण्टाना आमचे कडेन समिक्षाय तशी ना अशें म्हणलें तरीय आसा तातूंत बरें सोदप आनी ना तें बऱ्याखातीर हाडप होवूय विचार कोंकणीभास, साहित्य संस्कृतायेचो हुस्को आशिल्ल्या अभ्यासकांनी हाडपाची गरज आसा. ते नदरेंतल्यान तेंडुलकारान ह्या लेखाचे शेवटाक जोडिल्ले पुरवणेचें आमी पुर्नमुल्यांकन करचें पडटलें. बाकीबाब बोरकारांचे कोंकणी कवितेचें मुल्यमापन ह्या लेखांत तांणी बाकीबाबाची मराठी कविता हीच अत्सल कविता आसा. कोंकणींतल्यो पांच – धा कविताच बऱ्यो मेळटल्यो हें ते खरेपणान सांगतात. मराठींत बाकीबाबाचे कवितेचें जे वेगवेगळे रंग, विभ्रम ज्या ताकदीन पळोवंक मेळटात तशे ते कोंकणी कवितेंत पळोवंक मेळनांत हें कोडू सत्य ते कोंकणीवाद्यांक पचोवपाक सांगतात. आपलीं विधानां वाचून कोंकणी वादयांक तिडक मारूंक शकता हें स्वयंघोशीत विधान करून बाकीबाबान आपली बरीच कोंकणी कविता गोंयचें स्वातंत्र्य आनी ओपिनियन पोल ह्या विशयाचेर प्रचार पध्दतीन बरोवपाकूच खर्ची घाल्या अशीं उथळ विधानां तेंडुलकारबाब करतात आनी मुळांत वाङमयेतिहासाची

संकल्पनाच विसरून वतात. कोंकणी भास, भूंय, अस्मीताय ची राखण करपाक कोंकणी मनश्याकूच वावुरचें पडलां. मराठींतलो तुमी सावरकार खंयच्या पावंड्याचेर अभ्यासतले तर. 'बिमलां रोस', 'झंजाळालो म्हाळ' सारख्यो रचना ह्यो कविता कोण म्हणटलो असो तुमचो प्रस्न आशय विशयाचे फास्कैंत घालून तुमी केला आसतलो. मराठींतल्या संत रामदासान लेगीत कांय अर्थहीन रचना केल्यात म्हूण काय तांचें मराठींतलें स्थान उणें जालां? तांच्या 'पांयजणां' त गोंयचे मातयेंतलीं पांयजणां वाजनात अशा आशयाचो निर्शेवणेचो सूर तांणी उक्तायला तो खरो आसलो तरीय पोवाडे, लावणी, भुपाळी, ठुमरी सारखे फॉर्म उश्णे घेवन काव्य रचचेंशें दिसता अशे तरेचीं विधानां समिक्षेचे नदरेंतल्यान संदर्भहीन जाल्लीं आसात. गोंयचे मातयेकडेन जोडिल्ले देखणी मांडो धालो सारख्या काव्यप्रकारांकडेन तांकां (बाकीबाबाक) नातें जोडुशें दिसना हाचें कारण दितना तेंडुलकार म्हण्टात की 'भायल्या' परंपरेची तांच्या कवितेचेर जाल्लो तीव्र संस्कार आनी मागीर रोखडेच तेंडुलकार आपल्या उतरांक जोडणी दितना म्हणटात की बाकीबाबाच्या 'सासाय' झेल्यांत गोंयच्या परंपरेंतल्या काव्यप्रकारांच्यो खुणो दिसतात. दोन परस्पर विरोधी मतां मांडून आपलें लिखाण भडक करपाच्या हट्टान कवितेचें खरें मुल्यमापन कुशीकूच उरता आनी बाकीबाबाचेर वैयक्तीक थराचेर लिखाण जाता. तेंवूयबी एकेतरेच्या पूर्वग्रहदुशीत नदरेंत.

बाकीबाबाचो 'चंवरां' हो काव्य प्रकार आनी 'हायकू' (जपानी काव्यप्रकार) हे दोनूय वेगळे. पूण तांची तुळा करून ते हायकू परस कशे उणाक आसा म्हणपाचें दाखोवन दितना तांकां काव्यगूण उणे आशिल्ले एकूच विचार उक्तावपी कोंकणीपद्य प्रकार अशें किदेंय म्हणूं येतालें. देखून हायकू हे हायकू, चंवरां हीं चंवरां. मागीर मनोहरबाबान तांकां थिकां म्हणू वा तिकली. खुपश्या कोंकणी कविंनी असलें तरेचें बरप केल्लें आसा. मराठींतल्यो 'चारोळ्यो' कोंकणींत चवळ्यो जाल्यो. तेन्ना मराठींत चंद्रशेखर गोखल्यांपयलीं कोंकणींत तो बाकीबाब आनी उपरांतचे पिळगेन हाडलो अशें धाडसाचें विधान 'मराठीवादी' पचोवंक शकतले काय? बाकीबाबांच्या कवितांचे 1) बाल कविता 2) क्रांती कविता 3) अध्यात्मिक कविता 4) मोग-सैमाची कविता अशे वाटे तांणी घातल्यात. प्रचारी कवितांचें मोल काळांतरान सोंपता. पूण क्रांतीवांगडाच जिणेविशींची खोलाय, अणभवांची गुंतागूंत व्यक्त जाल्ली आसत जाल्यार त्या प्रकारची

क्रांतीकारी कविता तिगून उरता. आनी ताची देख म्हणून ते नारायण सुर्वेची मराठी कविता परत परत वाचीनशी दिसता अशें म्हण्टात आनी ते नदरेन बाकीबाबाची क्रांतीकविता प्रचारी कविताच थारता. आनी साक्ष म्हणून कांय देखी दितात. तातुंतली एक देख घेवंया :

1) भोंवता वारें गोंयच्या राना
   पेडणे धरून काणकोणा
   तरगां कळस जावन उबें
   घुमूंक लागलीं गांवठणां

ह्याच निकशाचेर मनोहरराय सरदेसाय हांची 'आमी इकरा जाण' ही कविता पळोवं येता? निखालूच ना आमी 'इकरा जाण' फाटलो इतिआस केदो मोठो! आनी तुमी नारायण सुर्वेच्या क्रांतीचे कवितेविशीं जें मत मांडलां तें पुरायपणान पर्थून अभ्यासून पळोवंचें. नारायण सुर्वे आनी ना. धो. महानोर हांची तळी मराठी मनशान उखल्ली. तांचे 'सनद' आनी 'पक्षाचे लक्ष थवे' हे कविताझेले अभ्यासून पळयल्यार खूब कितेंतरी आमकां दिसतलें आनी तातुंतलें एक म्हत्वाचें रूप म्हळ्यार पुनरूक्ती! बाकीबाबाची अध्यात्मिक कविता ही धर्मीक कविता थरता अशें विधान तेंडुलकार सांगून उडयतात.

लेखाच्या शेवटाक बाकीबाबाचे कोंकणी कवितेंतली सुवात ते मानून घेतात. तांच्या प्रचारकी कवितांचें इतिहासीक मोल ते न्हयकारीनांत. बाकीबाब मोग - सैमाच्या कवितांखातीर आनी एकुणूच तांच्या मंत्र नादाखातीर कोंकणींत जितो उरतलो हेंवूय ते सांगून वतात. आनी तांची तुळा करपी कोंकणींत लायकीचो दुसरो कवी ना अशेंय ते विधान करतात. मागीर प्रस्न उरता तो बाकीबाबांच्या कवितांचें मुल्यमापन करताना तांकां कोंकणी आनी मराठीचे तुळेंत पळोवपाचो? आनी कोंकणींत तो मराठींसारखो ना म्हणपाचो? काय बाकीबाबाचेरूच आतां तुटून पडूया म्हणून बरोवपाचो हेतू? बाकीबाबांची कविता ही तांची जिवीत यात्रा. तांचेर 'भायल्या' परंपरेचो तांचे कवितेचेर तीव्र संस्कार जाला हें तुमचें विधान तुमी पर्थून तपासून पळोवपाची गरज उप्रासल्या अशें म्हाका तरी दिसता.

पुंडलीक नायक हांचें नवलिका आनी नवलकथा लेखन. ह्या लेखाचे सुरवेकूच बरोवप्यान एक वाक्य वापरलां तें पळोवपासारके आसा. 'पुंडलीक

नारायण नायक हो विपूल लेखन पसवपी एक आघाडेचो कोंकणी लेखक. उपरांत ताच्या संख्यात्मक लिखाणापरस गुणात्मक लिखाणाक कितलो वालोर आसा हें दाखयताना तांची बरें साहित्य आनी सामान्य साहित्य ही वर्गवारी दोळ्यांमुखार आशिल्ली. 'बांबर', 'वसंतोत्सव', 'दायज' सारख्यो नवलिको आनी 'पिंपळ पेटला', 'खण खण माती', 'रक्तखेव' सारखीं नाटकां सामान्य साहित्यांत तांणी घातल्यां देखून पुंडलीक नायकाच्यो नवलिको ह्यो सामान्य थरयल्या उपरांतूच तांचेर भाश्य करप हाचो हेत स्पश्ट दिसता. जाल्यार अच्छेव हे नवल कथेचेर केल्लें भाश्य पळोवपासारखें आसा. 1976 त उजवाडायिल्लें 'बांबर' हे नवलिकेंत तेन्नाच्या नवोदीत पुंडलीक नायकान हेर नवोदितांप्रमाण एक 'आव' हाडपाचो प्रयत्न केला असो प्रस्थापीत दावो तेंडुलकार करतात. नवोदीत आनी प्रस्थापीत हांचेमदें तसो भेद आसता. तेंडुलकार नवलिकेंतल्या प्रास्ताविकेंतल्या आक्रमक विधानाचो अर्थ लावन आपलीं विधानां करताना म्हणटात की 'बांबरा'तल्या लेखकाकडेन कलात्मक मॅच्युरिटी, प्रखर सामाजीक भान आनी नैतिकताय ना देखून 'बांबर' फक्त पोर्नोग्राफीचो स्टॉक आसा. कथेंतल्या पात्रांचें घाणयारें चरित्र सांगताना लेखकाची भुमिका ही चारित्र्यपूर्ण आसची पडटा अशें मत तांणी मांडलां. लैंगिगता होच विशय बांबराचो खरो विशय आसा अशें मत मांडून मुखार ते नवलिकेच्या आशया संबंदान प्रस्न उपस्थीत करतात. 'बांबरांत' तसो मात्तूय दम ना हें सांगल्या उपरांत रवीन्द्र केळेकारा संबंदान एक खबर हांगा सांगताना ते म्हणटात की खंयतरी वाचिल्लें की रवीन्द्र केळेकारांक बांबर भौच आवडली खंय. अशें म्हणून तेंडुलकार विसंगत आनी सुडबुध्दीचीं विधानां करतात. ते म्हणटात, 'बांबर' दोन प्रकारच्या मनशांक आवडटली. एक जो आंबटशौकीन, जाका ब्लू फिल्मां आनी पोर्नोग्राफी आवडटा असो मनीस. आनी दुसरो जाका बरें साहित्य म्हळ्यार कितें तें अजून कळूंक ना ताका. आसूं, ही आसूं फाटली प्रवृत्ती कसली? गंभीर साहित्य समिक्षा आपूण बरयतां हो एक 'आव' बी न्हय मूं?

'वसंतोत्सव' हे नवलिकेक धरून तांचें मत अशें की पन्नाशेक पानांच्या नवलिकेंतलीं बाविशेक पानां बरोवप्यान फुकट घालयल्यांत. ही नवलिका म्हळ्यार एक वासनाकांड आसा आनी एकदम बेगडी आनी कलाहीन आसा. नैतिकतेक धरून हे नवलिकेतले संदर्भ मात्तूय येना. उपरांत हे नवलिकेचें जाल्लें

नाट्यरूपांतर नवलिकेपरसूय सामकें 'उथळ' जालां. 'दायज' नवलिकेंत पर्थून सॅक्स हेच गजालीक म्हत्व दिलां आनी कथानक हिन्दी फिल्मी स्टायलचें जावन आसा अशें सांगून, चंद्रकांत काकोडकाराच्या तुळेक हें कथानक तेंडुलकार बसोवन एक तर काकोडकाराक उखलून धरतात ना तर 'दायज' चें मोल उणें करतात. 'दायज' चें उपरांत जाल्लें नाट्य रूपांतर बरोवप्याच्या नदरेंतल्यान सुटलां जावंये. तशेंच एकादी कथा कित्याक फसता हें कळपाखातीर हे नवलिकेचो उपेग जावं येता ह्या सारखें विधान ह्या पुस्तकांत बरेंच चीप अर्थान वापरलां हें खंतीन म्हणीन दिसता.

'अच्छेव' हे नवलकथे संबंदान तेंडुलकार हांणी तिका 132 पानांमेरेन बरी जाल्या अशें सांगून देवकीची एन्ट्री जातकूच ती रंजनवादी आनी हिन्दी फिल्मी पध्दतीन दाखयल्या अशें म्हळां. तातूंत नानूचें पात्र आदर्शवादी अकस्मात जाता तें दाखोवप गल्लाभरू पिक्चराची देख दिवपी आसा अशें तेंडुलकार म्हणटात. कथानकाच्या आवाठाक मर्यादा पडिल्ल्यान ही नवलकथा फावो तशी उंचाय गाठोवंक शकना हें ताचें मत मान्य करपासारखें आसा. तरीय पुंडलीक नायकांचे हेर नवलिकेचे नदरेंतल्यान अच्छेव ही नवलकथा निश्चितूच कोंकणीच्या मळावेली म्हत्वाची आसा हातूंत दुबाव ना आनी कोंकणी साहित्याचो विचार करताना तिची तुळा संवसारीक साहित्याकडेन शंबरेक वर्सां तरी करूंक जायना अशे तरेचे विचार तेंडुलकार पयलेच फावट ह्या लेखाक धरून आपल्या पुस्तकांत उक्तायतात हें कांय उणें न्हय.

रवींद्र केळेकार हांचे 'तुळशी' हे नवलिके संदर्भात बरोवप्याचें पयलेंच वाक्य पळयात. 'पयरूच रवींद्र केळेकारांची 'तुळशी' ही नवलीका म्हजे वाचनात आयली.' 1971 त ही नवलिका उजवाडाक आयल्या. बरोवप्याच्या मता प्रमाण वालोरांतले लेख सात आठ वर्सां पयलींचे. वालोर 1998 त उजवाडाक आयला. तर नवलिका उजवाडाक येवन सुमार वीस वर्सां उपरांत तेंडुलकारान ही नवलिका वाचल्या आनी उपरांतचीं आपलीं सगळीं विधानां केल्यां. तातूंत हे कादंबरीचेर बरोवपाचो हेतू धरून रवींद्र केळेकार असली फडतूस नवलिका बरोवपाकूच कसो शकलो हे गजालीचो सोद घेवप ह्यो गजाली, आसूं! रवींद्रबाबान मोठ मोठे लेखक पचोवन 'तुळशी' कशी बरयली हो अजापाचो प्रस्न ते करतात ते ह्या 'पयरूच' वाचिल्ल्या अणभवांतल्यान.

आशय आनी विशयाचे नदरेंतल्यान हे कादंबरीची, नवलिकेची मर्यादा जरी आमकां दिसता तरीय नवलिका बरोवपा फाटलो हेत आनी प्रत्यक्ष रचना, तेदेवेळावयलो समाज, तेन्नाचे संस्कार, हांचें नाय म्हटलें जाल्यार जितें वर्णन ही नवलिका करता आसताना वगीच, 'अणभव' थर्डपर्सन नॅरेशन, साहित्याक मातयेचो वास दिवपाचे असफळ प्रयत्न आनी हेर घटकांक लागून ही नवलिका फसल्या अशेंच तें सांगतात. 'तुळशी'क धरून तांच्या हेर साहित्याची तुळा जावंची न्हय असो जो आशय ह्या निबंदाच्या शेवटाक आयला तोवूय तांच्या 'पयरूच....' ह्या अणभवांतल्यान आसूंये. हे नवलिके संदर्भांत हुतहुतेपणान कांय मुद्‌दे तेंडुलकार मांडटात ते पळयल्या उपरांत तांची मर्यादा कळटा. देखीक पान 48 – 'कदाचीत कोंकणींत नवलिका हो प्रकार आजून येवंक ना म्हणून मराठीवादयांक दाखोवपाखातीर स्वताच केळेकारान 'एका रातीभितर' कशीबशी ही नवलिका खरडल्या आसूं येता. आनी हें जर खरें आसत तर असल्या फालतू पुलितिकल डावपेचांतल्यान व्हड साहित्य निर्माण जावंक पावना हें रवींद्र केळेकारान नीट मतींत घेवंक जाय' हें विधान अदमासान केल्लें आशिल्ल्यान ताका अर्थ प्राप्त जायना. उरफाटें तें भडक दिसता. आनीक एक घुस्पागोंदळाचें विधान तेंडलकार करतात. पान 48, 49 चेर. '.... शिवाय बायलांचे सामाजीक, मानसीक, नैतिक, लैंगिक प्रस्न एखाद्रया स्त्री लेखिकेक जितले बरे तरेन खबर आसूं येता ततले ते पुरूश लेखकाक खबर आसतलेच अशें ना.'

युजीन आयनेस्को आनी अ. ना. म्हांबरो ह्या लेखांत अ. ना. न युजीनाच्या नाटकाच्या इंग्लीशीन अणकारीत जाल्ल्या नाटकाचें केल्लें 'रूपांतर' चर्चेक हाडटाना युजीन आयनेस्कोच्या नाट्य प्रवासाविशीं थोडीभोव वळख करून दिल्या. हें मूळ नाटक अ. ना. म्हांबरो हांणीं रूपांतरीत केल्ल्या 'गजालीचें नाटक' ह्या नाटकांत उतरूंक ना अशें तांचें मत. बरोवप्यान ह्या दोनूय नाटकांचो आपले परीन अभ्यास केल्या उपरांतूच केल्ली ही तुळा आसा. मूळ नाट्य कृती, तांतले संकेत रूपांतरीत नाटकांत येवंक नाशिल्ल्यान नाटक मूळ गाबो होगडायता अशें तांचें मत तांणी मांडिल्लें आसा. ह्या नाटकाक धरून अ. ना. विशींचें मांडिल्लें मत मात विदुशकी जाल्लें आसा. तेंडुलकार म्हणटात, 'आयनेस्को हो विदुशकी मुखवटो घाल्लो गंभीर लेखक जाल्यार अ. ना. म्हांबरो विदुशकी मुखवटो घाल्लो विनोदीच लेखक जावन आसा.'

दिलीप बोरकार हांच्या आण्टीची गादी ह्या नाटका संबंदाचो लेख ह्या पुस्तकांत आस्पावला. हे नाटका संदर्भांत ते म्हणटात की नाट्यकृती च्या निकशांक हें नाटक लागना देखून तें सामान्य जालां. दिलीप बोरकारान 'बोरकारी स्टायलीन' ही नाट्यकृती बरयल्या अशे तरेचें मत ते उक्तायतात. इतकेंच न्हय तर ह्या नाटकाक हिन्दी फिल्माचो वास मारतात अशेंय ते सांगताना नाटकाच्या एका प्लॉटाचो 'दिवार' ह्या हिन्दी फिल्माकडेन संबंद लायतात. ह्या नाटकांत हरिवंशराय बच्चनांच्या 'मधुशाला' हिन्दी काव्य झेल्यांतल्या कांय कवितांचो अणकार केला तो पॅच वर्काबशेन जालां अशें मत ते उक्तायतात. ह्या नाटकांत गोंयचे मातयेचो वास दिवपाचो बरोवप्यान प्रयत्न केला. पूण फकत फिल्मी अप्रोचाक लागून हें नाटक पडलां अशें मत उक्तायलां. शीला नायक कोळंबकाराक उक्ती चीट बरोवन तांची 'विद्येच्यान तर' हे कथेनिमतान ओली सांज कथा झेल्याची आस्वादक समिक्षा करताना आपलेपरीन तिचें मुल्यमापन करताना मानसशास्त्राक धरून कांय मुदूदे मांडल्यात. खासा करून बालमानस शास्त्राचो विचार केल्लो दिश्टी पडटा. वालोर सुरू जायत सावन 61 व्या पानार साहित्य कृती आवडल्या वा मानवल्या देखून ताचें बरें सकारात्मक रितीन केल्लें टिपण वाचपाक मेळटा. जे मानसीक अवस्थेंत बरोवप्यान ही कथा वाचली त्या वेळार जटील नवकथा वाचपाची 'चटक' लागिल्ली. हें बरोवपी सांगून वता. 'ओली सांज' कथा झेल्याचेर पुरायपणान अभ्यास मांडिल्लो जाल्यार तो आनीक बरो जावपाचो.

नयना आडारकार हांच्या 'प्रतिमा' ह्या कविताझेल्याचें रसग्रहण ह्या पुस्तकांत आमकां वाचूंक मेळटा. नवोदीत कवयित्री आसून लेगीत तांचे मदलो आशिल्लो स्पार्क दाखोवन उरतलें तें रूप धरतलें ची उर्बा दिवपी हो लेख आसलो तरीय बरोवप्यान केल्ल्या कांय विधानानी ह्या लेखाक मर्यादा घालून दिल्या. तशेंच कोंकणी कवयित्रींच्या काव्यगुणांची सारखी पारख नाशिल्ल्याचें दाखोवन दिलां. ते म्हण्टात '... खरें म्हळ्यार कोंकणी कवितेचो फाटले तिशेक वर्सांचो इतिहास पळयत जाल्यार अशें दिसता की आजुनूय बरी ताकदीची अशी कवयित्री कोंकणींत निर्माण जावंक ना. फाटल्या धायेक वर्सांत निला प्रभू शास्त्री, शांती प्रभू तेंडुलकार, माया सरदेसाय, प्रशांती तळपणकार, लिना हेदे, सोनिया शाह सारख्यो कवियित्री उदयाक आयिल्ल्यो आसात, तातुंतलीच नयना

आडारकार ही एक.' खरें म्हळ्यार फाटल्या धायेक वर्सांत (1987-97) ह्यो वयल्यो कवयित्री नाय म्हळ्यार हांगा थंय कविता सादर करताल्यो. चित्रंगी सारखिल्ल्या सर्तीतल्यान वयर सरताल्यो. पूण तांचे फाटल्यान कोंकणी राजभास चळवळीचो,· विद्यार्थी चळवळीचो, साहित्यीक आनी सामाजीक चळवळीचो बरोच प्रभाव आशिल्लो आनी ह्या प्रभावांतल्यान ह्यो कवयित्री बरयताल्यो अशें म्हणूं येता. पूण तुमी दिल्ल्या ह्या नांवातली एकलीय कवयित्री कोंकणी कवितेची वारी मुखार चलयना. शांती तेंडुलकार हांच्यो मोगऱ्या आटी हो कविता झेलो सोडलो जाल्यार बाकीच्यांचो कविता झेलो म्हज्या वाचपांत येवंक ना. त्या काळार निला तेलंग, नूतन सुखटणकार सारखिल्ल्योय कवयित्री बरयताल्यो. तातूंत सद्याचे घटकेक तरी म्हाका नूतन सुखटणकार (साखरदांडे) हांच्यो कविता कोंकणी कवितेक वेगळें दालन दिवपी अश्यो दिसतात.

'प्रतिमा'तली शाळा कशी आसता काय? ही एकूच कविता ह्या लेखाचो केंद्रबिंदू जाल्ल्यान बाकीच्या कवितांची व्हडलीशी वळख मेळना हें ह्या लेखाच्या 'माथाळ्याक' पुराय न्याय दिना. 'शाळा कशी आसता काय' हे कवितेचो 'पाणावल्ल्या डोळ्यांचो' अणभव घेतल्या उपरांत केल्लें हें परीक्षण आसा. लक्ष्मीनारायण पारज हांच्या मेरेवेलो गांवकार ह्या पुस्तकाचो नियाळ हांगा केल्लो आसा. तातुंतलें 'नॉन–फिक्शन आनी फिक्शन' लेखाविशीं आपलीं मतां मांडल्यांत. ह्या पुस्तकांत बाकीबाब, शंकर भांडारी हांचेवयले लेख हें बाह्यआंग दाखोवपी आसात. वावराडी लेखांतलो रसभंग करपी उल्लेखूय बरोवप्यान बरे रितीन मांडून तातुतलें भडकपण दाखयलां. तर बाकीबाबावेलो लेख बरोच व्यक्तीपूजक आनी वर्तमानपत्री उतरला अशें तांचें म्हणणें. ह्या लेखाचे सुरवेक ह्या पुस्तकाक 'मेरेवेलो गांवकार' हें नांव दवरपा फाटलें प्रयोजन आपल्याक कळ्ळें ना अशें तेंडुलकारबाब म्हणटात. ताका म्हजेपरीन जाप दियना हांव म्हणन की मेरेवेलो गांवकार ही एक प्रवृत्ती. 'मेरेवयलो गांवकार' जावपी गांवकारांक मातयेचो खरो कस खबर आसना. पोब्रफिदाल्ग रितीन जगपी हे लोक आसतात. मातयेचो वास जांकां कळ्ळा तो गांवकार मेरेर रावोन केन्नाच शापोंता सांगचोना. एक सांस्कृतीक, सामाजीक संदर्भ आसा ह्या उतरा फाटल्यान. देखून ह्या पुस्तकांतलीं व्यक्तीचित्रणां रंगयताना पारजबाबाक घडये ही जाणविकाय आशिल्ली जावंये. आपल्या मर्यादांची जाणविकाय आशिल्ल्यानूच तांणी ह्या

पुस्तकाक मेरेवेलो गांवकार हें नांव दिल्लें आशिल्लें घडये. अर्थांत ह्या पुस्तकाचें मुखपृश्ट खूब कितेंतरी सांगता हेंवूय खरें.

वालोर ह्या पुस्तकाच्या दुसऱ्या भागांत कांय कोंकणी-मराठी हिन्दी कविंच्या - संतकवींच्या गितकारांच्या कवितांचें रसग्रहण करताना खासा आपलेय कवितेचेर भाश्य केल्लें आसा. तातूंत शंकर परूळकाराची अप्रकाशीत 'धुमकेतू' ही कविता विस्कटावन सांगताना तातुंतलो अर्थ बेस बरो सांगला. तरीय पूण म्हायती दिवपाच्या मोहाक लागून तेंडुलकार गरजे भायर विवेचन करतात. पान 76. एक म्हणजे कवितेंत 'हांव' नांवाची कोणूच आत्मकेंद्री व्यक्ती दिसना तरीय आसताना ती एक संपूर्ण आत्मकेंद्री कविता जाल्या. खंयच्याय एका व्यक्ती बद्‌दल न उलयता एकूण कवितेंत एक मानवी समाजाची फ्रेम उबी केल्या आनी ते फ्रेमींत परत मानवी समाजापासून तुटलेल्या व्यक्तीचो एक अदृश्य फोटू हुमकळ्ळा. ती व्यक्ती म्हणजे मागीर एखादो काफ्काचो 'ग्रेगोर झाझ्मा' वा काम्यूचो 'मेरेसोल' वा भालचंद्र नेमाड्यांचो 'पांडुरंग सांगवीकार' बी कोणूय आसूं येता, वा ती व्यक्ती म्हणजे साक्षात शंकर परूळेकारूच आसूं येता.' दुसरो उल्लेख येता तो हे कवितेंतल्या 'मांडवी पुला'च्या संदर्भांत. तेंडुलकाराच्या मतान कवीन मांडवी पूल ह्या बदला निखटो 'पूल' वापरपाचो. मांडवी हे वास्तव न्हंयचो नांवान उल्लेख केल्ल्या कारणान तो निवेदकाचे जिणेकडेन जोडटा अशें तांचें एक मत तर मागीर 'लंडन ब्रीज इज फॉलींग डावन' खंयच्या संदर्भांत अभ्यासपाची? रमेश वेळुस्कार हांच्या एका कोंकणी कवितेचें रसग्रहण ह्या पुस्तकांत मेळटा. जिवीताची आनंदयात्रा करताना ची 'अध्यात्मीक साधना' करूंक लावपी आनी जिणेची आगळी वेगळी वाट दाखोवपी हे किवतेचेर सुंदर अशें भाश्य तेंडुलकार हांणी केल्लें आसा. आशय, भास, कवितेचें दृश्य रूप ह्या आंगाचेर तांणी विवेचन केल्लें आसा.

अरूण साखरदांडे हांच्या 'एका झाडाक घर जाय' ह्या झेल्यातले एके कवितेच्या विंगड विंगड आंगाचेर तेंडुलकारान विवेचन केल्लें आसा. तातुंतल्या स्पर्शबंधाचेर केल्लें विवेचन बरें रंगलां. पुराय कविता आवडल्या अशें सांगल्या उपरांत जर कवितेंतलें निवेदन 'वर्तमानकाल' ह्या रूपान बरयल्लें जाल्यार भाशीक संघटनेक आशयाचें अदीक बळगें मेळपाचें हें दाखोवपाक तांणी कांय सुचोवण्योय केल्यात. अर्थांत हे कवितेचें मोल ते उणें मानिनात.

विनायक गोवेकार हांच्या कोंकणी वर्सुकी 1987-88 च्या अंकातल्या 'अंत गणित' हे कवितेचें तेंडुलकारान बऱ्यापैकी रसग्रहण केल्लें आसा. आपल्याक ही कविता कशी भावल्या तें दाखयलां. पूण कवितेच्या रसग्रहणा उपरांत कवीचो सोद घेवपापासत आपणे केल्ल्यो खटपटी पुरवणींत सांगल्या. तातूंत विनायक गोवेंकार नांवाचो 'अंतगणित' ही कविता बरोवपी कवी जितो आसा काय पालवलो? ह्या विधानान तेंडुलकारान आपलो लेख खूप चीप केलो. गरज नाशिल्ली सगळें हें अशें बरोवपाचें. विनायक गोवेंकार कवी म्हणून कदाचीत शेणलो आसूं येत पूण व्यक्ती म्हूण ताचें अस्तीतत्व आसा. तो आमोणें - (सांखळे) हांगा रावता. तुमचे म्हायती खातीर म्हजे कडेन तांचो आशिल्लो पत्तो असो. विनायक गोवेंकार, आंबेशीवाडो, आमोणें, पोश्ट माशेल, गोंय. 403107. मुखावेल्या लेखांत तेंडुलकारान 'जनेल' ह्या दत्तकुमार व्यंकटेश कामत हांची 'चंद्राचि कविता' कलेकलेन फुलोवन दाखयल्ली आसा. दिपक प्रभू देसाय हांची ए.बी.सी.डी. शिकल्या उपरांत ही कविता घेवन ताची विस्कटावणी केल्या. पूण तांच्यो कोंकणी कविता भोवमोलाच्यो आसा अशें आपल्याक जाणवलां अशें बरोवपी म्हुणून ताका, 'बाब दीपक प्रभूदेसाय हो कोंकणी आनी मराठी ह्या दोनूय भासांत बरोवपी एक ताकदीचो नवो कवी' म्हूण दाखलो दिता. खंय आसा हाची कोंकणी कवितेंतले ताकद? कोण दाखयत काय? कोंकणीचे बाबतीन अशें फुलोवपाचे आनी फुलपाचे प्रकार आमी उणे करपाक जाय.

वालोर ह्या पुस्तकांत संत तुकाराम महाराजांच्या दोन अभंगांचें आनी आनंद बक्षी हांच्या एका हिन्दी फिल्म गिताचें रसग्रहणात्मक मुल्यमापन केलां. हो म्हज्या लेखाचो विशय नासलो तरीय ही सुवात कोंकणी साहित्यांतल्या हेर कृतींक दिल्ली जाल्यार बरें जावपाचें हें म्हजें प्रामाणीक मत.

कविता : 1984. हे आपलेच कवितेचेर एस. डी. तेंडुलकार हांणी टिपण केल्लें आसा. 1984 हे कवितेक नांव दवरपाफाटले संस्कार, तातूत जॉर्ज ओर्वेल ची 1984 ही कादंबरी, इंदिरा गांधी हांची हत्या ह्यो गजाली दिल्या उपरांत आपले वायट जाल्ले मानसीक स्थीतीचोय हे कवितेक धरून उल्लेख आयला. तेंच वांगडा आपल्यो सवंयो, सिगार ओडपाच्यो बींन, सिगार ओडपाची रीत. हाचेर मनमेकळेपणान उलयल्या उपरांत कवितेंतले संदर्भ कलात्मक नदरेंतल्यान वाढचे बदलाक ताका मोटवेपण येता. आपणेन कविता बरयल्लो काळ, ती

परीस्थिती, कुटुंबसत्तेचो आयिल्लो तिटकारो ह्यो गजाली विस्कटावन सांगल्यात आनी उपरांत येवपी काळाचेंय कल्पनेच्या बळार केल्लें चित्रण आनी ताचें समर्थन आमकां दिसता. तिसरें महायुध्द ही कविकल्पना नासून तें फुडल्या काळांत शक्य आसा ही कल्पना ते मांडटात. कवितेची निमणी ओळ खंयचे कादंबरींतल्यान सुचल्या हांचीय नोंद ते दितात. मुळांत हो लेख बरयताना तांणी आपले तेन्नाचे मनस्थितीचें, भुतकाळी वर्णन करून तांचें समर्थन करपाचो यत्न केलासो दिसता. रसग्रहण आत्मचरित्रात्मक पध्दतीन जाल्लें आसा हो लेखकाचो दावो पुरायपणान खरो जावंक शकना.

ह्या पुस्तकाचो तिसरो वाटो 'पुरवणी' ह्या माथाळ्याखाला आयला. तातूंत बरोवपी मनीस म्हूण आपले कांय अणभव जे हेरांच्या सांगातान आयिल्ले आसात तांचेविशीं म्हायती आसा आनी शेवटाक काशिनाथ शांबा लोलयेकार ह्या आपल्या कवितेखातीरच्या नांवाचेर घेतिल्ली आपलीच मुलाखत आसा.

तातून बाकीबाब आनी हांव ह्या लेखांत बाकीबाबाचेर नाय म्हळ्यार शीण काडला. हो लेख वाचल्या उपरांत बरोवप्याच्या चंचल मनोवृत्तीचें, आत्मसंतुश्टतायेचें ते ते वेळावेलें दर्शन घडटा. बाकीबाबाच्या काव्य गायनाच्या प्रभावांतल्यान आपुणूय हिन्दी फिल्म गितांचे धर्तेर कोंकणींत गितां पाडून बाकीबाबाकडल्यान तुस्त बी करून घेतल्या उपरांत बरोवप्याक आपले कवितेंतलो आत्मनिश्ट आनी गंभीर पिंड कळ्ळ्या उपरांत असल्या पाडेलपणाच्या कामाकडल्यान आपूण पयस कसो गेलों, उपरांत एम. ए. शिकताना बाकीबाबाचो शिक्षक म्हूण संबंद आयले उपरांत एका संदर्भाक धरून बाकीबाबाचें आनी तांचे मदलें संभाशण दिवन आपणे बाकीबाबाक सांगलें की आपली खंयची कविता साहित्य अकादेमीच्या काव्य झेल्यांत बाकीबाब घालतलो हें बाकीबाबाक जर याद ना जाल्यार ती पुस्तकांत घेवं नाकात. ताची कांय गरज ना. उपरांत ती कविता त्या झेल्यांत येवंक ना, आपल्याक बाकीबाबाचें आकर्शण नाशिल्लें. मुळांत तांची आनी आपली कविता ही वेगळी आसली, शिवाय बाकीबाब नवकवितेकडेन तुच्छतेन पळोवपी तर आपूण नवकवितेचो पुरस्कर्तो अश्यो खबरो तेंडुलकारान सांगल्या. ह्या लेखांत बाकीबाबाच्या सांगातान आयिल्ल्या कोडू अणभवांचें आनी आपल्या करणेचें समर्थन केल्ल्या वरी दिसता. खरें म्हळ्यार तेंडुलकार जेन्ना पारज हांकां बाकीबाबाचें अंतरंग आपल्या लेखांत दाखयना म्हूण शीण

काडटात तेन्ना स्वता आपूण बरयता त्या लेखांतूय ते पुराय बाकीबाब वाचप्यांच्या मुखार उबो करिनात. कांय पूर्वग्रह दुशीत नदरेन केल्ल्या विधानांक वाचपी कितलोसो मानतलो? तीच गजाल तांणी शंकर परूळेकारांविशीं बरयताना केल्या. आपल्याक फ्रस्ट्रेटेड लोक आवडटात आनी परूळेकाराकडलें 'काफ्का एस्क फ्रस्ट्रेशन' पळोवन आपूण ताचेकडे ओडलो गेलों असो मराठींतलो भावे प्रयोग तेंडुलकार करतात. मागीर शंकरावांगडचे शीण, मोग हांचें वर्णन आसा. मुखार शंकरावांगडचो सांगात पर्थून पयसावप, तांचे मदलो गैरसमज दाखोवन हो लेख सोंपता. पूण परूळेकाराची एक कविता आनी ताचेविशीं दोन उतरां हे दोनूय लेख एकठांय करून शंकर परूळेकारांच्या हेर कवितांचेर मुल्यमापन केल्लें तर ह्या पुस्तकाचो 'वालोर' वाडटलो आसलो.

'कविता साबार परत येवपाचो एक अणभव हातून आकाशवाणी पणजे केंद्राक धाडिल्ल्या आपल्या वितरांवक नाशिल्ल्या कविता संबंदान आकाशवाणी अधिकाऱ्यांचेर शीण काडून त्यो कविता कश्यो कुशीक पडल्यो (वा दवरल्यो) हाचें वर्णन आयलां. तेदेवेळावेले संवाद जे पान 132, 133, 134 चेर आयल्यात ते खरे आसत जाल्यार निखालूस ते काशिनाथ शांबा लोलयेकाराचे कवितेचेर अन्यायकारक आसा. पूण एक प्रस्न म्हाका पडटा. एस. डी. तेंडुलकारान त्यो कविता ह्या पुरवणेंत कित्याक दिल्यो नात? कवितेचें मुल्यमापन करपाक वाचकांक तरी संद मेळपाची. काय खंयच्यो कविता धाडिल्ल्यो त्यो तांकां याद उरूंक ना काय?

पुस्तकाच्या शेवटाच्या पुरवणेंत काशिनाथ शांबा लोलयेकाराची म्हळ्यार आपल्या कवी नावाची मुलाखत आसा. जे अर्थी मुलाखत कोणें घेतल्या हें स्पश्ट ना ते अर्थी ती स्वताच घेतल्या वा दिल्या वा रचल्या वा घडयल्या वा पाडल्या तिवूय आपले सोयीक धरून अशेंच म्हणचें पडटा. कारण जे तरेच्यो जापो ह्या प्रस्नाक आसा ते प्रस्न म्हळ्यार बरोवप्याचें मन जे तरेन ज्या संस्कारांनी, विचारांनी वातावरणांत तें घडलां ताचेंच पडबींब हांगासर दिसता. तातूंत कोंकणीच्या संदर्भात साहित्य अकादेमीच्या पुरस्काराविशीं तांची एक जाप अतिशयोक्तीची आसा - 'कारण झाडून सगळ्याच कोंकणी लेखकांक तो मेळपाचो आसा. म्हणटकूच तातूंत हांव आयलोंच.' पान 136.

कोंकणी भायल्या कविचो संस्कार आपले कवितेचेर जाला ही जाप

भोवमोलाची आसा. रवींद्र केळेकाराचेर तुटून पडपाक म्हूण एक प्रस्न उपस्थित केला. जाप पाल्हाळीक करून रवींद्रबाबाचेर घसरपाचें कारण ना. कारण हेच मुद्दे ह्यान आदीं दोनदां ह्या पुस्तकांत येवन गेल्यात. पर्थून कवितेची व्याख्या, 'भाशीक शक्यता' सारखिल्ले प्रस्न घडोवन जापो लांबोवपाचो यत्न केला. ह्या आशयाचें विवेचन पयलींच्या दोन लेखांनी आयलां हाचें भान एस.डी. तेंडुलकारान दवरपाचें आसलें. खरें म्हळ्यार काशी म्हण्टा फाटली निर्मणी प्रेरणा आनी स्वरूप हाचेर चड विवेचन ह्या मुलाखतींत जावपाक जाय आसलें तें तशें जालें ना. ही मुलाखत एस. डी. तेंडुलकाराची जाल्या. काशिनाथ शांबा लोलयेकाराची न्हय. मानसशास्त्रीय नदरेंतल्यान समिक्षकाचे समिक्षेचो अभ्यास करपाची गरज आसा.

तेंडुलकार आपलीं विधानां करताना खूपकडेन भान दवरिनात. परस्पर विरोधी अशीं तीं जातात. हिन्दी फिल्म पध्दतीचो जबरदस्त प्रभाव तांचे लिखाणांत दिसता. कितलेशेच कडेन कोंकणीची तुळा हिन्दी फिल्मांकडेन केल्या. तातुंतल्यान बरोवप्याच्याच व्यक्तीमत्वाक बंदना पडटात. आनीक एक गजाल ते करतात ती म्हळ्यार साहित्याचें ग्रेडींग करतात. ग्रेडींग म्हालाचें करतात. साहित्याचें पुरायपणान तें जावंक शकना. ह्या पुस्तकांत नैतिकता, अनैतिकता हीं उतरां पावला कणकणी वापरल्यांत. शुध्दलेखनाकडे दोळेधांप करून मांडिल्ल्या समिक्षा विचारांकूच म्हत्व दिवप हें जरीय तुमचे नदरेंत समा जायत पूण अभ्यासकांचे न्हय आनी पुस्तक जे तरेन 'पोटांत पोटशूळ' (हें उतर कित्याक गा?) हाडपी बी म्हण्टा तशें समा न्हय. आतां कोंकणी लेखकांमदली सृजनशील अस्वस्थताय जागोवपी हें आमी कांय वाट्यांनी मानूया. पूण पुरायपणान न्हय.



# 13.
# ‘कर्तृत्वी कन्या’तलें साहित्यीक हुतहुतेपण

“लोकवेदांतल्या बायलांचें चित्रण प्रामाणीकपणान करतलो जाल्यार आमी आमच्या केलेचे तीन भाग करचे पडटले. पयलो भाग हो सामक्या आदिम काळावेल्या लोकवेदाचो जाचे खूब थोडे अवशेश आयज गावतात. पूण तांच्या आदाराराय ह्या काळार बायलेक मानाची सुवात आशिल्ली म्हण कळटा. भारतांत आर्य येवंचे आदलो काळ हो ऋषी संस्कृतीचो आनी मातृसत्ताक पध्दतीचो. ह्या काळार पुराय समाज भितरले निर्मिती शक्तीच्या प्रभावान भाराविल्लो दिसता. ह्या काळार दादल्यांचें स्थान समाजांत नगण्य आशिल्लें. आर्यांच्या येवपावांगडा पुरूषप्रधान संस्कृती समाजांत रिगली आनी दादल्यांचें वर्चस्व वाडलें. ‘आपसुकूच’ बायलेची स्थिती उणाकपणाची जाली. हो कालचो म्हणजे लोकवेदाचो दुसरो भाग. ह्या काळार ना म्हळ्यार बायलेक थोडो-भोव मान अधिकार आशिल्लो. पूण सूत्र काळां नंतर तिचो जागो दादल्यांच्या पांयांकडेन थरलो. ह्या काळार निर्मिती जाल्ल्या लोकवेदांत बायलेच्या असहाय्य परिस्थितीचें आनी दुय्यम स्थानाचें दर्शन घडटा. बायलेच्या नशिबांतलो हो सगळ्यांत दुदैवी काळ. आयज जो लकोवेद आमकां भरपूर प्रमाणांत मेळटा तो ह्याच काळावयलो. देखून लोकवेदांत चित्रीत जाल्ली बायल ही पिडीत सोंशीत असोच निश्कर्श काडूंक मेळटा.”

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या लोकवेद विभागाच्यो संशोधिका डॉ. जयंती नायक हांणी कर्तृत्वी कन्या ह्या पुस्तकांत दिल्ले मुलाखतींतलो हो एक वांटो. वयलें ‘आपसुकचू’ हें उतर आनी ‘तिचो जागो दादल्यांच्या पायांकडेन थारलो’ हीं उतरां नियाळटाना वाचकान गंभीरपणान विचार करप गरजेचें आसा. म्हज्या विवेचनांत ह्याा दोनूय उतरांचेर अभ्यास जावंचो असो प्रयत्न आसा.

‘कर्तृत्वी कन्या’ हें ज्योती कुंकळकार हांणी बरयल्लें पुस्तक फोंडे वळवयच्या अपुरबाय प्रकाशनान उजवाडायलां. सुनापरान्त दिसाळ्या पासत मुलाखती पध्दतीन ‘कांय कर्तृत्वी’ बायलांच्यो यशोगाथा मांडपाचो हो मर्यादीत प्रयत्न आसा. मुळांत वृत्तपत्राची चौकट मान्य केल्या उपरांत दर सप्तकाक कर्तुत्वीनी वेंचून

काडप, धांवपळ करून मुलाखती घेवप, पुरवणेपासत ती छापून येवंकूच जाय म्हूण तकालस घेवप आनी मागीर कश्टांचीं फुलां जावप ही सगळी एक प्रक्रिया. हेच प्रक्रियेंतल्यान वतना स्वताचें मोटवेपण मानून घेवन ह्यो कांय मुलाखती 'चित्रंगी'त आनी उपरांत पुस्तकरूपान काडप हें एक कर्तृत्व मुलाखतकार सौ. ज्योती अवधूत कुंकळकार हांणी दाखयलां. हें कोंकणीच्या उदरगतींतलें एक आगळें वेगळें पूण हुतहुतेपणान घातिल्लें पावल आसा अशें म्हजें वैयक्तीक मत आसा.

ह्या पुस्तकांत राजकारण, साहित्य, कला, वेवसाय, संशोधन, समाजसेवा, स्वातंत्र्यसंघर्श, ह्या सारखिल्ल्या विशयावेल्यो 23 (तेवीस) मुलाखती आसात. तेभायर कोंकणी साहित्यांतलें दिग्गज व्यक्तीमत्व रवींद्र केळेकार हांची 'येवकार' दिवपी प्रस्तावना आनी स्वता लेखिका ज्योती कुंकळकार हांचें मनोगत कश्टांचीं जालीं फुलां ह्या माथाळ्यांत आसा. कश्टांच्या 'फळां' परस 'फुलां' चीच चड ओड बरोवप्याक आशिल्ली दिश्टी पडटा देखून रवींद्रबाबाचे प्रस्तावनेन भुल्लुसून वतना ती बरयता, "...रवींद्रबाबांची प्रस्तावना पुस्तकाक लाबप म्हळ्यार देवळांत देवदर्शनाक वचपी भक्ताच्या कपलाक दरवंट्याचेरूच गंधाच्या तिब्याचो भोमान लाबप." गंधाचे तिबे मिरोवंक सोदपी म्हाजन कर्तृत्वाची खरी पारख कशी करूंक पावतलो काय हो म्हजो हुस्को आसा. पुस्तक रूपान आयिल्ल्या ह्या मुलाखतींतल्या मजकुरांचेर नदर मारताना जायते कडेन बालीशपणा दिसतात. इतलेंच न्हय तर अणभवाच्या उणाकपणाक लागून ह्यो चडश्यो मुलाखती परिपूर्ण जावंक पावल्यो नात. हांव कोण ही नदर दवरून मुलाखती घेवपाची गरज आशिल्ली. पूण ती नदर ह्या पुस्तकान पुरायपणान दिसना.

आशालता बाबगांवकार हांचे वांगडा 'देखणी दुराय' ह्या चित्रपटाच्या चित्रिकरणाच्या वेळार धा दिसांचो जो सांगात मेळ्ळा त्या सांगाताच्या म्हालवजार तिचें कर्तृत्व रंगोवपाचो यत्न केल्लो आसा. तांकां धा प्रस्न ज्योतीन केल्यात हातूंत एक प्रस्न असो आसा. "सद्याच्या हिन्दी चित्रपटांत दिलखेचक कथानकां परस हेर गजालींक खूब म्हत्व दितात ते नदरेन मराठी चित्रपट उजवे आसात?" लेखिकेक हेर भासांतल्या सद्याच्या चित्रपटांतल्या कथानकांचो अभ्यास नाशिल्ले कारणान हो प्रस्न विचारपूच चुकलां. घर, संवसार आनी भुरग्यांची जापसालदारकी सांबाळून 'बायल ह्या कलेच्या मळार यशस्वी जावंक शकता? हो प्रस्न

तितलोच अज्ञानाचो. आपलें 'निर्बळा' पण दाखोवपी. हुस्क्यांत भरिल्लो आसा. परिणाम स्वरूप आशालताची कोंकणी मुलाखत साहित्यीक भूक भागयना. हे मुलाखतींतल्यान ''म्हान जालेत ल्हान'' चो आभास निर्माण जाता.

'माधवी देसाई' हांची मुलाखत ह्या पुस्तकांत दिल्या. तिचो परिचय करून दिताना तिच्या 'नाच ग घुमा' आत्मकथनाक दामाणी साहित्य पुरस्कार लाबलो आनी साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार हुकलो अशी भास वापरल्या. माधवीताईची पार्श्वगायिका जावपाची इत्सा आवय 'प्रतिष्ठे' पासत चिड्डून उडयता. तो भाग बरे रितीन मांडला. 1952 वर्सा माधवीचें नरेंद्र काटकार हांचे वांगडा लग्न जाता. लग्नाच्या अठरा वर्सांच्या सहवासा उपरांत नरेंद्र भायर पडटा. 1973 वर्सा नामनेचे मराठी लेखक आनी कोवाडचे जमीनदार रणजीत देसाय हांच्या वांगडा पुर्नविवाह केल्या उपरांत तांगेल्या जिवीताक थीरताय आयली अशें ज्योती सांगताना मुखार म्हणटा. 'मदलो काळ खूब वैभवान आनी सुखांत गेलो. चलयांचीं लग्नांय बरेभशेन जालीं. माधवीच्या 'नाच घुमा' चो ज्योतीचेर बरोच प्रभाव पडला. पणजेच्या रस्त्यार आपले फाटीर धाप मारून माधवीची गांठ पडली अशें ज्योती सांगता आनी मागीर जमिल्ल्या नात्यांतल्यान घडिल्ल्या भेटींचे हे मुलाखतपर रूपांतर ह्या पुस्तकांत दिलां. सुमार तेरा प्रस्न ज्योतीन तिका केल्यात. तातुंतले जापेवेल्यान गोंयचीं बायलां बरयतात ताचें चड कवतूक दिसता. बायलांनी अणभव घेवपाक हांगा थंय भोंवपाक जाय, लेखन प्रवृत्तीची जपणूक करूंक जाय. कामाक वचपी बायलेची स्कुटर घेवन वाट पळोवपी घोव हें नव्या विचारांचे आनी प्रगतीचें लक्षण ती मानता. हे मुलाखतीन बायलांच्या स्वातंत्र्या विशींचें मत ज्योतीन विचारलां. ताका जाप दितना माधवी म्हणटा की 'गृहिणीपद' (?) बायलेक चुकना. तें सांबाळून तिणें आपलें व्यक्तीमत्व घडोवंक जाय. माधवीन आपल्याक पणजे रस्त्यार हटकिलें हो अणभव मांडटना ज्योती व्हांवत वता. ''... वाटेर जायते जाण मेळटात. हटकितात. पूण ह्या हटकुपांत अपुरबायेची मायेची ओलसाण आशिल्ली.'' माधवीक गोंयचेर 5 प्रस्न विचारल्यात. तांकां वेगळे पध्दतीन ते विचारूं येताले.

नाट्य अभिनय मळावेली गोंयची नाट्यतपस्विनी, स्वाभिमानी तशींच मानीनी अलका वेर्लींगकार हांची मुलाखत आयल्या. तातुंतलो पयलोच प्रस्न पळयात.

उत्सवी नाटकांत नटी आसप म्हणजे नाटकांतल्या कलाकारांनी आंबटशौकीनपणां करप, प्रेक्षकांनी फकाणां करप हें अशें चलत आयलां. पूण असल्या नाटकांत अलका वेलींगकर आसल्यार मात सगळें शिस्तीन, अलकाताईच्या प्रभावाखाला चलतालें. म्हाकाय असो अणभव आसा. ते जापेतलो निमाणो वांटो म्हाका म्हत्वाचो दिसता. तांचे मतान 'कलेकडेन आडनदर करून ज्यो अभिनेत्री नाटकांच्या नांवार हेर सूख सोयींची आस्त धरतात तांच्याच वांट्याक तें आंबटशौकीनपण येता.'' ह्या प्रस्नाची जाप मेळोन लेगीत दुसरो प्रस्न ज्योतीन केला.

एका काळार तुमचे जवानींत तुमी सुंदर आशिल्लीं. रंगमंचार वावुरताना दादल्या कलाकाराकडल्यान तुमकां वायट वागणूक मेळ्ळीना?

अलका वेलींगकारान आपलें जिवीत नाट्यकलेक ओंपलें. हें खरें 15 -15 वर्सां कसलेंच मानधन घेनासतना प्रसादाचो दोणो आनी फूल घेवन तांणी रंगमाचयेची सेवा केल्या. ह्या वावराकडेन आडनदर करूं नजो. बदलत वचपी परिस्थितीचें वायट बरे परिणाम अलकान पळयल्या. तें अंर्तमुख जालां. 'नायटी' परस 'मानधन' ह्या उतराचो अर्थ अलकाक बरे भशेन कळिल्लो.

समाजसेवेच्या मळार संकश्टां पेलून आपली आपणांक घडोवपी आशा सावर्डेकार हांचे मुलाखतींत तिणें R.D.A. त रावून समाज सेवा कशी केल्या हाचो मोटवो आलेख आयला. 'इतली समाज सेवा' करूनूय मनासारखी समाजसेवा करूंक पावना ही खंत उक्ती जाल्ली आसा. पान 35 चेर ज्योती आशाविशीं बरयतां. 'एक बायल मनीस म्हुणून लग्न हें तांगेल्या जिवनाचें अंतीम ध्येय नाशिल्लें. स्वताचें व्यक्तीमत्व फुलोवंचे, घडोवंचें अशाच हावेसान ती जियेताली. भारतीय विमानदळांत वैमानीक आशिल्ल्या विश्वनाथ सावर्डेकार हांचे वांगडचो, घोव म्हुणून स वर्सांचो सांगात मेळ्ळ्या उपरांत विमानअपघातांत विश्वनाथ संवसाराक अंतरतात ही घडणूक हे मुलाखतीक सुरवात जावंचे पयलीं येता. आनी ह्या सगळ्या अरिश्टांतल्यान आशा वयर कशें सरता ताचो उल्लेख करून मागीर पयलोच प्रस्न तिका ज्योती करता. हो ज्योतीच्यो वैचारीक चौकटी स्पश्ट करपी आसा.

'आशाताई, वैमानिकाकडेन लग्न जावप म्हळ्यार काळजाक फातर बांदून घेवप अशें म्हणटात. त्या तेंपार तुमी कशी तयार जाली?' आनी 'आशा'

विश्वनाथाकडेन लग्न जावप म्हळ्यार 'आव्हान' दिसता. हें आनीक एक अजाप. प्रस्नाची उतरावळ स्पश्ट आनी सभ्य आसची.

आनीक एक प्रस्न पळयात. प्रस्न 9 वो. तुमी एक ऑफिसर. कांय दादले तुमच्या हातासकयल काम करतात. ते तुमचे कडेन कशे वागतात? जाप दितना निमाणेकडेन आशाचें वाक्य सूचक आसा "...पूण केन्ना केन्नाय तांचेकडेन अती फ्री राविल्ल्याची खंत भोगता." स्त्री मुक्तीचो अतिरेक बायलां केन्ना केन्ना करतात हें आशाचें मत घेवपासारखें आसा. कामाचो भाग म्हुणून समाजसेवा करताना पर्यादा पडटात त्यो मान्य करतात.

कर्तृत्वी कन्या म्हुणून गोंय राज्याच्यो आदल्यो मुखेलमंत्री शशिकला काकोडकार हांची मुलाखत ह्या पुस्तकांत दिल्या. तिचे राजकी कारकिर्दीची म्हायती दिवन त्यो राजकारणांत कश्यो आयल्यो हें बी सांगून चौथ्या प्रस्नांत ज्योती विचारता 'राजकारणांत आयिल्ल्या बायलांक 'बदनाम' करप खूब सोंपें अशें म्हणटात. हें कितलें खरें?' शंबर टक्के खरें अशी जाप ताईबाय दिताना कारण दितात ते जॅलसीचे, दुस्वासाचे मुखार वचून हें सगळें आयकुपाची तयारी दवरूंक जाय अशें म्हणटा.

बायलांचेर जावपी अन्याय वाडल्यात. अशा आशयाचो ज्योतीचो प्रस्न आसा. ह्या प्रस्नाची जाप मेळ्ळया उपरांत राजकारणांतलीं बायलां भ्रश्टाचारान घुस्पल्यांत अशें सांगताना ताई म्हण्टा की एके बायलेन अशें कितेंय करप आनी सगल्या बायलांक हे नदरेन पळोवप समा न्हय. वयर ती म्हणटा की राजकारणांत येवपी बायलांक शंबर टक्के बदनाम करतात. हाचो मेळ कसो घालप. राजकी व्यक्तीमत्व म्हुणून आपणे केल्ल्या वावराची वळख ती करून दिता. मुलाखत सोंपले उपरांतचे आपले विचार उक्तायतना ज्योती सरसकट वाक्य वापरता तें वाक्य अशें 'तांचे सामाजीक, राजकी चलणुकेंत खंयच विसंगती दिसना.' हीं असले तरेचीं वाक्यां पुराय अभ्यासाअंती बरोवप हें बुध्दीवंताचें लक्षण आसता.

समाजसेवेंत विजयादेवी राणे हांचे बालभवनाची चळवळ ह्या विशयावेली मुलाखत घेतल्या. तातूंत तिणें (विजयादेवीन) आपल्याक विचारिल्ल्या कांय प्रस्नांच्यो जापो दितना "इंग्लीशीखातीर सगळे देश एकठांय येतात. आमची संस्कृती नश्ट जाता अशें आमकां दिसता जाल्यार आमचीं जीं व्हडलीं देवळां आसात त्या देवळांनी श्लोक, अभंग, किर्तन, हांचे खास वर्ग घेवन संस्कृती

तिगोवन दवरूं येता.'' अशींय विधानां केल्यांत. कर्तृत्वीनीक सोबसारखी हीं विधानां आसात व्हय? जाणकारांनी विचार करचो. अश्या ह्या पसाऱ्याचेर आपली टिपणी करताना ज्योती बरयता, ''मुख्यमंत्रीपदाच्या वलया भोंवतणी तांणी (विजयादेवीन) रावूं येतालें आनी थंयच प्रसिध्दी आनी नामना मेळोवं येताली. पूण तांणी तशें के लें ना....'' हांगा वलयांकीत जाल्ली बायल मनशेची प्रतिमा ज्योती आपले मुखार दवरता. बाकी विजयादेवीन बालभवन चळवळीक दिल्लें योगदान हो स्वतंत्र विशय.

शारदा सावयकाराच्या रूपान गोंय सुटके झुजांतली एक विरांगना आमकां पळोवपाक मेळटा. तातूंत शारदाबायचें एक वाक्य म्हत्वाचें तें - ''दादल्यांचे बरोबरीन मुखार येवपाकूच जाय पूण अशीं दादल्यांकडेन आनी समाजाकडेन झगडीं-झुजां करून न्हय.''

गोंय राज्याच्यो आदल्यो शिक्षणमत्री संगिता परब हांचीय मुलाखत आसा. तातूंत हेर प्रस्नावांगडा 10 वो प्रस्न पळयात 'वता थंय बायलांचेर अन्याय जाता. बळजबरी, बलात्कार असल्यो घडणुको घडटात. बायलांची प्रतिनिधी म्हुण तुमी ह्या अन्यायाकडे लक्ष दितात? असो प्रस्न ज्योती करता. मुखावेलो प्रस्न तर पुराय फाजीलपणाचो आसा. 'लोक आपले प्रस्न घेवन तुमचे कडेन येतात. प्रस्न सुटावे करपाचें उतर तुमी तांकां दितात. तेन्ना ते खंयचे नदरेंतल्यान तुमचे कडेन पळयतात? विश्वासान काय अविश्वासान?' संगीताबायचें वर्णन राजकारणांतलें संयमी आनी सालस व्यक्तीमत्व केल्ल्या ज्योतीक जाप मेळटा, 'अर्थात विश्वासान.'

वर्षा उसगांवकार हांचे मुलाखतीचे सुरवेक बायल मनशेचें सौंदर्य आनी कर्तृत्व हाचेर ज्योती आपले विचार उक्तायता. वाक्य मेकप केल्ल्या भशेन चडयलां. ''सुंदरकाय आनी कर्तृत्व हे दोनूय गूण एखाद्रे तरनाटे चलयेंत आसले जाल्यार अप्रपूच! वर्षाचे बाबतीन असोच तिगुणी संगम जाला.' वर्षाचो करिअर आढावो घेतला. नशीब वर्षाचें! ताका स्त्रीमुक्ती, आगळीको, बलात्कार ह्या विशयांचेर प्रस्न विचारूंक ना. ज्या कर्तृत्वाचेर ज्योती बरयता. ताचेविशीं तें म्हणटा, 'वर्षा नामनेची अभिनेत्री पूण टिपीकल गोंयकार. शीत आनी नुस्तें खाल्यार फिगराचें कितें, असो प्रस्न हेरांक पडूंये. वर्षाक न्हय. तें डायटींग बी काय करिना....' फिगर संस्कृतीतले कर्तृत्वीची ही मुलाखत आसा. वर्षाक ज्योती गोंयचो पावस म्हणटा.

अन्याय सोंसून बदनामी सोंसून वयर सरपी एके जिद्‌दी बायलेची व्हिक्टोरीयाची जिवीत पटी मुलाखत रूपान ह्या पुस्तकांत आयल्या. गोंयच्या सामाजीक चळवळीकडेन प्रामाणीक रावून कार्य करपी 'मामी' चें तशें कर्तूब मोठें. गोंयांतलो ओपिनियन पोल, रापणकारांची चळवळ, रेंदेराची चळवळ तशें हेर सामाजीक चळवळी लडोवपी व्हिक्टोरीया बाय बायलांचेर जावपी अत्याचारांक न्याय मेळोवन दिवपाक पुलीसेंत सॅल ची मागणी करता. खळखळपी, सळसळपी आनी खदखदपी व्यक्तीमत्व अशी ज्योती ताची वळख करून दिता. ही मुलाखत घेवपाक ज्योतीक बरेच कश्ट पडले. आपल्याक कश्ट पडूं पूण ती खरी समाजसेविका म्हणपाचें आपल्याक कळून आयलें हो अफलातून दिश्टावो ज्योतीक जालो ताचें रसभरीत वर्णन पान 68 चेर आयलां. मुलाखतकाराची भास ही अशी प्रचारात्मक आसची न्हय. प्रचार आसूं येता पूण तो कलात्मक नदरेंत येवपाक जाय.

गोंयांतली पयली चार्टड अकावटंट म्हूण शिला नायक गावणेकाराची मुलाखत आयल्या. घरचे अडचणींतल्यान कशी वयर सरल्या ताची देख दिल्या. एका प्रसंगाचें वर्णन करताना ज्योती कितलें कमी पडटलें तें म्हाका दिसता. हें वाक्य पान 74 '... पत्तो सोदीत हांव एका ऑफिसांत पावलें. भितर सरलें खरें पूण अनमनलें. एक प्रशस्त ऑफिस. भायल्या हॉलांत कितलेशेच कर्मचारी आपल्या कामांत गुल्ल आशिल्ले. वातानुकुलीत ऑफिस, कंम्प्युटरासारखीं अत्याधुनीक साधनां, अशें तरेचें ऑफिस एके बायलमनशेचें आसूं येता?' ह्या उतरावेल्यान ज्योतीक कितें सांगपाचें आसा? हो बायलेच्या कर्तृत्वाचो अपमान न्हय? मुळांत ह्या विशयांत खोलांत वचपाची तांक मुलाखत घेवप्याकडेन ना.

निर्मला सावंत राजकारणी बायल म्हुणून ताची मुलाखत आयल्या. ताचें जिवीत कार्याची देख दिल्या. आठ प्रस्नांनी ही मुलाखत सोंपयल्या तातूंत तिच्या राजकारणाचेर चड भर दिला. तरी आसताना महात्मा गांधीची 'ग्रामविकास' कल्पना निर्मलाबाय चालीक लावंक सोदता. मुत्सद्‌दी राजकारणांतल्यान भायर पडल्या उपरांत हें बरे रितीन चालीक लावंक शकतालें. ते पासत समाज आशावादी आसा.

कोंकणीच्या विकासाखातीर प्रकाशन व्यवसाय, साहित्य मेळावे, चित्रपट निर्मिती घडोवन हाडपी हेमा नायक हे कर्तृत्वी बायलेची मुलाखत आसा. तातूंत

संघटक म्हुणून हेमाचो वावर दिश्टी पडटा. पुंडलीक नायकाची घरकान्न म्हुणून तांच्या पदांचो फायद्यापरस तोटो चड जाला आनी अन्यायूय जाला अशे परखड विचार हेमा नायक उक्तायतात. कोंकणी चळवळींतल्यान आयिल्ल्या वायट अणभवांतल्यान तिणें एक गजाल घट केल्या ती म्हळ्यार आयच्या समाजांत पयसो आनी प्रतिश्ठा गरजेची. दोनूय एक दुसऱ्याचेर आदारून आसात आनी ह्यो मेळोवपाचो आत्मविश्वास तिका आसा. भुरग्याचो फुडार नव्या विचारांचो जावंचो ह्या मताकडेन ती सहमत आसा. संवसाराकडे फाट करून कोंकणीच्या विकासाखातीर झगडल्याचें तेज तिच्या मुखामळार आसा.

वैजकी व्यवसायांतल्यो स्त्रीरोगतज्ञ डॉ. माया घाणेकर हांचे लागीं आशिल्ल्या वळखीचे (सल्ल्यांचे) रूपांतर मुलाखतींत करून 'वैजकी सेवा' करपी कर्तृत्वी व्यक्तीमत्व हांगासर आयलां. तातूंत गर्भजल पध्दतीची म्हायती दितना मायाचो घुस्पागोंदळ जाल्लो आसा. बाकी सगळें आसाच. माया घाणेकाराची गरीब धाकट्या दुबळ्यांची केल्ले सेवेची सविस्तर म्हायती दिवपाक लेखिका असमर्थ थारल्या अशें म्हटल्यार अतिताय जावं नज.

अ।यरीन कार्दोज हांची हौशी तियात्राच्या मळार पर्जळपी व्यक्तीमत्व म्हूण ताची कर्तृत्वी वळख करून दिल्ली आसा. 25 तियात्रांनी कातारां गायल्यांत. अभिनय केला. तांकां इनामां फावो जाल्यात. तियात्रांच्या मळार बायलां फाटीं कित्याक म्हुणू प्रस्न करून तियात्राचे 100 वर्साचे उजळ परंपरेकूच आव्हान दिलां. आयरीन बायचे कितले तियात्र स्वता लेखिकेन पळयल्यात? आनी शेवटाक आयरीनाक प्रस्न केला तो अजापभरीत आसा.

''तुमकां समाजांत जो आयज मान मेळटा तो एक शिक्षिका म्हुणून, एक कलाकार म्हणून काय सभापती तोमाझिन कार्दोज हांची बायल म्हुणून?' जाप पान 100 चेर आसा.

गोंय राज्य विधानसभेच्यो वांगडी फातिमा डिसा हांचें कर्तृत्व लेखिकेन उक्तें करून दाखयताना तांच्या घरांत आशिल्ल्या शिर्डीच्या साईबाबाच्या मूर्तीकडे नदर वता. मागीर फातिमाच्या उलोवण्यावेल्यान कळटा की ती साईबाबाची भक्त आनी शिर्डीक बी वचून येता.

गोंयच्या विधानसभेंत बायलांचे (चार) प्रतिनिधीत्व आसून लेगीत गोंयच्या बायलांचेर कित्याक आगळिको जातात ह्या प्रस्नाची जाप दितना फातिमाचीं

मत अशें की 'विधानसभेंत चार बायलां आसलीं तर छत्तीस दादले आसात हें आमी विसरूंक फावना.' असल्या विचारांची ही कर्तृत्वी बायल स्त्री मुक्तीचेर उलयतना म्हण्टा - 'एक मनीस म्हुणून स्वताच्या हक्कांची जाणीव जावप हीच स्त्री मुक्ती.' अशे हे पयले संदर्भात ज्योतीचे विधान पळयात 'कांय जाणां बायलांच्या जल्माक येतात. पूण तांचें कर्तृत्व मात पुरूशार्थी आसता.' आव्हानां स्विकारप हो छंद मानपी. कर्तुत्वीनी!

1993 त साहित्य अकादेमीचो कोंकणी खातीरचो पुरस्कार फावो जाल्ले मीना काकोडकार हांची साहित्य क्षेत्रातली कर्तृत्वीनी म्हूण मुलाखत आयल्या.

सुमार पंदरा हजार चित्रां काडपी, गरीब दुर्बळ घटकांक चित्र माध्यमांतल्यान पितारपी, आधुनीक विचारसरणीची गवाय म्हुणून गळ्यांत मंगळसूत्र न घालपी, आपल्याक 'बायल' म्हुणून न घेवपी हर्षदा केरकार हांच्या मुलाखतींतल्यान कर्तृत्वाची देख दाखोवपाचो यत्न ह्या पुस्तकांत केल्लो आसा. आपणें स्वताक मुक्त मानप ही स्त्री मुक्ती अश्या विचारांचे हर्षदाचें चित्र आमकां दिसता.

उज्वला कामत तारकार हांच्या नाट्य अभिनयाक धरून केल्ल्या कर्तुत्वाचेर उजवाड घालपी मुलाखत हातूंत आयल्या.

लोकवेदाच्यो संशोधिका आनी कोंकणी (बायल) कथाकार म्हुणून कर्तुत्वाची मुलाखत दितना जयंती नायक हांणी आपले अभ्यासू वृत्तीच्यो जापो दिवपाचो यत्न केला. खासा करून कोंकणी लोकवेदांचें संकलन आनी संशोधन ह्या मळार तांणी बरोच वावर केला, करीत आसात हें मानून घेवंचें पडटलें. समाजसेवा करपी उज्वला नाटेकाराचो कर्तृत्वी परिचय ह्या पुस्तकांत आयला.

वकिली मळार नांव कमोवपी ॲड. अनार अग्नीची कर्तृत्वी म्हुणून वळख करून दिल्या. तांच्या घरवडीची वळख करून दितना लेखिका बरयता, "आमची संस्कृती पुरूशप्रधान. दादल्याक सुमारा भायर म्हत्व जाल्यार बायलांक सामकी उणाक वागणूक! अशा समाजांत घराब्यांत पयलीं चली जावप म्हळ्यार खोस. पूण तातूंत एक चुरचुरो! आवय-बापायच्या कपलार मेजूंक जायना अशो असंख्य आठयो पडपाच्यो. जन्मापासून तें चलयेच्या लग्नामेरेन.पूण ह्या आठयांक दोन कपलां आडवाद आसा. दो. सावळो केणी आनी सौ. सुखा केणी हांचीं कपलां.

मागीर अनार केणी (अग्नी) वकिलीच्या व्यवसायांत कशी गेली. ताचो

विस्तार आयला. स्त्री मुक्ती विर्शीचे अनार अग्नीचे विचार सगळ्यां थरांतल्या बायलांक स्वातंत्र्य आनी हक्क मेळोवन दिवपी. भेद मानिनासतना. कश्टी अनारबायचें व्यक्तीमत्व आयलां.

गायन मळाचेर वयर सरूक सोदपी रजनी ठाकूर हांणी मुलाखत दिल्या. फकत गोंयांतून ताचे संगीताचे कार्यक्रम जाल्यात. 'मुक्ता', 'तुळशी' 'सांगाती' ह्या दुरदर्शन (गोवा) टेलिफिल्मांनी शिर्शक गीत गायलां. ताची पयली वयली मुलाखत घेवपी ज्योतीच. गायक कलाकार म्हुणून कर्तृत्वी कन्या ज्योतीन उबी केल्या.

मुलाखत घेवप आनी दिवप हो एक कठीण प्रकार. तितलोच तो 'आकर्शक'. ज्योती कुंकळकारान ह्यो ज्यो मुलाखती घेतल्यात त्यो सगळ्यो वर्तमानपत्रांची चौकट मुखार दवरून सदर चलोवपाक म्हुणून. कोंकणींतलो एक प्रयोग म्हूण निव्वळ भावनात्मक नदरेंतल्यान पळयल्यार 'बरें जालां' म्हणप चलता. पूण मुल्यमापनाचे नदरेंतल्यान असल्या विशयावेलें पुस्तक बरयताना (मुलाखती घेतना) फकत भावनेच्या भकीक पडून प्रसिध्दी मेळोवपापासत करचो न्हय. ह्या मुलाखतींत जायतीं मोटवींपणां आयल्यांत. भौतेक बायलांचें व्यक्तीमत्व पुरायपणान दाखोवंक ना. बारीक सारीक गजाली जातूंत जन्म, भुरगेंपण, शिकप सारखीं 'कोशकारांक' उपेगाक पडपासारखी म्हायती पुस्तकांत दिवपाची गरज आसा. काळांतरान संदर्भ साहित्य म्हूण पुस्तकाचो वापर करपाक मर्यादा पडटात.

लेखिकेचें वाचन, सामाजीक, राजकीय, सांस्कृतीक संदर्भ उणे पडिल्ल्यान पुस्तकांत चुको दिसतात. समाजमनाचो भाशीक, सांस्कृतीक, राजकीय, लोकतत्वीय अभ्यास असल्या विशयासंदर्भांत गरजेचो. हें पुस्तक बरयताना पूर्वग्रह दुशीत नदरेनूच बरयलां म्हणपाचें दिसता. हो समाज पुरूशप्रधान, हांगासल्ली बायल अबला, निर्बळा, जी 'वयर सरतात' तांकां त्रास भोगूंक लायता. दिसपट्टे बायलांचेर फकत अन्याय, बलात्कार, आगळीकोच जातात. असोय सूर ह्या पुस्तकांत दाखोवपाचो यत्न केला. आपूण स्वता कलाकार आसा. आपल्याक कोण कसो लेखता! असो आत्मसंतुश्टतायेचो सूर दाखोवपाचो यत्न केला. घटनेचे गिन्यान स्वता लेखिकेक आसा व्हय? अशांतताय, अपेक्षाभंग, असुरक्षीतताय हाका फकत दादलेच जापसालदार आसात अशें ज्योतीक सांगचें दिसता. संयुक्त राष्ट्र संघाचो मानवी हक्क जाहीर नामो (1948), फ्रेंच राज्यक्रांती

(1789) विज्ञानाची प्रगती, सामाजीक बांधिलकी, नितीमुल्यां हांचो अभ्यास आसप गरजेचें. स्वातंत्र्याचो अर्थ स्वैराचार न्हय. आंगार कमीत कमी कपडे घातले आनी जायराती करून पयसो मेळोवप हाका मुक्ती म्हणप? कांय मळांचेर कर्तृबां करून तसरिपो जोडप हाका उदरगत म्हणटात? ज्योतीन आपल्याक साहित्यीक म्हुणून मानून घेतलां आसत तर फकत भावनेचो ओलो पदर दोळ्यांक लावपाचो प्रयत्न करचो न्हय.

ह्या पुस्तकांत आनीक कांय उणाकपणां दिसतात. ह्या पुस्तकांत आयिल्ल्या कितल्या कर्तृत्वींक भुकेची व्याख्या खबर आसा? तांचो सामाजीक इतिहास खबर आसा? अश्यो कितल्योश्योच कर्तृत्वी आसात जांणी उपाशी पोटार शेतांनी मळणेर मळणां फाफुडलीं. फकत दोन वेळचे पेज मेळोवपाक. अश्या कितल्या कन्यांनी हाडांचीं ताडां करून संवसार घडयलो. अश्या कितलेशेच 'कन्यानी' आमचें पुरातन लोकदायज जिबेर दवरलें. शिंदळक्यांनी जिवीत घालोवपी 'कन्यांचो' विचार जावप गरजेचें आसलें.

गोंयांत विनयभंग जाता सो दिसल्या उपरांतचे एक लोक आंदोलन हालींच्या तेंपार घडिल्लें ते अर्थान प्रशांती तळपणकार सारकिल्ल्या बायलांच्यो मुलाखती येवपाक जाय आसल्यो. शिक्षणीक मळाचेर कर्तृत्व गाजोवपी 'कन्या' कित्याक दिसल्यो नांत. ह्यो चडश्यो मुलाखती बंगले, ऑफिस, कला अकादेमी, दर्यावेळ हांगा घेतल्यात. कोणा खोपींत त्यो कित्याक पावल्यो नांत. शेतांतल्या खळांचेर कित्याक पावल्यो नात?

स्त्री मुक्ती संदर्भांत ज्योतीचो मानसीक घुस्पागोंदळ जाल्ले कारणान हें पुस्तक वजनदार जायना. भासशैलीच्या बाबतीन ज्योतीक मर्यादा पडल्या. 'पूण' ह्या उतराचो अवास्तव वापर ह्या पुस्तकांय जायते कडेन जाल्ल्यान विसंगती आयल्या.

ज्योतीची मुखावेली 'स्त्री मुक्तीची' वैचारीक चळवळ निश्चीतच फळादीक जावंची ही आस्त बाळगितां.



# 14.
# अथांग : लोकतत्वीय अधिश्टानाचो थाव घेवपी कथाझेलो

जयंती नायक हांचो पयलो कथा झेलो गर्जन उजवाडाक आयलो तो 1989. ताचे उपरांत 12 वर्सांनी ताचो दुसरो झेलो आयला अथांग. ही एका तपाची वाट चलतना जयंतीन कथा हो साहित्यप्रकार नेमान सांबाळून दवरिल्लो आसा. वर्सान एक तरी कथा तें वेगवेगळ्या माध्यमांतल्यान कोंकणीक दीत आयलां. तेच वांगडा आपलो लोकवेद संशोधनाचो, संकलनाचो आनी प्रकाशनाचोय वावर तें करीत आसा. गर्जनांतलो गाज वा आवाज ते अथांगाचो थाव, घेतना आमकां वाचपी म्हुणून कितल्योश्योच गजाली दिसतात. 1984 ते 1987 च्या काळांतल्यो 16 कथा गर्जनांत आयल्यात. त्या कथांची बरोवप्याक मेळिल्ली स्फूर्तय वेगळी. बायलांचेर जावपी अन्याय, अत्याचार पळोवन वा सरभोंवतणचो विध्वंसक समाज पळोवन ह्या समाजाआड आवाज उठोवंकूच जाय ह्या हावेसान जयंतीन कथा हें माध्यम आपणायिल्लें. तेबगर ताका तेन्ना दुसरो पर्याय नाशिल्लो. ताचो खासा बायलांचे साहित्यीक, संघटनात्मक आनी कोंकणीचे भाशीक चळवळीकडेन लागींचो संबंद आशिल्लो. आदर्श आनी आव्हानां पेलपाच्या हावेसान आपल्यांतले सर्जनशीलतायेक वाट करून दितना जल्माक आयलो तो 'गर्जन' कथाझेलो. गर्जनांतली कथा तशी पयल्या चंवरांतली. होच चंवर नांवां रूपाक येवन आयज आमचे मुखार दिश्टी पडटा तो 'अथांग' हो झेलो.

समकालीन कोंकणी कथेंत वेगळेंपण दाखोवपी असो हो झेलो. आमोणें, केपेंच्या 'राजाई' प्रकाशनान हो उजवाडाक हाडला. ह्या प्रकाशनाचें हें दुसरें पुस्तक. तें महिला सबलीकरण वर्साच्या निमतान लोकांमुकार येता ही एक बरी गजाल. ते निमतान ह्या कथा झेल्याकडेन वेगळे नदरेन पळोवपाक मेळटलें. ह्या कथा झेल्यांत 17 कथा आस्पाविल्ल्यो आसात. 'बायल' हो ह्या कथा झेल्यांतलो मुखेल आनी प्रभाव घालपी असो विशय आसा. कथाकार म्हुणून जयंतीचो विचार करतना तें लोकवेदाचें अभ्यासकूय आसा हें मतींत घेवन

तांच्या कथाविशीं विचार करचो पडटा. लोकश्रध्दा हो ताच्या चडश्या कथांचो स्थायीभाव आसा. निराकाराक आकार दिवन अथांगाचो थाव घेवपी कथा ह्या झेल्यांत आस्पावल्यात. देव-देवस्की, खुंटी-मठी, भावार्थ, समज, अपसमज हांचे वांगडा जगपाचो जबर हावेस बाळगुपी आधुनीक युगांतली बायल, एकसुरें एकमुळें जिवित जगपी बायल, लोकतत्व सांबाळून दवरपाखातीर वावुरपी कश्टी - गाबीत समाजाचें चित्रण, हो कथाझेलो आमकां करून दिता.

'आसाडी' ही ह्या झेल्यांतली पयली कथा. चौदा वर्सांच्या बाब येळपाकडेन सात वर्सांचें गोकूळ लग्न जाता आनी घन्नी जावन साठ वर्सां बाळ येळपाचें घर सांबाळटा. आपल्या देरां-नणणांक, तांच्या भुरग्यांक वयर काडटा. आपली कूस उजोवंक ना हें सत पचोवन, सर्वसमावशेक नदरेंतल्यान रूक्मीणी जावन घरांत आयिल्ली ही घन्नी, सगळ्यांक सांबाळटा. गांवचे येळीपपण सांबाळपी बाब येळीप. वर्सावळी प्रमाण गांवचें शेता-बांदावेलें देवस्पण बाब येळपान करचें आनी उजवाल्यार बाब येळपाचे चौकेवयलें गायन काणयेकारान सोंपोवचें ही रीत. मागीर पडटल्या पावसान लोकांनी कमाशी करची आसता. ह्या कार्यांत एकदां खंड पडटा. येळपाच्या देवस्पणान सुरू जावपी पावस पडना. लोक चिंतेस्त जातात. पूण पावस रकना हें पळोवन गाऱ्याण्यांचो प्रसंग येता. तेन्ना कळटा की काणयेकार आपले प्रथेप्रमाण रात जाली तरी थंय येवंक ना. आपलो चेडो बरो ना देखून आपूण वेळार देवस्पणाक पावलो ना ही जाप तो दिता, तेवेळार चेड्याच्या पिकासावान काणयेकार देवथळार सोरो पियेवन आयला हें घन्नीक कळ्ळ्या उपरांत घन्नी ताचेर तापता. त्या उतराक, ''भुरग्यांची चिंता तुका कितें कळटली गे व्हडली बो? ते खातीर आपले पोटांत पिकचें पडटा.'' हीं काणयेकारान उलयिल्लीं उतरां घन्नीच्या मर्मार घाव घालतात. पूण संतप्त जमाव काणयेकाराक मारता तेन्ना कळवळून घन्नी ताका सोडयता. आनी तेन्ना तिच्या काळजाचो बांद फुट्टा. तेवेळार तिच्या दुख्खांचो धरणी पिकोवपी खरो पावस पडटा, अशें बाब येळपाक दिसता. सर्वसमावेशक वृत्ती आनी वात्सल्य हें भुरगें जल्मा घालनासतनाय बायले मदीं आसता, ही जाणविकाय ही कथा करून दिता.

आत्मो परमात्मो हांचो संबंद गर्भीतार्थ दाखोवपी ताची 'ती' ही कथा आसा. वियोग, विरह, नियती हांचो संबंद दाखोवन सुकण्यांच्या प्रतिकांतल्यान

तांच्या भावात्म संवादांतल्यान आनी संवेदनांतल्यान ही कथा आकाराक आयिल्ली आसा. भावूक मनीस जिणेंतलें सूख - दूख हे कथेंतल्यान पळयतना करूण रसाचो एक पाट मनाच्या तळाक व्हावंक लागता. मराठींत जी. ए. कुलकर्णींच्या कथांची याद करून दिवपी अशी ही कथा आसा. प्रादेशीक संदर्भाक लागून ही कथा आपलें वेगळेंपण दाखयता.

'पानवळ' हे कथेंत गर्भभोग आनी कर्मभोगाचो पश्चाताप, ह्यो दोन गजाली आयिल्ल्यो आसात. पस्तीस वर्सांचे जुवान पिरायेर गांवठी वखदां दिवपाची (बापायची?) घरची वारी चलयताना 10-12 वर्सांचे सान चलयेचो वखदांच्या निमतान भोग घेवंक अधाशिल्लो आनी पश्चातापान मागीर आत्महत्या करपी विश्वंभराचो 'हातगूण' सोडलो जाल्यार, ताचो जल्मूच म्हळ्यार गर्भ-भोगाची कथा. उतार वयांत गांवाभायर वर्सभर रावल्या उपरांत आपलो भुरगो म्हणून गांवाक दाखोवपी आनी उपरांत संवसाराक अंतरपी ताचो बापूय. उदय भेंब्रो हांच्या प्रसादाफूल हे कथेंत जशें चंपावती - दासभटाच्या अनैतीक पूण गरजेच्या संबंदांतल्यान जें गूढ उक्तें जाता तशें विश्वंभराच्या जल्माबाबतींत जायना. पूण विश्वंभराक प्रितीचेर केल्ले आगळीकेचो जबरदस्त पश्चाताप जो जाता, ताची परिणती हे कथेच्या शेवटाक आयल्या. आत्महत्या करून पानवळ भोगपी विश्वंभर हांगा दिसता.

'बाळसटी' ही ह्या कथा झेल्यांतली बऱ्यापैकी कथा आसा. आपले घरकान्नीक जाल्लें भुरगें धरना म्हण पांचव्या बाळटेरा वगतार बरम्याच्या जाग्यावयल्यान गोपी आंगवण करता. "भिकू भगता सारकें हांवूय हे खेपेचें फळ तुज्या पांयार ओंपता. तेका दिल्लें तशें फुडले खेपेचें म्हाजें फळ मात म्हाका दी. तुज्या पांयांर हांव नाक घासता देवा!" अशी होरावणी करून गोपी आपलें पांचवें जल्मल्लें आनी जितें उरिल्लें भुरगें उतराखातीर भक्ती-भावान आनी इच्छेन रोयणीकडेन पुरता. पूण ताची बायल त्याच बाळटेरा वगतार ह्या संवसाराक अंतरता. भ्रमीश्ट जाल्लो गोपी आपल्या भुरग्याक पुरिल्ले सुवातेर खोप बांदून रावता. पुरताना भुरग्याच्यो किळांची आनी मुखावेलो काळोख दाटावपी फुडार येवजून दिशाहीन जाल्लो भ्रमीश्ट गोपी थंय एका दिसा नाक आपटून मरता. असो दुख्खी शेवट हे कथेचो जाल्लो आसा. ब्रह्मो जो हे धर्तरेचो निर्मातो आसा ताचो कल्पकतायेन वापर हे कथेंत जयंतीन केल्लो आसा.

उध्वस्त जिणेचें अस्वस्थ करपी चित्रण ताचे 'भागरथ' हे कथेंत आयलां. प्रथमपुरूशी निवेदनान ही कथा चड लागींची केल्या. भागरतीच्या जिणेचे भोगणार क्रमीक पध्दतीन मांडपाक बरोवपी जैतीवंत थारल्या. जिणेंतली पोकळी कोणें तरी भरून काडची ह्या नात्यान भागरत नागूकडेन इश्टागत करता, तेन्ना तांच्या संबंदान गांवांतल्यो वावड्यो, सत्य परिस्थिती आनी आयकल्ल्यो गजाली हातूंत कथा निवेदिकेचें मन विचारांनी घुस्पता. तो घुस्पागोंदळ ही कथा बेस बरी आमचे मुखार मांडटा. हे कथेंत कथनाचो मोठो वांटो आसा.

सपन, मुमताज, फिलमीनमाना ह्या कथांनी समाजांतलें बुरशेंपण, राक्षसी वृत्ती, भोगविलासी वृत्ती, अज्ञानांतल्यान आयिल्लो अहंकार, लोभी वृत्ती हांचें दर्शन घडटा. मुमताज हे कथेंत घरचे गरीबीक आनी सामाजिक बंदनाखातीर आनी मुखेल म्हणजे घोवाचे वासनेखातीर भुरगेपणांत मुमताजचेर लादिल्ल्या आवयपणाचें काळीज पिळपी दर्शन घडटा. कौमार्याक आवयपणाचो भेस चडोवन, जड जाल्ल्या मुमताजाची व्यथा, कथेंत प्रतिनिधीक स्वरूपांत आयल्या. तर पोसक्या पुतान भाटकार मेल्या उपरांत भाटकान्नीक घरा भायर काडटकच उपरांत तिच्या जिणेविशींचो कळवळो आनी शेजाऱ्यांच्या मनीसपणाचो दिश्टावो 'फिलमीनमाना' ही कथा घडयता. ह्या दोनूय कथांनी कथाकारान ती ती भास पात्रांच्या तोंडांत घालपाचो यत्न केला, खास करून मुमताज आनी निवेदिका हांच्या तोंडार हिन्दी भास - संवाद घालचे परस ते कोंकणींतूच आयिल्ले जाल्यार बरे जावपाचे. भास मुद्दाम पात्रांच्या तोंडांत घातली आनी ती त्या पात्रांक पुराय चितारूंक शकना जाल्यार ती अडेची दिसता. कथाकारान हो मोह मातसो उणो करूं येतालो. समाजांतलें राक्षसी प्रवृत्तीच्या दादल्यांचें चित्र पितारताना 'सपन' ही कथा साकार जाल्ली आसा. जिणेंतल्या भिरांकूळ अणभवांनी भियेल्ल्या बायलमनाचो थाव ही कथा घेवंक लायता. आनी हो समाज असो कसो? हो असो आसा काय? आशिल्लो काय? आनी हो समाज बदलतलो जाल्यार किदें करचें पडटलें अशे अंतर्मुख करूंक लावपी प्रश्न विचारपी ही कथा आसा. तर 'भाकीत' हे कथेंत नियतीचो खेळ आनी अंधश्रध्देचो मेळ बरोवप्यान घातला. ही कथा पत्रिका-मंगळ सारखिल्ल्यो गजाली हांचो मेळ घालता. वेगळ्याच अनपेक्षीत परिणामाकडेन ही कथा व्हरून आमकां सोडटा. आनी एकसुरें जिवीत जगपी वसुंधरेची चली आत्मघात करून

वसुंधरेची जीण आनीकूय भकास करतना दिसता.

'तो येतलो देखून' हे कथेंत परंपरागत बायलेचें निमाणेकडेन जाल्लें सकारात्मक मन-परिवर्तन दाखोवन चली जल्म हो शांतादुर्गेचो अवतार आसा असो दिश्टावो आमकां घडयता.

'अथांग' ह्या कथा झेल्यांत बायल मनशेची दोन पध्दतीन प्रतिमा आमचे मुखार आयल्या. एक परंपरागत, श्रध्दाळू, भावार्थी, वंशाचो दिवो वाढीक लागचो म्हण तळमळपी आनी दुसरी मळब हावेसान झपाटलेली, एकसुरी व्यथीत जीण जगपी. बदलत्या प्रवाहावांगडा वचपी, शिक्षणान, निर्धारान प्रचलीत समाज वेवस्थेविरूध्द, वासनाशक्तीआड झगडपी आनी जैतिवंत जावपी बायल 'शारदाम्मा' सारके कथेंत पळोवंक मेळटा. लग्ना उपरांतच्या म्हयन्या भरांतूच आयिल्ल्या वैधत्वाचेर, रूढी परंपरा आनी प्रचलीत समाज वेवस्थे आड झगडून वाचन, चिंतन, लेखन आनी अध्यापनाच्या जोरार स्वतंत्र पूण एकटी यशस्वी जीण शारदाम्मा जगता. फुडारिल्ले विचार आपणायिल्ली ही कानडी शारदाम्मा पुर्नविवाहाचो विचार कित्याक करिना हो प्रस्न ही कथा उपस्थीत करता. कानडी समाजांतली वास्तवताय उबी करपाचो यत्न बरोवप्यान करताना वाठार, पात्रां, पत्रां हांचो उपेग केल्लो आसा. तर रमा ही कथा गर्भभोगाचेर वा गर्भदानाचेर आदारिल्ली आसा. 'चित्रा' कथेंतलो मुखेल विशय स्फूर्त, चित्र-स्फूर्त. आपल्या गुरूक शाळेंत शिकतना आपूण पुरायपणान वळखूंक शकलें ना, ताची स्फूर्त आपूण आशिल्लें हें कळ्ळ्या उपरांत खंती - अस्वस्थ जाल्ले कर्तुत्वी बायलेची प्रतिमा ही कथा उबी करता. एका चित्रकाराच्या जिणेचो जिवीत मंत्र आनी मरणयातना दाखोवपी ही भावूक कथा आसा. रमा, चित्रा, शारदाम्मा, काणी सिंड्रेलाची ह्यो कथा बायलेच्या जिवीताचेर, तांतल्या एकमुळेपणाचेर आनी एकसुरेपणाचेर उजवाड घालतात. सिंड्रेलाची मूळ काणी पचोवंक शकनाशिल्ली एल्सा टिचरिचें, आपूण बियांतूलच उरलां, आपले जिणेंतल्या राजकुंवरा वांगडा आपलें लग्न जावंक पावलें ना, तो दुख्खी खंती व्यसनी जावन ह्या संवसाराक अंतरपाक पावला, म्हण मानसीक संतलून इबाडटा. ४० वर्सांची पिराय हुंपिल्ल्या 'एल्सा'ची मनोव्यथा मांडपी ही कथा. हे कथेचो शेवट म्हळ्यार भावनांचो उद्रेक. एक आशय संपन्न अभिव्यक्ती! सिंड्रेलाचे मूळ कथेक फांटो दिवन आपूण भोगिल्लें सिंड्रेला एल्सा पितारता.

भुरग्यांक तेंच खरें चित्र म्हणपाक फोर्सार करता. सद्सद्विवेक बुध्द होगडावन बसता. आपल्या राजकुंवराच्या मर्णाच्यो घांटी आयकून सर्वस्व होगडायल्ल्या एल्साचो काळजांतलो घणघण, इगर्जेतल्या मर्णाच्या घाटींपरसूय खूप वेळ वाचप्यांच्या मना-काळजांत निनादत रावता. आकर्शक सुरवात आनी परिणामकारक शेवट हें हे कथेचें खाशेलेंपण आसा.

'अंवसर' आनी 'बसवो' ह्यो ह्या झेल्यांतल्यो निमाण्यो दोन आशयसंपन्न आनी विशयाची व्यापकताय दाखोवपी कथा आसात. लोकश्रध्दा वा अन्नश्रध्दा, उदात्त भावना, लोकतत्वीय अधिश्टान मांडपी ह्यो कथा आसात. दिर्घ कथा प्रकारांत मोडूं येता असल्यो ह्यो कथा आसात. 'अंवसर' ह्या विशयाचेर कोंकणी कथा 'गळसरी'च्या रूपान एन्. शिवदासान आमकां दिल्या. गळसरींतलें कथासूत्र आनी अंवसराचें मर्म वेगळें. जयंती नायकाच्या ह्या 'अंवसरान' एक आगळो वेगळो विशय मांडला. लोकमांड आनी लोकमान सांबाळून दवरपा पासतचो संघर्श एकीकडेन, तर दुसरेकडेन नवे पिळगेमदीं जाल्ली सत्वाची, नीज अधिकारांची जाणविकाय. जमीन-जामो हांची वांटणी, अधिकार - म्हाजन - आंतरजातीय लग्नाखातीर उप्राशिल्लो लोकमांडावेलो आंतरीक संघर्श. स्वातंत्र्य, समता, बंधुत्व आनी अधिकारावांगडाच कर्तव्याची आनी अस्तित्वाची जाणविकाय जाल्लो भौस हे कथेंत सुक्ष्मरितीन आयिल्लो आसा. वर्सावळीचो अधिकाराचो अंवसर आपले पुर्वापार कुडीर येता, ताका नव्या विचारांचे आनी संघर्शभावनेन झपाटिल्ले तरनाटे बंदिस्त करपाचो निर्फळ यत्न करतात. शेवटाक जे खातीर बंदिवास तोडून शंभु जोतकार चौकार पावता, तें भूतनाथाचें - शंभु जोतकाराच्या अधिकाराचें तरंग भीवा मेस्ताच्या खांदार आसता. नवो भार आयिल्लो आसता, तेन्ना आपलें अस्तीत्व होगडावलें हे भावनेन तो व्यथीत जाता. श्रध्देचेर आदारिल्ले हे कथेंतलो तरण्या भुजांचो संघर्श एका नव्या विचाराची सुरवात करून दिवपी आसा, मुळां सोदपी आसा. दिर्घ कथेकडेन वचपी हे कथेंत बरेंच कथानक आसा. पात्रां, संघर्श, वातावरण परिस्थिती सुचक अशी सोबसारकी उबी केल्ली आसा. बदलत्या वाऱ्याची दिशा दाखोवपी ही कथा आसा.

'बसवो' ही कथा एक विशाल जिवनपट दाखोवपी थारल्या. गांवचो कारकी जाल्ल्या ठाकरांच्या मुळावणाची खबर सांगून ताच्या तळाची खबर

सांगपी ही कथा. गोयींद ठाकराच्या, किरिस्णाच्या पिळगेच्या स पिळग्यांचो उल्लेख घेवन गांवांत वर्सावळीक, नांवारूपाक, कर्तव्याक जागे राविल्ल्या समुहाचे प्रतिनिधीक चित्रण ही कथा करता. गांवचे वेवस्थेंत गोवींद ठाकराचे घरवडीक आनी पर्यायान गोवींद ठाकराक दिल्लो मान. तो सांबाळपाचो हावेस. कर्तव्य म्हुणून जगताना गोयींदाच्या मनाक जाल्ल्यो वेदना आमकां दिसतात. नियतीचो खेळ ही कथा वेगळ्याच मोडणार व्हरून पावयता. शेळपेकान्नीचे जात्रेक केन्ना न्हय ते भाड्याची पिकअप करून गेल्ल्या ठाकर वाड्यावयल्या लोकांक परतीचे वाटेर जबर अपघात घडून 12/13 मडीं पातळतात. तातूंत गोयीदांचो पूत, सून, नातू असो वंशूच काबार जाता. ते आदीं ताचे बैलूय विजेच्या सरयांचो स्पर्श जावन मेल्ले आसतात. वर्सावळीचो बसवो खेळयतलो जाल्यार बैल ना, परंपरा मुखार व्हरपी वंश उरूंक ना. ज्या थळांत ताची कुळी वसणावळीक आयल्या त्या थळाची बसवोकार ही भावना ताच्या काळजांत घट बशिल्ली आसता. देखून गायेच्या पाडकाक टांक बांदून बसवो म्हुणून नाचोवपाक तो पयलीं कसोच राजी जायना पूण उपरांत परिस्थिती खातीर, वारी मुखार व्हरपाखातीर तो पाडकाक बसवो करूंक मुखार सरता. तो आदीं पुरूसाक मान दिवपाक पराजीत जावन त्या पाडकाक ओडीत व्हरता, वारी चलोवपाक. 'वंश' चलोवपाचो हावेस निर्वंश जाल्ल्याची जाणविकाय, गांवच्या लोकतत्वाची राखण आनी नियतीची विपरीत रीत ह्या सारखिल्ल्या घटकांनी ही कथा अदीक परिणामकारक केल्या. आनीक एक गजाल म्हळ्यार, हे कथेंतली 'ठाकरांची भास' कोंकणी कथेक पयलेच फावट मेळ्ळ्या. विशय तसो नवोच. स पिळग्यांचो आटाप दाखोवपी. गावडी, कुणबी, धनगर, वेळीप ह्या समाजावांगडा ठाकर समाजाचेर अभ्यास करपाक लावपी ही कथा. ह्या कथा झेल्यांत चडशेकडेन समाज दिसता तो वेळीप.

परंपरांगत संस्कारांनी, रिती-रिवाजांनी, श्रध्देन बांदिल्ल्या मनाचो थाव अथांगांत घेवंक मेळटा. देव-देवस्की चालू उरची हो हावेस ह्या कथांनी दिसता. 'वंशाचो दिवो' ही संकल्पना जायत्या कथांनी प्रभावीपणान आयल्या, ती ह्या परंपरागत संस्कारांचो वांटो म्हुणून. गांव, मेळ, चौखांबे, म्हालघरां, गाराणीं, आंगवणी, सांगणी हांचो संदर्भ जायतेकडेन आयला. उतराक पाळो दिवपी आनी सत्याक जागपी भोळो, भावार्ती समाज आमकां ह्या झेल्यांत

दिसता. आपले परंपरेचे, आपल्या सांस्कृतीक मुल्यांचें भान दवरूनच आधुनिकतायेक पाळो दिवपाचें काम जयंतीन कथाकार म्हुणून ह्या झेल्यांत केल्लें आसा. भाकीत सारखिल्ले कथेंत जरी अंधश्रध्देचो, नियतीचो आनी योगायोगाचो संबंद आयलो तरी तो फकत नशिबाचो खेळ म्हुणून, आमी आपणावंक जाय.

जयंतीच्या ह्या कथाझेल्यांत मूळ कथांनी खुपशीं उपकथानकां येतात. ती आशयाक आनी विशयाक धरूनूच. खुपश्यो लोकाकाणयो, लोक समजुतीचें आमकां दर्शन घडटा, तें जयंतीच्या लोकवेद-लोकसंस्कृतीच्या संशोधनात्मक पिंडाक लागून आनी समाजाखातीरूय. कोंकणी लोकसंस्कृतीचो जसो शब्द-कोश हो कथा झेलो आमचे मुखार दवरता. कथाकाराची निवेदन शैली ही सामान्यांतल्या सामान्य वाचप्यांक आकर्शीत करपी. लोकाभिमूख अशी. भाशेच्या नादशास्त्रीय नदरेंतल्यान कांय आडवाद सोडले तर मांडावळ बरी जाल्या.

संस्कृती अभ्यासाक वाव दिवपी असो हो कथाझेलो आसा. मुळांकडेन व्हरताना समकालीन समाजाक आधुनिकतायेकडेनूय व्हरपाचो यत्न हो कथाझेलो करता.

आनी एक गजाल म्हाका ह्या कथाझेल्यांत जाणवली ती म्हळ्यार, सैमाचो संबंद आनी कथानक हांचो बरो मेळ बरोवप्यान घातला. पावसाचींच तरेकवार रूपां आशयाक धरून कांय कथांनी आयल्यांत. ती वाचनीय थारल्यांत.

बारा वर्सां पयलींचो जयंतीचो 'गर्जन' ताचें मुखपृश्ट आनी 'अथांग' चो थाव घेवंक लावपी मुखपृश्ट, हेंवूय श्रीधर कामत बांबोळकार हांचें. दोनूय मुखपृश्टां सुचक तशींच अर्थपूर्ण. बारा वर्सां पयलींचो आवेश-आवाज, अन्यायाआड उठयल्ली मूठ आतां अंर्तमूख करपी जाल्या. हें बरोवप्याची विकासाची वाढ सुचयता. दोनूय पुस्तकांच्या मलपृश्टांचेर जयंतीचे नदरेचो थाव घेवंक मेळटा. गर्जनातली नदर अथांगान व्यापक केल्या. अथांगांत तशें स्वता जयंतीन आपल्याक प्रस्तावनेंतल्यान उक्तायलां. पूण 'गर्जना'न भौ. रवींद्र केळेकार हांणी प्रस्तावनेंत म्हणलां तें खूब म्हत्वाचें आनी अर्थपूर्णय आसा. रवींद्रबाब म्हण्टात '...पात्रांच्या जिवितांत अदीक खोलायेन भितर देंवतलें तेन्ना म्हाका खातरी आसा तागेल्या ह्याच एका एका पात्रांत एक एक नवलकथा एक

एक कादंबरी दिसतली...' जयंतीन आमच्यो अपेक्षा खूब वाडयल्यात आनी कोंकणी साहित्याच्या फुडाराविशीं आपली श्रध्दा घट केल्या अशें रवींद्रबाब म्हण्टात.

जिणेच्या अथांगत्वाचो सोद घेवपाची नदर आनी जिज्ञासा आपलेमदीं उत्पन्न करपी रमेश वेळुस्कारांक हो 'अथांग' जयंतीन ओंपला. पुस्तकाचे 14x22 से.मी. चे फास्केभायर वचून वाचप्यांक अथांगाचो दिश्टावो घडयतनाच जयंती नायकाकडल्यान एक विस्तृत जीण-पटाची कादंबरीची मागणी करपी हो कथा झेलो आसा.



# 15.
# खातकुतल्यो

अ. ना. म्हांबरो हांणी जी निबंदाची तरा कोंकणी साहित्यांत हाडली ते धर्तेर वा त्या प्रभावान उपरांतच्या कांय कोंकणी निबंदकारांनी कोंकणींत निबंद केळयला वा केळयत आसात. 'खातकुतल्यो' हो पंढरीनाथ सुरसुरे हांचो हो निबंद झेलो. ह्या निबंद झेल्यांत वट्ट सव्वीस निबंद आसात. ह्या निबंद झेल्यांतले कांय निबंद उत्सवाचेर आदारिल्ले आसात. कांय निबंद वेवसायीक वा वेव्हारीक अणभवांचेर आसात. गोंय आनी गोंयकार वृत्ती प्रवृत्ती हो ह्या निबंद झेल्यांतलो आत्मस्वर आसा. गोंयकारांचें समाजशास्त्र, श्रध्दा, वेव्हारीक जाणविकाय, आत्मसंतुश्ट वृत्ती, टवाळखोर प्रवृत्ती, भोगावळी हांचें सुरबूस चित्रण हो निबंद झेलो घडयता.

गोंयकार हो मुळांत उत्सवमोगी आशिल्ल्या सणा परबांच्या वा उत्सवांच्या निमतान ताचे दर्शन आमकां घडटा. भोगावळ करपाच्या निमतान पर्यायान चवथीच्या निमतान एकठांय आयिल्लो जोड घराबो तोंडाचीं बातां मारून वगत कसो व्हरता आनी मागीर काम जालें काय वैज मेलो हे धर्तेर सगळे मनोरथ, हावेस सोडून दिता ताचें सुरबूस चित्रण वाचपाक मेळटा. देवा तुका नमस्कार ह्या निबंदान भावार्थी स्वार्थी गोंयकार प्रवृत्ती दिसता.

व्हाण सारखिल्ल्या साद्या विशयाचेर मिश्किल पूण तितलेंच गंभीरतायेन टीपण केल्लें आसा. सुटबूट संस्कृतीच्या नांवान जायरातीच्या रूपान देहाचें प्रदर्शन घडोवपी विकृत मनोवृत्तीचेर आघात केल्लो आसा. 'नुस्तें' हो गोंयकाराच्या आवडीचो वा घोस्ताचो विशय ह्या झेल्यांत तुळात्मक रूपान आयल्या. 'शाळा कॉलेज जाता तेन्ना' सारखिल्ल्या निबंदान बरोवप्यान आपल्या काळावेल्या कॉलेज यादीचीं उस्तवारी करून त्या खिणांची आयच्या युगाकडे सर केल्ली आसा. गरीब मनशाचो सोद घेवपी निबंद ह्या झेल्यांत आसा तातूंत गरीब, गिरेस्त ह्या विशयाभोंवतणी घुंवताना सुदामा कृष्ण प्रसंगाची देख दिवन आयचें वास्तव विदारक चित्र उबें केलां.

गोंय मुक्तताये उपरांत गोंयचे अर्थीक वेव्हारीक जिणेंत जे झपाट्यान बदल

घडून आयले त्या बदलांचे परिणाम गोंयच्या रासवळ जिणेचेर पडून अर्थीक सामाजीक परीवर्तनाचीं चित्रां वाचपाक मेळटा. देखीक एक धंदो धुल्लाचो ह्या निबंदान गोंयांत मिनाच्या खणींनी जो बदल घडून आयलो ताका लागून पर्यावरणाचेर जो बोजो वा वजें पडपाक लागलें आनी त्या निमतान कांय संधीसादू प्रवृत्ती कशी जन्माक येवंक लागली ताचें दुख्खदेणें चित्र आयलां. नितीमत्ता, जिणेविशींचीं मुल्यां हीं माडून लोक पयशांखातीर कशे व्हांवपाक लागल्यात ताचो प्रभाव कसो समाजाचेर पडला हें हो निबंद झेलो दाखोवन दिता. 'विम्याक पर्याय ना', 'सरकारी कचेरेंतलो स्पीड ब्रेकर - प्यून', 'एकविसाव्या शेंकड्यांतली वेताळकथा', 'एक पुराण मटक्याचें' ह्या सारंखिल्ल्या निबंदाचीं नांवां घेवं येता.

दांभीक कामचोर फटींग वा छपन्नथिगळी व्यक्तीमत्वां गोंयच्या समाजांत वावुरताना दिश्टी पडटा. आळशी, पोब्र फिदाल्ग मनोवृत्तीक लागून मनीस समाजान कशे दिश्टी पडटात हें 'तुकारामालें हटमटवाळे', 'झेल नाशिल्लीं झेलाद कारणां', 'पोपटवाल्याचे पोपट भविश्य' हे निबंद देख म्हुणून दिवं येतात.

जिणेंतल्या दिसपट्ट्या अणभवांनी येवपी कांय कडू-गोड अणभव समाज कसो अणभवता. ही चौकटींतली जीण जगताना जी स्वंयकेंद्रीत आत्मसंतुश्ट वृत्ती आसता ताचेर भाश्य करपी हो निबंद झेलो आसा. कांय निबंदांनी हलके फुलके ल्हायांसारखे विशय मिश्किलपणान हाताळिल्ले दिश्टी पडटात. ल्हान सान चुकांक लागून पुराय घराब्याचेर पिकासांव करपाचो वेळ कसो येता ताचें विनोदी वर्णन 'भावोजिली जाफरानी मायची कर्मकाणी', 'पाककलेचो परिक्षक', 'कविस्थान झिंदाबाद' सारख्या निबंदांनी आयल्या.

'नांवाची गुगली', 'विश्वकोशांतलीं कांय दुर्मीळ उतरां', 'पावणी.. पावतोसा' सारखिल्ले निबंद कोंकणी ह्या विशयाचेर विशयनिश्ठतायेन विचार मांडटाना विनोद आनी उपहासूय दाखयल्लो आसा. ह्या निबंदांनी फकत उतरांचोच खेळ ना तर त्या उतरांफाटल्यान जे सामाजीक दुख्ख आसा तें दिसता. आपल्या दिसपट्टे जिणेंत वेव्हारीक आनी वेवसायीक अणभवांची गाथन ह्या निबंद झेल्यान गुंथिल्ली आसा. पुराय निबंद संग्रह एका मोठ्या प्रस्नचिन्नाची निर्मिती करता. हे प्रस्न गांवचे, गोंयचे, मनशाच्या एकंदरीत अस्तीत्वाचेच आसा. ह्या प्रस्नांच्या मुळाक एक दुख्ख आसा एक वेदना आसा त्या प्रस्नांची जाप सोदपाक हो निबंद झेलो वाचप्याक प्रवृत्त करता. 'प्रस्न सुटना जाप मेळना' अशी ही अवस्था हो

निबंद झेलो निर्माण करता. हे प्रस्न अस्मितायेचे, सत्वाचे, सामाजीक राजनितीक मुल्यांचे, हे प्रस्न अभिरूचीचे, हे प्रस्न आत्मसन्मानाचे, सासायेचे. देखून बदलत्या झपाटून वचपी यांत्रीक, विज्ञानीक जिणेंत फकत भौतीक सुखां फाटल्यान धांवताना मनीस कसो सरपटत वता त्या परिणामांतल्यान बदलिल्ले परिस्थितीन मनीस कसो मनीसपण होगडावन बसता ताचें प्रभावी चित्रण '21 व्या शेंकड्यांतली वेताळ कथा ह्या निबंदान आयलां.

निबंदकारामदीं आशिल्लो 'कवी' एकीकडेन जबरदस्त रितीन आयिल्लो आसा. 'ती - एक सपन' ह्या निबंदाची देख ह्या संदर्भांत दिवं येता. ह्या निबंदाची सुरवात आकर्शक जाल्या. एके लांब कवितेप्रमाण ही भावावस्था चडटे दिकेन आसा. एक रूपवती वा सौंदर्याचो पुराय साज चडयल्ली 'एक प्रेरणा' ह्या निबंदान दिसता. तिच्या येण्यान पुराय वाठारांत सगळे तरेचे गोड बदल घडून येतात. एक मोहिनी पडिल्लेवरी 'सगळे' जाण आपलें सर्वस्व विसरून कशे वतात ताचें चित्रण आयलां. ह्या निबंदान जी भासशैली आयल्या तिवूय हो निबंद काव्यात्मक करून दिता. देखीक :

कोणें तिका फूल दिलें - तिणें तें माथ्याक खोयलें
कोणें तिका फळ दिलें - तिणें तें ओठांनी चुमलें
कोणें तिका खोटलो दिलो - तिणें तो माथ्यार दवरलो
कोणें तिका मुदी दिली - तिणें ती बोटांत घाली

........... अशे रितीन ही काव्य शैली आयिल्ली आसा. सौंदर्याचो एक परिपूर्ण काव्यमय आविश्कार ह्या निबंदान आयला. तिचें येवप आनी वचप ही घडणूक ह्या निबंदान आयल्या. तिचें वचपूय बरोवप्यान तितलेंच बरे रितीन उक्तायलां. ती राणयेभशेन आयली राणयेभशेन रावली आनी राणयेभशेन गेली.

फूल दिवप्याच्या दारांत - वेल लावन गेली.
फळ दिवप्याच्या दारांत - रूख लावन गेली.
खोटलो दिवप्याच्या दारांत - भाताचे कणस दवरून गेली.
मुदी दिवप्याच्या दारांत - वज्राचें थीक दवरून गेली.
कांकणां दिवप्याच्या दारांत - तुळस रोवन गेली.
नथ दिवप्याच्या दारांत - णववारी कापड दवरून गेली.
पिंजर दिवप्याच्या दारांत - रांगोळी घालून गेली.

अशी एक स्वप्नीळ भावावस्था ह्या निबंदान आयल्या.

खंयच्याय निबंदकाराक सामाजीक, राजकीय, भाशीक, सांस्कृतीक आनी हेर जाणिवांची कळाशी आसची पडटा. तशी ती ह्या लेखकाठांय आसा. पुराणकथा, सांस्कृतीक भाशीक रूपबंध इतिहासाची नदर आसा. एकाद्रो विशय मांडटाना तो आकर्शीत कसो करचो ताचो गाभो कसो घेवंचो आनी परिणामकाराक शेवट कसो करचो हाची कळाशी ह्या लेखकाक ह्या निबंदांवरवीं मेळटा. भासशैली हो ह्या निबंदाचो खाशेलो गूण आसा. वास्तवविदारक सत्याक साखरेचो लेप लावन वाचप्याच्या ताळ्यासकल देंवोवपाची वैजकी तरा ह्या निबंदांनी दिसता. प्रादेशिक आत्मभानावांगडाच राष्ट्रीय आनी पर्यायान मनीस कुळयेच्या उध्दाराची कीट ह्या उपहासांतल्यान उसळटा. अणभव मांडपाची एक पध्दत बरोवप्याकडेन आसा. ह्या निबंदाक दिल्ल्या रेखाचित्रांक लागून हो झेलो आकर्शीत जाता. सगळ्या निबंदाचो आकार मोटवो आसा आनी एकंदरीत रूपबंधाचो अभ्यास करताना भासशैली आनी हेर नदरेंतल्यान विचार करूंक गेल्यार ‘खातकुतल्यो’ करून जाल्या उपरांत ‘खाजकुल्यो’ जातात हेंवूय मान्य करून समाजांतली वायट वृत्ती प्रवृत्तींची खाज नश्ट जावंची हो मूळ हेतू ह्या निबंदझेल्याच्या तळाक आसा अशें म्हणचें पडटा.



## 16.
# संघर्श : समन्वयाचो एकांकी झेलो

समाज आनी संस्कृतायेचें दायज सांबाळटाना कोंकणी मनशान नाट्याचो अविश्कार घडयलो. लोक रंगमाची ते अर्विल्ली रंगमाची अशी वाट चलतना कोंकणींत तरेकवार प्रवाह भास आनी धर्माच्या बोलयांक धरून आयले. गोंयांतले प्रभावी मराठी नाट्य चळवळीक कोंकणी नाटकान पर्याय दिलो. साहित्यीक नदरेंतल्यानच न्हय तर सादरीकरणाच्या माध्यमांतल्यानूय कोंकणी नाटकप्रभावी जावंक शकता हें कलेचें आनी संस्कृतायेची जाण आशिल्ल्या लोकांनी करून दाखयलें. गोंय कला अकादमी, गोंय कला म्हाविद्यालय, गोंयचीं हेर म्हाविद्यालयां तशेंच कांय व्यक्ती संस्थांनी हें दायज साधनेन निर्माण केलां. हें दायज केन्ना तियात्राच्या माध्यमांतल्यान, केन्ना नाटकाच्या माध्यमांतल्यान तर केन्ना एकांकी, नाटकुल्यांच्या माध्यमांतल्यान समर्थपणान मुखार व्हरपी पिळगी निर्माण जाली.

एकांकी हो नाट्य प्रकार गोंयांत पाळांमुळां धरूंक पावलो तो कला अकादेमीच्या शालेय तशेंच उच्च माध्यमीक, म्हाविद्यालयीन पांवड्यावेल्या सर्तींखातीर. हे नाट्य चळवळीच्या प्रवाहान गोंयांत हेर कडेन कांय संस्था हे चळवळीक आदार करपाक लागल्यो. एक सामुहीक आविश्काराचे नदरेंतल्यान हे चळवळीची सामाजीक मोलावणी करप गरजेचें दिसता. सौंदर्यशास्त्राची जाण घेवन आयिल्ले श्रीधर कामत बांबोळकार, किर्तीकुमार प्रभू, दिंगबर सिंगबाळ हे सारखिल्ल्या कितलेश्याच रंगकर्मींनी गोंयचे नाट्य चळवळीक दिल्लें रूप भोव मोलाचें आसा. ते वाटेंतल्यान गोंय कला अकादमीच्या नाट्य शाळेंत जाणकार पिढी येवपाक लागली. नाट्य सर्तींच्या निमतान हेर घटका वांगडाय लेखक घडपाक लागलो. एकांकीचो प्रभाव कोंकणी समाज आनी मनार पडपाक लागलो. तातुंतल्यान अर्विल्ली नाट्य चळवळ फुलपाक आदार जाला. कोंकणी नाटक आनी तियात्र ह्या दोन प्रकारा परस कोंकणी 'एकांकी' हो साहित्य प्रकार कोंकणी नाट्यविश्काराक दोन समाज धर्मांक लागीं हाडपाक एक प्रभावी माध्यम अशें म्हाका दिसता. कोंकणी तियात्रांनी हिंदू पात्र घेवन ताका बाप्पा,

व्हयनीबाय, अशा पात्रांनी हिणसावप जातालें तशें कोंकणी नाटकांनी क्रिस्तांव पात्राचे बाबतीन जावंक पावलें ना. कोंकणी तियात्रांनी हिंदू पात्राचो चड वावर क्रिस्तांव समाजांतले प्रेक्षक सोसूंस शकना तेन्ना, तियात्र करतात काय हीं नाटकां करतात? अशा आशयाचे प्रस्न कांय प्रयोगशील तियात्रीस्तांक आयकुचे पडल्यात. विशीश्ट समाजाची ते भाशेंतलें, बोलयेंतलें सांस्कृतीक भूक भागोवपा पासत तियात्राचें वेगळेपण मतींत दवरचें.

कोंकणी एकांकी हे आडमेळ्यांचेर जैत जोडटा आनी मुखार वता. क्रिस्तांव बोलयेचो पुरस्कार करून त्या समाजाचें चित्रण करताना सामाजीक भान दाखोवपी संघर्श हो मार्कूस गोन्साल्वीस हांचो एकांकी झेलो उजवाडाक येतना सांस्कृतीक अविश्काराचो समन्वय म्हूण येता. ह्या एकांकी झेल्यांत पांच एकांकी आस्पावल्यात.

1. फूल पिसुडटा तेन्ना
2. काळोखाची वाट सुरू जाल्या
3. केन्ना पालवतलो हो उजो?
4. मार फातोर
5. संवसार सोंपतलोच

अशीं ह्या एकांकीचीं नांवां आसात. कथानक, घडणुको, पात्रां, भास ह्या घटकांचे नदरेंतल्यान विचार करताना कांय गजाली मतींत भरतात. उणेंच उणें पात्रांचो वापर आपल्या कथानकां पासत केल्लो आसा. एकांकीच्या कला आविश्काराच्यो वेळाकाळाच्यो मर्यादा मतींत घेवन समकालीन सामाजीक विशय लेखक तातूंत घेतात. शिलाची राखण करपाक जाय म्हूण पानवळ भोगून न्याय नितीपासत झगडपी बायल, तशेंच शीळ ही फकत भोगून सहजतायेन विसरायेचेर घालपाची गजाल जावंक शकता काय किते अशे प्रस्न निर्माण करपी बायल हातूंत आस्पावल्या. शीळ निती-तत्वाचो एक वाटो म्हूण दाखोवपाचो लेखकाचो यत्न दिसता. सरभोंवतणच्या समाजांत घडपी राजकी, सामाजीक बदलांचें पडबिंब कांय संदर्भांनी ह्या एकांकीनी पळोवंक मेळटात. गोंयचें बदलपी रूप, बिगर गोंयकारांचो गोंयचे सामाजीक वेवस्थेचेर पडिल्लो बरो - वायट प्रभाव - परिणाम हांचे चित्रण करताना राजकीय सुवार्थी मानसिकतायेचें दर्शन लेखक घडयताना आपली लेखक म्हूण सामाजीक बांधिलकी दाखयता. कांय एकांकीच्या शेवटाक लेखक आमकां एक बोधवाक्य दिल्या भशेन शेवट

करतात. केन्ना केन्ना कांय पात्रांचे संवाद चड लांबिल्ल्यान घडणुकांक फावो तितलो वाव मेळना. मोगा परस 'भोग', अनैतीक संबंधाचेर उजवाड घालपी तांच्यो कांय एकांकी आशिल्ल्यान विशयाचे नदरेंतल्यान कांय मोटवेपणां नदरेंत भरतात. उण्यांत उणीं पात्रां घेवन एकांकी बरयताना हिन्दू, क्रिस्तांव पात्रांचो कलात्मक तशेंच प्रभावी उपेग करपाची कळाशी लेखका कडेन आशिल्ल्याची सुलूस लागता. मुखावेलें लेखन प्रवासांत ताचो विस्तार जायत जाल्यार कोंकणी नाटकाक तें एक मोलाचें देणें थारतलें.

भाशेचे नदरेंतल्यान एकांकींनी कांय खाशेलेपणां दिसतात. कलात्मक सर्जनशील भास वापरपाची तांक लेखकामदीं आसा. पूण तियात्र ह्या नाट्य प्रकाराचो व्हड प्रभाव आशिल्ल्यान हे सर्जनशील कलात्मकतायेक मर्यादा पडटात काय कितें? अशें दिसपाक लागता. भाशेचो उपेग करताना सामाजीक न्याय वेवस्थेचेंय थोडेशें भान, लोकशाये तत्वांक, मनीसप्राणांक धरून कांय कडेन येवपाक जाय. विशय-आशयाक मर्यादीत भावविश्व आनी लेखकाचें अणभव विश्व थोडेशें मोटवेपण हाडटा हो मुद्दो वेगळायलो जाल्यार लेखकाची एक तांक ह्या झेल्यांतल्यान दिश्टी पडटा.

कोंकणी नाट्य चळवळीच्या दालनांत मार्कूस गोन्साल्वीस हांणी 'संघर्श' च्या रूपान दिल्लो हो एकांकी झेलो भाशीक, सामाजीक सांस्कृतीक अस्मितायेच्या आयच्या प्रस्नपर्वांत समन्वयाचो कलात्मक अविश्कार घडयता ही गजाल उर्बा दिवपी आसा.



# 17.
# आंतरकथेंतल्या साहित्य मंथनाविशीं

कोंकणी साहित्य संवसारांत अर्विल्ल्या काळांत कांय मोलादीक पुस्तकांची भर पडत आसा. वेगवेगळ्या विशयांचो व्यासंग आशिल्ले, तांचेर प्रभुत्व आशिल्ले तशेंच सर्जनशीळ बरोवपी आपआपले रितीन कोंकणी साहित्यांत मोलादीक भर घालीत आसात.

रवीन्द्र केळेकार हांचें 'स़र्जकाची आंतरकथा' हें पुस्तक हे नदरेंतल्यान म्हत्वाचें थारता. अखंडपणान साहित्य साधना करपी एका बरोवप्याक - साहित्याच्या, जिविताच्या साधकाक घडिल्ले दिश्टावे आनी सत्यां हांचो वाचप्याक अणभव दिवपी हें पुस्तक जाग प्रकाशनान उजवाडाक हाडलां. बाकीबाब बोरकार आनी लक्ष्मणराव सरदेसाय हांकां हें पुस्तक ओंपलां. साहित्याक मनरिजवणेचो वावर न मानपी एका सर्जकाची ही आंतरकथा. ती तरेकवार निबंदांनी उकती जाता. भारताच्या आनी पर्यायान गोंयच्या राजकी, सामाजीक, सांस्कृतीक, साहित्यीक मळावयल्या यात्रिकाची कार्यपटीच ह्या पुस्तकाच्या रूपान आमचे मुखार उकती जाता. भारतीय भासांकडेन तशेंच येवरोमी भासां कडेन प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष संबंद आयिल्ल्या रवीन्द्र केळेकार हांणी साहित्य, साहित्यीक, साहित्य विश्व, साहित्य-वेव्हार आनी समाज बांधिलकी सारके विशय मांडटना आपले खाशेले भाशे शैलीन हे निबंद वाचनीय केल्यात. हे निबंद वाचप्यांक - खास करून तांचे मदल्या बरोवप्यांक अंतर्मुख करतात.

बरोवप्याचेर भुरगेपणांत जाल्ले साहित्यीक संस्कार, तांचें घडिल्लें व्यक्तिमत्व, तांचे आदर्श, तांची जीण हांचें पडबिंब हांतल्या जायत्या निबंदांनी दिश्टी पडटा. रवीन्द्र केळेकार हांचे मदलो writer आनी fighter य हे निबंद आमकां दाखयतात. जिविताची उपासना करून हो अक्षरवेद तांणी निर्माण केला.

ह्या निबंद झेल्यांत 36 निबंद आस्पावल्यात. तातूंत रासवळपणान आयल्यात ते विशय अशे : साहित्य, साहित्यीक, साहित्य मुल्यां, साहित्याचें मुल्यमापन, ताचो तुळात्मक अभ्यास, साहित्य वेव्हार आनी हेर.

रासवळपणान आमी आमचे सोयी पासत जेन्ना ह्या निबंदांचे वांटे घालतात,

तेन्ना आमकां पयल्या वांट्यात बरोवप्याचें साहित्याचें प्रयोजन, बरोवप्याची साधना, अणभवसंपन्नताय हे सारकेले विशय दिसतात. साहित्य उजवाडाक हाडटना ताचो उपेग सत्यम् शिवम् सुंदरम् जीण जगपाखातीर जावंचो असो सूर तांच्या निबंदांतल्यान दिसता. समृध्द साहित्यीक जीण जगतलो जाल्यार अणभव समृध्द आसपाक जाय, एक यात्रीक जावन खूब भोवपाक जाय अशे तरेचें जीवनवादी तत्वगिन्यान बरोवपी मांडटा. तातुंतल्या बीज तत्व वा निजाचें साहित्य उपरासता आनी अडेचें बरोवपाचो मोह वा संवंय नश्ट जाता अशे तरेचो विचार घेवंक मेळटा.

दुसऱ्या वांट्यांत बरोवप्यान कांय नामनेच्या साहित्यिकांचेर बरयलां. कांय कडेन विस्तारान तर कांय कडेन त्या त्या विशिश्ट बरोवप्याच्या कांय खाशेल्या आंगांचेर उजवाड घालपाचो यत्न केला. हे वरवीं त्या त्या बरोवप्याची पूरक अशी नवी म्हायती वाचप्याक मेळटा. हातूंत रवीन्द्रनाथ टागोर, विनोबा भावे, खलिल जिब्रान, उमाशंकर जोशी, काकासायब कालेलकर, जवाहरलाल नेहरू, फेर्नांदु पेस्सोअ, बाकीबाब बोरकार, चा. फ्रा. डिकोस्ता सारकेले बरोवपी आसपावतात. रवीन्द्रनाथ टागोरांचें व्यक्तिमत्व रंगयतना रवीन्द्रनाथ साहित्यीक म्हणून व्हड आसलेच पूण ताचेय भायर तग एक चित्रकार, गीतकार, नाटककार, संगीतकार म्हूण कशे व्हड आसले तेंय तांणी सांगलां. तशेंच, भारताक पयलें नोबेल इनाम जोडून दिवपी तांचे 'गीतांजली' हे कलाकृतीविशींची मुल्यात्मक परखड प्रतिक्रिया तांणी दिल्या. रवीन्द्र संगिता फाटली निर्मणी प्रक्रिया बरोवप्यान बेस बरे रितेन सांगल्या. भोंवडेकार म्हणून रवीन्द्रनाथ कशी जीण जगले, भोंवडेंतल्यान तांणी कशी जीण घडयली ताचोय दिश्टावो हो निबंद आमकां करून दिता.

काकासायब कालेलकार हांचो सांगात रवीन्द्र केळेकार हांकां लाबला. तांचे जिणेविशीं आनी साहित्यीक वावरा विशीं रवीन्द्रबाबान विस्तृतपणान मांडपाचो यत्न केला. विनोबा भावे हे साहित्यीक म्हूण केदे ताकदिचे आशिल्ले, तांची साहित्य साधना केदी आशिल्ली, तांचें योगदान संवसाराक कितें मेळ्ळां हे विशीं रवीन्द्रबाब विस्तृतपणान बरयतात. ह्या वांट्यांतले कांय निबंद दिर्घ स्वरूपाचे जाल्ले आसात. जवाहरलाल नेहरू हांच्या नांवार 50-60 पुस्तकां मेळटात. पूण तांच्या कांय गाजिल्ल्या पुस्तकांचेर खास टिपणी करून रवीन्द्रबाब

आमकां जवाहरलाल नेहरूंचो सांगात घडयतात. गुजरातींतले उमाशंकर जोशी हांचोय सांगात बरोवप्याक मेळ्ळा. पूण एक साहित्य - सांगाती म्हूण उमाशंकर जोशी हांचें वेगळेंपण बरोवप्यान आपणाल्या निबंदांत दाखोवपाचो यत्न केला. अरबी साहित्यीक खलील जिब्रान हांची आयज संवसारभर नामना आसा. तांचें चरित्र मांडटना तांचे जिणेंतल्यो बारीक बारीक गजाली सांगून ह्या म्हान साहित्यिकाची प्रतिमा वाचप्यांमुखार उबी केल्या. हेर भासांतल्या बरोवप्यांचें साहित्यविश्व कोंकणींत मांडटना कोंकणीक एक देणें रवीन्द्रबाबान दिलां - ह्या सगळ्या व्हड साहित्यिकांची आमकां लागशिल्ल्यान एके तरेची वळख करून दिल्या.

साहित्याच्या मळार घडिल्ल्या बऱ्यावायट घडणुकांची संवादी तांणी कांय निबंदांनी उकती केल्ली आसा. देखीक, 'साहित्याच्या मळावेली शिंदळकी', 'मराठींत भावणींचेर कित्याक बरोवंचें पडटा' सारकेले निबंद. तशेंच 'मनशान स्वनामधन्य आसचें', 'नोबेल इनाम' हे सारकेले निबंद वाचतल्याक चालंत सांस्कृतीक, प्रशासकी आनी साहित्यीक वेव्हाराचें मोटवेंपण दाखयतात. हे निबंद सर्जनशील वाचप्याक बरेच अस्वस्थ करतात. डिग्रो, पदव्यो, मानसन्मान हांचें राजकारण वा अवमूल्यन असल्या निंबदांतल्यान दाखोवन बरोवप्यान आमचे मुखार नवे प्रस्न उबे केल्यात. तांच्यो कृतीशील जापो सोदपाचो जण एकल्यान यत्न करपाक जाय. 'फुकट गेल्लें एक बरें मराठी पुस्तक' ह्या माथाळ्याखाला गोंयचे स्वातंत्र्यसैनीक आनी पयले सभापती पां. पुं. शिरोडकार हांच्या 'आठवणी : माझ्या काळ्या निळ्या कारावसाच्या' ह्या मराठी पुस्तकाविशीं आपले विचार मांडटना रवीन्द्रबाब म्हणटात, अणभवसमृध्द अशें हें बरें पुस्तक कोंकणींत बरयल्लें जाल्यार ताचें अदीक बरें स्वागत जावपाचें. साहित्याचो समाजशास्त्रीय नदरेंतल्यान केल्लो विधायक विचार रवीन्द्रबाबांच्या ह्या पुस्तकांय आयला. 'एक विशाल नवलकथा' ह्या लेखांत ते War and Peace हे टॉलस्टॉयचे कादंबरीची ते आस्वादक समीक्षा करतात. वेद, उपनिषदां, महाभारत, रामायण, कुराण, बायबल सारकेल्या म्हाग्रंथांचो प्रभाव बरोवप्याचेर पडला. विवेकानंद, गांधी लेखकान पचयला. 'सभी धर्म अच्छे है, सभी धर्म सच्चे है, मगर सभी धर्म कच्चे है' ह्या तत्वगिन्यानान रवीन्द्रबाबांची नदर घडयल्या.

ह्या निबंद झेल्यांत कांय इतिहासीक सत्यां, तात्वीक मुल्यां हांचो दिश्टावो

घडटा. गिन्यान, तत्वगिन्यान आनी कला ह्या तीन मानवी मुल्यांचो विचार करपी हो निबंद झेलो. जे जे व्यक्तिचो बरोवप्याक प्रत्यक्ष सांगात मेळ्ळा ते ते व्यक्तिचे जिणेंतलीं मर्मस्थळां उकतेपणान मांडपाचो एक नवो प्रयोग. शैलिचे नदरेनूय तो ओडलायणो हातूंत दुबाव ना.

रवीन्द्र केळेकार हांची साहित्यीक, सांस्कृतीक आनी चळवळीच्या रूपान कशी वाड जायत गेल्या ताची सुस हो निबंद झेलो करून दिता इतलेंच न्हय, तर एके परीन हो साहित्याचो इतिहासूय. रवीन्द्र केळेकार ही एक गवाय. गांधीवादी तत्वगिन्यान आपणायले उपरांत जिणेचे संदर्भ आनी संबंद कशे विस्तारत वतात, मनीस कसो घडत वता ताचीय सुलूस हो निबंद झेलो करून दिता. ह्या निबंद झेल्यांत बालसाहित्याची निर्मणी, गरज ह्या संबंदान विचार मांडल्यात, तशेंच पत्रकारिते संबंदान परखड मांडून पत्रकार हो दिका दाखोवपी आसपाक जाय. प्रबोधनाचें, ध्येयवादाचें मिशन पुराय करपाक पत्रकारिता केदो वावर करूंक शकता तें दाखयलां.

पुस्तकां उजवाडावप, विकप हो एक वेव्हार. हो साहित्यीक वेव्हार मुखार व्हरतना आमी कशे आनी खंय प्रभावी जावंक जाय हाचोय अप्रत्यक्ष रितीन ते कानमंत्र दितात. साहित्याची रूच लायतलो जाल्यार आमी आमचे मर्दीं बदल घडोवन हाडपाक जाय अशें ते सांगतात.

पुराय निबंद झेलो हें एक विचार मंथन. वांगडाच तो मनशा मर्दीं आत्मसत्याचो, स्वाभिमानाचो दिश्टाचो घडोवन हाडून How many kingdoms know us not ची अस्वस्थताय निर्माण करता आनी आमचे मदले आत्मसंतुश्टतायेक आनी अल्पसंतुश्टतायेक भायर मारपाची शक्त दिता अशें म्हणचें पडटा.



# 18.
# गिरमीट एकांकी झेलो – पारखणी

'गिरमीट' ह्या रत्नमाला दिवकाराच्या एकांकी झेल्याचे कॉपीरायट पान वाचताना एक गजाल दिसता ती म्हळ्यार बरोवप्यान हो झेलो (one act play) एकांकी म्हण छापला. थंय बाल एकांकी हें उतर घालपाचें काय ना हो मुद्दो चर्चेचो आसा. ताचीं दोन कारणां हांव म्हजे परीन दिता. एक, इंग्लेज साहित्यांत सुरवेक बालसाहित्य निर्मिती हो प्रकार नाशिल्लो खंय. जें कितें बरप जातालें तें जाण्टयांखातीर. उपरांत मागीर ताकाच बाल–साहित्य ही उपाधी फावो जाली. म्हजे परीन एक देख हांव दिता ती 'लंडन ब्रीज इज फॉलींग डावन' हे कवितेची. दुसरें कारण दितना हांव दिलीप बोरकाराचे बोरकारीतलें दिता. दिलीपान एकीकडेन म्हणलां की, कोंकणींत सगळें साहित्य हें 'बाल' साहित्य म्हण!

भाशांतराच्या माध्यमांतल्यानूय आमी बालकथा घेतल्यो. स्वतंत्र निर्मणी, संस्कारीत वा रूपांतरणाच्या माध्यमांतल्यान प्रबोधन करपाच्या हेतून सामाजीक विज्ञानीक शिक्षणीक आदी विशय घेवन तशेंच संपादकीय संस्करणांतल्यान बाल साहित्य लिखाणाची एक परंपरा आयज मुखार व्हरताना ती दृकश्राव्य पध्दतीन, आधुनीक विज्ञान तंत्रगिन्यानाचो उपेग करून अदीक प्रभावी करूं येता अशें विशाल विश्व आनी आव्हानांय आमचे मुखार आसात. तातुंतलें एक आव्हान म्हळ्यार, पुंडलीक नायक हांणी म्हणलां ते भशेन. कोंकणींत बाल नाट्य लेखक नात हें. ह्या सामाजीक आव्हानाक आपले परीन योगदान दिवपा पासत रत्नमाला दिवकाराचो हो 'गिरमीट' एकांकी झेलो येता. रत्नमाला दिवकारान निश्चेवान हो झेलो हाडला. शाळेच्या स्नेह संमेलनांनी आनी सर्तींनी त्योच - त्योच एकांकी सादर करून उबगण आयिल्ल्यान नव्यो एकांकी बरोवन सादर करपाचो निश्चेव केलो ताचेंच फळ म्हळ्यार हो एकांकी झेलो.

गॅदरींगां, देवळां - इगर्जींच्या उत्सवां निमतान जावपी नाटकां, निम्न वेवसायीक (semi professional) आनी स्पर्धात्मक पावंड्याचेर जावपी कोंकणी नाट्य–चळवळपुराय गरजेंतल्यानूच तयार जाल्या. रत्नमालाय हे चळवळीक आपले परीन योगदान दिता. रत्नमालाचें जिवीत संघर्शांतल्यान घडलां. गोंय

मुक्ती उपरांतचे विद्यार्थी चळवळीचें संघर्शरूप जागृतायेन दाखोवपाचें काम कार्यकर्ता म्हण रत्नमालानूय केलां. तेदेवेळावेले गोंयचे हे विद्यार्थी चळवळीचेर नक्षलवादी (Naxalites) चळवळीचो थोडोसो प्रभाव आशिल्लो. सामाजीक पर्यावरणाचो प्रभाव लेखिकेच्या व्यक्तीमत्वाचेर पडला. ह्या एकांकी झेल्याच्या मुळाक हो प्रभाव आसा.

ह्या एकांकी झेल्यांत चार एकांकी आस्पावल्यात.

1) खरेंच आमी दुश्ट काय? हातूंत सर्वधर्माची 11 पात्रां आसात.

2) वागाची केली ताडी मिडीशिवडी - हातूंत 12 पात्रां आसात.

3) बसस्टॉप - हातूंत 13 पात्रां आनी

4) गिरमीट - ह्या नाटकुल्यांत 7 पात्रां

खरेंच आमी दुश्ट काय? हो प्रस्न उपस्थीत करपी एकांकी सैंब - जैवीक संपत्तीची वळख घडोवपी आसा. सहज उलयता उलयता हांसत खेळत खळार मळार जशें विशयांचे मिक्सींग जाता तें तंत्र लेखिकेन बरे तरेन हाताळ्ळां. भुरग्यांच्या रान-मळावेल्या तोरां-बोरांच्या खेळांतल्यान सुकण्या पिलाची, घोटेर राखपाची, खबर पळोवंक मेळटा. कर्तव्यदक्ष गोंय सुटकेझुजाचो थरारक अणभव आशिल्लो आजो हे एकांकीत संस्कार भारतीच्या रूपान दिश्टी पडटा. माणकुल्या भुरग्यांची गबाळ बाळुकाकडेन पळोवपाची आनी पिसो म्हण ताका चाळोवपाचीय नदर बदलायता आनी खरेंच आमी दुश्ट काय? ह्या प्रस्नाची जाप ना! अशीच मेळटा.

वागाची केली ताडी मिडी शिवडी-ही एकांकी बोधकथेचो नाट्या विश्कार. कोलो, शिकारी, वाग, मनीस, पांजरो, हे कथेचो स्वताचो विस्तार लेखिका करताना 'वृक्षवल्ली आम्हां सोयरे वनचरे' ह्या तुकारामाचे निसर्गवाणीचो पुरस्कार घडयता. मनीस आनी जनावरांचें नातें दाखयता. हें एकांकीत जनावरांच मनशाक मनशांत हाडटात हो विचार आयला. वागाचें चामडें, नाकटां, हत्तीचे दांत, घोड्याचे केंस, मोराचीं पाखां तोडपी हिंसक वृत्ती आशिल्ल्या मनशाक कोलो आनी ताचर हेर सांगाती साबुद्दीर कशे हाडटात ताचें चर्चात्मक स्वरूप हें एकांकीत आयलां.

कासादोरान पांजरो घातिल्ल्यान भितर पडिल्ल्या वागाची सोडणूक कशी मनशाकूच वाग परतोवंक सोदता. थंय कोल्याची बुध्द आनी हेर जनावरांचे

मनशान केल्लें शोशण आयलां. मूळ कथा बीजाचो आपले परीन सोद लेखिका घेता. नभोनाट्य, धर्तेर ही एकांकी थोडशी वता. हातूंत चडसो वांटो हो चर्चात्मक पावंड्यार वता. कोलो हे एकांकीतलो निवेदक - सुत्रधार म्हण वावुरता.

बसस्टॉप ही एकांकी म्हळ्यार एक कॉलाज. सकाळच्या वेळार स्कुलाक वचपी भुरग्यामदीं शिस्तप्रियताय हाडची, तांचे मदें परोपकारी वृत्ती वाडीक लागची आनी बरे नागरीक जावंचे हें सामाजीक भान निर्माण करपी कांय घडणुको प्रादेशीक, देशी, विदेशी पात्रांच्या रूपान आनी भाशेनूय दाखयल्या. स्कुलाक वचपी हाफ टिकेट भुरग्यांचे प्रवासांतले वायट अणभव हो विशय लेखिकेन संवेदनशीलतायेन हाताळला.

गिरमीट ह्या नाटकुल्यांत भाटकान्नीक एकटी आनी अज्ञानी - भावार्थी आसा तें पळोवन तिका फटोवपी तांची वावराडी इमरीन आनी मागीर इमरीनाक पाडेली, नुस्तेकान्न, पोदेर हांच्या आदारान बुध्द शिकोवपी आनी ताची फटींगपणां उक्ताडार हाडपी बोस्त्यांव दिसता. विशय पात्रां, प्रसंग, घडणुकांचे मर्यादेक लागून ही एकांकी फॉर्मान बसना. नाटकुलें म्हणप समा जातलें. ल्हान ल्हान घडणुकांच्या आदारान रत्नमाला कथानक मुखार व्हरताना दिसता.

एकांकी झेल्यांत जायते कडेन बडबड गितांचो वापर केल्ल्यान नृत्य आनी गायनाक वाव मेळटा. बालनाट्याक सोबसारकीं बाल गितां बरोवपाक एक कळाशी लागता. थोडशी कृत्रीमताय कलात्मक रितीन हाडची पडटा. भुरग्यांक ती गितां उच्चारपाक, गावपाक आनी तालार नाचपाक बऱ्याक पडपाक जाय ताच्यो कांय बऱ्योय देखी ह्या झेल्यांत दिसतात.





देख : बुध्दीन भोलो बाबा
हांवूच तो कोलो
कूय कूय करून
घालता सगळ्यांक उलो....

आगा आगा बाळू काका
भुरग्यांक तूं मारी नाका

आगा आगा बाळू काका
गांव भर भोवूं नाका

भुरग्यांक एकामेकांक चाळोवपी हेळे, वा थोमणे पद्यांतल्यान लेखिकेन कांयकडेन बडबड गितांतल्यान दिल्यात.

आयवन करता भूक भूक
तारा करता म्यांव म्यांव
जैद करता भूक भूक
प्रिता करता म्यांव म्यांव.

प्रादेशीक अस्मितायेच्यो खुमो दाखोवपी पात्रां ह्या एकांकी झेल्यांत येतात. तातूंत नुस्तेकान्न, भाटकान्न, पदेर, बेबदो. बोस्त्यांव, जैद आदीं पात्रांचो आस्पाव जाता. तेच वांगडा गोंयचे बदलपी सामाजीक पर्यावरणीय आनी पर्यटनाचे रूप दाखोवपी बिगर गोंयकार कन्नड पात्रां आनी हिप्पी! पाखले पात्रांय एकांकीनी येताना कन्नड पात्रां कन्नड भास उलयतात तर हिप्पी पात्रां इंग्लेज भास उलयतात. बसस्टॉप एकांकीत हे प्रसंग आयल्यात. रत्नाबाय रंगमाचयेच्या परंपरेक धरून मुखार वतात. 19 व्या शेंकड्यांतल्या इजिप्तांतल्या एका उत्खननांत दुसऱ्या शेंकड्यांतलें नाटक मेळ्ळां. तातूंत एक कानडी राजा ग्रीक राजकन्येक उबारून व्हरता. मागीर ग्रीकलोक त्या कानडी राजाक भरपूर सोरो पियोवन घालून राजकन्येची सोडणूक करता अशें कथानक आयलां. हातूंत भारतीय पात्रां कानडी भास उलयतात तर ग्रीक पात्रां कन्नड-येनास्तानाय भासो उलयतात. संस्कृत नाटकांनीय मुखेल पात्रां संस्कृत आनी गौण पात्रां प्राकृत हो भास भेद दिसता.

पाडेली. नुस्तेकान्न, पोदेर. रेंदेर, अशीं पात्रां हें पात्रां कोंकणी मातयेंतलीं. आयज मेरेन रंगमाचयेर फावो त्या प्रमाणांत, संख्येन, गुणानूय येवंक नात. चित्रपटांनी तर खासा करून कोंकणी-क्रिस्तांव मनशाचो अपमानूच चड करपाचे यत्न जाल्यात. रत्नाबायन हो पात्रविस्तार मुखावेल्या नाट्य कृतींनी करपाची गरज आसा. बोलयेवेल्यान, भाशेवेल्यान आपूण कोणाची चिकाणां करीना मूं हाचें भान लेखकान दवरप खूब गरज़ेचें आसता.

आजाद गोमन्तक दलाचो गोंय मुक्ती लढ्यांतलो वांटो सांगपी एक

कथनात्मक प्रसंग ह्या झेल्यांत आयला. अशे तरेच्या इतिहासीक सत्याचो नाट्यात्म आविश्कार घडयताना भुरग्यांमदीं राष्ट्राभिमान जागोवपाक गोंयचो इतिहास जाणां जावन घेवन तो कलात्मक रितीन आयल्यार आनीकूय प्रभावी थारतलो.

हो एकांकी झेलो वाचल्या उपरांत आनीकूय कांय निरिक्षणां मतींत भरतात तीं म्हळ्यार संवाद. संवाद सादे सुटसुटीत भौभाशीक आनी भौ धर्मीक लोकांक पचता तशे, कोंकणी प्रकृतीक सोबता तशे आयल्यात. फकत एक दोन कडेन सामाजीक भान दवरप गरजेचें दिसलें. खासा करून संबोदताना, भाण, देंवचार, ज्युदेव, पिसो अशा तरेच्या उतरांक पर्यायी उतरां दिवन ते संवाद अदीक प्रभावी करूं येता. रसनिर्मणेचे नदरेंतल्यानूय तें म्हत्वाचें. (बालनाट्याची ती गरज अशें म्हाका दिसता) एकीकडेन एक संवाद बोस्त्यावाच्या तोंडांत आयला. 'तूं गोंयकार मरे?' (गिरमीट) - गृहीत धरप की तूं गोंयकार तुवें गोंयकारांक फटोवंक जायना.

गुन्यांव भोगसवप हें तत्व सत्वाच्या दिश्टाव्याक धरून येता हें ह्या झेल्यांत दिसता. भरतमुनीक नाटकांक परमेश्वर मानला देखून मोक्ष ही संकल्पना आयल्या. क्रिस्ती धर्मतत्व पापमुक्ती, वा कुमसार तत्व (confession) मानता देखून पाप केल्ल्या इमरीताक भाटकान्न भोगशिता अशें कोंकणी धर्मी कथानक गिरमीटांत येता.

संबंद झेलो एके तरेचो moral value घेवन येता. भुरग्यांचें मुक्तांगण, खेळप, मस्ती करप, जाणट्यांचें प्रबोधन, मोनजातीची शिकवण, शिस्तीचें म्हत्व, नितीची शिकवण अशे तरेचे विशय येताना भाशीक वेगळेपणाखातीर ह्या झेल्याक पत लाबल्या. खासा करून साश्टीची बोली लेखिकेन अदीक खोलायेन अभ्यासून पुराय तेच बोलींतल्यान नाट्य निर्मिती करची. आयज मेरेन तियात्रांनी विनोद निर्मिती खातीर हे बोलयेचो चडसो वापर केला. ताका लागून ताचें वेगळें रूप दाखोवपाची गरज आसा.

बाल साहित्य/नाट्य निर्मिती ही सर्जनात्मक आनी कृत्रीम पावंड्याचेरूय वता. वाचप्यांक गृहीत धरून चलपाचें ना. देंवचार आसा. म्हारू आसा. तो खाता असले तरेच्यो गरजे भायर घालपी fantacies चलपाच्यो नात. अमर चित्रकथेचे जनक अंकल पै हांणी एकीकडेन म्हणलां, अमेरिकन fantacies

सोंपल्या ते भारताकडेन आयल्यात. कल्पना चावलाचेर चित्रकथा करताना ताणें बारीकसाणीन अभ्यास केल्लो.

बालसाहित्य निर्मिती मळार साधनापर्वांत वावर करपाची जबाबदारी रत्नमाला दिवकारान घेतल्या. ताचेंच एक फळ म्हळ्यार गिरमीट.



# 19.
# स्वाती – एक धांवतो नियाळ

कोंकणी निबंद प्रकाराचो अभ्यास करताना आमकां 'स्वाती' ह्या निबंद झेल्याचो अभ्यास केल्या बगर फुडें वचूंक जावंचेंना. स्वाती ह्या निबंदझेल्यांत वेगवेगळ्या बरोवप्यांचें सुमार तेरा निबंदांची गांथन केल्या. ते भायर तीन थेंबे ह्या सदराखाला श्री. रवींद्र केळेकार हांणी उक्तायल्ली मनीषा आनी कविराय बाकीबाब बोरकाराचें शणै.गोंयबाबाची व्हडविकाय गावपी पुरूष सुक्त. ह्या पुस्तकाक विष्णू नायक हांणी पयले आनी दुसरे वेळार बरयल्ली प्रस्तावना. ह्यो गजाली वाङमय इतिहासाची गवाय दिवपी आसात.

स्वाती पुस्तकाचेर नदर मारतना रसीक मन खोशयेन भरोन येता. रसीक मन म्हणच्या परस कोंकणीमन म्हणप म्हजे परीन तरी समा जातलें. जण एकल्या बरोवप्यान आपआपले निबंद अशे तरेन हाताळल्या की ते वाचताना कोंकणी मनाक जो उल्हासाचो खोशयेचो आनी खंतीचोय पाझर फुट्टा तो पळोवपा सारको आसा. खंत हें उतर हांवें कित्याक वापरलां तें मागीर कळटलें. 'पदेर' आनी 'रायबारी' हे लुसियो रोड्रीक्स हांचे दोन निबंद. दत्ताराम सुखठणकार हांचें 'आलमपेड्डेर', 'व्होवळो', 'गोंयचो देमांद' आनी 'माशेल' हे चार निबंद. निळकंठ धुमेबाब हांचें 'बल्कांव', नुस्तें आनी नुस्तेंकान्न' हे दोन निबंद. ते भायर लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचो 'आमचे मुस्तीतले मास्तर', पु. ल. देशपांडे हांचो 'कारवार', बाकीबाब बोरकार हांचो 'म्हजो गांव बोरी'. कवी मंगेश पाडगांवकार हांचो 'हिरव्यां कोंकण' आनी निळकंठ साळकर हांचो – 'हातूंत कांय अर्थ ना' हे निबंद आस्पावतात.

जण एका निबंदाची पुरायतरेन उस्तवारी करप शक्य नासलें तरी ताचेर धांवती नदर मारप गरजेचें.

'पदेर' ह्या पुस्तकांतलो पयलोच निबंद लुसियो रॉड्रीक्स हांचो. ह्या निबंदांत बरोवप्यान आपल्या कांळावेल्या पदेराचें मनीस चित्र चित्रायलां. पदेराची आमचें जिणेंतली तेदेवेळावेली गरज दाखयताना ताणें कांय देखी दिल्यात त्यो पळोवपासारक्यो आसात. सकाळीं फुडें काबाय न्हेसून आनी हातान वाजपी

दांडो, माथ्यार पाटें घेवन रूचीक पांव, उणे कांकणां घेवन येवपी पदेर सकाळीं फुडें माणकुल्या भुरग्यांचें आकर्शण कशें थारतालो. लग्ना–काजारा वेळार रूचीक बॉल उण्डे हाडपांत तो कसो मुखार आसतालों. गांवांत वतना पाव वाटीत वचप आनी येतना पयशे एकठांय करीत येवप हो ताचो नित्याक्रम वा दिसपटी आसताली. पदेराच्या आंगाची तरतरांची तासां दाखोवपी ह्या लेखांत बरोवप्यान निमाणे एक खंत उक्तायल्या ती ताणें एके म्हणी वरवीं स्पश्ट केल्या. 'ते फिरंगी गेले आनी उंडेय गेले' गोंयचे भौशीक जिणेंत पदेराचें म्हत्व पटोवन दिवपी हो एक निबंद.

ताचो दुसरो निबंद रायबारी नांवाचो आसा. तातूंत ताणें अशेंच भौशीक गोंयचे जिणेंत रायबाऱ्याचें खाशेलेपण आनी म्हत्व दाखयलां. लग्नां, काजरां जुळोवन हाडपी जो मध्यस्थी (म्हालो) आसता ताका रायबारी म्हण्टात. गांवाकणकणी वाड्याकणकणी तेन्ना रायबारी आसताले. तांचें काम फकत सोरगती जुळोवन हाडपाचें लग्न करून दिवपाचें. न्हवऱ्या व्हकलांचे वायट गूण लिपोवन तांच्यो खोडी लिपोवन तांचे बरेय गूण कशेतरेन एकमेकांमुखार हाडपाचे अशें न्हंवऱ्या व्हकलांचें बरें येवजुपी हो रायबारी. तोंडान म्होंवाळ, सदांच दुसऱ्यांचें बरें चिंतपी, लग्नां–कार्यां घडोवन हाडटाना ती पुराय तरेन सोबोवन वजें दिवपामेरेनचीं कामां, मानापमान, भौमान, अडचणी कशे तरेन तांडून व्हरपी हाची देख आमकां मेळटा. 'बरें जाल्यार व्हकल न्हवऱ्याचें ना जाल्यार रायबाऱ्याचें' अशे तरेची म्हण घडटा. ती रायबाऱ्याचें खाशेलेपण दाखोवपी. केन्ना केन्ना ताचेर बंगलाटां येतात, आनी देंवचाराक लेगीत ताची नसाय जाता आनी कशे तरेन हो भेस करून ताका पिडटा हें कळटा.

ह्या निबंदाच्या शेवटाक बरोवप्यान आयचे जिणेंत रायबाऱ्याचें म्हत्व कशें उणें जायत वता आनी आयचे यांत्रीक जिणेंत गजाली झटापट कश्यो घडटात – चले चलयो एकमेकाच्या मोगान पडून काजार जातात आनी सोयरिगती घडोवन हाडपी आनी तांचेर आपल्या भुरग्याबाळांचो सांबाळ करपी रायबाऱ्याची 'संस्था' कशी संकश्टांत पडल्या हें कळटा.

निळकंठ धुमेबाब हांचें अशेच तरेचो आशय उक्तावपी दोन निबंद ह्या पुस्तकांत आसात. तातूंतलो 'नुस्तें आनी नुस्तेंकान्न' आनी 'बल्कांव' हो निबंद. दोनूय लेखांचो सूर एकूच उत्कृश्ट मन ओडलायणी सुरवात आनी खंतीच्या सुरान

जावपी शेवट हें ह्या लेखांचें खाशेलेपण. 'नुस्तें आनी नुस्तेंकान्न' ह्या निबंदांत गोंयकार आनी नुस्तें हांचें जिवाभावाचें युगायुगांचें नातें दाखयताना नुस्तेकान्नीचें म्हत्व आनी चित्र आमच्या दोळ्यांमुखार उबें करता. आमचे जिणेंत मौज मजा हाडपी पदेर, म्हालो, रेंदेर हांचें प्रमाण नुस्तेकान्नूय बी आसा. गोंयकार म्हळ्ळो की नुस्तें आयलेंच. नुस्त्याबगर आमच्या तोंडान उंडी वचना. लग्नां, काजरां, सटये, पार्टेक आमकां नुस्तें जायच. निळकंठ बाबान हो विशय इतले बरे तरेन केळयला.

नुस्त्याबगर आमचें पान हालना. पालासींत, सरकारी ऑफिसांत वा कसलींय कामां जावंक जाय जाल्यार आमी 'नुस्तें दिल्यार रोकडींच जाता' अशे तरेचो थोमणो ताणें मारला. शेवटाक नुस्तेकान्नीची कोसळत वचपी संस्था. तिचेर खंतीचो सूर काडला. तेच भशेन 'बल्कांव' हो निबंद. आदल्या वेळार आमचीं सगळींच कामां, देवळाच्यो कमिटीच्यो मिटींगो, लोकांल्यो गजाली, न्याय निवाडे, सोयऱ्या धायऱ्याचो मानपान, उठबस. जगावेल्यो खबऱ्यो, शिगम्याचीं नाटकां हांच्यो 'बल्कावांचेर गजाली' कश्यो जाताल्योत, आनी गोंयचें बल्कांव हे गोंयची संस्कृताय कशी तिगोवन दवरताले हें सांगलां. अर्थीक मंदीचे वेळार रासवळ कुटुंबां पयसावल्ल्यान बल्कांव कशे तरेन मोडकळीक आयला हांची खंत आसा. आतां तेंपार फकत रेडियोचेरूच बल्कावांच्यो गजाली आयकूंक मेळटात. ह्या निबंदाची शैली तोखणाय करपासारकी आसा. श्री. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचो 'आमचे मुस्तींतले मास्तर' हें एक चित्र, बरोवप्यान आपल्या मुस्तींतल्या मास्तरांचें चित्र चित्रायताना कांय 'प्रवृत्तीच्या' मास्तरांचें वर्णन केलां. मास्तराची कस ताच्या मारावेल्यान थारतालो अशें म्हण्टाना ते पेडण्याच्या एका मास्तराचे वृत्तीचेर उजवाड घालतात. फकत मास्तरांच्या मोठ्या दोळ्यांक भियोवन बरोबर उत्तरूय चूक सांगपाची चूक कशे भुरगे करताले आनी मास्तर भुरग्यांक फाटीं फुडें पळेनातना भुरग्यांची मनस्थिती न पळयता मारतालो. कशे तरेन हाताक खिणां पडटालीं हाचें वर्णन केलां.

पु. ल. देशपांडे हे मराठी साहित्य मळावेले एक चकचकपी नखेत्र! 'बटाट्याची चाळ' सारख्या बरपांतल्यान ताणी वाचकांक आयकुप्यांक दांतखिळी भायर काडूंक लायल्या. असो हो प्रतिभावंत, अष्टपैलू कलाकार, 'स्वाती' ह्या पुस्तकांत तांचो 'कारवार' ह्या गांवची तोखणाय आनी आपले आनी गांवचे

(कारवारचे) अतूट नातें बरे खाशेले शैलीन उक्तावपी लेख आयला. बाकीबाब बोरकार हांचो 'म्हजो गांव बोरी' मंगेश पाडगांवकार हांचो 'हिरव्या कोंकण' दताराम सुखठणकारांचो 'माशेल' जण एकल्यान बरे तरेन गांवची व्हडविकाय वर्णीताना तो सैम, सैमाचें मनशाचें नातें, मनशाचो सोद आनी त्या मातयेचो वास आपआपल्या बरपांत मांडला. 'साहित्याक मातयेचो वास' म्हण्टाना आमकां ह्या असल्या निबंदाची खुपूच गरज आसता. तातूंत बाकीबाबाचो म्हजो गांव बोरी म्हळ्यार एक 'कविताच' म्हळ्यार अतिताय जावं नजो. त्या त्या वाठाराची भाशा, शैली, लोकजीण, मनीस समाज उक्तावपी हे तरातरांचे निबंद ह्या पुस्तकाक एक गिरेस्तकाय हाडून दितात.

दत्ताराम सुखठणकार हांचे लेखूय ह्या पुस्तकांत एक वेगळी झालर लायतात. 'व्होवळो', 'आलमपेड्ड्रेर', 'गोंयचो देंमांद' ह्या सारख्या लेखांनी तांणी गोंयचो आनी गोंयकारांचो सोद घेतला. 'हातूंत कांय अर्थ ना' म्हणपी निळकंठ साळकर हांच्य निबंदान खुपूच अर्थ भरिल्लो आसा.

ह्या पुस्तकांत वेगवेगळ्या मळावेले बरोवपी आसात. आपआपले परीन तांणी सोद घेतिल्लो आसा. कोंकणी निबंद प्रकाराक एक तरेची गिरेस्तकाय हाडून दिवपाक हें पुस्तक जैतीवंत जालां अशें आयज म्हुणू येता.



